# महाकवि कालिदास विरचित
# रघुवंश महा काव्यम्

## कोंकणि भावानुवादु



अनुवादकु

**पि वामन प्रभु**

श्री रामचंद्राय नमः

# महाकवि कालिदास विरचित
# रघुवंश महा काव्यम्

## कोंकणि भावानुवादु

प्रारंभ चैत्रशुद्ध नवमी
प्रमोदिनि नाम संवत्सर
३-४-१९६०
मुक्ताय

धातृ संवत्सर कार्तिकप्रतिपदा
१२-१२-१९९६

अनुवादकु

**पि वामन प्रभु**
कार्पोरेषन ब्यांक माक्षि
कार्कळ

**"Mahakavi Kalidasa Virachitha Raghuvamsha Mahakavyam"**
Translated in Konkani by Sri. P. Vaman Prabhu.
Pages 256 March 1997 Price Rs. 100/-



First Edition : March 1997

Cover Page Design : Vishnu Shevgoor

Printed at : Codeword Process & Printers,
Falnir, Mangalore - 575 001.
Phone: 428218/421418



**H. H. SHRIMAD SUDHINDRA THIRTHA SWAMI**

**SHREE KASHI MATH SAMSTHAN**

**VARANASI** श्री० व्यासजन्मस्थान

Camp काल्पी
यु.पी.

Ref :

Date ११-२-९८

अस्मत् परमप्रिय शिष्य श्री वामन प्रभून चांग मनान केल्ल्या श्री रघुवंश महाकाव्याचो भावानुवादु पुस्तकाक दिव्ये शुभाशय आनी आशीर्वादु॥.

हे पुस्तका निमित्तिं आमचे कोंकणी भाषा साहित्य वाढ्ळे (अभिवृद्ध जाल्लें) आशी आमची भावना॥ श्रीयुत वामन प्रभून हे पुस्तक बरौवचाक घेत्तिल्ले श्रमु सफल जाणु आमचो विचारु॥. वाग्देवी संतुष्ट जावो, कोंकणी भाषा प्रेमी लोकाचे अभिनन्दन प्राप्त जावो आशी आमची शुभकामना॥.

हे पुस्तकाक अनुदान दिल्लेले कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमी उत्तरोत्तर अभिवृद्धि पावौं ही सदिच्छा॥ हे पुस्तकाक सहायु कोर्चिबाद्दि वामन शेणैक उत्तरोत्तर भरे जावो हो आशीर्वादु॥.

पुनः सर्वांक सर्व सन्मंगल स्वामी रि श्री व्यासरघुपति सान्नीधीन्तु आमची प्रार्थना.

[illegible]

# रघुवंशाच्या कोंकणी अनुवादाक येवकार

आजि कोंकणी भाषेक भारत संविधानांच्या आट्टा परिशिष्टांतु स्थान मेळनु ती राष्ट्रीय स्थानमानांक अर्ह जाल्या। वेग्ळे राष्ट्रीय भाषे सारखे कोंकर्णीतुयिं महाकाव्य तय्यार जाव्चे अवश्य आस्स म्हणु आमि घोषण कर्तचि आस्सति। तीनि वरस फूडे बेंगळूरांत यशस्वि रीतिरि पूर्ण जाल्लेल्या तीनि दिवसाचें कोंकणी भाषा कार्यागारांतु संस्कृताचो महा विद्वांसु डा। दयानंद शानूभाग् असल्या तज्ञानि स्वयं निर्धारु घेव्नु हें काम आमि करूका म्हणु तान्नि उलो दिल्लोलो आस।

कोंकणी साहित्याभिवृद्धि खातीर निर्माण जाल्लेल्या साहित्य अकाडमि अस्सले कार्याक प्रोत्साहु दित्ता।

आजि स्वतंत्र महा काव्य नई जाल्यारियि महा कवि कालिदासालें महोन्नत कृती संस्कृत रघुवंशाचो भावानुवादु पि. वामन प्रभु कार्कळ हाणे केल्लोलो आम्का संतोषाचो विषयु।

प्रारंभारि वामन प्रभुन कालिदासालें ऋतुसंहार म्हळले ऋतु वर्णनांयि अनुवादु केल्लोलास्स हेंवंयि वगीचि ताणे प्रकट कोरोनु कोंकणी साहित्य भांडार भोर्का म्होणु अपेक्षा कर्ता

आम्गेलि आनिंकयि आशा कसलि म्हळयारि कोंकर्णीत एक स्वतंत्र महाकाव्य येव्का। कसलेंयि आसो आजि स्वतंत्र महाकाव्य नई जाले तकिनि महा काव्याचो अनुवादु कोंकणीन जाल्लो म्हळलो संतोषु आस। तांतूयिं कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडमिचे मेगेले अध्यक्षपणाच्या अवधिरि हें कार्य जात्ता, ग्रंथ प्रकट जात्ता म्हळले संतोषा विषयु कोंकणी अकाडमि परजाव्नु रघुवंशाच्या कोंकणी भावानुवादाक येवकार कर्ता.

**बि.वि. बाळिगा**

अध्यक्षु

कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडमि

मंगळूरू

17-3-1997

# सार्थक अनुवाद कार्य

मेगेलो आप्त मित्रु श्री.पि. वामन प्रभुल्या (आम्गेल्या मित्रवलयांतु वामन मास्त्र) ह्या साहसाक दोन उत्रांचें शुभाशंसन बरौचाक मस्त संतोषु जात्तां। महा कवि कालिदासालें रघुवंश महाकाव्य कोंकणींतु अनुवादु कोर्नु, श्री प्रभुन एक महत्वाचें साहित्यक कार्य केल्लां। आनि कोंकणी साहित्य श्रीमंत केल्लां म्होणु हांव विश्वास पाव्तां।

एक दृष्टिरि काव्याचें अनुवाद कार्य म्हळयारि कठिन काम। मूल काव्यांतील भाव, सौंदर्य, माधुर्यादिगुण वरौनु घेव्नु अनुवाद एक पंथाव्हानंचि। तांतुई वामन प्रभून अनुवादाक घेत्तिलें एक संस्कृत महाकाव्य, तांतुई कालिदासालें, महाकविलें काव्य अनुवादाक मेळतालें नईं। झाल्यारी वामन मास्त्ररान तें काम साध्य म्होणु कोर्नु दाकैलां।

हे अनुवादांतु मूल काव्याचे भाव जीवंत दवोर्नु, कोंकणींचे जायमानांक समजाव्नु समर्थ रीतीन अनुवाद कार्य झाल्ला एक दोन उदाहरण पळैयाति -

सकीचकैर्मारुत पूर्ण रंध्रैः कूजभ्दिरापादितवंशकृत्यम्।
शुश्राव कुंजेषु यशः स्वमुच्चैरुदीयमानं वनदेवताभिः

हाझो कोंकणी अनुवादु -

वायुन वाशा पोकळांतु रिग्ताना
तांतु दोकुनु गोडुचि शब्दु येत्ताना
झार्कुटांतु निपुनु वनदेविनि होडान
कोर्चें आय्कलो रायु स्व कीर्तिगान

रूपं तदोजस्वि तदेव वीर्यं तदेव नैसर्गिकमुन्नतत्वम्
नकारणत्स्वाद्बिभिदे कुमारः प्रवर्तितोदीप इवप्रदीपम्

कोंकणी

बाप्सुलोचि आंग्लोटु ताझेंचि त्राण
स्वाभाविक तागेलेंचि एक होड्पण
एक दिव्यान अन्य दिवो लायिल्वरि
आनु पूतु आशिले भेदु नांतिल्वरि

संस्कृत

एतद्गिरेर्माल्यवतः पुरस्तादाविर्भवत्यम्बरलेखि शृंगम्।
नवंपयो यत्र घनैर्मया च त्वद्विप्रयोगाश्रु समं विसृष्टम्

कोंकणी अनुवादु

पळे माल्यवतु म्होणु शैल होड
राब्लां माळपाक लागोनु बोड
हांवें विरहान हांगां नयन जल

रकैलें तेन्ना घनानि नव सलिल
आनेकु पळया -
भवति विरल भक्तिर्म्लान पुष्पोपहारः
स्व किरण परिवेषोभ्देदशून्याः प्रदीपाः
अयमपिच गिरं नस्त्वत्प्रबोध प्रयुक्ता
मनुवदति शुकस्ते मंजुवाक्पंजरस्थः
बाव्नु पूजा फूल्लांचि विंडावण दूर जाल्या ।
आसुनु स्व प्रभावलय दिव्वे मयाळ जाल्या
तुका जागोचाक आमि केल्लेलि आय्कुनु स्तुति
पांजिर्यांतुले तुगेले कीर नकलि कर्तांति

असलि किल्लिकी उदाहरण दिव्येत । अनुवाद कार्यांतु श्रीप्रभून केल्लेले काम सर्वांग सुंदर अनुवादु जाव्का म्हळें दृष्टिरि केल्ला । कालिदासाले काव्य सौंदर्य आनि कोंकणी भाषा स्वभाव दोन्नीई मिलन जाव्नु अनुवादकाले ध्येय हांगा बरेच अंशान पूर्ति जाल्लां ।

वामन मास्ट्रालि ही निवृत्ति जीवनाविलि प्रवृत्ति अभिनंदनार्ह । ही मुकार्सूनु हो वामनु, कोंकणी साहित्यांतु त्रिविक्रम साधन कोरो म्होणु हांव हृत्पूर्वक शुभाशंसन कर्तां ।

**एम् प्रभाकर जोशि**
प्राध्यापकु
बेंसेंट पदविपूर्व कालेज

मंगळूरू
13-3-1997

**परम पूज्य श्रीमत्सुधीन्द्र तीर्थ स्वामि । परम पूज्य श्रीमद्राघवेन्द्र तीर्थ स्वामि,**
**श्री काशीमठ संस्थान, वारणासि**



चांग व्यक्तिनि जोळ्ळेले धन
मेघां म्हण्के कोर्चाक दान



श्री.बि.वि. बाळिगा.



डा.दि.टि.एम्.ए.पै.



श्री.दि.बि. मंजुनाथ पै.



विश्व कोंकणी सरदार
बस्ति श्री वामन शेणै

# कृतज्ञता

परमपूज्य श्रीमत्सुधींद्र तीर्थ परम गुरुंक आनि काशिमठाधीश श्रीमद्राघवेंद्र श्रीपांदांक साष्टांग प्रणामु

कवि कुलगुरु कालिदासु संस्कृत साहित्यांतु एकु महोन्नतु व्यक्ति । विश्व साहित्यांतूचि एकु असदृश व्यक्ति । ह्या कविले महाकाव्य रघुवंश म्हळलें । ह्या रघुवंशाचो भावानुवादु हांवें, दक्षिण कर्नाटकाचा गौडसारस्वत ब्राह्मणानि उलोचा कोंकणीन केल्ला ।

ह्या अनुवादाचें वैशिष्ट्य कस्सलें म्हळयारि - प्रतिएक पद्य एक मात्रा नियमांक अनुसार जाव्नु आस्स, प्रतिएक पद्याक अंत्य प्रासु आस्स, पद्यं लय बध्दजाव्नास्सति । हांतु गेयगुण आस्सवे म्हळले संगीतज्ञान सांगूका । अशिं नियम बध्द जाव्नु लिखिलें दोकूनु अर्थु कोरुक स्वल्प कष्ट जाय्त । आजि देवनागरि लिपीचि कोंकर्णींक वापुर्का म्होणु भोंवु कोंकणी भाषिकालो अभिप्रायु आस, आनि भारतांतु भोवु लोकु देव नागरि जाण्ता दोकुनु ह्या देशाच्या खंचेयि प्रदेशारि आशि ल्यानियिं हें वाचूक साध्य जात्ता ।

ह्या भावानुवादांतु कन्नड शब्द बुद्धि पूर्वक प्रयोगु कर्निंति । कारण अण्वाळपण नईं । कर्नाटक सोणु भाग्रि आशिल्यानी वाचिताना तांका मस्त वांव्ट जाव्वाक नज्ज म्हळलो उद्देशु । म्होणु गोवा, मराठि भार्षेतु आनि कन्नड भार्षेतु आशिले स्वल्प शब्द उपयोगु केल्लेले आस्स ।

निज जाव्नु एकु अनुवादु सार्थक जाव्का म्होणु जाल्यारि अनुवादु कोर्च्या भार्षेतु जायि तित्तुली शब्द संपत्ती आसुका । जाल्याारि त्या दिशान कोंकणी भास आनिंकयि वाढनि म्होणु मेगेलो अभिप्रायु ।

कर्नाटक कोंकणी सहित्य अकाडमिन हें ग्रंथ मुद्रण कोरुक सहकारु केल्ला । दोकुनु अकाडमि अध्यक्षु श्री.बि.वी. बाळिगा हांकां आनि अकाडमि वेग्ळे सदस्यांक हांवं कृतज्ञु जाव्नास्स ।

न्याय जाव्नु श्रीबाळिगांक हांवं चिरऋणि जाव्नु आसुका । कारण ह्या रघुवंशाचो भावानुवादु पंच्कादायि कोंकणी मासिकारि सात सर्ग पर्यंत प्रकट कोर्नु प्रोत्साहु दिल्लोलो आस्स । करावळि अले, कन्नड जन अंतरंग ह्या पत्रिंकेरि अनुवादा विषयांतु श्लाघन कोर्नु लिखिलें आस्स, प्रारंभारि कालिदासालो ऋतु संहार ग्रथांचो अनुवादुयि, देवनागरि लिपिन आनि कन्नड लिपिन पंच्कादायिरि प्रकट कोर्नु प्रोत्साहु दिल्ला । अशिं जाव्नु हांका केन्नायिं विसर्ना ।

मित्रु, यक्षगान अर्यधारि, विमर्शकु, लेखकु, बेसेंट पदविपूर्व कालेजाचो प्राध्यापकु श्री एम्. प्रभाकर जोशि हाणे कोंकणी रघुवंशु वाचुनु मार्गदर्शन कोर्नु, तत्क्षण श्री बस्ति वामन शेणै विश्व कोंकणी सरदार हांका धोर्नु साहित्य अकाड़मिंचा अध्यक्षाल्यागि उलोंनु आजि कोंकणी रघुवंशु, प्रकट जाव्वाक आदि पुरुषु जाव्नास्स । तर्शींचि शुभाशंसना कोर्नु चारि उत्रयिं लिखिलिं

आस्स । हाक्का प्रीतिपूर्वक प्रणामु ।

प्रोफेसर एम् रामचंद्र श्रीभुवनेंद्र कालेज कार्कळ हाक्का प्रथम मेगेलो अनुवादु वाचुनु संगुनु तागेलो यथार्थ अभिप्रायु दिव्का म्होणु मागणी केल्लि । ताणे उदयवाणी दिन पत्रिकेचा जनतावाणि अंकणांतु ग्रंथा विषयांतु चांग चारि उत्रं बरैलिंति हाकायि मेगेलि वंदना ।

उदयवाणि, कन्नड जनअंतरंग, करावळि अले, पंच्कादायि ह्या पत्रिकेंनि दिल्लेल्या उमेदिक जाव्नु ह्या पत्रिका संपादकांक मेगेलो धन्यवादु ।

श्री बस्ति वामन शेणैन कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडमि मूलक सहकारु दिवोचि भरोसा दिल्लेमागिरि श्री दयानंद पै सेंचुरि बिल्डिंग कन्ट्रक्षन् प्रैवेट लिमिटेड् हांगेले करान सहकारु दिवैता म्होणु धैर्य दिल्ले परांचें हांवं रघुवंशाच्या कोंकणी अनुवादु प्रकट कोरुक उड्लों । श्री वामन शेणैल्या ह्या होड्पणांक, कोंकणी भाषेचेरि ताका आसुचा अभिमानांक मात्तें बाग्वानु नमस्कारु कर्तां ।

ह्या ग्रथं प्रकटणेंक स्वल्प व्यक्तिनि माका सहायु केल्लो । दिवंगत डा.टि.एम्.ए.पै. पतिष्ठान हान्नि धा हजार रुपयि दिव्चाक सम्मति दिल्या । ह्या संस्थ्याच्या अध्यक्षाक आनि पदाधिकारींक गौरव पुरस्सर जाव्नु प्रणामु कर्तां ।

श्रीमान दयानंद पै सेंचुरि बिल्डिंग् कन्द्रक्षन् प्रैवेट् लिमिटेड् हांगेल्या सहकाराक आभारि जाव्नास्स ।

भारत बीडि वर्क्स प्रैवेट लिमिटेड् मंगळूरु ह्या संस्थेचो अध्यक्षु श्री बि.गणपति पै हान्नि हांगेल्या तीर्थरूप दि.श्री.बि. मंजुनाथ पै हांगेल्या उज्ञासाक श्री बि. मंजुनाथ पै सांस्कृतिक प्रतिष्ठाना दोकूनु उदार देणे दिलेल्या हांगेल्या उपकाराक आभारि जाव्नु आस्स ।

श्री नंदकुमार आर् कुड्वा, नवमी ल्पाजा मूडबिदरे, शिल्पि श्री आर राधामाधव शेणै, श्री टि.सदानंद कामत् आनि हागेले सुपुत्र प्रभात शिल्कस् हांगेल्या सहकाराक धन्यवादु । मेगेलो सहपाठि आप्त मित्रु श्री एम् माधव पै. निवृत्तु प्राचार्यु शिवमोग्गा हाणे हें ग्रंथ प्रकटण जाव्चे वेळेरि सहकारु दित्ताति म्होणु दोनि वर्ष फूडेचि डा.टि.एम्.ए.पै फौंडेशना दोकुनु भरोसा दिवैशि करैल्या । हागेलो उपकारु केद्नायिं विसर्ना ।

भोमानेस्त मंजेश्वर मुकुंदप्रभु, निवृत्त प्रोफेसर लीला भट्ट एम्.ए. मेगेलो सहोद्योगि श्री के. वामन पै, विद्वान्, शिरोमणि, वेदमूर्ति मुळिकाडु नरसिंह भट्ट, शिरोमणि, विद्वान्, कु. सुशीला नायक एम्.ए. शिरोमणि, श्री.के. गोविंद राव् सार्वजनिक ग्रथांलयाचो अधिकारि कार्कळ हान्नि उनेक रीतिरि माक्का सहायु केल्लोलो आस्स केन्नायिं हांवं होगेलो उज्ञासु कर्तां ।

मुद्रण कोर्चे फूडे भद्रतेक पैसो दिव्चाक माका रिण दीव्नु लिखूंक जायितित्तुलिं पुस्तकं, लेखन सामग्रि हाणु दीव्नु उपकारु केल्लोलो मात्र नई अशुध्द प्रति सम कोर्नु दीव्नु हांवें अनुवादु वाचूनु सांग्ताना आय्कूनु माका नित्य प्रोत्साहु दिल्लेल्यो मेगेल्यो भाच्यो डा.के. पूर्णिमा नायक, कु. वीणा नायक हांकां बरेंजाव्वो म्होणु आशीर्वादु कर्तां ।

पुस्तक मुद्रणजाल्लां पण आनिंकयि रिणांचो फोंडु भर्नि । भोर्चो कशिं म्होणुयिं समज्नां । असल्या गळकात्रे वेळेरि श्री रवींद्र भट्ट श्रीमद्भुवनेंद्र प्रौढशाला अध्यापकु, प्रकृत गौडसारस्वत ब्राह्मण सभाचो अध्यक्षु सार्वजनिक कार्यकर्तु हाणे मेगेलो हातु धोर्नु मुखारि वोच्चा क धैर्य दिल्लां । ह्या व्यक्तिन हातु घाल्लेलिं खंचेयिं काम वाय्ट जाय्निंति । तो हागेलो हातु गुणु, तशिंजाव्नु हांवें ताका घट धर्ला । आतं हांवं निश्चिंतु, हाका हांवे धन्यवादु दिल्यारि चूकि जात्ता । हांवें ताका दूर केल्लेल्वरि जात्ता । तो मेगेलो शिष्यु म्हण्ताना मेगेलोचि जाल्लो हाक्का देवु बरें कोरो हागेले करान मस्त सार्वजनिक कार्यं कोरोनु घेव्नु हाका कीर्ति, आयुरारोग्य एश्वर्य दिव्वों म्होणु मागुनु घेत्तां ।

मान्य योगीश डांगे, कोडवर्ड प्रोसेस, एंड् प्रिंटर्स ह्या संस्थेचो यजमानु हाणे सर्वांग सुंदर जाव्नु, शीघ्र जाव्नु हें ग्रंथ सजावट कोर्नु दिल्लां हांकायिं हागेल्या सहोद्योगिंकयि मेगेलो नमस्कारु !

कलाकारु श्री विष्णुकामत सेवगूरु हाणे रक्षा पुटाचो अलंकारु कोर्नु पुस्तकाचे सौंदर्य वाढैलां हांकायिं मेगेले नमन ।

आजि रघुवंशाचो कोंकणी भावानुवादु प्रकट जाल्लेल्यान माका कित्तुलो आनंदु जाल्ला की तित्तुलोचि आनंदु भोगुचा व्यक्ति पैकि एकलो, ह्या ग्रंथ मुद्रणांक जाव्नु, मेगेले कडेचान कोण् कोणाल्यागि वोच्चुनु गळो आड घाल्नु प्रयत्न केल्लोलो आन्नेक व्यक्ति, उदयवाणि उपसंपादकु श्री के. राघवन् नंब्यार । ह्या संदर्भारि हांवं हाका विसर्लो तरि हांवं पापि जात्तां । हांकायि देवुबरें कोरो म्होणु प्रार्थना कर्तां ।

परम गुरुनिं शुभसंदुश दीव्नु पेटोनु, शुभाशीर्वादु केल्ला पुनः गुरद्वयांलो अनुग्रहु सदा आम्चेरि आस्सो म्होंणु मागणी कर्तां ।

दिनांक : 20-3-1997
कार्कळ

पि. वामन प्रभु
अनुवादकु

# अनुक्रमणिका

श्री रामचन्द्राय नमः

रघुवंश महा काव्यम्

# प्रथम सर्गु

## वशिष्ठाश्रमाभि गमन

शब्दार्था वरि मेळ्नु आशिंल्याक ।
राब्दार्याचें ज्ञान पाव्चाक ॥
वंदना पार्वती परमेश्वरांक ।
सर्व जगांच्या आनु आम्मांक ॥ १ ॥

सूर्याक जाल्लेलें कुल रवंयि ।
अल्प सम्जललो हांवं रवंयि ॥
श्रमा पाव्नु तेरपोरि सागर ।
आटैलां कोर्का म्होणु पार ॥ २ ॥

मूर्खु पुणि कविलि कीर्ति पाव्वे आशेन ।
जाल्लोंमु हांवं अपहासाक भाजन ॥
लंबुक मात्र पाव्वा फलाक आशेन ।
हातु उक्कळेले म्हण्के वामनान ॥ ३ ॥

एकयि पूर्वकविनि दाकयिल्या वाटेन ।
सुत्तावरि आस मेगेलें गमन ॥
वज्रान केल्लेल्या रत्नांच्या वेज्ञांतु ।
सूर्याक जालेल्या त्या वंशांतु ॥ ४ ॥

अशिं हांवं जन्मारभ्य अण्वाळ्यालें ।
फल मेळ्चे पर्यंत कर्म केलेल्यालें ॥
सागर सीमा जालेल्या रायांगेलें ।
स्वर्गाक रथु वोच्चो मार्गु आशिल्यालें ॥ ५ ॥

क्रमानुसार जाव्नु यज्ञ केलेल्यालें ।
माग्तल्यांक निम्गिलेलें दिलेल्यालें ॥
चुक्किक सम जालेलि शिक्षा दिलेल्यालें ।
सकालारि जागृत जाव्नु आशिल्यालें ॥ ६ ॥

त्यागु कोरुक म्होणु धन जोळ्ळेल्यालें ।
सत्य राक्वाक ऊणे उलैतल्यालें ॥
व्हार्डिक संतति पाव्वाक जालेल्यालें ।
कीर्तिक म्होणु दिग्विजयु केलेल्यालें ॥ ७ ॥

चेर्डुंपणारि विद्या शिक्किल्यालें ।
यौवनारि इंद्रिय सुख भोगिल्यालें ॥
म्हांतार्पणारि मुनिवरि आशिल्यालें ।
योगान अंत्यारि तनु सोळेल्यालें ॥ ८ ॥

असल्या रघुल्या कुळाविलि कथा ।
आय्कलेल्यान हांवं सांग्तां ॥
उत्रांतु आस्लेतकिनि दुर्बळ्पण ।
संतोषु पाव्वु तांचें गुणान ॥ ९ ॥

गुणदोष विमर्शक सज्जन ही कृति ।
आय्कुचाक योग्य जाव्नु आस्सति ॥
भांग्राचि कळंवि एकयि शुध्दता ।
उज्रांतु लाशिल्यारि कळता ॥ १० ॥

विदुषांल्या गौरवाक पात्र जाव्नु ।
नांवं वैवस्वतु मनु म्होणु ॥
ओंकारा म्हण्के चारि वेदांक ।
आशिलो प्रथमु जाव्नु रायांक ॥ ११ ॥

जन्मांक आय्लो त्या चांग कुलांतु ।
चंद्रा वरि क्षीर सागरांतु ॥
रायांक श्रेष्ठु दिलीपु म्हळलो ।
भारी अण्वाळो जालोलो ॥ १२ ॥

दीर्घ वाहु लंबु साल रुक्का वरि ।
रूंद हर्दे खांदु बैलावरि ॥
स्व कर्मांक योग्य शरीर आशिलो ।
बल रूप पाविल्वरि दिस्तलो ॥ १३ ॥

सकड भूतां पशि अधिकु तो बलान ।
सकड तेजांक कोर्नु अपमान ॥
सकड भुवन मंडल कोर्नु आक्रमण ।
राब्ला मेरु वरि उन्नत तनुन ॥ १४ ॥

प्रज्ञा तागेलि आकृतिक समान ।
प्रज्ञांक उचित आगमज्ञान ॥
आगम ज्ञानांक योग्य आरंभ ।
कशिं आरंभ तशिं फल लाभ ॥ १५ ॥

जालो रायु आश्रयु पाविल्यांक ।
कारणु भीति मागिरि प्रीतिक ।
जलजंतु रत्नं भोर्नु जलधि कशिं ।
उग्रु सौम्यु राजगुणान तशिं ॥ १६ ॥

मनुले कालारि दोकुनु प्रजानि ।
सोणि पध्दति आग्ळा तितुलि पुणि ॥
झर्लोलो मार्गु रथ चक्रं कशिं ।
नियंतुल्या निमित्तान तशिं ॥ १७ ॥

प्रजा अभिवृद्धिक म्होणु रायान ।
प्रजांल्यागि कर धेत्लें क्रमान ॥
सहस्र गुण माक्षि दिव्वाक म्होणु ।
उद्दाक तांड्ता सहस्र किरणु ॥ १८ ॥

सैन्य तागेले केवल उपकरण ।
दोनिमात्र प्रयोजन कारण ॥
स्थिर जालेलि बुद्धि शास्त्र विषयांतु ।
दोरि बांदिलें चाप हात्तांतु ॥ १९ ॥

कळना मुखभाव आदि विकारान ।
तागेलि ती गुप्त आलोचन ।
फल मेळे मागिरिचि कोळ्का कर्म ।
संस्कारा म्हण्के पूर्व जन्म ॥ २० ॥

केलें भंय सोणु शरीर रक्षण ।
निरोगि जाव्नु धर्म संपादन ॥
हिम्तेंपण सोणु धनांचो संग्रहु ।
सर्वसुख भोग्लो जाव्नु निस्पृहु ॥ २१ ॥

ज्ञानांतु मौन पराक्रमांतु सहन ।
स्तुति विरोधि केलेतकिनि दान ॥
अशिं तागेले विरोधि गुणमेळ्नु ।
आशिले भांव्डा म्हण्के जाव्नु ॥ २२ ॥

विषय सुखाक वश जाय्नात्तिल्याक ।
संपूर्ण विद्या शिक्किल्याक ॥
आय्लें जरा नांतिलें दिलीपाक ।
म्हांतार्पण धर्म अनुरक्ताक ॥ २३ ॥

प्रजांक शिक्षण तांगेलें रक्षण ।
केलेल्या कारणान पोषण ॥
आनु तांगेलो म्होणोनु येत्लें ।
जनक जन्मु दिलेल्यान जाले ॥ २४ ॥

अपराधिंक शिक्षा लोक हिताक ।
व्हार्डिक जाव्नि संतान वाडुक ॥
विक्रमि ताका अर्थु मागिरि कामु ।
जाव्नु आसति ते केवल धर्मु ॥ २५ ॥

यज्ञांक भूमि कर घेव्नु रायान ।
झाडुांक म्होणु स्वर्गु इंद्रान ॥
रितें कोर्नु साट्यान दोगांनियिं ।
केलें लेकांचें भरण दोन्नियिं ॥ २६ ॥

जाय्नि रक्षकु त्या रायालें यश ।
वेग्ळे रायांक नकलि कोरुक ॥
कारण शब्दु आंस चोर्पण म्होणु ।
नां पर धन हरण वाय्ट दोकुनु ॥ २७ ॥

विरोधि जालेतकिनि ताका शिष्ट ।
रोगिंक वोकदा म्हण्के इष्ट ॥
प्रिय जन जालेतकिनि त्याज्य दुष्ट ।
सरोपु चाबिलें कशिं की बोट ॥ २७ ॥

अजान महाभूत वस्तुति ताका ।
निर्माण केलोलो आसुका ॥
तशिंजाव्नु तागेले सकड सुगुण ।
आसति कोरुक पर प्रयोजन ॥ १९ ॥

समुद्रूचि खंदक तीरचि वोणति ।
अशिं आसूचि सग्ळिचि धरित्रि ॥
एक पट्टणां वरि अनायासान ।
मोगान ताणे केलि पालन ॥ ३० ॥

दाक्षिण्य गुणांचि सुदक्षिणा म्हळलि ।
मगध कुलांतु जन्माक आयिलि ॥
अग्निलि बाय्ल कशिं दक्षिणा म्हळलि ।
बाय्ल तागेलि तशींचि आशिलि ॥ ३२ ॥

साबार बाय्लो राणीवासांतु ।
आसुनुयिं आपण पत्निवंतु ॥
म्होणु ताणे लेख्लें लक्ष्मी आनि ।
सुदक्षिणा निम्गिति मनस्विनी ॥ ३२ ॥

आपण्यांक समु बाय्ले पोट्टांतु ।
पूतु जाय्नि म्होण्चा विषयांतु ॥
कुतुकान विळंब जालें म्होणु फळ ।
आशेन खळंबाय्तलो काळ ॥ ३३ ॥

जाव्का पूतु म्होणु व्रत कोरुक ।
विश्रांति दीव्नु स्वस्कंधांक ॥
होंवैलो जगाचो भारु भारी ।
ताणे सचिवांल्याः भुजांन्नेरि ॥ ३४ ॥

मागिरि एक चेर्डुं जाव्का म्होणु ।
व्रह्मालि पूजा भक्तिन कोर्नु ॥
गेलिं बाय्ल बाम्मुण भेटि कोरुक ।
गुरु वशिष्ठ मुनिले आश्रमांक ॥ ३५ ॥

गंभीर मधुर गाजु कोर्चो एक ।
रथाचेरि आशिलिं चोव्वाक ॥
विद्युत् ऐरावतानि वोच्चे वरि ।
बैसुनु पाव्साच्या धनांचेरि ॥ ३६ ॥

जाय्त तपोवन शांति भंग म्होणु ।
थोडेंचि परिवार मात्र धेव्नु ।
विशेष कांतिचें मंडल आसूनु ।
सैन्य सहितु जालेल्वरि दिसूनु ॥ ३७ ॥

साल रुकांच्या रसाच्या वासान ।
शिंपुनु फुल्लांच्या परागान ॥
रान हाल्लोनु सुख स्पर्श आशिलि ।
सेवा स्वीकारु कोर्नु वायुलि ॥ ३८ ॥

रथ चक्र ध्वनिंक मात्तें उकोव्ळनु ।
मोरानि षड्जाक सदृश जाव्नु ॥
दोनि रीतिरि केकाध्वनि केलेलि ।
आय्कुनु अतिमनोहर जालेलि ॥ ३९ ॥

रथान्ति वाट सोणु राबुनु लागिचि ।
कुतूहलान स्यंदन चोव्विं ॥
दोळे चोव्नु चित्लालें जोडिचे ।
स्वलोचनांक समान आसुचे ॥ ४० ॥

खांबे नांतिले त्या तोरणा वरि ।
उब्वि सारंसं पांति माळपारि ॥
तोंड चिके उक्कोव्ळनु चोव्नु तान्निं ।
आय्कुनु केलेलि गोडिचि ध्वनि ॥ ४१ ॥

अनुकूल वारें होळचें चोव्नु कार्य ।
सफल जात्ता म्होणु कोर्नु धैर्य ॥
केस मुंडासांक लाग्चे फूडेचि ।
उबिलि धूळि धोड्यांच्या खुरांभि ॥ ४२ ॥

सरोवराच्या तरंगान शीतळु ।
कमलांच्या फुल्लांचो परिमळु ॥
स्व निःश्वासाक समानु जालोलो ।
हुंकुनु मारुतान हाळोलो ॥ ४३ ॥

पुर्लेलिं यूप चिह्न आशिल्या ।
आपण्यान दान दिल्लेल्या ॥
ग्रामांत्र ऋषिनि अर्ध्य आशीर्वादु ।
दिल्लोलो धेव्नु पाव्नु विनोदु ॥ ४४ ॥

आजि हून केलेलें तूप धोर्नु ।
राबिलें गोपवृध्दांक चोव्नु ॥
निम्गुनु नांवं वाट्टेरि आसुचा ।
नाना रुक्काचिं रान्नांचा ॥ ४५ ॥

तान्निं वत्ताना शुद्ध वेषान ।
दिस्ले विशेष एक शोभेन ॥
जालेले म्हण्के चित्रा चंद्रम ।
दवु गेले परांचें समागम ॥४६ ॥

पोळोचिं दृश्यं दाकोनु सतिक ।
पोळोचाक सुंदरु रायाक ॥
दूर प्रयाण कोर्नु आय्लेतकिनि ।
वाट सर्लेलि गमनांक येनि ॥ ४७ ॥

इतरांक नांतिलि रव्याति पाविलो ।
थक्वलेले घोडे आशिलो ॥
मुनिले आश्रमांक सुदक्षिणा प्रियु ।
पाव्लो संध्याकालारि रायु ॥ ४८ ॥

वनांतु दोकुनु समित्कुश फळ घेव्नु ।
माक्षि येव्वा ऋषिंक पोळोनु ॥
दिसना तशिं उट्टानु गौरवान ।
आपोनु होर्चे तसलें शिखिन ॥ ४९ ॥

मुनि सतिंल्या भुग्यांवरि आशिलिं ।
झोपडिचे वाट्टेरि राबिलिं ॥
नीवारांशांक योग्य जालेल्या ।
चिल्लानि भर्लेल्या तसल्या ॥ ५० ॥

तान्निंक आळ्यांतुलें जल पिव्वाक ।
आयिले पक्षांल्या धैर्याक ॥
उद्दाक घाल्नु मुनि कन्यानि रुक ।
सोणु गेलेलें तसलें एक ॥ ५१ ॥

सांजे वत नीव्नु गेले परांचें ।
लागि नीवार धान्य राशिचे ॥
बैसुनु आंगणांतु पर्णगृहाचा ।
चाप्डाचिं चित्तलं आसुचा ॥ ५२ ॥

होम अग्नि जळता म्होणु सांगुचें ।
आहुतिचि सुवासना आसुचें ॥
तपोवन अतिथिंक पावन कोर्चें ।
वार्याक उब्वें धूम आश्चें ॥ ५३ ॥

मागिरि घोड्यांक विरामु दिव्वाक ।
आज्ञा केलि आंबुड्तल्याक ॥
रायान रथारि दोकुनु बाय्लेक ।
देंवोनु आपण देव्लो भूंय्क ॥ ५४ ॥

शास्त्र निपुणालि भूमि राक्तल्यालि ।
बाय्लेल्या जोडि आयिल्यालि ॥
जितेंद्रिय सभ्य मुनिनि पूजा केलि ।
अर्चनेंक योग्यु जालेल्यालि ॥ ५५ ॥

संध्या अनुष्ठानांच्या अंत्यारि ।
खाहादेविक घेव्नु अग्नि वरि ॥
अरुंधति जोडि आशिल्या ऋषिलें ।
दर्शन बाय्ल बाम्णानि केलें ॥ ५६ ॥

केलें मागधि मागिरि दिलीपान ।
तांचा पवित्र पाय्यांक नमन ॥
तान्निं ताकां केलें अभिनंदन ।
मोगान गुरु आनि गुरु पत्निन ॥ ५७ ॥

जालोलो रथु धोल्लेल्यान श्रमु ।
जात्तरि आतिथ्यान निर्नामु ॥
मुनिन निम्गिलें राजाश्रम मुनिंक ।
कुशलवे म्होणु सकड प्रजांक ॥ ५८ ॥

अथर्व वरमुनिले लागि अनंतर ।
वश कोर्नु धेत्तिलिं अरिलिं पुर ॥
सार्थक उत्रं उलैलो भूरमणु ।
उलोचांतु स्वाभाविक निपुणु ॥ ५९ ॥

देव एकयि मनुष्य संबंधान ।
येव्वाक साध्य आसवे व्यसन ॥
परिहार कर्तृ आस्ताना तूंवें ।
राज्य सप्तांग कुशल नईंवे ॥ ६० ॥

मंत्र सृष्टिकर्तृ तूं दूर दोकुनु ।
मंत्रान वैरिलें नाश कोर्नु ॥
दिश्चें लक्ष्य भेत्तुचें माझें शर ।
केलेल्वरि दिस्ता तिरस्कार ॥ ६१ ॥

महामुनि तूंवें शास्त्रोक्त रीतिरि ।
अग्निंतु धालेल्यान हविस्सु ॥
अनावृष्टिन सुकिले झाड्डांचेरि ।
कारण जात्ता पोड्चाक पाव्सु ॥ ६२ ॥

शतवर्ष पर्यंत माझे प्रजांक ।
दुष्काळु नांतिलें निरातंक ॥
वांचुक तुझो ब्रह्मचर्य वर्चस्सु ।
कारण अशिं माझो विश्वासु ॥ ६३ ॥

अशिं गुरुन तूंवें ब्रह्मपुत्रान ।
कर्ता म्हण्ताना शुभ चिंतन ॥
चट नांतिल्यालें माझे संपद ।
जाय्ना कशिं वर्धन वेदविद ॥ ६४ ॥

जाल्यारि पळैनि अनुरूप संतति ।
ह्या तुझे सुन्नेल्या पोट्टांतु ॥
माका हाझेन खुशि ही वसुमती ।
कर्नां रत्न आसुनु गर्भांतु ॥ ६५ ॥

पिंड दित्तलिं नां माझे मागिरि ।
म्होणु कुलाचे पितृ स्वर्गारि ॥
श्राद्ध भोजन कर्नांति तृप्ति पाव्नु ।
स्वधा संग्रहांतु तत्पर जाव्नु ॥ ६६ ॥

माझे परांचे मेळशिनां म्होणु ।
हांवें दिल्लेलें उदक चोव्नु ॥
पूर्वज पित्ताति स्व निःश्वासान ।
जालेलें तें थोडेंचि हून ॥ ६७ ॥

यज्ञ आदि सत्कर्मान शुद्धात्मु ।
संतान नां दोकुनु दुःखात्मु ॥
उज्वाडु आनि काळोकु आसुचा ।
सम हांवं चक्रवाल गिरिचा ॥ ६८ ॥

तपस्सु दानान मेळेलें पुण्य ।
अन्य लोक सुख पाव्नाक पण्य ॥
चांग कुलांतु जालेलें संतान ।
इह परलोक सुखाचें निधान ॥ ६९ ॥

मोगान आपण्यान शिंपुनु जल । 
पोशिलो आश्रम तरु वरि विफल ॥ 
माका चोव्नु संतति नांतिल्याक । 
गुरु तूं दुःख पाव्ना इत्याक ॥ ७० ॥

कशिं खांबो न्हाण नांतिले हस्तेक । 
कारण मर्मभेदक पीडेक ॥ 
महर्षि बर माका हें पितृ ऋण तशींचि । 
कर्ता हृदयाक भारी खोंचि ॥ ७१ ॥

पितृ ऋणांतु दोकुनु हांवं विमुक्तु । 
जाव्चे वरि कोरुक तूं समर्थु ॥ 
खंचें इक्ष्वाकु कुळाविंक असाध्य । 
तें गुरु तुका दिवोचाक साध्य ॥ ७२ ॥

मुनि आय्कुनु रायालि विज्ञापना । 
दोळे मोड्चुनु ध्यान कर्ताना ॥ 
दिस्लो सरोवराक समान जाव्नु । 
मासोळेनि आशिल्या निद्दोनु ॥ ७३ ॥

नितळ जालेल्या अंतःकरणान । 
महर्षिन चित्त एगाग्रतेन ॥ 
राज संततिचें अडचणे कारण । 
म्हळें चोव्नु मागिरि एक वचन ॥ ७४ ॥

फूडे देवेंद्रालि सेवा कोर्नु । 
भूमिंक येत्ताना सुरधेनु ॥ 
साव्टाक निदोनु कल्पवृक्षाचा । 
आशिलि पथारि तूंवें येव्वा ॥ ७५ ॥

धर्म लोप भीतिन ऋतुस्नातेलि । 
कर्तचि स्मरण राज्ञी हिगेलि ॥ 
प्रदक्षिणेंक योग्य धेनु विषयांतु । 
चुक्लो तूं कर्तव्य कर्मांतु ॥ ७६ ॥

खंचे कारण तिरस्कारु माका ।
केलो ताझेन संतति तुका ॥
नां माझा संततिचि विना पूजन ।
म्होणु दिल्लो शापु सुरधेनुन ॥ ७७

आकाश गंगा नदी प्रवाहांतु ।
हस्तेनि केल्लेले गाजांतु ॥
निप्लि दोकुनु शापाचि तीक्ष्ण उक्ति ।
आय्कनिंति तूं एकयि सारथि ॥ ७८

तेंचि अनादर तुगेल्या आशेक ।
अडचण जालां म्होणु तूं लेख ॥
निंदा कोर्चि पूज्याल्या पूजेक ।
अडचण श्रेयस्सु वाडुचाक ॥ ७९

गायि आत्तं प्रचेतसान कोर्चा ।
होळे यागाक हविसु दिव्वा ॥
उद्देशान पाताळांतु राब्ल्या ।
अहिनि व्दार आडकेल्लेल्या ॥ ८०

तिझा पुत्रिक सुरभि प्रतिनिधि कोर्नु ।
निर्मल मनान बाय्लेक धेव्नु ॥
सेवा तूंवें केल्यारि जाव्नु मन ।
इष्ट पूर्ति कर्तलि अशिं जाण ॥ ८१

अशिं म्हण्ताना त्या पुरोहितालि ।
हविस्सु दिव्वि साधन जालेलि ॥
नंदिनी म्हळलि ती गायि अण्वाळि ।
चोर्नु अरण्यांतु दोकुनु आय्लि ॥ ७२

आंक्रें वर्णांक सम आंग तांण्डें ।
निडलाचे वयिरि चिके वांक्डें ॥
धव्या रोमेंचें लाशे आसुनु ।
आशिले वरि सांज चंद्रु धोर्नु ॥ ८३

अवभृथ स्नाना पशि अधिक पावन ।
देंव्वें वास्राक पळयिल्यान ॥
चिकेचि हून दूध होड्ले होंटिचि ।
रान्नांच्या वाटेरि शिंपितचि ॥ ८४ ॥

चम्कुचे जोराक उबिले धूळिन ।
देहाक लागुचे लागिचान ॥
तीर्थ स्नानान मेळचें तें पुण्य ।
ते रायाक दीव्नु कोर्नु धन्य ॥ ८५ ॥

शुभाशुभ जाण्चा मुनिनचोव्नु गाय्क ।
पळयिल्यांक पुण्य दित्तलेक ॥
आशा फल्सलेल्या त्या रायाक ।
तोंड सोळें अनंतर सांगुक ॥ ८६ ॥

नांवं काड्ता म्हण्तानांचि येव्नु ।
राब्लि ही मंगल मूर्ति दोकुनु ॥
आत्म कार्य सिद्धि जात्ता नां दूर ।
म्होणु राया तूं करि निर्धार ॥ ८७ ॥

कंद मूल खाव्नु कोर्नु वन जीवन ।
कोर्नु नित्य गाय्येक अनुसरण ॥
प्रयत्नान विद्या वश कोर्चे वरि ।
करि तूं हीणे मन कोर्चे वरि ॥ ८८ ॥

गाय्न चम्कताना तूंवें चम्कुनु ।
राब्लि जाल्यारि तूंवें राबुनु ॥
बशिले पक्षाक थंथिंचि बैसुनु ।
पिल्लि म्होणु जालेतरि पीव्नु ॥ ८९ ॥

पुज्झिलेक तपोवन सीमाथांयि ।
सकाणि तुझि बाय्ल सुदक्षिणांयि ॥
कोरो अनुसरण तशींचि सांजेरि ।
माक्षि आपोनु हाडो येत्तरि ॥ ९० ॥

अशींचि अनुग्रह जाव्वे पर्यंत ।
तूं करि शुश्रूषा अविश्रांत ॥
विघ्न दूर जाव्वु तुका चांगु पूतु ।
जात्ता कीर्ति पाव्ता लोकांतु ॥ ८१॥

यज्ञगृहांतु होमांच्या अंत्यारि ।
भक्तिन शिष्यु गुरुले पायांरि ॥
बाय्ल समेत पोणु म्हळलो अशिं ॥
आज्ञा स्वीकारु जावो तशिं ॥ ६२ ॥

मागिरि त्या रात्रि सत्य संधान ॥
पंडितु ब्रह्माल्या पुत्तान ॥
भूमि राक्तल्या त्या श्रीमंताक ।
पेटोनु दिल्लो नीद काडुक ॥ ६३ ॥

तपः शक्ति आसुनुयिं मुनिपोत्तमु ।
सम्जलली दोकुनु व्रत नियमु ॥
ताणे रान वस्तुनींचि अनुकूल ।
कोर्नु दिलें त्या रायाक सकल ॥ ६४ ॥

कुलपतिन दाकयिल्या पर्णशालेंतु ।
व्रतधारि बाय्लेक घेव्नु तपोवनांतु ॥
महर्षि शिष्यांलो वेद धोषु आय्कुनु ।
सकाळि उटाय्लो कुशांचें तळव साणु ॥ ६५ ॥

प्रथम सर्गु समाप्तु

## द्वितीय सर्गु
## नंदिनी वर प्रसाद

मागिरि फाल्लें जात्तरि कीर्तिवंतान ।
गंधमालेन पूजा कर्तरि पत्निन ॥
बांदुनु रायान पिल्लेले वास्राक ।
गाय्क मेक्कोळ्नु सोळि चोरुं वोच्चाक ॥ २ ॥

गाय्चा खुरां धूळिन पवित्र जालेलेलि ।
वाट धोर्नु साध्वी सुदक्षिणा चम्कलि ॥
कशिं वेदांचो अर्थु स्मृति अनुसरण ।
कर्ता तशींचि धेनुंच्या माक्षिचान ॥ २ ॥

यशाचा परिमळान सुंदरु कृपालुन ।
बाय्लेक माक्षि पेटोनु ते रायान ॥
समुद्रचि होंटिचि भू म्हळले धेनुंचि ।
रक्षण केलेले म्हण्के केलि गाय्चि ॥ ३ ॥

व्रतधोर्नु वत्ताना सुरभि माक्षिचान ।
सेवकांक दूर राबय्ले रायान ॥
ताका नाका कोणयिं अंगरक्षक ।
आपलें धीरचि राक्ता मनु संततिक ॥ ४ ॥

स्वाव्वाक रुचि जालेलें तण रवावोनु ।
मूसांक आंबुणु आंगाचि खोर्जु काणु ॥
स्वेच्छेन वोच्चा गाय्चा माक्षि वोच्चुनु ।
ताणे सेवा केलि हृत्पूर्वक जाव्नु ॥ ६ ॥

राब्लो महारायु गाय्येन राब्ल्यारि ॥
वत्ता चम्कल्यारि बस्ता बस्ल्यारि ।
तानि येव्नु उद्दाक पित्ता पिल्यारि ।
अशिं गाय्चे माक्षि गेलो साव्ळे वरि ॥ ६ ॥

राजचिह्न नां पुणि विशेष तेजसान ।
रायु तो म्होणु कळतलो राजलक्ष्मिन ॥
मदजलधार भाग्नि दाकैनांतिल्या ।
करि वरि दिस्तलो तें भितरि आशिल्या ॥ ७ ॥

वशिष्ठाले होम धेनुंक राक्वाक ।
शिक्षा दिव्वे म्हण्के क्रूर जीवींक ॥
वाल्लिचा तंतुन ताणे केस बांदुनु ।
वनांतु भोंव्तलो धणुंक दोरि बांदुनु ॥ ८ ॥

लागि आशिंल्या चारकांक पेटोनु ।
एक्लो भोंव्तलो नृपु वरुणांक समानु ॥
दिस्लि मस्ति येव्नु केल्लेलि पक्षि ध्वनि ।
जय धोषु केल्लेल्वरि लागिचे रुकानि ॥ ९ ॥

उञ्चा वरि भारी तेजसु आशिल्या ।
पूज्याल्या मात्यारि लागि राबिंल्या ॥
वायुन हाल्लोनु फुलं शिंप्लिं वाल्लिनि ।
लायि शिंपिल्वरि पट्टनांच्या युवतिनि ॥ १० ॥

धर्लेतकिनि धनुष्य लोण्या वरि हृदय ।
म्होणु अंतः प्रेरणेन कोळनु निर्भय ॥
जाव्नु रायालें देह चोव्निं हरिणं ।
होड दोळ्यांचें पाव्लिंति प्रयोजन ॥ ११ ॥

वायुन वाशा पोकळांतु रिग्ताना ।
तांतु दोकुनु गोडुचि शब्दु येत्ताना ॥
झार्कुटांतु निपुनु वनदेविनि होडान ।
कार्चें आय्कलो रायु स्व कीर्तिगान ॥ १२ ॥

गिरि प्रपाताचा जलकणान वल्लो ।
रुक हाल्लोनु कुसुम परिमळु आशिलो ॥
सात्ति नांतिलें वत्ताक थकलेल्यालि ।
मारुतान सेवा केलि व्रतधारिलि ॥ १३ ॥

रायान केल्लो की कानन प्रवेशु ।
वाड्वलो वना उज्ञो नांतिलें पाव्सु ॥
जालि विशेष जाव्नु फूल फळांचि वृद्धि ।
चड बलाचे जंतुनि सोळि वाप्टि बुद्धि ॥ १४ ॥

तांब्डे अंकुरा वरि तंब्डि कांति रविलि ।
तशींचि होमधेनु कुलपति वशिष्ठालि ॥
चारि दिक्कानयिं भोव्नु पावन कोर्नु ।
चम्कलिं सांजेरि धराचि वाट धोर्नु ॥ २५ ॥

देव पितृ अतिथि सत्काराक आसुचा ।
राक्तलोयि माक्षिचान गेल्लो गाय्चा ॥
तिवयि सज्ञनु त्या रायाल्या निम्मिति ।
खरेंचि श्रद्धेवरि दिस्लि पाव्नु कांति ॥ १६ ॥

पल्वल सोणु येव्चा वराह वृंदानि ।
रुकांरि बोड उकोळ्नु आश्चा मोरानि ॥
चित्लानि आशिल्या वन प्रदेशान ।
रायु गेल्लो काळें जाव्वें चोव्नु वन ॥ १७ ॥

फुलटि गायेन जडावण होडि होंटिचि ।
रायानयिं होंव्नु स्थूल शरीराचि ॥
वांव्ट भोगुनु येत्ताना चम्काणान ।
वन मार्गाक केल्लें सौंदर्य लेपन ॥ १८ ॥

वशिष्ठ मुनिले गाय्येले अनुचराक ।
काननांतु दोकुनु माक्षि आयिल्याक ॥
पात्यो फाप्पुड्चाक विसोर्नु दोळ्यान ।
तानि आयिल्वरि राणि चोय्लि आशेन ॥ १९ ॥

येत्ताना माक्षिचान नृपान पथारि ।
सहधर्मिणिन स्वागत कोरुक मुखारि ॥
दिस्लि मदें आसूचा दिन आनि रात्रि ।
सांजे वरि तांचें मध्ये सुरभि पुत्रि ॥ २० ॥

अक्षतेचें आय्दन धोर्नु सुदक्षिणा ।
धार दिव्वा गाय्चि कोर्नु प्रदक्षिणा ॥
संपत्ती दिव्वें द्वार सें आशिलें ।
शिंगांच्या मदें पुञ्जुनु नमन केल्लें ॥ २१ ॥

वास्राक पिव्वा दिव्वि ऊरि पुणि तुत्त ।
धेत्लि पूजा म्होणु हीं जालिं हर्षित ॥
भक्तांल्या वयिरि अनुग्रह संतालें ।
शीघ्र फल म्होण्चें सूचक जाल्लेलें ॥ २२ ॥

बाहु बलान विरोधिंक मार्लेल्यान ।
गुरु दंपतिले पाय चिर्डिले नृपान ॥
कोर्चिं काम केल्लिं सांजे वेळेरि ।
केल्लि गोसेवा मागिरि धार काड्तरि ॥ २३ ॥

बस्लो नृपु वाय्लेक धेव्नु दिव्याचा ।
उज्वाडाक लागि आशिल्या गाय्चा ॥
क्रमेण तीणे निद्दतरि तीं निद्दलिं ।
सकाणि उटाय्लि ती म्होणु हीं उटाय्लिं ॥ २४ ॥

सत्पुत्रु जाव्का म्होणु वाय्ल बाम्णानि ।
ऊरि पाव्नु व्रतधोर्नु कीर्तिवंतानि ॥
दीन जनांक उध्दार कर्तल्याले ।
एक्वीस दिवस खळंबळे तांगेले ॥ २५ ॥

वेगळे दिवसु रायालि इच्छा कसलि ।
सम्जुका म्होणु गाय्न एकि हिकडि केल्लि ॥
गंगा प्रपाता लागि तण आशिल्या ।
माट्यांतु रिग्लि गौरिले बापयिल्या ॥ २६ ॥

मनान जाल्ले तकिनि हिझेरि आक्रमण ।
कष्ट हिंस्र मृगांक म्होणु अलक्ष्यान ॥
अद्रि शोभा चोय्तानांचि नृप सम्मुख ।
व्हेल्लि सिंहान उड्डुनु तांडुनु गाय्येक ॥ २७ ॥

गुहेचि प्रतिध्वनि अति दीर्ध जालेलि ।
दीन रक्षकान आय्कुनु बोब तिगेलि ॥
दोरि घाल्नु तांडिले म्हण्के रायालि ।
हिम गिरिचेरि दोकुनु दृष्टि माक्षि आय्लि ॥ २८ ॥

गैरिक धातु भर्लेल्या गिरि बोडारि ।
फुल्ललेल्या लोध्र म्होण्चा रुका वरि ॥
तांब्डें रंगाच्या गाय्येचे फाटिरि ।
बशिल्या सिंहांक चोय्लो धनुर्धारि ॥ २९ ॥

तेद्‌ना सिंहा वरि चम्कुचे रायान ।
धीरान शत्रुलें नाश केल्लेल्यान ॥
भातांतु दोकुनु तीक्ष्ण शर तांडुचाक ।
प्रयत्न केल्लें सिंहांक जिब्शि मारुक ॥ ३० ॥

मार्चे रायाल्या उज्वे हात्ताचा ।
नांक्टांचि कांति कंक पक्षि पाक्कांचा ॥
शर पुंखांक दीव्नु बोट जाव्नु तटस्थ ।
चित्रारि आशिल्या वरि राब्लो नुत्त ॥ ३१ ॥

भुज राकुड मांडिल्या कारण रुषान ।
लागिच्या दोषिक दंड नांतिल्यान ॥
बांदिल्या सर्पा वरि मंत्र औषधिन ।
जळ्ळें रायालें हृदय स्व तेजान ॥ ३२ ॥

गाय्क धर्लेल्या मृगराजान नृपाक ।
आपण्याक समान बल आशिल्याक ॥
आपले स्थितिक आश्चर्य पाविल्याक ।
मनिशा वरि उलोनु भिवैलो धीराक ॥ ३३ ॥

राया हो व्यर्थ पूरो तुगेलो श्रमु ।
बाणु सोणु मार्ल्यारि जाय्ना परिणामु ॥
रूक हुम्टांचांतु दक्ष चंडमारुत ।
पर्वतु हालोचाक जात्तावे शक्त ॥ ३४ ॥

हांवं निकुंभ सरवु कुंभोदरु म्होणु ।
आस्स ईश्वरालो नम्र सेवकु जाव्नु ॥
धव्या बैलारि बस्ताना हरचरण ।
लागुनु मेगेलि फाटि जाल्या पावन ॥ ३५ ॥

थंयिं पळे मुखारि आस्स देवदारु ।
केल्ला शिवान पूतु जाव्नु स्वीकारु ॥
गुह जननिन घाल्लेलें स्वर्ण कलशान ।
डदाक पीव्नु वाड्ला थोरु दिगायेन ॥ ३६ ॥

एक दिवसु खोर्जु काडुक वन हस्तेन ।
ताझि सालि गेलि गालु घस्टिलेल्यान ॥
पर्वत पुत्रिक ताझेन जाल्लें दुःख ।
घायु जाल्लेल्वरि असुर शरान गुहाक ॥ ३७ ॥

त्या दिवसु दोकुनु हस्तेंक भिवोचाक ।
ईश्वरान लागि आयिंल्या जीविंक ॥
मार्चाक सिंहत्व दीव्नु ह्या पर्वत ।
गुहेंतु राबुक माका केला नियुक्त ॥ ३८ ॥

महेश्वरान सांगिल्या त्या कालाक ।
भुकेलल्या माका रगत पिव्चाक ॥
चंद्राल्या अमृता म्हण्के त्या राहुक ।
आयिलि ही पूरो भूक निव्वोचाक ॥ ३९ ॥

तर्शि ज़ाव्नु नालिशि नास्ताना तूं वस ।
गुरुचेरि दाकैलि शिश्य भक्ति विशेष ॥
धणुन तरि जाय्नि राक्वें तसलें राकुक ।
नां अपकीर्ति ताझेन आयुध धरांक ॥ ४० ॥

अर्शि जडावणे उत्रं मृगराजान ।
डल्लयिलिं आय्कूनु दिलीप रायान ॥
अस्त्रांचि शक्ति नाश शिव प्रभावान ।
जाल्लि म्होणु कोळ्नु विसर्लो अपमान ॥ ४१॥

त्र्यंबकान दोळे घुर्कानु सुरपतिक |
केल्लेल्वरि जड्डु वज्रान मार्तल्याक ||
आजीचि शर सोड्चांतु भंग पाविलो |
मृगराजा लागि अशिं म्होणु म्हळलो || ४३ ||

स्वाधीन नांतिल्यालें माझें वचन |
निज जाव्नु जात्ता अपहासाक कारण ||
आस्स तुका प्राणिमन सम्जुचें ताकत |
अशिं जाव्नु सांग्तां सिंह आय्क आत्तं || ४३ ||

स्थावर जंगमांचि सृष्टि स्थिति प्रलय |
कारण कर्तृ तो माका मान्यु निश्चय ||
पुणि यज्ञ कर्तृ गुरुलें माझे सम्मुख |
गोधन लय जाव्वें जाय्तवे चोव्वाक || ४४ ||

माझे शरीरान तुगेलें पोट भरि |
अशिं मेगेले वयिरि तूं दया दवरि ||
सोडि मुनि धेनुंक आव्सु येत्ता म्होणु |
सांजे हिगेलें वास्नु आस्ता राकुनु || ४५ ||

मागिरि स्वच्छ दाढ्याचा प्रकाशान |
गुहेंतुलो काळोकु कात्तोर्नु निधान ||
मागिरि त्या ईश्वराल्या सेवकान |
नृपाक सांग्लें हासिल्वरि कोर्नु वदन || ४६ ||

आस तुका भुवनांचो सर्वाधिकारु |
आत्तं तर्नाकुटो चोव्वाक सुंदरु ||
लान विषयाक होड सोड्चो निर्धारु |
स्पष्ट जाव्नु दाकैता तुझो अविचारु || ४७ ||

तुका जीविचेरि दया आस्स जाल्यारि |
आस्ता केवल गायि तुगेले मागिरि ||
वांचुनु आस्स तरि प्रजांक आनु जाव्नु |
पार कोर्येत सदा कष्टांतु दोकुनु || ४८ ||

एकयि एकि गायि म्होणु उज्ञा वरि ।
रागान जोळ्चा गुरुक भिता जाल्यारि ॥
होडि होंटिचो कोटि गांय्क दीवु कोप ।
निवोचाक तूं शक्तु जावु आस्स भूप ॥ ४६ ॥

तशिं जावु मस्त सुख भोगुनु आशिलें ।
शरीर रक्षण करि बलिष्ठ जाल्लेलें ॥
म्हण्ताति समृद्ध राज्य परम इंद्रपद ।
भूमिंक लागुनु आसुचें मात्र भेद ॥ ५० ॥

उलोचें राबैलें रान्नां रायान ।
माट्यांतु आस्स जाल्लेल्या प्रतिध्वनिन ॥
त्या पर्वतानयिं रायाक होडान ।
तोचि अर्थु सांगिल्वरि दिस्लें प्रीतिन ॥ ५१ ॥

महेश्वर किंकरालिं आय्कुनु उत्रं ।
सांग्लिं दयालु रायान प्रत्युत्रं ॥
मृगराजु फाटिरि बैसुनु आशिलि धेनु ।
भंयान चोय्तलि कसलें सांग्ता म्होणु ॥ ५२ ॥

अपायांतु दोकुनु पार कर्ता म्होणु ।
लोकांतु नांवं पाव्ला क्षत्रिय वर्णु ॥
ताका विरोधु कोर्नु राज्य कसल्याक ।
वाय्ट नांवं धेवु वांचुचें इत्याक ॥ ५३ ॥

वेगळि गायि दीवु मुनिलो रागु शमन ।
कोरुक साध्य कशिं म्होणु हांवं नेण ॥
ही कामधेनुंक सम्म म्होणु लेख ।
तुका शिव शक्तिन साध्य जालां मारुक ॥ ५४ ॥

मेगेलें शरीरचि तुका दीवु मौल्य ।
हिका सोड्वाचें दिस्ता माका न्याय ॥
अशिं जावु चुक्कना तुगेलें जेवण ।
तशींचि महामुनिलें कर्म अनुष्ठान ॥ ५५ ॥

कष्टान देवदारु रक्षण कर्तलो ।
हें तूं सम्जला परतंत्रु जालोलो ॥
राक्चो वस्तु लय कोर्नु स्वामि सम्मुख ।
साध्ववे शस्त्र व्रण नांतिलें राबुक ॥ ५६ ॥

माका स्वाव्वि चूकि म्होणु लेख्ता तरि ।
कृपा करि माझे कीर्ति शरीराचेरि ॥
नश्वर पांच भौतिक देहाचे वयिरि ।
आसक्ति नां आशिल्यांक माझे वरि ॥ ५७ ॥

उलयिले निम्गिति संबंधु म्हण्ताति ।
वनांच्या मध्ये जाल्लि आम्गेलि मैत्रि ॥
शिवानुचर अशिं जाव्नु मेगेलि आशि ।
पूर्ति कर्नां तरि तें खरें जाय्त कशिं ॥ ५८ ॥

तशिं जाव्बो म्हळलि आय्कुनु सिंहवाणि ।
हातु सडिल जाल्लोलो तो महात्राणि ॥
रायान शस्त्र सकल धाल्नु सोणु मोह ।
मांस पिंडा वरि अर्पण केल्लें देह ॥ ५९ ॥

मृगराजु आत्तं उड्ता म्होणु तेद्ना ।
मांडो सकल कोर्नु बैसुनु कल्पना ॥
कोर्चा नृपाल्या वयिरि विद्याधरानि ।
फुल्लांचो पाव्सु विर्काय्लो हात्तानि ॥ ६० ॥

उट्टा पुत्ता म्हळलें उत्तर गोडचि ।
आय्कुनु उटायिलो चोय्लो मां वरीचि ॥
दूध देंवोनु राबिल्या नंदिनींक ।
पुणि रायु चोय्नि थंयिं सिंहाक ॥ ६१ ॥

अचर्य पाविले ताका गायि म्हळलि ।
हांवें माया सृष्टिन चवकशी केल्लि ॥
मुनिले होड्पणान यमांकयि नां साध्य ।
मारुक क्रूर मृगांक जाय्तवे साध्य ॥ ६२ ॥

गुरु भक्तिन मेझेरि आशिले दयेन ।
संतोषु जाल्लो तूं वर माग नंदन ॥
नईं केवल हांवं दूध दिन्वि गायि ।
खुशि जाल्ले तरि दित्तां पूरा इष्टयि ॥ ६३ ॥

स्व शक्तिन वीरु म्होणोनु धेत्तिल्या ।
माग्तल्यांक निम्गिलेलें दिल्लेल्या ॥
माग्लें रायान सुदक्षिणा उदरांतु ।
कुल उद्धारु कोर्चो पूतु कीर्तिवंतु ॥ ६४ ॥

जाव्वो तशिं म्होणु चेर्डु मागिल्याक ।
गाय्न प्रत्युत्तर दिल्लें दिलीपाक ॥
पान्नांच्या दोण्यांतु माझि धार काणु ।
आज्ञा केल्लि चेर्डा पी दूध म्होणु ॥ ६५ ॥

भूमि राक्तां दोकुनु षष्ठ अंशा वरि ।
वास्नान पीव्वु होमांक धाल्नु जात्तरि ॥
महर्षिले आज्ञेन वर्लेलें क्षीर ।
मां हांवं अनंतर कर्तां स्वीकार ॥ ६६ ॥

अशिं म्हळलि रायालि मागणी आय्कुनु ।
भारी संतोषु पाव्लि महर्षिलि धेनु ॥
पर्वत गुहेंतु दोकुनु श्रमु नांतिलें ।
गेल्लि धराक नृपान अनुसरण केल्लें ॥ ६७ ॥

गाय्चें अनुग्रह जाल्लेलें हर्षान ।
सम्जलल्या कुलगुरुक रायांक गुरुन ॥
सांगिलें तें जाल्लें पुनः सांगिल्वरि ।
हास्मुखि जाव्वु बाय्लेक सांग्लें मागिरि ॥ ६८ ॥

निर्दोषि सज्जनांक प्रियु तो नरपति ।
नंदिनिलें दूध पिल्लो गुरुलि सम्मति ॥
पाव्वु वास्नान पित्तरि होम अवशेष ।
पिल्लेल्वरि तान्निन रूप धेत्तिलें यश ॥ ६९ ॥

वेगळे दीसु व्रत उपवासु सोड्तरि ।
भाग्नि सर्लेल्यांक आशीर्वादु दितरि ॥
वशिष्ठ महर्षिन त्या बाय्ल बाम्णांक ।
पेटैलिं तांगेल्या राजधानिंक ॥ ७० ॥

रायान हविन तृप्ति पाविले अग्निलि ।
वशिष्ठालि मागिरि साध्वी अरुंधतिलि ॥
प्रदक्षिणा कोर्नु गायि आनि वास्रांलि ।
चम्कलो सत्कृतिन जाव्नु तेजःशालि ॥ ७१ ॥

धर्मपत्निंक घेव्नु सद्गुणि रायान ।
अड्चण नांतिल्या वाट्टे वयिल्यान ॥
मधुरु निनादु कोर्चा रथारि प्रयाण ।
केल्लें आशि फल्सलि म्होणु हर्षान ॥ ७२ ॥

चोव्वाक नांतिलो म्होणु आतुर पाव्नु ।
पूतु जाव्का म्होणु व्रत कोर्नु भागुनु ॥
आशिले नृपाक तृप्ति नांतिल्वरि जन ।
चोय्लिं नव चंद्रोदया वरि हर्षान ॥ ७३ ॥

पुरंदर श्रीयुतु प्रजाजन वंदितु ।
आय्लो पुराक आशिले उब्वे केतु ॥
पुनः महाशेषा वरि बलिष्ठ भुजारि ।
होंव्लो भूभारु रायान फुळ्या वरि ॥ ७४ ॥

अत्रि नयन उभ्दव ज्योति आकाशावरि ।
अग्निन शिंपिलो शिव तेजस्सु गंगे वरि ॥
लोकपालकांल्या महदंशान मेळोलो ।
राजकुलाक म्होणु राणिन गर्भुधर्लो ॥ ७५ ॥

द्वितीय सर्गु समाप्तु

# तृतीय सर्ग
# रघु राज्याभिषेक

मागिरि बाम्णालि आशि फल सोड्यें समय ।
सरवींल्या दोळ्यांक चान्निन्याचें उदय ॥
इक्ष्वाकु संतति मूल कारण म्हळलें ।
सुदक्षिणान गर्भहिह्न धारण केल्लें ॥ १ ।

लाचार जाल्यां म्होणु नगं ऊणि धाल्लु ।
लोध्र फुल्लां म्हण्के तोंड धौटे जाव्नु ।
कांति हीनु चंद्रु ऊणि तारकां आशिलि ।
फांत्या वयिल्या कालाक ती सम दिस्लि ॥ २ ।

ग्रीष्मु वत्तरि जलकण शिंपिलो मेधान ।
वनांतु उदका फोंडु हुंकिल्वरि गजान ।
मात्ये वासु येन्वें सुदक्षिणालें मुख ।
गुपित जाव्नु हुंकुनु तृप्ति जाय्नि रायाक ॥ ३ ॥

चक्रवर्ति जाव्नु भोग्ता तिगेलो पूतु ।
इंद्रान स्वर्गु भोगिल्वरि हो जगत्तु ।
म्होणु राणिन वेग्ळ्यो रुच्यो सकड सोणु ।
तसलि एकि लालसा पाव्लि प्रथम जाव्नु ॥ ४ ॥

आशि खंचांतु म्होणु स्वल्पयि मागधि ।
सांगनामु लज्जेन मेगेल्या सन्निधि ॥
दुवाळो कसल्यांतु म्होणु प्रति दिवसु ।
सरवींल्यागि निम्गिता उत्तर कोसलेशु ॥ ५ ॥

दुवाळ्याच्या दुःखान कसलें निम्गिता ।
अदृश्य जाल्ले तकिनि रायु हाणु दित्ता ।
स्वर्गारि इष्ट वस्तु आस्ले तकिनि नृपतिक ।
असाध्य म्हळलें नां चाप धर्लेल्याक ॥ ६ ॥

पेक्किलिं पान्नं झोणु नवेचि अंकुरं ।
भर्लेल्या वाल्लिचे सारके अनंतर ।
दुवाळ्याचें दुःख तें ऊणे जाल्लेलि ।
आंगान चांगि जाव्नु भारी गोम्टि दिस्लि ॥ ७ ॥

दुवाळ्याचें दिवस खळंबताना स्थूल ।
राणिल्यो चिंव्वें मण्यों जाल्यों नील ।
भ्रमरं भर्लेल्यान जालेलें सुंदर ।
कमला मोक्यांचि कांति केल्लि तिरस्कार ॥ ८ ॥

निधि गर्भांतु आसूचा भूमिंचें वरि ।
भित्तरि उज्ञो आसुचा शमि रुक्का वरि ।
नदिचे वरि अंतर्जल होळ्चा सरस्वति ।
आशिल्या गुर्बिणिंक चोय्लो भूमिपति ॥ ९ ॥

रायान बाय्लेल्या खुशि आनि मोगाक ।
दिग्विजयु कोर्नु जोळ्ळेल्या संपत्तीक ।
समजाव्नु तशींचि आपल्या होड्पणांक ।
केल्लिं शास्त्रोक्त कर्मं पुंसवनादिक ॥ १० ॥

लोकपालांल्या अंशांक आश्रयु जाव्नु ।
गर्भाचा जडावणेंक हळूचि उटानु ।
धरा आयिल्या पतिक तरलाक्षिन चोव्नु ।
आस्स केल्लि खुशि कष्टान वंदना कोर्नु ॥ ११ ॥

शिशु चिकित्सांतु कीर्ति पाविले वैद्यानि ।
गर्भु पोषण केल्लो विश्वास पात्रानि ।
रायुयि सकालारि बाळांति जात्तलेक ।
धन धांकिले गगन सें चोय्लो बाय्लेक ॥ १२ ॥

उद्देनु पांच ग्रहं उच्चस्थानारि ।
भाग्य सूचक जाव्नु आशिल्या वेळेरि ।
त्रिशक्ति साधनान अक्षय ऐश्वर्याक ।
जन्मु दिलेल्वरि तीणे दिल्लो चेर्डाक ॥ १३ ॥

वायु होळ्ळो शीतळ आट दिक्कयि नितळ ।
प्रदक्षिणा अर्चिन धेत्तलो हविसु अनळ ।
समस्तयि तत्क्षण जाल्लें मंगल सूचक ।
कारण तसल्यालें जनन लोक हिताक ॥ १४॥

वाळांति कूडांतु पूरा विर्कलेल्या ।
शरीराच्या झळकान पुण्य जीविल्या ॥
मध्य रात्रिचे दिव्वे द्युति ऊणे जाव्नु ।
दिस्ले चित्रा वयिलें दृश्या वरि जाव्नु ॥ १५॥

चेल्लो म्होणु गोडि वार्ता हाळेल्यांक ।
दिव्वाक असाध्य अंतःपुर सेवकांक ।
जाल्ले तीनि वस्तु मात्र नृप दिलीपाक ।
चामरं दोनि श्वेतच्छत्र आनिंक ॥ १६॥

हाल्नांतिले पंकजा वरि सोणु दोळे ।
पित्ताना तोंडा सौंदर्य पुत्तालें ।
सागर वयिरि आयिल्वरि चोव्नु चंद्राक ।
खुशिन उवारु आय्लो राया हृदयाक ॥ १७॥

वनांतुल्यान आयिल्या पुरोहितान ।
केल्लेल्या समस्त जात कर्मादिकान ।
संस्कारु पाविले रवनिंतुल्या मणि वरि ।
दिस्लो रायालो पूतु सुंदरु भारी ॥ १८॥

आय्कुचाक मोवाळ वाजपांचें नाद ।
चेड्यालें विशेष नर्तनांचो विनोद ।
नईं मागधिल्या पतिले धरांतु मात्र ।
सुरलोकांतुयि जाल्लो संभ्रमु सर्वत्र ॥ १९

राज्यांतु कोणंयिनांति कारागृहांतु ।
पुत्रजन्म खुशिक कोणांक कोर्चो मुक्तु ।
पितृ ऋण म्होण्चा त्या बंधनांतु दोकुनु ।
रायु खुशि पाव्लो आपण मोकळो जाव्नु ॥ २०

हें चेडुं शाश्त्र शिकुनु बुद्दंत जात्ता ।
तशींचि युध्दांतु शत्रुंक जिव्शिमार्ता ।
म्होणु गमनार्थ धात्वर्थु नृपान सम्जुनु ।
पुत्ताक नामकरण केल्लें रधु म्होणु ॥ २१ ॥

होळो श्रीमंतु बाप्सुल्या प्रयत्नान ।
सौंदर्य भर्लेल्या शरीर अवयवान ।
सूर्य किरणं रिगुनु तो लानु चंद्रु कशिं ।
वाड्लो क्रमान रायालो पूतुयि तशिं ॥ २२ ॥

स्कंदाले निर्म्मिति ईश्वरु आनि पार्वति ।
जयंताल्या कारण पुलोमजा सुरपति ।
कशिं आनंद भोग्लिं तशिं नृप दंपति ।
भोग्लिंति तांका सम पुत्ताल्या निर्म्मिति ॥ २३ ॥

चक्रवाका वरि तांचें ह्रदय तांडुचें ।
अन्योन्यतेक तें प्रेम कारण खंचें ।
जाल्लो तरि वांटो एक पुत्ता निर्म्मिति ।
परस्परांले वयिरि जाग्नि ऊणे प्रीति ॥ २४ ॥

धात्रिन शिकयिलो शब्दु प्रथम उल्लोनु ।
तिगेलें बोट धोर्नु चम्कुचाक शिक्कुनु ।
विनयान बाग्वलल्या त्या सत्पुत्राक ।
पोळोनु अत्यंत हर्षु जाल्लो बाप्सुक ॥ २५ ॥

जांगेरि बोसोनु ताझें अंग स्पर्श ।
चर्माकं अमृता पाव्सु धाल्लेल्वरि हर्ष ।
पाव्नु दोळे चिकेचि मोड्चुनु रसज्ञान ।
केल्लेले म्हण्के दिस्लें रसास्वादन ॥ २६ ॥

गुणांतु ब्रह्मान सत्त्वगुण सृष्टिकशिं ।
स्व मूर्तितु उत्तम म्होणु लेख्लें तशिं ।
लोकांतु आपल्या सत्पुत्रा निमित्त ।
लेख्लें स्व वंशु जात्ता म्होणु प्रतिष्ठित ॥ २७ ॥

रघुन चौला मागिरि बांदुनु हाल्वि शेंडि ।
सम प्रायेचा सचिव पुत्तांलें जोडि ।
प्रवेशु केल्लो वर्णु शिकुनु साहित्यांतु ।
केल्लेल्वरि व्हंय्चा तोंडान जलधिंतु ॥ २८ ॥

विध्युक्त उपनयन जात्तरि गुरु प्रियाक ।
विद्वांसानि विद्या शिकैलि त्या रधुक ।
तांगेलें प्रयत्न जाल्लें पूर्ण सार्थक ।
विद्या फलप्रद दिल्यारि सत्पात्राक ॥ २९ ॥

बुद्दंतान ताणे सकड बुद्धि गुणान ।
चारि सागरा वरि चारि विद्या क्रमान ।
जोरु धांव्चा घोड्यां निम्गिति सूर्यु कशिं ।
चारि दिक्क पार कर्ता केल्योति तशिं ॥ ३० ॥

नेसुनु रघुन कृष्ण मृगांचें शुद्ध चर्म ।
शिक्लो बाप्सु लागि मंत्रास्त्राचें मर्म ॥
तागेलो गुरु नईं केवल पृथिवीश्वरु ।
भूमिरि नांवं पाविलो एकु धनुर्धरु ॥ ३१ ॥

पाड्याचें वास्तु होड्डु बसवु जालेल्वरि ।
हस्तेचा पिल्लाक गजत्व आयिल्वरि ।
तर्नाटो जाल्लो रघु वोच्चुनु चेर्डुपण ।
आय्लें देहाक सौंदर्य गांभीर्यान ॥ ३२ ॥

केस काप्चा कार्याचा मागिरि बाप्सुन ।
पुत्ताक व्हार्डिक करैलि विजृंभणेन ।
कशिं चंद्राक पाव्नु दक्षाल्यो धुव्यो ।
तशिं रघुक पाव्नु धन्य नृपाल्यो धुव्यो ॥ ३३ ॥

युव रधुक खिळ्ये वरि दीग बाहु बलिष्ठ ।
भारी रूंद हर्दे आनि गळो सुपुष्ट ।
आसूनु बाप्सु पशि चडु ऊंचु शरीरान ।
जाल्ले तरि तो विनम्रु जाल्लो विनयान ॥ ३४ ॥

मागिरि नित्य होंविलें होड वोजाचें ।
वजन ऊणे कोर्का म्होणु भूमि राक्वें ।
स्वाभाविक संस्कारान विनम्रु म्होणु ।
रायान ताका केल्लो युवरायु जाव्नु ॥ ३५ ॥

मागिरि गुण पक्षपाति लक्ष्मि रायालें ।
पोर्ने राव्ळार सोणु युवकु रायालें ॥
घराक अंशान चम्कलि राबुक म्होणु ।
गेल्लेल्वरि साळुकां लागिक कमल सोणु ॥ ३६ ॥

वार्याच्या सहकारान उज्वाचे वरि ।
सारथि निम्मिति शरदांतु सूर्याले वरि ।
काण्सळ भेत्तिले हस्ते म्हण्के मदान ।
दिलीपु अरिंक सहन जाव्नि पुत्र कारण ॥ ३७ ॥

इंद्र समरायान यागा धोडो राकुक ।
रायां पुत्तालें जोडि धनुर्धरु रघुक ।
नियुक्तु कोर्नु हय मेध एक ऊणे शत ।
अड्डि नांतिलें कोर्नु जाल्लो तो कृतार्थ ॥ ३८ ॥

मागिरि यज्ञ प्रियान कोरुक एक मख ।
वेग्ळो धोडो सोळो यथेष्ट भोंव्वाक ।
राकुक आशिले धनुर्धारिले सम्मुख ।
खांप्लो निपोनु इंद्रान यज्ञ घोड्याक ॥ ३९ ॥

क्षणकाल रधुसैन्य आश्चर्य विषादान ।
राव्लें नष्ट जाव्नु तें कर्तव्य ज्ञान ॥
तेद्‌ना एकाएकि वशिष्ठ मुनिलि गायि ।
आय्लि इच्छानुसार जाव्नु नंदिनीयिं ॥ ४० ॥

सुजनांल्या श्लाघनेंक पात्रु जाल्लोलो ।
नंदिनिल्या मुत्तान दोळे धुलोलो ।
दिलीपालो पूतु पोळोचाक समर्थु ।
जाल्लो दोळ्यां देखुपण्णांतिलो वस्तु ॥ ४१ ॥

पुनः पुनः सारथिन चापल्य निवारण ।
कोर्नु बांदिलो धोडो रथाच्या रज्जुन ।
गिरिचिं पाक्कं कात्तर्लेल्या इंद्रान ।
होर्चें चोय्लो दिलीप सुतु पूर्व दिशान ॥ ४२ ।

पात्ति फाप्पुणा दोकुनु हजार दोळ्यान ।
कोळ्नु इंद्रु म्होणु हरिद्वर्ण अश्वान ।
दूरायेक आय्कु पोड्चे वरि होडान ।
राबोचाक रघु ताका म्हळलो रुषान ॥ ४३ ।

तूं प्रथम मखांश भागि म्होणु देवेंद्र ।
सांग्ता शास्त्र सम्जलेलें महर्षि वृंद ।
नित्य दीक्षा बद्धु मेगेल्या बाप्सुलें ।
क्रतु लय कोर्चें मन तुका कशिं येत्तलें ॥ ४४ ॥

तूंवें मख वैरिंक चोव्नु दिव्य चक्षुन ।
लय केल्याति नईवें त्रिलोक स्वामिन ।
राक्तलो तूंचि धर्मिष्ठाल्या कर्मांक ।
अडचण केल्ले तरि कोण धर्मु रांकुंक ॥ ४५ ॥

तशिं जाव्नु मधव यज्ञांचें मुख्य अंग ।
सोणु दिव्वेंचि योग्य तूंवें हें तुरंग ।
वेदांचें गूढ सम्जलले महापुरुष ।
कर्नांति स्वीकारु असले सकड दोष ॥ ४६ ॥

रधुन सांगिलें तें जडावणेचें वचन ।
स्पष्ट जाव्नु आय्कुनु त्या सुरलोक पतिन ।
नांकारि बोट दोव्वोर्नु रथु धुम्डाय्लो ।
प्रत्युत्तर दिव्वाक प्रारंभु केल्लो ॥ ४७ ॥

स्वंचे तूंवें सांग्लें बाळा तें सत्य ।
यश रक्षण कोर्चें यशोधनालें कृत्य ।
तुगेलो आनु माझें तें जगत्प्रसिद्ध ॥
यश अश्वमेधान रवांपुक जाल्ला सिध्द ॥ ४८ ॥

केवल विष्णुंक म्हण्ताति पुरुषोत्तमु ।
त्र्यंबकु महेश्वरु नांवेग्ळो ताका समु ।
तशींचि मुनि माका शत क्रतु म्हण्ताति ।
माका सोळ्यारि वेग्ळ्यांक अशिं म्हणांति ॥ ४९ ॥

तशिं जाव्नु हांवें कपिल मुनिले समान ।
तुझा बाप्सुलो धोडो स्वांप्ला धैर्यान ।
तुगेलें ह्या विषयांतु प्रयत्न नाका ।
सगर पुत्रांलो मार्गु धोर्नु वोच्चुनुका ॥ ५० ॥

घोडो राक्तल्यान हास्सुनु भंय सोणु ।
देवेंद्राक सांग्लें मागिरि अशिं म्होणु ।
शस्त्र धोर्नु प्रकट करि तुगेलि विख्याति ।
रघुक हारि कर्नां तरि जाय्ना तूं कृती ॥ ५१ ॥

रघुन वज्रिक अशिं म्होणु मात्तें उकोळ्नु ।
धणुंक एकु तीक्ष्णु बाणु संधान कोर्नु ।
अपार शोभेन राबिलो आलीढान ।
महेश्वरा वरि दिस्लो उबार देहान ॥ ५२ ॥

रवांब्यांक सम रघु शरान हर्दें भेत्तुनु ।
गिरिचिं पाक्कं कात्तर्लेल्यान कोप्पुनु ।
विद्याचि दोरि आसूचा ऊंच धणुंक ।
योग्य बाणु जोडण केल्लो अरिक मारुक ॥ ५३ ॥

भयंकर राक्षसालें रगत पिल्लेलें ।
शर रघुल्या विस्तार [illegible]र्गांतु रिग्लें ।
मनिशाले रगत माक्षि पीनि म्हळल्वरि ।
पिल्लें तें तान्निन ताळो सुक्किले वरि ॥ ५४ ॥

देवगज पर्सुनु खरं बोट्टं आशिल्या ।
शची आंगाचो लाक्केरसु लागिल्या ।
स्कंदा वरि पराक्रमि रघुन इंद्र बाहुक ।
तोप्लें आपलें नांवं आशिलें विशिख ॥ ५५ ॥

वेग्ळे बाणान मोरापाक आशिलो ।
शतक्रतुलो वज्र ध्वजु कुड्के केल्लो ।
बलान देव श्रीले केस कापिल्वरि ।
सुरपति कोपान उग्रु जाल्लो रघुचेरि ॥ ५६ ॥

दोगांनियिं जय पाव्का म्होणु भयंकर ।
पाकं आशिले हैग्रां वरि इषुन समर ।
केल्लें तोंड सकल कोर्नु उक्कोळनु धोर्नु ।
दोगाले सैनिक नुत्त राबिले चोव्नु ॥ ५७ ॥

आपण्यांतु दोकुनु पळेलि अग्नि कशिं ।
पाव्साक वाड्वोचाक जाय्ना की तशीं ।
तेजसाक आश्रयु रघुक सुरेंद्राचान ।
जाय्नि निवोचाक होड बाणा पाव्सान ॥ ५८ ॥

अनंतर चंदन लायिल्या मुष्टिंतुलि ।
जलधि घांटिल्वरि होड्डु गाजु कोर्चि तसलि ।
रघुन महा धनुष्याचि दोरि सुरेंद्रालि ।
अर्धचंद्राकृति मुख बाणान कात्तार्लि ॥ ५९ ॥

ताणे धनुस्सु सोणु कुस्सिं बुद्धि पाव्नु ।
महाशत्रुक जिव्वि मार्का म्होणु लेखुनु ।
पर्वताचें पाकं कात्तोर्चाक योग्य ।
प्रभावळि आशिलें धर्लें अस्त्र श्लाघ्य ॥ ६० ॥

जोरान हर्द्याक अशनिन मार्लेल्यान ।
रघु भुंय्चेरि पळ्ळो सेना अश्रु सहित ॥
उटाय्लो दूकि विसोर्नु एकिचि घड्येन ।
सैनिकानि केल्लेल्या जय निनाद सहित ॥ ६१ ॥

मागिरियि हाल्ला तशिं विरोधि भावान ।
कोपु सोणा तशिं रायाले पुत्तान ।
पराक्रमान खुशि आस्स केल्लि सुरेंद्राक ।
गौरव दित्ताति सगळ्यान गुण गणांक ॥ ६२ ॥

शक्ति आस्स दोकुनु अद्रि भेत्तुक समर्थ ।
तूं सोणु वेग्ळ्यांक असह्य माझें शस्त्र ।
साग्लें वासवान हांवं जाल्लां प्रीतु ।
तशिं जाव्नु अश्व सोणु माग अन्य वस्तु ॥ ६३ ॥

तेद्ना तूणांतु दोकुनु अर्धु तांडिलो ।
बोट्टांक कनक पाक्कांचि कांति दिलोलो ।
बाणु तांतुंचि सोणु उल्लोचांतु निपुणु ।
म्हळलो राजपुत्रु इंद्राक अशिं म्होणु ॥ ६४ ॥

धोड्यांक सोडुक जाय्ना म्होणु जाल्यारिं ।
माझे बाप्सुन नित्य यज्ञ दीक्षाधारि ।
विध्युक्त कर्मानिंचि यागाचें पूर्ण ।
प्रभो फल पाव्वे वरि कोर्का तूंवें मन ॥ ६५ ॥

अष्ट मूर्तिले अंशान महा वीरान ।
यज्ञ शालेंतु आशिल्या माझे पितुन ।
वृत्तांत हें तुझा दूत मूलक सुरेश ।
आय्कुचाक वग्गि कोर्नु दिव्का अवकाश ॥ ६६ ॥

वज्रिन तशिं जाव्वो म्होणु रघुक सांगुनु ।
गेल्लों मातलि जोडि स्वर्ग मार्गु धोर्नु ।
राया पूतुयि राळ्ळाराक तोंड कोर्नु ।
चम्कलो वग्ळो दीकु धोर्नु खुशि पाव्वु ॥ ६७ ॥

इंद्राले संदेश वाहकान प्रथमु ।
सांगिलें आय्कुनु रायान पाव्वु संभ्रमु ।
रघु आंग वज्र हतिन रूंवं जाल्लेलें ।
खुशि जाव्वु फूल्नु बाहुनि पोटोनुधर्लें ॥ ६८ ॥

अशिं एक ऊणे शेंबरि भूनाथान ।
केल्ले पुण्यप्रद महा क्रतु वैभवान ॥
स्वर्गलोकाक मर्तरि वोच्चा आशेन ।
पायरि पांति केल्लेले वरि निर्माण ॥ ६९ ॥

अशिं विषय सुखाक फाटि घाल्न विधियुत ।
श्वेतच्छत्र चौरं सकड युवकु रघुक दीव्वु ।
बाय्ले जोडि बनांतु रुका पंदांतु राब्लो ।
म्हांतार्पणारि हो क्रमु ईक्ष्वाकु कुळांविलो ॥ ७० ॥

**तृतीय सर्ग समाप्तु**

# चतुर्थ सर्गु

# रघु दिग्विजयु

आदित्यान बूड्चे वेळेरि ।
दवर्लेल्या द्युतिन उज्वावरि ॥
बाप्सुन दिल्लेलें राज्य पाव्नु ।
रघु जाल्लो अति शोभायमानु ॥ १ ॥

रघु दिलीप नृपतिले अनंतर ।
रायु म्होणु आय्कलले इतर ।
अरि हृदयांतु फूडे आशिलो ।
धुव्वोरु उज्वो जाव्नु जाल्लो ॥ २ ॥

चोय्ताति इंद्रालो ध्वजु कशिं ।
ताझें नव अभ्युत्थान तशिं ॥
चेर्डुंवांक प्रजाजन घेव्नु ।
मात्तें उकोळ्नु दोळे फुलानु ॥ ३ ॥

एक कालारि दोनि आक्रमण ।
हस्ते म्हण्के चम्कुचा रघुन ॥
केल्लिं समस्त शत्रुलिं राष्ट्र ।
वेग्ळें पित्रार्जित सिंह पीठ ॥ ४ ॥

प्रभामंडलान कोळ्चि तसलि ।
लक्ष्मिन स्वतः भूपालकालि ॥
सात्ति धोर्नु कमल म्होण्चि तसलि ।
देखुपणा तशिं सेवा केल्लि ॥ ५ ॥

सरस्वतिनयिं योग्य कालारि ।
आसुनु मागधांल्या जिब्बेरि ॥
श्लाघनेंक योग्यु जाल्लेल्यालि ।
अर्थयुत जाल्लेलि नुति करैलि ॥ ६ ॥

मनु मुखेलि मानेस्त रायानि । 
अनुभोगु केल्ला जाल्ले तकिनि ॥ 
आशिलि रधुल्यागि भूरमणी । 
म्होण्चे वरि फूडे भोगु पान्नि ॥ ७ ॥

नईं सेळ एकयि मस्त हून । 
कशिं की मलय अद्रिचें पवन ॥ 
तांड्लें तशींचि प्रजालें मन । 
दीव्नु रायान योग्य दंडान ॥ ८ ॥

रघुन चड गुणान बाप्सु वयिलें । 
जन औत्सुक्य ऊणे करैलें ॥ 
चोव्नु तें आंब्या रुकाचें फल । 
विसर्लेले वरि ताझे फूल ॥ ९ ॥

नीतिज्ञानि नव्या रायाक । 
सत् असत् समर हाळें मनांक ॥ 
केल्लो पूर्व पक्षु स्वीकारु । 
रघुन उत्तर पक्षु तिरस्कारु ॥ १० ॥

पृथिवी आदि पंचभूताचें । 
गुणयिं वाडले गंधादिचे ॥ 
तो नवो रायु जाल्ले मागिरि । 
जाल्लें सकडयि नवें म्हळल्वरि ॥ ११ ॥

चंद्रमु मनांक खुशि कोर्नु कशिं । 
उष्ण किरणु प्रतापान कशिं ॥ 
तशिं रघुयि प्रकृति रंजनान । 
जाल्लो राजु सार्थक नांवांन ॥ १२ ॥

दोळे कर्णपर्थंत विशाल । 
आसुनु रधु पाव्लो ताझें फल ॥ 
पुणि तो चोय्तलो सूक्ष्म कृत्यं । 
केवल शास्त्र लोचनान नित्य ॥ १३ ॥

स्व राज्यांतु शांति आस कर्तरि ।
रायु रधुक मेळुक आयिल्वरि ॥
दोन्निंचि राज्य लक्ष्मि वरि आस्लि ।
शरद श्री फुल्ल पद्म आशिलि ॥ १४ ॥

पूर्ण पाव्सु घाल्नु लघु मेघानि ।
वाट सोळे मागिरि रधु रविनि ॥
केल्लें सुदुःसह प्रतापान ।
एक कालारि दिशा आक्रमण ॥ १५ ॥

पाव्साचें चाप देवेंद्रान ।
सोळें धर्लो विजय धणु रघुन ॥
अशिं प्रजाजन प्रयोजनांक ।
क्रमान सोळ्ळें धर्लें कार्मुक ॥ १६ ॥

आसुनु धवि सात्ति कमल म्होणु ।
दर्भ्यां फुल्लंचि चौरं जाव्नु ॥
शरदृतुन नकलि केल्लि नृप रघुक ।
पुणि जाय्नि ताझि श्री पाव्वाक ॥ १७ ॥

तोंड फुलेनु आश्चा रघुचेरि ।
तशिं नितळ कांतिचा शशिचेरि ॥
पाव्लो चोय्तलो त्या कालारि ।
एक रीति मोगु दोगांचेरि ॥ १८ ॥

हंसं तारकांच्या मेळांतु ।
साळुकं भर्लेल्या तळ्यांतु ॥
रधुलें यशम्होण्चा धन राशि ।
शिंपिलि तरि कशिं दिस्लें तशिं ॥ १९ ॥

शेत राक्तल्यो ऊस वनांतु ।
बैसुनु राक्तल्यालि साव्टांतु ॥
सान्पण दोकुनु वाडुनु आयिलि ।
गान कर्तातित ती कीर्ति रघुलि ॥ २० ॥

अगस्त्य नक्षत्र उद्देनु जळ ।
जाल्लें तें पूर्ण जाव्नु निर्मळ ॥
रघु निमिति हारिचे शंकेन ।
कुस्वड जाल्लें विरोधिलें मन ॥ २१ ॥

मस्तिन उध्दट होड भुजाचे ।
आशिले नदिचें तट हांडुचे ॥
होड पाड्डे अनुकरण कोर्चे ।
रघुले अरि मर्दन खेळाचें ॥ २२ ॥

मदपरिमळा म्हण्के आसुचो ।
वासु हुंकुनु सप्तच्छदांचों ॥
देंव्लें रधु हस्तेंक जाळान ।
देंविल्वरि मद सप्तस्थळान ॥ २३ ॥

चिकोलु सुकोनु वाट वोच्चाक ।
नदि उदक ऊणे कोर्नु बांटुक ॥
अनुकूल कोर्नु शरदान रघुक ।
दिल्लि उमेदि प्रथम यात्रेक ॥ २४ ॥

वाजि नीराजन म्होणु विधिन ।
रधुक पवित्र जोळ्चा उज्ञान ॥
ज्वाला म्हळल्या त्या हात्तान ।
दिल्लेल्वरि दिस्लें तें विजय दान ॥ २५ ॥

व्यवस्था रक्षेचि दुर्गाचा ।
कोर्नु स्व वसति लागि आसुचा ॥
अदृष्टशालि स विध सैन्य घेव्नु ।
चम्कलो जय पाव्चाक म्होणु ॥ २६ ॥

मंदरान घांटिताना क्षीर ।
सागराच्या पाळांनि शीकर ॥
शिंपिले म्हण्के विष्णुचेरि ।
लायि पुरवधुनि शिंप्लि रघुचेरि ॥ २७ ॥

हाल्वे ध्वजान होळचे वायुक ।
भिष्टायिले म्हण्के शत्रुंक ॥
रघु समानु प्राचीन बर्हिक ।
प्रथम चम्कलो प्राचीदिशाक ॥ ८ ॥

रथु आनि घनांक सम हस्तेनि ।
धांव्ताना त्या उब्चा धूळिनि ॥
भूंयि माळप्पाचा सारके ।
माळपु जाल्लो भुंय्चा म्हण्के ॥ ९ ॥

प्रकाशु मुखारि ताझे फाटिरि ।
आवाजु गेल्लो धूळि मागिरि ॥
गेल्लें रथादि चतुरंग सैन्य ।
गेल्लेले वरि चारि क्रमान ॥ ० ॥

केल्लें रघुन आपले शक्तिन ।
जलमय जाव्चे वरि मरुस्थान ॥
नदीपार कोरुंक अनुकूल ।
रूक कात्तोर्नु रान निर्मूल ॥ २

भगीरथान हर जटां दोकुनु ।
देंविल्या गंगा नदिक घेव्नु ॥
वोच्चे वरि रघु दिस्लो सेना ।
पूर्व जलधिक घेव्नु वत्ताना ॥ ३ ॥

नृपानि तरु वरि फल त्यागान ।
मूळ हुम्टायिले कारणान ॥
मोणु वोच्चुनु मद गजांक कशिं ।
वाट सुलभ केल्लि रघुकयि तशिं ॥ ३ ॥

पूर्वदिक्काचें सकल जनपद ।
अशिं रघुन जिंक्लें कोर्नु युद्ध ॥
चम्कलो ताली वनान नील ।
सागराच्या लागिक घेव्नु बल ॥ ३ ॥

ादिजय मूळ हुस्टास्ता कशिं ।
ष्ट्यालें नाश केल्लें तशिं ॥
ां चोव्नु वैतसीवृत्ति धोर्नु ।
गुह्म वांच्लें रघुलि दया पाव्नु ॥ ३५ ॥

हुस्टानु बलान वंगनृपांक ।
ाघुन नौकाबल आशिल्यांक ॥
ोव्ले भागीरथिच्या नदींतु ।
वेजय स्तंभु द्वीप मध्येनु ॥ ३६ ॥

पुनः वोयिलें शेन हुस्टानु ।
ताच्यां पंदाकर्यांयि बाग्वुनु ॥
कशिं दित्ता की फल भरपूर ।
तशिं वंगानि दिलें सावार ॥ ३७ ॥

ताणे हस्तेंकचि सेतु कोर्नु ।
त्हेंयि पार केल्लि कपिशा म्होणु ॥
उत्कलानि सांगिलि वाट धोर्नु ।
गेल्लों कलिंगाक तोंड कोर्नु ॥ ३८ ॥

अंकुश यंतान दवर्लेल्वरि ।
गंभीरवेदि करि मस्तकारि ॥
दवर्लो महेंद्र गिरि वोडारि ।
तीक्ष्णु प्रतापु ताणे मागिरि ॥ ३९ ॥

पाक्कं कात्तोर्च्या वज्रि वयिरि ।
गिरिन फात्रां पाव्नु घाल्लेल्वरि ॥
हस्तें सैन्य घेव्नु कलिंगान ।
विरोधु केल्लो रघुक अस्त्रान ॥ ४० ॥

यंयिं वेंग्लिं काकुत्स्थान ।
महन कोर्नु बाणांचे दुर्दिन ॥
केल्लेले वरि मंगल स्नान ।
केल्लें जयवधू पाणिग्रहण ॥ ४१ ॥

थंयिं पान भूमि कोर्नु सिध्द ।
नागवल्लीचा दळान योध ॥
पिल्ले नार्लाचें आसव रुचि ॥
विरोधि नृपालें यशयि तशींचि ॥ ४२ ॥

एक वेळा धोर्नु भूमि दिल्लि ।
ताणे धर्म विजयि महेंद्रालि ॥
लक्ष्मींक बलान घेव्नु गेल्लो ।
तो धोर्नु सोड्चो गुणु आशिलो ॥ ४३ ॥

पोपळाचो माड्यो आसुचा ।
तटा वयिल्यान सागराचा ॥
गेल्लो जय अभिलाषा निस्पृहु ।
अगस्त्य दिशाक पाव्नु उत्साहु ॥ ४४ ॥

रघुन गजांच्या मद परिमळान ।
सेना जनांल्या अनुभोगान ॥
सरित्पतिक संशयु येव्वे वरि ।
केल्लें कावेरि नदीचेरि ॥ ४५ ॥

मरिच वनांतु उब्विं हारीत ।
आसुचो सुंदर मलय पर्वत ॥
लागिचान सैन्य जयशालिलें ।
वत्ताना त्या पथान गेलें ॥ ४६ ॥

घोड्यांल्या गात्तान् एळांचि ।
पिट्टि जाव्नु उब्वोगुणु आसुचि ॥
धूळि उबुनु सम गंध आसुचा ।
पोल्यांरि बस्लि मद हस्तेंचा ॥ ४७ ॥

सर्पान वेंटानु जाल्लेल्या ।
गंधतरु गंतातु बांदिंल्या ॥
हस्तें गळ्याचि दोरि तुंटनि ।
पाय्यां सांकाळ तुंट्ले तकिनि ॥ ४८ ॥

दक्षिणांतु रविलोयि तेजस्सु ।
सेळु जात्ता पुणि रघु ओजस्सु ॥
त्याचि दिशाच्या पांड्य रायाक ।
असाध्य जाल्लो सहन कोर्चाक ॥ ४९ ॥

ताम्रपर्णि सागराच्या संगमांतु ।
जाल्लेल्यो मोतियो धोर्नु हात्तांतु ।
पांड्यानि दिल्यो पोणु रधु पाय्यांरि ।
जोळ्ळेंले नितळ यश दिल्लेले वरि ॥ ५० ॥

पर्वत मलय दर्दुर म्होण्चे ।
मोम्यां वरि दक्षिण दिक्काचें ॥
चंदनान व्याप्त जाल्लेले ।
भोग्लो जायि जाल्लें तित्तुलें ॥ ५१ ॥

सागर सोणु दूर आशिलि सह्यगिरि ।
वस्त्र निसर्लेल्या भूमिंचे कुल्यां वरि ॥
महा विक्रमि दिलीपाल्या पुत्तान ॥
पर्व कर्नात्तिलेंचि केल्लि ती उल्लंघन ॥ ५२ ॥

दिस्लें पश्चिमांक जयेच्छेन ।
वत्ताना रधुल्या सैन्यान ॥
राम शरान दूर केल्ले तरि ।
सह्य गिरिक सागर लागिल्वरि ॥ ५३ ॥

भंयान आभरण सोळ्ळेंल्या ।
केरळाचा अबला जनांल्या ॥
केसांतु रघुन सैन्यांचि धूळि ।
सिंधूराक बदलि जाव्नु केल्लि ॥ ५४ ॥

मुरलाचा मारुतान उब्बिलि ।
केतकि म्हळले फुलांचि धूळि ॥
यत्न नांतिलें रघुले भटांक ।
परिमळ वस्तु जाल्लो कवचांक ॥ ५५ ॥

घोड्यानि वत्ताना तनुंचा ।
मर्मर निनादान कवचांचा ॥
होळ्चा वायुन आस्स जाल्लेलि ।
राज ताली वन ध्वनि निपैलि ॥ ५६ ।

खाजुरा रुक्षांचा कांडांक ।
बांदिल्या गजमद परिमळाक ।
गंडस्थलारि पळ्ळिं भ्रमरं ।
सोणु येव्नु फूल नाग केसर ॥ ५४ ॥

जमदग्नि सुतान मागिल्यान ।
समुद्रान दिलें ताका स्थान ॥
अपरांत रायाल्या रूपान ।
काकुत्स्थाकयि दिलें भोवु धन ॥ ५८ ॥

मदगजानि दाढ्यानि खोंडिलो ।
स्पष्ट पराक्रम चिह्न आशिलो ॥
थंयिं ताणे चित्रकूट पर्वतु ।
केलो विजय स्तंभु महोन्नतु ॥ ५९ ॥

अरि षड्वर्ग तत्त्वज्ञानान ।
हारि केल्लेले वरि संयमिन ।
चम्कलो मागिरि हारि कोरुक ।
पाय वाट्टेन पारसींकांक ॥ ६० ॥

अवेळेरि आयिलें घनांचें ।
कशिं किरणांचें वंत कमळांक ॥
मधु मद यवनी मुख कमळांचे ।
जाग्नि रघुक तशिं सहन कोरुक ॥ ६१ ॥

धूळिंतु निपिलो अमुक म्होणु ।
धनुष्टंकारान कोळ्नु येव्नु ॥
जाल्लो रघुक मागिरि यवनांक ।
झगडो घोड्यां सैन्या मूलक ॥ ६२ ॥

बोडं ताणे खाड अशिलिं ।
कात्तोर्नु भुंय्चेरि पात्लाय्लिं ।
भोर्नु म्होवामूस आशिलिं ।
म्होवा माल्यां वरि तीं दिस्लिं ॥ ६३ ॥

वर्लेल्यानि शिरस्त्राण काणु ।
रायु त्या रघुक जाल्ले शरणु ॥
सुजनालो कोपु जात्ता दूर ।
केल्ले जाल्ले तरि नमस्कार ॥ ६४ ॥

रघुले सैनिक चर्म पात्लानु ।
द्राक्षाचा उपवनांतु बैसुनु ।
पीव्नु मृद्वीक आसव रुचिकर ।
विजय परिश्रमु कर्तांति दूर ॥ ५५ ॥

सूर्यु कशिं उत्तराक वोच्चुनु ।
तांडिता की किरण मूलक रसु ॥
चम्कलो तशींचि रघुयि झळ्कुनु ।
बाणानि रायांक कोरुक वशु ॥ ६६ ॥

सिंधूनदीचा तटारि लोळ्नु ।
चम्कलो श्रमु परिहार कोर्नु ॥
आंग कुंकुम केसर लागिलें ।
रघुले घोड्यानि हाल्लैलें ॥ ६७ ॥

थंयिं हूण राया बाय्लेंक ।
काण्सळ तांब्डें कोर्नु घेन्वाक ॥
उपदेशु कोर्चे वरि रघुन ।
दिस्लें बाम्णांक मार्नु शक्तिन ॥ ६८ ॥

कांबोज राय रघुलें ताकत ।
सहन कोरुंक जाल्ले अशक्त ॥
सालि गेल्लेलें गजं बांदुनु ।
नत जाल्ले अक्षोट तरु दीव्नु ॥ ६९ ॥

कांबोजानि उत्तम घोड्यांक ।
दीव्नु नजर स्वर्ण राशि रघुक ॥
भर्ले तागेलें धनागार ।
म्होणु भर्नि मनांतु अहंकार ॥ ७० ॥

कैलास गिरिचेरि चोणु रघुन ।
वत्ताना घोड्यांचा खुरान ॥
उबिल्या धूळिन दिस्लें शिखर ।
वाड्ता की म्हळ्वरि अनंतर ॥ ७१ ॥

मृगराजानि गुहेंतु निद्दोनु ।
सम बल सैन्यांचि बोब आय्कुनु ॥
गळो घुम्डानु तान्निं चोव्वें ।
दाकैता बलशालि म्होण्वें ॥ ७२ ॥

भूर्ज पान्नांच्या मर्मराक ।
कारण वाशांच्या शब्दाक ॥
थंड गंगा उदक थेंब्यान ।
रधुलि सेवा केल्लि वार्यान ॥ ७३ ॥

नमेरु रुका साव्टांतु आश्चा ।
कस्तूरिचो परिमळु येवुचा ।
सोळ्ळेले खडपिचेरि मृगानि ।
विश्रांति घेत्लि रघु सैनिकानि ॥ ७४ ॥

देवदारु रुक्कांक बांदिल्या ।
गळ्या सांकाळेंतु हंस्तेंल्या ॥
दिसूचि वनस्पति कांति काळकाक ।
ती तेल्ला शिवायि दिव्वे रघुक ॥ ७५ ॥

रघुन सोळ्ळेल्या शिबिरांतुले ।
कण्ठ रज्जून सालि गेल्लेले ॥
सांग्ताति ते देवदारु रूक ।
हस्तेंचें प्रमाण किरातांक ॥ ७६ ॥

थंयिं मृग मूलक उडयिंल्या ।
फात्रांक बाणांक जाल्लेल्या ॥
घर्षणेन जोव्नु मारामारि ।
जाल्लि रघु गिरिजनांक भारी ॥ ७७ ॥

ताणे उत्सव नांवांचालो ।
उत्साहु शरान मोणु घाल्लो ॥
स्व भुजान जय जोणु कीर्तिगान ।
करैलें किन्नरांल्या मुखान ॥ ७८ ॥

हात्तांतु उपदा धोर्नु राबुनु ।
सम्जुनु घेत्लें परस्पर जाव्नु ॥
हिमवंतालि संपत्ती रघुन ।
रघुलें सामर्थ्य हिमवंतान ॥ ७९ ॥

दशकंधरान हाल्लयिल्याक ।
लज्जा आस्स कोर्चे वरि गिरिक ॥
थंयिं स्थिर कीर्तिचि राशि सोणु ।
विजेतु रघु आय्लो सकल देव्नु ॥ ८० ॥

लौहित्य नांवांचि न्हंयिं बांदुनु ।
आय्लो रायु रघु म्हळलें आय्कुनु ॥
प्राग्ज्योतिषाचो नृपु कांप्लो भीव्नु ।
हस्तेंक बांदिले गंध तरु मेळ्नु ॥ ८१ ॥

ताका भास्कराक धांकिलेलि ।
पाव्सु नांपुणि दुर्दिन हाळ्ळेलि ॥
रघु रथ धूळीचि जाल्लि असहन ।
जात्तावे आयिलें गण सहन ॥ ८२ ॥

हस्त्यों अरिंक आडायिल्यो ।
मस्ति येव्नु कपोल भेत्तिल्यो ॥
दीव्नु रघुक जाल्लो शरणांगतु ।
इंद्र समु कामरूप भूनाथु ॥ ८३ ॥

कामरूप देश राक्तल्यान ।
रत्नांच्या फुलांचा माळेन ॥
स्वर्ण पीठेरि बशिल्या रघुलि ।
पाय्यां साळ्ळेचि पूजा केल्लि ॥ ८४ ॥

अशिं दिग्विजयु विजयशीलान ।
कोर्नु उत्तर कोसल रायान ॥
सामंताल्या तकलिरि रथ रज ।
बोसोनु गेल्लो राज्याक निज ॥ ८५ ॥

सर्व स्वत्तु दक्षिणाम्हळलो ।
ताणे विश्वजितु यागु केल्लो ॥
चांग व्यक्तिनि जोळ्ळेलें धन ।
मेघां म्हण्के कोर्चाक दान ॥ ८६ ॥

मखांत्यारि रघुन योग्य पुरस्कारान ।
हारि जाल्लेलि व्यथा केल्लि निवारण ॥
दीर्घ विरहान दुःखिं बाय्लां लागिक ।
रायांक सम्मति दिलि नगरिक वोच्चाक ॥ ८७ ॥

नृपतिनि ध्वज वज्र छत्र रेखा आशिलें ॥
चक्रवर्तिले पदांक पुण्यान मेळलें ॥
गेल्ले नत जाव्नु पळलें मात्यारि दोकुनु ।
हार रज मकरंधान बोट्टं धविं कोर्नु ॥ ८८ ॥

## चतुर्थ सर्गु समाप्तु

# पंचम सर्गु
## अज स्वयंवराभिगमन

विश्वजित् क्रतुंतु भांडार रितें कोर्नु ।
दान दिलेल्या नृपाक देखुंक म्होणु ॥
वरतंतु मुनि शिष्यु कौत्सु विद्या शिकुनु ।
आय्लो गुरु दक्षिणा माग्चाक म्होणु ॥ १ ॥

भांगर नां दोकुनु मात्ये आय्दनांतु ।
अर्ध्य घेव्नु आय्लो आतिथेयु गुणस्थु ॥
कीर्तिचो झळकु आशिलो आपोचाक ।
विद्येन झग्झगेव्चा अभ्यागताक ॥ २ ॥

शास्त्रं जाणु कार्य निपुणु मानेस्तान ।
मुनिंक आसनारि बोसोनु रायान ॥
क्रमान पूजा कोर्नु लागीचि राबुनु ।
अशिं म्हळलो तो गौरवान बाग्बूनु ॥ ३ ॥

रवि रुचिन चैतन्य पाविल्वरि जगान ।
खंचे गुरु मूलक पूर्ण पाव्लो ज्ञान ॥
त्या ऊंचु मुनींक मंत्र द्रष्टाराक ।
सांग तुझा गुरुक बरे नवें पूज्याक ॥ ४ ॥

देह वाक् मनान कष्टान जोळेंले ।
इंद्रालें धैर्य नाश कोर्चें तसलें ॥
तीनि विधाचें तें मुनिलें तप आत्तं ।
लयजाय्ना म्होणु लेख्तां विघ्न निमित्त ॥ ५ ॥

आळें बांदुनु अनेक विध उपायान ।
चेर्डुंवांक सम वाडयिले मोगान ।
श्रमु नाश कोर्चे आश्रमांच्या रुकांक ।
वायु इत्यादिन नां नईवें बाधक ॥ ६ ॥

मुनींक मोगु यज्ञ साधन कुशांचेरि ।
आस्स जाल्यारियि अतिशयु चित्लांचेरि ॥
आस्सुनु मुनींल्या जांगेरि नाभिनाळ ।
झळेलिं मृग शिशुं लेख्तां म्होणु कुशल ॥ ७ ॥

खंचें जलांतु नित्य स्नान कर्ताति ।
खंचान पितृंक जल अंजलि दित्ताति ॥
तीर आसुचिं उंछ षष्ठ पुर्लेलिं ।
भद्र आस्सति नईवें तीर्थं तसलिं ॥ ८ ॥

सकालारि आयिले अतिथि अर्चनेंक ।
तुगलें हें शरीर पोषण कोरुंक ॥
आसुचें नीवारादि वनांचें धान्य ।
खाव्नु धाल्नांति नईवें गोर्वं अन्य ॥ ९ ॥

खुशि पाव्नु गुरुन पूरा विद्या शिकोनु ।
दिल्लिवे अनुमति गृहस्थु जाव्ये म्होणु ॥
तुका हो कालु व्हार्डिकेक सांगिलो ।
उपकारु कोरुक शक्तु घरकेल्लोलो ॥ १० ॥

खुशि पाव्ना तूंवें आयिले मात्रान ।
आज्ञा पालन कोरुक आशेचे मन ॥
गुर्वाज्ञेन गौरव दिव्नाक माका ।
एकयि स्वेच्छेन आयिलो आसुका ॥ ११ ॥

अर्घ्य पात्र पोळोनु दुर्बळ्पण कोळ्नु ।
रघुलिं औदार्याचिं उत्रं आय्कुनु ॥
आपण्याल्या कामांचि आशि तुंटुनु ।
सांग्लें वरतंतु शिष्यान अशिं म्होणु ॥ १२ ॥

आमि सकड राया सौख्य म्होणु लेख ।
तूं नाथु आस्ताना प्रजांक नां दुःख ॥
सूर्यान आस्ताना जनाले दोळे ।
मयाळ कोरुक काळोकु अशक्तु पळे ॥ १३ ॥

भक्ति तुम्चो कुलाभ्यासु पूज्यांचेरि ।
त्या विषयांतु तूं पूर्वजां पशि मुखारि ॥
महाभाग अनुचित कालारि माग्चाक ।
हांवं आय्लांमु म्होणु माका दुःख ॥ २४ ॥

नरेश्वर ऐश्वर्य दीव्नु सत्पात्राक ।
शरीर मात्रान तूं दिस्ता चोव्चाक ॥
अरण्य वासिंक जाल्लेलें फल दीव्नु ।
आसुचा नीवार कांडाक सम जाव्नु ॥ १५ ॥

सार्वभौमु जाव्नु केल्लेले यागान ।
आयिलें दुर्बळ्पण नईं ऊणेपण ॥
देवतेनि क्रमान पीव्नु कला क्षीण ।
जाल्लेले चंद्राक वाडि पशि होड्पण ॥ १६ ॥

तशिं जाव्नु गुरुक दिव्वें द्रव्य हाडुक ।
वेग्ळे स्थळाक वत्तां प्रयत्न कोरुक ॥
तुका बरें जाव्वो मागनांति चातक ।
शरदांच्या रितें मेघां लागि उदाक ॥ १७ ॥

अशिं म्होणु वोच्चाक भाग्नि सर्लेल्या ।
नृपान राबैलो शिष्याक ऋषिल्या ॥
निम्गिलें गुरुक दिव्वो वस्तु कस्सलो ।
ब्रह्मचारि जाव्का जाल्लोलो कितुलो ॥ १८ ॥

अनंतर शास्त्रोक्त यज्ञ केल्लेल्याक ।
ममकार इत्यादि दोष सोळ्ळेल्याक ॥
सांग्लें प्रस्तुत विषयु वर्णाश्रम गुरुक ।
त्या ब्रह्मचारि विद्वांसान रायाक ॥ १९ ॥

विद्यापूर्ति कोर्नु गुरुक विज्ञापना ।
केल्लि कितुलि दिव्का म्होणु गुरु दक्षिणा ॥
भक्तिन चिरकाल केल्लोलो उपचारु ।
गुरु म्हळलो तेंचि माका पुरस्कारु ॥ २० ॥

निर्बंधान आस्स जाल्लेल्या रुषान । 
माझें दुर्बळपण कर्नां तशिं गणन ॥ 
माका दिव्चाक चौदा कोटि द्रविण । 
सांग्लें विद्ये आंक्डो कोर्नु परिगणन ॥ २१ ॥

तुगेले लागि वर्ला प्रभु शब्दु मात्र । 
म्होणु माका कळ्ळें चोव्नु अर्ध्य पात्र ॥ 
गुरु दक्षिणा धन जाल्लेल्यान अतीव । 
इष्ट पाव्ना तुका दिव्चाक उपद्रव ॥ २२ ॥

पापाक भित्तलो चंद्रा वरि सुंदरु । 
तो रघु सग्ळे भूवलयाचो ईश्वरु ॥ 
वेद शिकिल्या द्विजान अशिं सांगिलें । 
आय्कुनु कौत्साक ताणे पुनः सांग्लें ॥ २३ ॥

शास्त्र सम्जललो गुरु दक्षिणा मागुक । 
आयिल्याक रघु शक्तु जाय्नि दिव्चाक ॥ 
दोकुनु अन्यत्र चम्कलो म्होणु मात्र । 
तूं माका कोर्नुका अपकीर्तिक पात्र ॥ २४ ॥

मेगेल्या प्रशस्त होम गृहांतु वास । 
करि चतुर्थ अग्नि वरि दोनि तीनि दिवस । 
तेदोळु भितरि तुगेलें तें प्रयोजन । 
मेळचे म्हण्के कर्तां हांवं प्रयत्न ॥ २५ ॥

रघुलि सत्य प्रतिज्ञा त्या ब्राह्मणान । 
तशिं जाव्वो म्होणु खुशिन केल्लि ग्रहण ॥ 
भूमि वयिलें धन फूडे घेत्तिल्यान । 
कुबेरालें हाडुक रघुन केल्लें मन ॥ २६ ॥

वशिष्ठ मंत्रान उदाक शिंपिल्यान । 
पाविल्या शक्तिन सागर अद्रि गगन ॥ 
ह्यां स्थळांरि मेघां वरि अग्नि स्नेहितु । 
निर्बंधु नांतिलें भोंव्ता रघुलो रथु ॥ २७ ॥

मागिरि धीर रघुन प्रदोष कालारि ।
कैलासपतिक लेखुनु सामंता वरि ॥
तो आपल्या शक्तिन कोर्चाक हारि ।
निद्दलो आयुधं भर्लेल्या रथारि ॥ २८ ॥

फांत्यारि प्रयाण सिद्ध जाल्लेल्याक ।
कोशाधिकारिनि विस्मयान रायाक ॥
कोषगृह मध्ये आकाशारि दोकुनु ।
सांग्लें भांग्राचो पाव्सु पळ्ळो म्होणु ॥२९ ॥

प्रयाण कोर्चा रायाक चोव्नु दिलेलि ।
कुबेराल्या निम्मिति प्राप्त जालेलि ॥
मेरु शिखर विच्चाक पळेल्वरि आशिलि ।
स्वर्ण राशि पूर्ण रधुन कौत्साक दिल्लि ॥ ३० ॥

अगत्य कितुलें तितुलें पूरो म्होण्चो ।
मागिरि एकलो पूरा व्हर म्होण्चो ॥
अशिं दानि माग्तलो उभययि साकेत ।
जनांल्या स्तोत्रांक पात्र जाल्ले सतत ॥ ३१ ॥

करे आनि घोड्यांचेरि धन होंवोनु ।
भाग्नि सोर्नु राबिलो तो ऋषि खुशि पाव्नु ॥
बाग्वुनु राबिल्या रायाक पोळोनु ।
अशिं म्होणु सांग्लें ताझि फाटि पेट्नु ॥ ३२ ॥

प्रजा अधिपतिन न्यायान आस्ताना ।
चित्र नईं भूय्न पूर्ति कोर्चि कामना ॥
इष्टार्थ स्वर्गान केद्ना रकैलें ।
तुगेलें सामर्थ्य असाध्य जाल्लेलें ॥ ३३ ॥

सकडयि बरें जाव्नु आशिल्याक तुका ।
आम्चो आशीर्वादु कसलेंयि नाका ॥
तूं कशिं तुझे पितुक तशिं तुका सदृशु ।
गुणस्थु सत्पुत्रु जाव्वो पाव्वो यशस्सु ॥ ३४ ॥

अशिं आशिष कोर्नु ब्राह्मणु रायाक ।
चम्कलो गुरु समीप द्रव्य दिव्नाक ॥
जीविनि पाविल्वरि ज्ञान रवि मूलक ।
ऋषिले वरान रायु वगि पाव्लो पुत्ताक ॥ ३५ ॥

रघुले बाय्लेन जन्मु दिलो चेर्डाक ।
ब्राह्मी मुहूर्तारि कुमार समानांक ॥
ब्रह्माल्या नांवांन ह्या कारणान ।
पुत्ताक अजु अशिं आपैलें बाप्सुन ॥ ३६ ॥

बाप्सुलोचि आंग्लोटु ताझेंचि त्राण ।
स्वाभाविक तागेलेंचि एक होड्पण ॥
एक दिव्यान अन्य दिवो लायिल्वरि ।
आनु पूतु आशिले भेदु नांतिल्वरि ॥ ३७ ॥

क्रमान गुरु मुखान विद्या पाविल्या ।
यौवनान सौंदर्य वृद्धि जालेल्या ॥
अजाक पाव्वे मन आस्ल्यारियि श्रीक ।
धीर कन्यका वरि राक्लि पितृ आज्ञेंक ॥ ३८ ॥

अनंतर आपोचाक अजकुमाराक ।
आपलि भयिणि इंदुमति स्वयंवराक ॥
पेटैलो क्रथकैशिक रायु भोजान ।
रघुल्यागि आप्त दूतांक उत्सुकान ॥ ३९ ॥

योचना कोर्नु भोजालि सौरिक योग्य ।
पुत्ताकयि व्हार्डिकेक उचित प्राय ॥
म्होणु रघुन पेटैलो अजकुमाराक ।
सैन्यांक दीव्नु विदर्भ राजधानिंक ॥ ४० ॥

रायाक म्होणु निर्माण केल्लेल्या ।
शिबिरांतु उपचारु पुत्तान रघुल्या ॥
पाव्नु जाल्लि वसति उद्यावन भोंव्डिवरि ।
पौरानि दिलेलें नजर घेव्नु पथारि ॥ ४१ ॥

थंड वायुन बिल्वांचें रूक हाल्वा ।
रघु पुत्तान तटारि नर्मदा नदिचा ॥
थकललें सैन्य विश्रांतिक राबैलें ।
धूळिन चिक्लाटे पताके आशिलें ॥ ४२ ॥

अनंतर फूडेचि बुडिलें सांग्चे वरि ।
घूम्नु आशिले मेळ्नु भोवारे वयिरि ॥
मद उदक देंव्नु काणसळ स्वच्छ जाव्नु ।
वन करि वयिरि आय्लि नर्मदेंतु दोकुनु ॥ ४३ ॥

गैरिक धातु पूरा धूव्नु गेल्ले तरि ।
फात्तोरु हांडिलें ऋक्ष अद्रि तटारि ॥
दोन्निंयिं कुड्के दाढ्यानि सांगुचें ।
विविध रंगु मेळलो रेखो आसुचे ॥ ४४ ॥

दीगि सोंडाळि वाग्गी लांबोनु मोड्चुनु ।
बृंहितान तरंग उच्चंबळ कोर्नु ।
बांदिल्या गजानि सुंटुनु धांव्वें वरि ।
दिस्लि तटाक तोंड कोर्नु येव्वि वन करि ॥ ४५ ॥

उदका वाल्यो हर्यान लोकोनु ती ।
अद्रि वरि सुर्वेक तटाक आय्लि हस्ति ।
मागिरि तिगेले वेगाक उच्चंबळ ।
जाव्नु तटाक येव्नु मार्ले नदिचें जळ ॥ ४६ ॥

एकीचि हस्ति उदकांतु बुड्डिल्यान ।
शांत जाल्लेलें क्षणमात्र मद दुर्दिन ॥
गांव्वा हस्तेंक पोळोनु चड जाल्लें ।
अनंतर पोल्यांतु दोकुनु मद देंव्लें ॥ ४७ ॥

अळ्सीकु चिकटा वरि सप्तच्छदांच्या ।
मद उदकाचो वासु हुंकूनु ताच्या ॥
यंतालो बलात्कारु धिक्कारु कोर्नु ।
सैन्यांचो सकड हस्त्यो राब्ल्यों घुव्नु ॥ ४८ ॥

घोडे सुटुनु धाव्वु रितें जाल्लेल्या ।
अच्चु मोणु पळ्ळेले रथ आशिल्या ॥
सेना शिबिरांतु क्षणकाल हस्तेन ।
बाय्लां रक्वालालें कांपैले मन ॥ ४९ ॥

नृपान जिव्हि मारु नज रान हस्तेंक ।
शास्त्र म्हण्ता पुणि मुखारि येत्तलेक ॥
नांवां तकीत दोरि तांडुनु गाल्लाक ।
अजान शर सोळ्ळें तिका माक्षि कोरुक ॥ ५० ॥

शर लागिले तत्क्षण गज आकृति सोणु ।
सैनिकानि चोय्ताना आश्चर्य पाव्वु ॥
प्रभामंडलाच्या मध्येंतु आशिलें ।
गंधर्वालें मनोहर रुप धेत्लें ॥ ५१ ॥

ताणे आपले शक्तिन कल्प तरु सुम ।
पाव्वु रघुले मात्यारि शिंपुनु प्रथम ॥
दंत कांतिन द्युति वाड्डोनु हारांचि ।
मागिरि उल्लैलो तो उत्रं गोडिचि ॥ ५२ ॥

गर्वचि कारण जाव्वु मतंग शापान ।
हस्ति जाव्वु जन्मांक आय्लों पापान ॥
प्रिय दर्शन गंधर्व पति पूतु हांवं ।
प्रियंवदु म्होण्चें मेगेलें नांवं ॥ ५३ ॥

मागिरि महर्षिक हांवें कर्तरि नमन ।
ताझो रागु नीव्वु पाल्लो समाधान ॥
वत उज्ज्ञाचा संपर्कान हून्साणि ।
पाल्लेतकिनि उदकाचो गुणु थंड्साणि ॥ ५४ ॥

इक्ष्वाकु कुलजु अजु लोह इषुन केद्‌ना ।
भेत्तिता गंडस्थळ तुगेलें तेद्‌ना ।
तपस्वि म्हळलो शापु मोक्‌ळो जात्ता ।
तुका फुळ्ळेंचि तुझें शरीरयि मेळता ॥ ५५ ॥

चिरकाल धोर्नु तुका राकुनु आशिलों । 
बलिष्ठान तूंवें शाप मुक्तु केल्लो ॥ 
कर्नि म्होणु जाल्यारि तुका उपकार । 
इतें प्रयोजन माका मेळ्नु शरीर ॥ ५६ ॥

दित्तां तुका संमोहन म्होणु अस्त्र । 
प्रयोगु उपसंहारु मंत्र सहित मित्र । 
माझें गांधर्वास्त्रान मार्तल्याक । 
विजय निश्चय घे अरि हिंसा नां अधिक ॥ ५७ ॥

तूं दाक्षिण्य सोडि माका मार्ले तरि । 
तत्क्षण दया दाकैल्या माझे वयिरि ॥ 
मागणी ही मेगेलि स्वीकारु करि । 
दाकोनुका कृपाळु क्रौर्य माझेरि ॥ ५८ ॥

जाय्त तशिं म्होणु मंत्रु शिकिले अजान । 
आचमन कोर्नु नर्मदा नितळ जळान ॥ 
शापान मोकळो प्रियंवदा मूलक । 
मंत्रु पाल्लो तोंड कोर्नु उत्तराक ॥५९ ॥

अशिं अनिमित्त मार्गारि दैवेच्छेन । 
मैत्रि जाल्लेल्यांतु त्या गंधर्वान ॥ 
वाट धर्लि चैत्र रथ उद्यान वनांचि । 
मागिरि एकल्यान विदर्भ देशाचि ॥ ६० ॥

अजु नगरा लागि आय्लो म्होणु आय्कुनु । 
ताणे आयिल्याक भारी खुशि पाव्नु ॥ 
वयिरि आयिल्वरि जलधि चंद्राक चोव्नु । 
क्रथकैशिक रायु आय्लो अभिमुख जाव्नु ॥ ६१ ॥

अजाल्या मुखारि नम्र जाव्नु भोजान । 
नगरिक होर्नु केल्लें सर्व धन अर्पण ॥ 
अशिं लेख्लें मेळेल्या जनानि भोजु । 
आगंतुकु आनि यजमानु म्होणु अजु ॥ ६२ ॥

भोज अधिकारिनि विनम्र जाव्नु दाकयिल्या ।
पूर्वांचे हुंब्रारि पूर्ण कुंभ आशिल्या ॥
नव्या गोम्ट्या घरांतु अजान केल्लें वास ।
शैशव वोच्चुनु यौवन आयिले मदन सदृश ॥ ६३

कन्या रत्न पाव्वा लालसेन आयिल्या ।
नृपांमध्यें स्वयंवराक म्होणु अजाल्या ॥
हळु निद्रांगना आय्लि रात्रि दोळ्यां मुखारि।
भाव सम्जुचाक जाय्नात्तिल्या बाय्लें वरि ॥ ६४

कान्नां कुंड्लं खोंबिले पुष्ट भुजाचा ।
आंगाचो लेपु लागिलि वली आसुचा ॥
सकाळि जागैलो रघु पुत्ताक ज्ञानि ।
सम प्रायेचा सूत पुत्रानि स्तुतिनि ॥ ६५

रात्रि सर्लि राजकुमार उट्टा हांतुळ सोणु ।
जगाचो भारु भेत्ला अजान दोनि विध जाव्नु ॥
होंव्ला एक तलवारि जागृतु तुगेल्या पितुन ।
यो खांदु दिब्बाक तूं दुस्रे तलवारि खुशिन ॥ ६६

प्रीति तुझेरि आसुनुयिं रात्रि निद्दलल्याक ।
तुका सोणु अन्य संगु केल्लेले स्त्री वरि शशिक ॥
मेळ्नु संतोषु भोगुचाक म्होणु लक्ष्मि चम्कलि ।
आत्तं तो बुड्लो सोणु तोंडाचि कांति तुगेलि ॥ ६७ ।

एक कालारि परस्पर फुल्लेलेलिं ।
सारके पाव्वोति मनोहर जाल्लेलिं ॥
भित्तरि मोवु बाव्लि हाल्विं तुझिं नेत्रं ।
भोंव्विं भ्रमरं आशिलिं सहस्र पत्रं ॥ ६८ ।

फांत्या वयिलें वारें तुगेलो श्वास गंधु ।
पाव्तां म्होण्चें वरि अन्य गुणांचो संबंधु ॥
झोडुंक सिद्ध जाल्लेलिं फुल्लं पाडोनु ।
अरुण किरणान फुल्ल पद्म धता पोटोनु ॥ ६६ ।

रुक्कांच्या तांब्डें आंक्रेंतु पळलो हिमबिंदु ।
नित्तळ मोत्यांच्या म्हण्के तुगेलो संबंधु ॥
दाकैता सौंदर्य वाडोनु तुझा ओंटारि ।
दंत कांति मेळ्नु खुशिन मंद हासु आयिल्वरि ॥ ७० ॥

प्रतापशालि भास्करु उद्देना केद्दोळु ।
अरुणु वगि नाश कर्ता काळोकु तेद्दोळु ॥
तूंवें झगडो कोरुक गेल्लेतरि मुखारि ।
तुझो बापयि जाय्ना विरोधिंक लयकारि ॥ ७१ ॥

उभय पार्श्व हाल्लोनु संपूर्ण नीद सोणु ।
उटाय्ल्यो हस्त्यो सांकाळेंचो शब्दु कोर्नु ॥
सकाणिंच्या वत्ताक दिस्ता तांचो दांतु ।
गिरि सानु खोंडुनु लागिले वरि गैरिक धातु ॥ ७२ ॥

होड तंबूंतु बांदुनु घाल्लेले ।
पारसीक देशांतु जन्मलले ॥
घोडे सिंधूर लवण शिला लेव्नु ।
मैल कर्तात्ति हूनु श्वासु सोणु ॥ ७३ ॥

बाव्नु पूजा फुल्लांचि विंडावण दूर जाल्या ।
आसुनु स्वप्रभावलय दिव्वे मयाळ जाल्या ॥
तुका जागोचाक आमि केल्लेलि आय्कुनु स्तुति ।
पांजिर्यांतुले तुगेले कीर नकलि कर्तात्ति ॥ ७४ ॥

मस्ति येव्नु हंसानि केल्लोलो शब्दु आय्कुनु ।
कशिं सुप्रतीक हस्ति गंगेचि रेंवं सोणु ॥
तशींचि रघुपुत्रु मागधानि केल्लेले नुतिन ।
उटाय्लो तळव सोणु नीद दूर जाव्नु तत्क्षण ॥ ७५ ॥

मागिरि प्रातः कर्म शास्त्रांतु सांगिलिं ।
क्रम प्रकार जाव्नु राजपुत्रान केल्लिं ॥
प्रसाधन कुशलिले करान कोरोनु वेसु ।
स्वयंवर मांटवाक चम्कलो धराधीशु ॥ ७६ ॥

**पंचम सर्गु समाप्तु**

# षष्ठ सर्गु
# स्वयंवर वर्णना

थंयिंरायांक योग्य जाल्लेले मांचारि ।
शृंगारु कोर्नु बशिल्यांक सिंहासनारि ॥
विमानारि भोंव्वा वैभवु देवांगेलो ।
पाविंल्या श्रीमंत रायांक अजु चोय्लो ॥ १ ॥

रतिल्या मागणेंक दया कोर्नु ईश्वरान ।
जीवु दिल्लोलो मदनु राबिल्वरि स्व तनुन ॥
आयिल्या त्या ककुत्स्थ कुलाचाक पोळोनु ।
इंदुमतिक पाव्वि रायांलि आशि गेल्लि सुट्टनु ॥ २ ॥

फात्तोरु भोर्नु वयिरि सकल आशिले वाट्टेन ।
गिरि शिखर चळ्ळेले म्हण्के सिंहा पिल्लान ॥
क्रथकैशिक नृपान दाकयिल्या सोपानान ।
केल्लें अजकुमारान उन्नत पीठारोहण ॥ ३ ॥

नाना रंगांचें आंव्गलें पात्लायिल्या ।
रत्न सिंहासना वयिरि बैसुनु आशिंल्या ॥
रायां मध्ये अजु दिस्लो विशेष झळकान ।
मोराचा फाटिरि बशिले म्हण्के स्कंदान ॥ ४ ॥

मेघां मदें कुड्के कुड्के जाव्नु भेत्तुनु ।
चंचल विद्या म्हण्के सौंदर्यान भोर्नु ॥
आशिलो झळकु चोव्वाक जाय्ना तसलो ।
रायांल्या समूहा मध्ये उद्देललो ॥ ५ ॥

ऊंच सिंहासना वयिरि कोर्नु चांगु शृंगारु ।
बशिल्या रायां मध्ये केवल रघुलो पोरु ॥
कल्प वृक्षांचा मदें पारिजात रूकु कशिं ।
उद्देनु दिस्तलों अजु एक झग्झगान तशिं ॥ ६ ॥

सकड रायांक सोणु नागरिकांले दोळे ।
अजाल्या शरीर सौंदर्य जाळांतु सांपळे ॥
मद येवु भेत्तिल्या राण्चा हस्तें गाल्लारि ।
फुल्लांचो रूक सोणु भोवारे पळले वरि ॥ ७ ॥

मागिरि राज वंशांचो विचारु सम्जलल्या ।
वंदि मागधानि रवि शशि कुलांचा रायांल्या ॥
मुखारि केल्लेलि स्तुति अगुरुचा धुव्रा पशि ।
उबार वत्ताना शिखरा वयिल्या केतु पशि ॥ ८ ॥

नगरा लागिचा उद्यानांतु आसुचे ।
मत्त मयूरांक नांचुक उमेदि दिव्चे ॥
प्रसारु जात्ताना सग्ळ्यान शंखनाद ।
तशींचि गुड्गुडा वरि वाजपांचें शब्द ॥ ९ ॥

पतिंवरा विवाहाक योग्यु अलंकारु कोर्नु ।
मनुष्यानि होंव्चा गोम्ट्या पालकींतु बैसुनु ॥
मांचा मध्येंतु आशिल्या मार्गारि दोकुनु ।
इंदुमतिन प्रवेशु केल्लो परिजनांक घेवु ॥ १० ॥

सकडांले दोळे रवोंबिल्या तिगेल्या ।
रूपाचेरि विधि सृष्टिक ऊंच म्हळल्या ॥
सकड रायांलिं अंतःकरणं पळिळं ।
शरीरान मात्र तीं आसनारि आशिलिं ॥ ११ ॥

इंदुमतिक चोवु रायानि लाळ देंवैलि ।
मागिरि भोवु रीति शृंगार चेष्टा केल्लि ॥
पळैतल्यांक दिस्लें राय ह्या रीतिरि ।
अंकुर सोणु गोम्टे दिसूचा रुक्कां वरि ॥ १२ ॥

एक नृपान हात्तांतु कमळा देंटु धोर्नु ।
चंचल दळानि भोवार्यांक मार्नु आंबुणु ॥
लीला कमल वृत्ताकार जावु घुम्डानु ।
वृत्त आस्स केल्लें फुल्लांचि धूळि शिंपुनु ॥ १३ ॥

रत्नान बांदिल्या अंगद कोटिक खोंबिलो ।
फुल्लांचो हारु भुजांचेरि लांबुनु आशिलो ॥
वेग्ळे रसिक रायान सम्म कोर्चा व्याजान ।
वांकुडें केल्लें आपण्यालें गोम्टें आनन ॥ १४

दृष्टि चिके माक्षि काणु मागिरि एकल्यान ।
चिके वांकुडें केल्लेल्या पाय्या बोट्टान ॥
वक्र जाव्नु नांक्टांचो उज्वाडु शिंप्चे वरि ।
घर्पिलें सुवर्ण पीठ लागि यो म्होण्चे वरि ॥ १५

दावो भुजु पीठे अर्धांशारि दोव्वोर्नु ।
ताझेन उबार बाहु आशिले वरि दिसुनु ॥
चिकेचि वांकुड्या कुर्टारि आसुनु हारु ।
वेग्ळ्या लागि उल्लोचांतु जाल्लो तत्परु ॥१६ ।

आनि एक युवकान युवतिल्या शिंगाराक ।
योग्य जाल्लेले केतकिचें दळ अवतंसाक ॥
प्रियेले कुल्ले धर्पुचाक चांग जाल्लेल्या ।
सिगुळ कोर्नु घाल्लिं नांक्टानि तीक्ष्ण आशिल्या ॥ १७

रेखा रूप ध्वज चिह्न आशिल्या दुस्रान ।
चिक्ला फुलां वरि तांब्डें जाल्लेल्या दाव्लान ॥
मुद्येच्या रत्नांचि कांति अक्षांतु मेळोनु ।
उडैलें दाकोचे म्हण्के द्यूत केळि खेळ्नु ॥ १८

सम आस्त्यारियि नां सम म्होणु रायु एकु ।
बोट्टां वेज्ञांतु दोकुनु रत्नांचो झळकु ॥
होळचे वरि आपल्या किरीटाचे वयिरि ।
हात्तान पर्शितलो समकर्ता म्हळल्वरि ॥ १९

अनंतर रायालें कुल वृत्तांत सम्जलेलि ।
सुनंदा म्होणु नांवं आशिलि द्वार राक्तलि ॥
बुद्दंति उलोचाक प्रथम मागध सन्निधिक ।
होर्नु अशिं म्होणु म्हळलि भोजराज सोदरिक ॥ २०

शरणु आयिल्यांक हो आश्रयु दित्तलो ।
मगधाचो रायु गंभीर गुण आशिलो ॥
प्रजारंजन कोर्चांतु निपुणु जाल्लोलो ।
परंतपु अशिं सार्थक नांवं पाविलो ॥ २१ ॥

सहस्र संख्यान आसुनु इत्तें अन्यनृपतिं ।
हागेले निग्गिति भूमि जाल्या राजन्वती ॥
नक्षत्रं तारका ग्रह समूह आस्ले तकिनि ।
चंद्रान आस्त्यारि मात्र ज्योतिष्मती रजनि ॥ २२ ॥

सोणांतशिं मागधान केल्लेले यागांक ।
आमंत्रण दिल्लेल्यान नाकलोक अधिपतिक ॥
धौव्टया पोंल्यारि लांबुचे केस शचिदेविले ।
मंदार फुलांचो शिंगारु नांतिले गेल्ले ॥ २३ ॥

व्हार्डिक जाव्चाक ऊरि आस्स म्होणु जाल्यारि ।
मगध देशाचा रायालो वगीचि हातु धरि ॥
संतोषु आस्स करि प्रासाद खिडकी मूलक ।
पुष्पपुराक येत्ताना चोव्वा पुर नारिंक ॥ २४ ॥

सुनंदान अशिं म्हळलें आय्कुनु ताका चोव्वु ।
दूर्वा सहित गांतिलि मधूक माळा हाल्लोनु ॥
मनातूंचि नमस्कारु कोर्नु भाव शून्य जाव्वु ।
भोज भगिनि मुखार्सलि सखिक मौन संज्ञा कोर्नु ॥ २५ ॥

मानस हंसिक वायुन उटायिलिं पाळं कशिं ।
दुस्स्रा चिक्ला फुलां लागि व्हर्ता की तशिं ॥
तेचि प्रतिहारिन वेग्ळे रायाल्या लागिक ।
व्हेल्लि क्रथकैशिकेश्वर सहोदरि इंदुमतिक ॥ २६ ॥

इंदुमतिक अशिं म्हळलि हागेलें अंगदेश ।
स्वर्ग सुंदरिनि आशा पाव्वो आंग्लोटु आस्स ॥
शास्त्रज्ञाल्या मूलक वश केल्याति हस्तेंक ।
भुंज्वेरि आस्लेतकिनि भोक्ता स्वर्गलोक सुख ॥ २७ ॥

हाणे शत्रुल्यां बाय्लांक रोडोनु मोम्यांरि ।
पाडोनु अश्रु बिंदु आशिले मोत्यांचे वरि ॥
दिस्लें माक्षि दिलेले वरि सुर्वेक तुंटोनु ।
दोरि नांतिलो हारु तांचे वयिरि दयापाव्वु ॥ २८ ॥

एकस्थळारि स्वाभाविक श्री सरस्वती ।
राबनांति पुणिं हागेल्यागि दोगयिं आस्सति ॥
तिन्नींचि जाव्वाक तूं योग्य आस्स कल्याणी ।
आशिल्यान अधिक शोभा आनि सत्य वाणी ॥ २९ ॥

अंग रायाल्या आंगारि दोकुनु दृष्टि काणु ।
म्हळलि ती सुनंदा लागि मुखारि वोच्चा म्होणु ॥
इंदुमति विवेकीचि अंग रायु मनोहरूचि ।
पुणि स्वाभाविक नईवें लोकांतु भिन्न रुचि ॥ ३० ॥

मागिरि द्वार पालिकेन आनि एकल्याक ।
रूपवंताक विक्रमांतु अति श्रीमंताक ॥
दाकोंचे म्हण्के उदेलेल्या नव चंद्राक ।
दाकैलो विदर्भदेशपतिल्या सहोदरिक ॥ ३१ ॥

दिंब्येक लाग्चे बाहु रूंद हर्दे आशिलो ।
अवंति देशाचो रायु कूर्दु कृश हागेलो ॥
साणेंक धर्लेल्या भानु वरि विश्व कर्मान ।
दिस्ता चोव्वाक जोळचे वरि एक झग्झगान ॥ ३२ ॥

हाणे दिग्विजयाक तीनि शक्ति आशिल्यान ।
वत्ताना मुखावयिल्या घोड्यांचें खुरान ॥
उब्बिल्या धूळिन सामंताल्या मौलि वयिलि ।
रत्न कांति पूरा बुडुनु वोच्चे म्हण्के केल्लि ॥ ३३

शशिमौलिन आसुचा महाकाल प्रदेशाक ।
लागीचि आस्स दोकुनु अवंति नरेशु राबुक ॥
तशिं जाव्वु कृष्णपक्षांतुयिं बाय्लांक घेव्वु ।
सुख भोग्ता रात्रि कालारि चान्निन्यांक भोंव्वु ॥ ३४

सिप्रा न्हंय्चा पाळांच्या वार्यान कांपुचिं ।
उद्यानांचा समूहांतु आनंदान भोंव्चि ॥
मनोहरि तुका ह्या युव रायालो हातु धोर्नु ।
इच्छा आस्स जाल्यारि सांग तूं लज्जा सोणु ॥ ३५ ॥

बंधुजन कमलं फुलेचे म्हण्के केल्लेल्या ।
प्रतापान शत्रु म्हळलो चिकोलु सुकयिल्या ॥
भोजरायाले भग्णिंक जाय्नि मन ताझेरि ।
सूर्य किरणं साळुकांक अळसीक जाल्लेल्वरि ॥ ३६ ॥

कमल गर्भाचि शोभा आशिल्या इंदुमतिक ।
चांग दांत आस्सुतु गुणान योग्य जाल्लेलेक ॥
विधिल्या गोम्टे सृष्टिक अनूप नृपति मुखारि ।
सुनंदान राबोनु तिका अशिं म्हळलि मागिरि ॥ ३७ ॥

मार्नु घेत्ताना हजार भुज उदेनु येत्तलो ।
आट्रा द्वीपां मदें यूपस्तंभु पुर्लोलो ॥
वेग्ळ्यांक नां जाल्लोलो राजशब्दु पाविलो ।
कार्तवीर्य नांवांचो योगि फूडे आशिलो ॥ ३८ ॥

वाय्ट काम कोरुंक मनांतु लेख्ल्यारि तत्क्षण ।
प्रत्यक्ष जात्ता कार्तबीर्यु धोर्नु चाप बाण ॥
आपण्याल्या प्रजांल्या अंतःकरणांतुलो ।
दोषु दूर कर्तलो तो शिक्षकु समस्तांलो ॥ ३९ ॥

चापाचा दोर्येन हाल्ना तशिं हात बांदुनु ।
घा तोंडानि दीर्घ श्वासु सोड्चे म्हण्के कोर्नु ॥
रावणांक बंधनांतु वज्रिक हारि केल्लोलो ।
हाणे दया आस्स जाव्नो पर्यंत दवर्ललो ॥ ४० ॥

प्रतीपुम्होणु तागेल्या वंशांतु जन्मलो ।
म्हांतारें विद्वांसालि शुश्रूशा कर्तलो ॥
हाणे आश्रय कारणान लक्ष्मींक आयिलें ।
अपयश दूर केल्लें स्वभाव चंचला म्हळलें ॥ ४१ ॥

हाणे अग्नि सहकारु घेव्नु मारामारिंतु ।
क्षत्रिय कालरात्रि म्हळल्या जमदग्नि पूतु ॥
रामाल्या कुडारिचि धारा सुतीक्ष्ण जाल्लेलि ।
साळुकाचे पाकळेक सारके म्होणु करैलि ॥ ४२

माहिष्मति पागोरु म्होण्चा कुर्टाचि कांचि ।
नर्मदा न्हंयि नित्तळ उद्दाक आस्सुनु होळिच ॥
सौधाचा खिडकि दोकुनु चोव्नि आशि आस्स तरि ।
लक्ष्मि जाव्नु बैस तूं ह्या वीराल्या जांगेरि ॥ ४३ ॥

शरत्काल घनांचें धांकणे नां जाल्ले तरि ।
चिक्ला फुल्लांक पूर्ण चंद्रु जाय्नात्तिले वरि ॥
माहिष्मतिचो रायु तो जाल्यारियि मनोहरु ।
इंदुमतिल्यां दोळ्यांक जाल्लो नां तृप्तिकरु ॥ ४४ ॥

स्वर्ग लोकांतु हागेलि कीर्ति गान कर्ताति ।
आचारान परिशुध्दु शूरसेन अवनी पति ॥
हो दोनि कुलांक दिवो नांवं सुषेणु म्होणु ।
अशिं म्हळलि तिका प्रतिहारि वेग्ळ्यांक दाकोनु ॥ ४५ ॥

शास्त्रोक्त जाव्नु अध्वरं केल्लोलो हो रायु ।
नीप कुळावि नृपान पाव्नु हागेलो आश्रयु ॥
शांत तपोवन पाव्नु सोळ्ळेल्वरि हिंस्र मृगानि ।
ज्ञान पाव्नु सोळ्ळो जन्म द्वेषु परस्परानि ॥ ४६ ॥

आपल्या राव्ळारांतु चान्निन्या वरि कांति ।
दोळ्यांक संतोषु कोर्नु दित्ता मनांक शांति ॥
हागेलो असह्य झळकु शत्रुले पट्टनांतु ।
जळता राव्ळारा वयिरि उटायिल्या तणांतु ॥ ४७ ॥

सुषेणाल्या सतिनि जलकेळि वेळेरि कुचांक ।
लायिलो चंदनांचो रोसु धूव्नु नदी उदक ॥
कालिंदी आस्सुचि मथुरा पुरांतु जाल्लेतरि ।
दिस्ता गंगे पाळांचो संगमु जाल्लेल्वरि ॥ ४८ ॥

गरुडाक भिल्लेल्या यमुनांतुल्या कालियान ।
दिल्लेल्या रत्नांचि कांति हर्यारि प्रसरण ॥
जान्वे वरि घाल्नु घेव्नु कौस्तुभधारि कृष्णांक ।
हो नालिशि कर्ता म्हळल्वरि दिस्ता चोव्चाक ॥ ४९ ॥

ह्या तरुणांक बाम्मुणु म्होणु लेख्ता जाल्यारि ।
फुल्लं पाल्लायिल्या अंकुरांचा तळवारि ॥
वृंदावनांतु उद्यानांक समान चैत्ररथ ।
मनोहरि यौवनांचें फल तूंवें भोगुयेत ॥ ५० ॥

मनोहर गोवर्धन पर्वताच्या पोकळांतु ।
वाव्जडिन थंडु जाल्लेल्या फात्रारि पाव्सांतु ॥
बैसुनु शिलाजितुचो वासु हुंकुनु मोरांलो ।
नांचु पोळोवेत मोदु आस्स कोर्चो तसलो ॥ ५१ ॥

नदी गिरकि म्हण्के गुंडि गोम्टि बोंब्लि आशिलि ।
कोणं की वेग्ळे मनिशालि बाय्ल जान्वि तसलि ॥
गेल्लि ती रायाक सोणु आशिलि अद्रि मुखारि ।
सोणु सागराक मेळूंक वोच्चा न्हंय्चे वरि ॥ ५२ ॥

तदनंतर अंगद बांदिलो बाहु आशिल्या ।
हेमांगदु म्होणु विरोधिंक लय केल्लेल्या ।
कलिंग रायाले मुखारि राबिले शशि मुखिक ।
किंकरि सुनंदा म्हळलि अशिं म्होणु इंदुमतिक ॥ ५३ ॥

हो महेंद्र पर्वताक समान शक्ति आशिलो ।
सागर आनि महेंद्र गिरिक रायु जाल्लोलो ॥
हागेल्या दंड यात्रेंतु मद हस्त्यो मुखारि ।
वत्ताना दिस्ता वोच्चे म्हण्के महेंद्र गिरि ॥ ५४ ॥

बांदुनु घाल्लेल्या शत्रु लक्ष्मिन काजळ सहित ।
देंवयिल्या दोळ्यां उदकान जाल्लेल्वरि खत ॥
हाणे दोनि बाहुरि धनुर्धरांक प्रमुखान ।
मौर्विचे रेखे धारण केल्याति श्रेष्ठान ॥ ५५ ॥

हागेले राव्ळाराचा लागीचि आसुचो ।
सौधा खिडकि दोकुनु पाळं चोव्वाक जाव्वो ॥
समुद्रूचि जागैता होळ्ळो आवाजु कोर्नु ।
निद्दलेल्याक याम दुंदुभिचो शब्दु निपोनु ॥ ५६

हाका घेव्नु तालिवनांतु मर्मर रव आशिल्या ।
वेग्ळे द्वीपांतुले काणु हाणु वोयिल्या ।
लवंग फुलां परिमळु आसुचें वारें होळचा ॥
सागर तीरारि भोंव्येत वांव्ट दूर कोर्चा ॥ ५७

भोज रायालि सोदरि आकारान मनोहरि ।
द्वारपालिकान अशिं आशा दाकैले तरि ॥
लक्ष्मि पुरुष यत्नान लागि येव्नु हतभाग्याक ।
सोणु गेल्लेल्वरि गेल्लि सोणु कलिंग रायाक ॥ ५८

अशिं पळे चकोराक्षि म्होणु सांगुनु प्रथम ।
उरग पुराचा रायाक दिसुचा देवांक सम ॥
प्रतिहारि सुनंदान वोच्चुनु ताझे सन्निधिक ।
भोज राज सहोदरिक दाकैलो इंदुमतिक ॥ ५९

पांड्यु हो भुजारि लांब्वो मोत्यां सरु आशिलो ।
हरि चंदनांचो रसु आंगाक लाव्नु घेत्तिलो ॥
किरणां वत्ताक तांब्डि प्रस्थभूमि आसूनु ।
दिस्ता धबधबो आशिल्या शैलाक समानु ॥ ६०

विंध्य पर्वतान वाड्चें राबोनु सोळ्ळोलो ।
पुसूनु पीव्नु मागिरि सागर भाग्रि सोळ्ळोलो ॥
अश्वमेध याग अवभृथ स्नान कोर्नु वल्लो ।
प्रतिदिन हागेल्यागि अगस्त्यु कुशल निम्गितलो ॥ ६१

रुद्रालें अलभ्य अस्त्र हाणे केल्लां प्राप्त ।
म्होणु हागेलि मैत्रि कोर्नु रावणान उध्दत ॥
फूडे जन स्थानलय केल्लां म्होणु शंकेन ।
गेल्लो तो सुरलोकाक जय पाव्वा आशेन ॥ ६२

चांग कुलाचो हाझो हातु रूढिक सम जाव्नु ।
तूंवें धोर्नु विशाल भूमिंक सम म्होणोनु ॥
रत्नं आशिलि जलधिचि कांचि कोर्नु धेत्तिल्या ।
सपत्नि जाव्येत सतिक दक्षिण दिशा म्हळल्या ॥ ५३ ॥

पडिपान्नांच्यो वाल्यो भोर्नु आसुचो माड्यो ।
चंदन तरुंक वेंटायिंल्यो एळां वाल्यो ॥
आशिल्या मलय पर्वतारि बोश्चाक मन करि ।
तमाल तरुंचि पान्नं पात्लानु ताझे वयिरि ॥ ६४ ॥

साळुका म्हण्के नील देह ह्या रायालें ।
गोरोचनांक सम गोरें लाचार तुगेलें ॥
विञ्चु मागिरि मेघा म्हण्के तुम्गेले मिलन ।
अन्योन्य जाव्नु शोभा वाडुक जाव्वो कारण ॥ ६५ ॥

सुनंदान केल्लोलो समर्थु जाग्नि उपदेशु ।
भोजनृप भगिनिल्या मनांतु कोरुक प्रवेशु ॥
मोको जाल्लेले कमलांतु सूर्यान बुड्तरि ।
चंद्रालिं किरणं रिगुक शक्त जाय्नात्तिल्वरि ॥ ६६ ॥

रात्रिचें संचारु कोर्चि दिव्याचि ज्योति वरि ।
खंचे रवंचे नृपांक सोणु गेल्लि ती मुखारि ॥
जाल्लिंति त्यात्या रायालिं तोंडं काळिं ।
राजपथ प्रासादांचेरि पळ्ळेल्वरि साव्ळि ॥ ६७ ॥

रघुलो पूतु अजाल्या सन्निधिक आयिल्येक ।
कर्ता की नां स्वीकारु म्होणु आपण्यांक ॥
आयिलो संशुयु तागेलो अंगद बांदिलो ।
उज्व्या बाहुचा कंपनान निवारण जाल्लो ॥ ६८ ॥

सर्वांग परिपूर्णु मनोहराक चोव्नु ताका ।
वेग्ळे रायांक चोव्वें मन नां जाल्लें तिका ॥
आंब्यांच्या फुलां लागि गेल्लेले भोवारे ।
आशि कर्नाति मागिरि हक्कांचें संग दुसरे ॥ ६९ ॥

रघुले पुत्ताक गोम्टि इंदुमतिलि चित्तवृत्ति ।
जाल्या म्हळलें कोळ्नु संपूर्ण जाव्नु वशवर्ति ॥
उल्लोचांतु बुद्दंति प्रतिहारिन अनंतर ॥
उत्रं क्रमानुसार जाव्नु सांग्लिं सविस्तार ॥ ७०॥

इक्ष्वाकु वंशांतु सकड रायांक वयिलो ।
सकल गुण श्रीमंतु ककुत्स्थु म्होणु जन्मलो ॥
मागिरि सकड उत्तर कोसलाचे महाराय ।
काकुत्स्थ म्हळलें पद धारण कर्तांति प्रिय ॥ ७१॥

बसवु जालेल्या सुरेंद्राल्या फाटिरि बैसुनु ।
पिनाकिक सारके जाव्नु ताणे लडायि कोर्नु ॥
असुरांल्या बाय्लांल्या गाल्लां वयिरि आशिलें ।
मकरिका पत्रांचें खत शरान धूव्नु काळ्ळें ॥ ७२

देवगजाक पर्शिलेल्यान सडिल जाल्लेलें ।
इंद्राले अंगदाक अंगद आपण्यालें ।
घस्टुचे म्हण्के स्वर्गारि इंद्राले लागिचि ॥
ककुत्स्थु अर्धासनारि बस्लो मनुजु जाव्नूंचि ॥ ७३

कुटुंबाक दिव्वो त्या ककुत्स्थाल्या वंशांतु ॥
दिलीपु म्होणु मारायु जन्मलो कीर्तिवंतु ।
जाळ्क्या इंद्राल्या कारणान केल्ले ताणे ।
अश्व मेध याग शेंबरिक एकु मात्र ऊणे ॥ ७४ ॥

मारायु दिलीपान राज्य रक्षण कर्ताना ।
विहाराक म्होणु अर्ध वाट्टेरि वत्ताना ॥
निद्दलेल्या मत्त स्त्रीलें वायुयि आंगलें ।
हाल्लैना तरि कोण तांडूक धैर्य आशिले ॥ ७५ ॥

विश्वजितु महा यागु केल्लोलो रघु म्हळलो ।
दिलीपालो पूतु अनंतर भूरमणु जाल्लो ॥
दंडयात्रा कोर्नु ताणे जोळ्ळेलें तें धन ।
मात्ये आय्दन मात्र सोणु केल्लें पूर्ण दान ॥ ७६ ॥

र्वताच्या वयिरि चळ्ळें सागरांतु बुड्लें ।
र्पाले घरांतु पाताळांतु वास केल्लें ॥
ऊर्ध्व लोकाक चम्कलें यश रघुभुवनपतिलें ।
अशिं सर्व व्यापक जाव्नु निर्बंध नांतिलें ॥ ७७ ॥

स्वर्ग लोक नायकु देवेंद्राक जयंतु कशिं ।
अजकुमारु म्हळलो हो रघुक सत्पुत्रु तशिं ॥
पाड्याक होंन्वाक साध्य जाव्वो भारु भुंय्चो ।
बाप्सुले वरि होंव्ता हो वास्त्रा वरि आसुचो ॥ ७८ ॥

कुलान सौंदर्यान आयिले नव यौवनान ।
वेग्ळेबेग्ळे विनयादि प्रधान सद्गुणान ॥
धरी तूं हागेलो हातु तुका आस्स हो समु ।
जाव्वो रत्नाचो आनि भांग्राचो समागमु ॥ ७९ ॥

सुनंदाल्या उत्रांच्या मुक्तायारि मागिरि ।
संकोचु दूर कोर्नु इंदुमतिन राजकुमारि ॥
स्वयंवर माले म्हण्के घाल्नु दृष्टिचो हारु ।
निसळ मनान केल्लो कुमाराक स्वीकारु ॥ ८० ॥

कुमाराल्या वयिरि आस्स जाल्या म्होणु प्रीति ।
दाक्षिण्यान माक्षि सर्लि सांगुक ती इंदुमति ॥
पुणि तिगेलो अभिप्रायु कळ्ळो आंग भेत्तुनु ।
सुकेशिलो आंगाचो कांटो उटानु राबुनु ॥ ८१ ॥

अशिं भाव व्यक्त केल्लेल्या राया धुवेक ।
अगो आमि वोच्चावें वेग्ळ्याक पोळोचाक ॥
अशिं म्हळलि द्वार राक्तलि सुनंदा चेष्टेक ।
वक्र जाव्नु चोय्लि ती जाळान ह्या उत्रांक ॥ ८२ ॥

चूर्णान तांब्डो जाल्लोलो तीणे मनोहरु ।
दोळयां दिश्चा रागा म्हण्के आशिलो थोरु ॥
रघु पुत्ताल्या गळ्याक करैलो अलंकारु ।
आपण्याल्या धात्रिल्या हात्तान तो हारु ॥ ८३ ॥

रघु पुत्रान गोम्टिं ऊंच फुल्लानि गांतिलो ।
रूंदचि उबार हर्द्या वयिरि लांबुनु आशिलो ।
लेरल्लें लोण्या म्हण्के मोवु भोज सोदरिले ।
बाहु पाश प्रेमान आपण्यांक बांदिले ॥ ४ ॥

मेघ मुक्त शरच्चंद्राक मेळेलि चंद्रिका ।
सागरांतु प्रवेशु केल्लेलि जह्नु कन्यका ॥
म्होणु समान गुण मेळेल्याक हर्षु पाविले ।
म्हळले एक वाक्य रायांक कोडु जाल्लेलें ॥ ५ ॥

खुशि जाल्लेले व्हर पक्षाचे एक बगल ।
मन मोळेले राय सकड आन्नेक बगल ॥
फुल्लेलेलिं पंकजं साळुकं मोके ।
जाव्नु आश्चा सरसिक सभा जाल्लि सारके ॥ ६ ॥

षष्ठ सर्गु समाप्तु

# सप्तम सर्गु
# अज पाणिग्रहण

नेज गुह समेत देवसेना कशिं ।
यिर्णिक योग्यु व्हरेताक तशिं ॥
ापोनु घेवु आय्लो विदर्भेशु ।
भिमुख जावु कोरुक पुर प्रवेशु ॥ १ ॥

दुमतिले विषयांतु आशि सोणु ।
पवेस भूषांचो झुम्मु देवु ॥
ांत्या वयिले ग्रहां वरि निस्तेज ।
ल्ले सैन्यांच्या तंबूक राज ॥ २ ॥

र्यि शचि सान्निध्य आशिल्यान ।
जाथ्नि झगडो स्वयंवर कारणान ॥
आस्ले तकिनि अजाचेरि मात्सर्य ।
नृपतिनि दाकैनि तांगेलें क्रौर्य ॥ ३॥

ुर घणुचें वरि तोरण आशिल्या ।
वाट्टे वयिल्यान सुम शिंपिल्या ॥
ध्वजा साव्लेन वत कोर्नु निवारण ।
आय्लें भारी वैभवान व्हरण ॥ ४ ॥

माळ्येच्या भांग्रा खिडकी मूलक ।
मागिरि चोव्विं बाय्ल मनिश अजाक ॥
आशिलिं कर्तव्य पूरा विसोर्नु ।
एकु मात्र चोव्वो व्यवहारु कोर्नु ॥ ५ ॥

चोव्वाक खिडकील्यागि धांव्लेलि ।
फांनि सडिल जावु हारु निसर्लेलि ॥
पणा तशिं हात्तान धर्ले तकिनि ।
केस बांदूनु घेव्वि चिंता कर्नि ॥ ६ ॥

शिंगार्चाक पाय्या बोट धर्लें ।
लाक्षेरसान जाल्यारियि वल्लें ।
धाव्वु पाव्लां खतं खिडकि पर्यंत ।
एक्लेन भुय्वेरि केल्लिं अंकित ॥ ७ ॥

एक दोळ्याक मात्र काज्जळ लाव्वु ।
दाव्या दोळ्यांक लाव्वाक विसोर्नु ॥
आनि एकलि कुंच हात्तांतु धोर्नु ।
तशींचि खिडकिचा लागि राब्लि येव्वु ॥ ८ ॥

खिडकिंतु दोळे दोव्वोर्नु एकलि ।
गमन वेगाक काप्पड निसर्लेलि ॥
भांग्रा कांकणांचि कांति बोंब्लेंतु ।
रिग्चे वरि राबिलि धोर्नु हात्तांतु ॥ ९ ॥

अवसरान उटाय्ताना एक्लेलि ।
कांचिचिं रत्न अर्ध गांतिलेलिं ॥
सकड सकल पोणु दोरि मात्र वर्लि ।
पाद अंगुष्ठान दामाटिलेलि ॥ १० ॥

कुतूहल भर्लेलिं पुर स्त्रीलिं ।
मधु पीव्वु चल नेत्र भृंग आशिलिं ॥
तोंड जालंध्रांतु दिस्लिं अशिं ।
कमला फुलानि शिंगार्ल्यारि कशिं ॥ ११ ॥

त्यो दोळ्यानि व्हरेताक पिल्यो ।
अन्य विषयु सोणु करण आशिल्यो ॥
वर्लेले इंद्रिय वृत्ति तांगेलि ॥
दोळ्यांतु रिगिले म्हण्के आशिलिं ॥ १२ ॥

परोक्ष जाव्वु माग्ल्यारियि रायानि ।
स्वयंवर इच्छा पाव्लि भोज भगिनि ।
पाविले म्हण्के लक्ष्मिन विष्णुंक ।
हाझेन ती पाव्लि अनुरूप पतिक ॥ १३ ॥

मिथुन हें भोवु सौंदर्य आशिलें ।
तरि परस्पर मिलन कर्नां जाल्लें ॥
ह्या रूप सृष्टिक विधिन केल्लेले ।
यत्न पूर्ण विफल जात्ता आशिलें ॥ १४ ॥

सत्य जाव्नु दोगयिं रति कंदर्प ।
हजारो रायां मध्ये अनुरूप ॥
पाल्लि व्हराक ती हाका कारण ।
फुळे जन्मांचें विषय जाण्ता मन ॥ १५ ॥

पुर वधु तोंडांतु दोकुनु आयिलिं ।
उत्रं कान्नांक गोड जाल्लेलिं ॥
आय्कुनु अजु चांग कोर्चे तसल्या ।
घराचा लागि आय्लो सौध्रांल्या ॥ १६ ॥

कामरूप रायालो हातु धोर्नु ।
देंव्लो अजु हस्ते फाटिरि दोकुनु ॥
रिगिले वरि मागिरि नारी मनांतु ।
रिग्लो भोजान सांगिले घरांतु ॥ १७ ॥

सिंहपीठे वयिरि बशिले अजान ।
मागिरि मधुपर्क अर्ध्य सहित रतुन ॥
पुडविं दोनि भोजान दिल्लेलिं ।
घेत्लिं वाय्लांलि दृष्टि पळ्ळेलिं ॥ १८ ॥

चंद्रिकेन फेणु आशिले जलधिक ।
व्हेलेले वरि तीराचे लागिक ॥
व्हेलो दुकूल नेसिल्या अजाक ।
विधेय सेवकानि होव्ले लागिक ॥ १९ ॥

थंयिं भोज भूपति पुरोहितान ।
होमु कोर्नु तुप्पान अग्नि समान ॥
विवाह साक्षिक तोचि अग्नि हाळ्ळो ।
वधू वरालो समागमु करैलो ॥ २० ॥

स्व हस्तान होक्लेलो हातु धोर्नु ।
राया पूतु दिस्लो गोम्टो जाव्नु ॥
अशोक लतेचे अंकुर लागिचा ।
धर्लेल्वरि अंकुरान आंब्याचा ॥ २१ ॥

दोगांलें सात्त्विक भाव मदनान ।
समान वांटो केल्लेल्वरि तत्क्षण ॥
हात व्हराले रोमांचित जाव्नु ।
दिस्लिं वधुलिं बोट्टं हूम येव्नु ॥ २२ ॥

एकल्यांक एकलिं तीं चोय्लिं ।
तत्क्षण दोगांलि दृष्टि जोडि जाल्लि ॥
दोळे भुक्केलेले तांगेले ।
स्वाभाविक लज्जा पाव्नु मोड्चले ॥ २३ ॥

ज्वाला होडि आशिल्या अग्निचि ।
वधूवर तीं प्रदक्षिणा कोर्चिं ॥
प्रदक्षिणा येव्वि मेरु शैलाक ।
दिस्लिं परस्पर सम दिवसु रात्रिक ॥ २४ ॥

होड कुल्यांचा चकोर नेत्रेन ।
ब्रह्म सारके गुरुले प्रेरणेन ॥
केल्लें अर्पण त्या लज्जावतिन ।
जोळचा होमांतु लायि भक्तिन ॥ २५ ॥

लायि शमि आंक्रेचें गंध आश्वें ।
पवित्र धूम आस्स जाल्लें हविचें ॥
ज्वाला ताज्ञि क्षण काल गाल्लारि ।
दिस्लि तिज्ञा कान्नांचा साळ्कावरि ॥ २६ ॥

दोळ्यां उदक काज्ञळ मेळ्नु देंव्लें ।
कान्ना वयिलें यव अंकुर बाव्ले ॥
अनुष्ठानान अर्शि दिस्लि होक्कल ।
होम धूमान तांब्डे जाव्नु गाल ॥ २७ ॥

गृहस्थ बंधुनि आनि नृप परिवार ।
सोवासिणिनि क्रमान तदनंतर ॥
भांग्राचा पीठे वयिरि बशिल्या ।
मात्यारि अक्षत शिंप्लिं व्हरांल्या ॥ २८ ॥

भोज प्रदीपान अधिक संपन्नु ।
आपल्या भयिणिलि व्हार्डिक कोर्नु ॥
प्रत्येक नृपांक गौरव दिव्वाक ।
आज्ञा केल्लि ताणे अधिकारिंक ॥ २९ ॥

हासु तोंडारि जाळ मनांतु भितरि ।
नितळ सरसिंतु सिसोडि आशिल्वरि ॥
भोजालो सत्कारु राय असले ।
नजर म्होणु वापस दीव्नु गेल्ले ॥ ३० ॥

फूडेचि काम जाव्वे वरि तयारि ।
कोर्नु व्हरण वोच्चा त्या वेळेरि ॥
स्त्री म्हळलें मांस उपूनु धेव्वाक ।
नृप आडराब्ले वाट्टेरि अजाक ॥ ३१ ॥

भोजान सोदरिलि व्हार्डिक कोर्नु ।
खुशिन होक्लेक दिव्वें धन दीव्नु ॥
अनंतर अजाक पेटोनु दिल्लो ।
आपणयिं संगतु जाव्नु चम्कलो ॥ ३२ ॥

त्रिलोक प्रख्यातु अजाल्या सहित ।
कुंडिन नरेशु वाट्टेरि त्रिरात्र ॥
आसुनु पर्वांत्यारि इंदुन रविक ।
सोळ्ळेल्वरि सोणु आय्लो नगराक ॥ ३३ ॥

दिग्विजयु कोर्नु धन तांड्डुनु धेत्लें ।
म्होणु रघुचे वयिरि वैर आशिलें ॥
ताझे पुत्ताक तरुणी मेळेलि ।
रायांक पूरा कशिं खुशि जात्तलि ॥ ३४ ॥

बलि धन घेत्तिल्या त्रिविक्रम पाद ।
देवेंद्र वैरिन केल्लेल्वरि रोध ॥
व्हर्ताना अजान भोज भगिनिंक ।
वाट बांदुतु राब्ले राय अनेक ॥ ३५ ॥

इंदुमतिक राकुक बहुवीर सहित ।
ताणे आप्त मंत्रिंक कोर्नु नियुक्त ॥
उच्चंबळ शोणा कशिं गंगेंतु ।
तशिं रिग्लो तो शत्रु बाहिनींतु ॥ ३६ ॥

पदातिन पदातिक रथिकाक रथिन ।
धोड्यां वयिल्यांक अश्व सैन्यान ॥
हस्तेंक हस्तेंचेरि चळेल्यान ।
समान जोडिंक मार्नु जाल्लें रण ॥ ३७ ॥

तूर्य धोषु निपैता म्होणु उत्रं ।
कुल नामोच्चारु कर्नांति आत्तं ॥
दाकैलि स्व कीर्ति बाणाक्षरानि ।
लडायेंतु परस्पर धनुर्धारिनि ॥ ३८ ॥

धोड्यांल्या खुरानि आस्स जाल्लेलि ।
स्यंदनांचा चक्रानि सांद्र जाल्लि ॥
गज कर्णानि मार्नु सग्ळ्यान भर्लि ।
ती धूळि धांकुनु सूर्य कांति निप्लि ॥ ३९ ॥

वार्याक पिंदिलिं मीन केतनं ।
दिस्लिं रण रज आंकोर्नु तोंडान ॥
मासोळेनि चिक्लाटे उद्दाक ।
पिव्वे म्हण्के पात्संतु तान्निंक ॥ ४० ॥

रथु म्होणु रथ चक्र शब्दान ।
हस्ति म्होणु धांटेच्या ध्वनिन ॥
धूळिंतु शत्रु मित्र म्हळलें ।
भर्तृ नामोच्चारान कळ्ळें ॥ ४१ ॥

युद्धांतु धूळिन आस्स जाल्लेल्या ।
काळ्काक दोळे मंद केल्लेल्या ॥
शस्त्र घातान हय करि वीरांलो ।
रक्त प्रवाहु बाल सूर्य जाल्लो ॥ ४२ ॥

रक्ताचा निर्मिति ताझें मूळ सोळ्ळें ।
मागिरि वयिरि दोकुनु वारेंयिं होळ्ळें ॥
वाड्वुचा विंगळ्याचो धुव्वोरु कशिं ।
एक घड्येन युद्ध धूळियिजाल्लि तशिं ॥ ४३ ॥

स्मृति येत्तरि मारु खाव्नु पळेल्याक ।
व्हेलो रथु माक्षि म्होणु सारथिक ॥
सोव्वु शत्रुलो बाव्टो यादु कोर्नु ।
कोप्पुनु ताका घाल्लो जिव्शि मार्नु ॥ ४४ ॥

धनुर्धरालें शर अर्ध वाट्टेरि ।
शत्रु बाणान कुड्के जाल्लेतरि ॥
भेत्लें लक्ष्य हात्ता चळक्साणिन ।
पय्ले कुड्क्याचा लोह तलवान ॥ ४५ ॥

गज युध्दांतु तीक्ष्ण चक्रायुधानि ।
भटाले मांडे कात्तर्ले तकिनि ॥
गृध्रांल्या नांक्टांतु केस सांपुणु ।
पळिंति सकल चिकेचि वेळु वोच्चुनु ॥ ४६ ॥

एक्क माराक घोड्याल्या फाटिरि ॥
पळ्ळेले वीराक मार्नि मागिरि ॥
वापस मारुक तो अशक्तु दोकुनु ।
राक्लो अरिक सोये येब्वो म्होणु ॥ ४७ ॥

जीव भयनांतिल्या कवच धरानि ।
हस्तें दाढ्यांरि मार्ले खांड्यानि ॥
तान्नि सोंडाचा उदका थेंब्यान ।
जोळ्चो उज्जो वाड्वैलो भीतिन ॥ ४८ ॥

बोडंचि फलं शरान कात्तर्लेलिं ।
पान पात्रं शिरस्त्राणं पळ्ळेलिं ॥
रगत म्हळले मद्याचि सरसि आशिलि ।
रण भूमि मृत्युलि पान भूमि वरि दिस्लि ॥ ४९ ॥

पार्श्वं कोंकुनु कुड्के केल्लेलें ।
पक्षानि बाहुचें खंड उडयिलें ॥
मांस अभिलाषि पुणि शिंसा कोल्लो ।
अंगद तलव खोंबुनु दुकुनु ताळो ॥ ५० ॥

एक वीरालें शिर कुड्कें अरि खांड्यान ।
जाव्नु पाल्लो तो स्वर्ग लोकाचें विमान ॥
अप्सर नारील्या मोवु जांगेरि बस्लो ।
युध्द रंगांतु नांचुचें स्व कबंध चोय्लो ॥ ५१ ॥

आंबुड्तलो मेल्ले मागिरि वीर ।
स्वतः सारथि आनि रथिक परस्पर ॥
जाव्नु केल्लि लडायि हय लय जात्तरि ।
गदेन भुजान गदा मोणु वत्तरि ॥ ५२ ॥

झोगोणु एक कालारि परस्पर ।
प्राणु सोळ्ळेले कोणं की वीर ॥
विवादु कर्तलिं सुरत्व पाव्नुयिं ।
एक अप्सरेक जाव्नु दोगंयिं ॥ ५३ ॥

वायुन मुखारि माक्षिचान पाळं ।
उटानु जलधि जाल्लेल्वरि उचंबळ ॥
दोगांलेयिं व्यवस्था नांतिलें ।
सैन हार्लें जिंक्लें अशिं जाल्लें ॥ ५४ ॥

आप्लें सैन्य मोळें म्होणु शत्रुन ।
अजु घुस्लो अरि सैन्यांतु धैर्यान ॥
वायुन धुव्वोरु दूर केल्ले तरि ।
जळता अग्नि तण आशिले स्थळारि ॥ ५५ ॥

चोणु रथु चाप तूण कवच धरान ।
बहु रायांक जिव्शिमार्ले अजान ॥
प्रळय अंत्यारि सागरांचि पाळं ।
वराहान केल्लेल्वरि उच्चंवळ ॥ ५६ ॥

दिस्लें अजान भाता पोकळांतु ।
उज्वो हातु हाल्लोचो युध्दांतु ॥
कानुथांयि तांडिलि चापाचि दोरि ।
अरिंक लयकारि शरं ओंक्वे वरि ॥ ५७ ॥

कोपान चाबिले तांब्डेचि ओंट ।
दिस्तलें फुगिलें तोंडयि सुस्पष्ट ॥
अजान भल्लान विरोधिले गळे ।
हूंकारु कोर्चे क्षितिरि पाडैले ॥ ५८ ॥

सकड चतुरंग बल हस्त्योंचि मुख्य ।
सकड शस्त्रधर कवच भेत्तुक योग्य ॥
सकड रायानि सकड प्रयत्नान ।
केल्लें रघुपुत्ताचेरि आक्रमण ॥ ५९ ॥

रथु अजालो अरि शरान निप्पिलो ।
ऊंचु ध्वजाचा तलवान दिस्लो ॥
दवांतु निप्पिलो प्रातः कालारि ।
मंद कांतिन सूर्यान दिश्चे वरि ॥ ६० ॥

राया पुत्तान मदनांक समान ।
प्रियंवदान दिलेलें नें अजान ॥
प्रस्वापन अशिं नांवं आशिलें ।
गांधर्वास्त्र रायांचेरि सोळ्ळें ॥ ६१ ॥

दोरि तांडुचो हातु राकुड जावु ।
पळेलिं शिरस्त्रं भुजारि आसुनु ।
ध्वजस्तंभु तनुंक आधारु कोर्नु ।
शत्रुलें सैन्य आशिलें निद्दोनु ॥ ६२ ॥

सतिन सुवादु चिंविलें ओंटारि ।
शंखु दोव्वोर्नु फुंकिलो जोरारि ॥
अजु स्वार्जित एकु वीरु म्हळलें ।
प्रत्यक्ष यश पित्ता म्होणु दिस्लें ॥ ६३ ॥

तागेले सैनिक अजाक चोय्ले ।
शंख नादु आय्कुनु माक्षि आयिले ॥
कमळा मोक्यां म्हण्के निदलेल्या ।
शत्रु मदें चंद्रा वरि आशिल्या ॥ ६४ ॥

आत्तं तुम्गेलें यश राघवान ।
तांडुनु घेवु दयेन सोळ्ळे प्राण ॥
म्होणु रायांल्या केतुरि रक्तान ।
अजान बरैलें बाणां तलवान ॥ ६५ ॥

चाप कोटिरि एक बाहु दोव्वोर्नु ।
शिरस्त्र काळ्ळेल्यान केस विर्कुनु ॥
तो हुम्मेलेलें निडल आशिलो ।
भिल्लेले बाय्लेल्यागि म्हळलो ॥ ६६ ॥

चोयि प्रिये तुका दिल्या सम्मति ।
युध्दाक हे राय अयोग्य आसति ॥
झगडेंतु अस्सलि स्थिति पाविले ।
मेगेलेक आशा पावु आय्ले ॥ ६७ ॥

वैरान आस्स जाल्लेल्या भीतिन ।
मोकळें जाल्लें तिगेलें आनन ॥
निश्वासाचि ऊब गेल्ले मागिरि ।
निवळ मुकुर स्व कांतिन दिश्चे वरि ॥ ६८ ॥

खुशि पावु तीणे कर्नि लज्जेन ।
बाम्णालि नुति करैलि सखी मुखान ॥
नवे पाव्साक तिंबिलि भूंयि कशिं ।
केकान घनांक अभिनंदन तशिं ॥ ६९ ॥

सद्गुणि अजान अशिं रायांल्या मात्यारि ।
दावे पाय्यान मस्तुनु बाय्लेक रथारि ।
व्हर्तांना घोड्यां गात्तां धूळि केसांरि ।
बैसुनु दिस्लि ती प्रत्यक्ष विजय श्री वरि ॥ ७० ॥

फूडेचि सम्जलल्या रघुन ।
विजयि आत्मजाक अभिनंदन ।
केल्लें जोडिरि आयिल्यांक ।
मन केल्लें मुक्ति पथ धोरुक ॥
घरांतु राबनांति रघुकुलज ।
आस्स जाल्यारि योग्य आत्मज ॥ ७१ ॥

सप्तम सर्गु समाप्तु

# अष्टम सर्गु
# अज विलापु

व्हार्डिकेचें मंगल कंकण ।
हात्ताक बांदिल्या तत्क्षण ।
ताणे इंदुमति वरि बेगळि ।
धरणि तरुणिंक अजाक दिल्लि ॥ १

राज पुत्र अण्वें कोर्नु पुणि ।
पळैताति पाल्वाक धरणी ॥
आज्ञा केल्लि दोकुनु बाप्सुन ।
ताणे घेत्लि घेनि आशेन ॥ २ ।

अजाले जोडि गुरुन केल्लेल्या ।
अभिषेकान हरुष पाविल्या ।
धन्यता व्यक्त केल्लेल्वरि भूंय्न ।
दिसुनु आय्लि निवळ निःश्वासान ॥ ३ ।

अजाक जिंकुचाक शत्रु नां शक्तु ।
अथर्व निपुणु गुरु मंत्रान संस्कृतु ॥
क्षात्र तेजस्सु आनि मेळ्नु ब्रह्म ।
जात्ता उज्ञो वार्या जोडिक सम ॥ ४ ।

रघु पुनः तरुणु जाल्ला म्होणु ।
अजाक दित्तलिं प्रजा मानु ॥
नईं बाप्सुलें वित्त केवल ।
गुणयिं पाव्वु आशिलो सकल ॥ ५ ।

दोनि मात्र जाल्लिं शुभंकर ।
दोन्निन तीं भारी मनोहर ॥
पूर्वजालें राज्य समृद्धिन ।
अजु नव यौवन विनयगुणान ॥ ६ ।

भित्ता म्होणु बलात्काराक ।
नवीचि मेळेल्या भूमिंक ॥
नव्या वधुक भोगिल्वरि अजु ।
भोग्लो दयावंतु महाभुजु ॥ ७ ॥

आपण मात्र रायाक मान्यु ।
सकडयि लेख्तलिं अशिं म्होणु ॥
अनेक नदिंक सागरावरि ।
गौरव ताका सकडांचेरि ॥ ८ ॥

मोवु नईं नईं अधिक कठिनु ।
रुक्कांक कशींकी समीरणु ॥
तशिं नृपांक पथान मध्यम ।
हम्टाय्ना पुणि कर्ता नम्र ॥ ९ ॥

आपण्याले म्हण्के पूतु ।
सचिवांल्या गौरवाक पात्रु ॥
म्होणु सुरलोक सुखयि नश्वर ।
रघुन केल्लें तें तिरस्कार ॥ १० ॥

सुपुत्राले वश कोर्नु राज्य ।
म्हांतार्पणारि दिलीप कुलज ॥
मुगुटो नेसिंल्या महर्षिंलि ।
पदवि पाव्वें यतन कर्तलिं ॥ ११ ॥

वनांक वोच्चा बाप्सुले पाय्यांक ।
लागोनु किरीट आशिलें मस्तक ॥
म्हळलो रघुलो पूतु माका सोणु ।
तूंवें वोच्चाक नज म्होणु रोणु ॥ १२ ॥

चांगचि केल्लें मोगा पुत्ताक ।
रघुन पोळोनु दोळ्यां उद्दाक ॥
सोळ्ळेल्या चर्मा वरि सर्पानि ।
पुणि सोळ्ळेले श्रीक माक्षि घेनि ॥ १३ ॥

रघुन संन्यास स्वीकारु कोर्नु ।
राब्लो भाग्रि पुर प्रदेशु सोणु ।
वधु वरि पुत्तान भोगिले श्रीलि ॥
इंद्रियं वश कोर्नु सेवा घेल्लि ॥ १४ ॥

शांतु एक्लो म्हांतारो नृपु ।
अभिवृध्दिक येव्वो नव भूपु ॥
बुड्चो चंद्रु उदेच्या रविन ।
वंशु आशिलो गगन समान ॥ १५ ॥

यति आनि भूपति चिह्न आशिले ।
आनु पूतु जनांक अशिं दिस्ले ॥
अंशावतार श्रेयस्साचे ।
मोक्ष अभ्युदय फल रूप आश्चे ॥ १६ ॥

अजु अधिकारु स्थिर कोर्चाक ।
नीति जाण्चे मंत्रिले जोडि ॥
जाल्लो स्थिर पद रघु पाव्वाक ।
राब्लो आप्त योगिले जोडि ॥ १७ ॥

अजु जनांलें मन सम्जुचाक ।
धर्मासनारि चोणु बस्लो ॥
वृध्दु रघु धारणाभ्यासाक ।
दर्भ्याचा मांद्रेरि बस्लो ॥ १८ ॥

प्रभु शक्ति म्हळ्ल्या धनान वश ।
लागिचा रायांक एकल्यान ॥
देहांतुले पांच वायुंक वश ।
केल्ले योग मुखांतर वेग्ळयान ॥ १९ ॥

अजान भूमिचेरि शत्रुलिं ।
कर्मांचि फलं नाश केल्लिं ॥
ज्ञानाग्निन लासुचाक रघुन ।
स्वकर्म समूह केल्लें यतन ॥ २० ॥

मजान संधि प्रमुख षड्गुण ।
प्रयोगु केल्ले फल पोळोनु ॥
रघुन स्वाभाविक तीनि गुण ।
अधीन केल्ले निर्भय जावु ॥ २१ ॥

नवो रायु कर्म सोणु नुत्त ।
बैसनि फल मेळचे पर्यंत ॥
वृध्दु साक्षात्कार परियंत ।
योगाभ्यासांतु मग्नु सतत ॥ २२ ॥

जागृतु इंद्रिय अरि विषयांतु ।
स्वार्थ प्रवृत्ति आशिल्यांतु ।
आसक्त अभ्युदय मोक्षांतु ।
उभययि फल पाल्लिं दोन्निंतु ॥ २३ ॥

अजाले आशेक अनंतर ।
व्यय केल्लिं अनेक वत्सरं ॥
योग समाधिन मायातीत ।
रघु पाल्लो पुरुषाक शाश्वत ॥ २४ ॥

रघु मेलो म्होणु अजु आय्कुनु ।
रळ्ळो दोळ्यांतु उदक काणु ॥
ताणे मुनिंक घेवु पितुलें ।
मडें शास्त्रोक्त जावु पुर्लें ॥ २५ ॥

उत्तर क्रिया केल्लि अजान ।
भक्तिन शास्त्र सम्जलल्यान ॥
योगान देह सोळ्ळेल्यांक ।
नाका सुतालें पिंडोदक ॥ २६ ॥

मोक्षु पाविले पितृ उद्देश ।
रोडु नज म्हळले विद्वांस ॥
क्षिति पूर्ण स्वाधीन कोरुक ।
सोळ्ळें दुःख धर्लें कार्मुक ॥ २७ ॥

महा विक्रमि बाम्णांक भूंय्न ।
पाव्नु दिल्लें रत्न संतान ॥
मागिरि इंदुमतिन पुत्ताक ।
जन्मु दिलो महा विक्रमिंक ॥ २

रवि म्हण्के झळकु आशिलो ।
धा दिक्कांतु कीर्ति पाविलो ॥
बाप्पुसु रावणाल्या अरिलो ।
दशरथु अशिं नाम आशिलो ॥ २

तो नृपु ऋषि देव पितृ ऋणान ।
विद्या याग पुत्र प्राप्तिन ॥
परिवेष सोळ्ळेल्वरि भानुन ।
मोक्ळो जाल्लो ऋण त्रयान ॥ ३०

नईं उपकृतिक वित्त केवल ।
आस्स अजाले गुणायिं सकल ॥
बल दुःखिंक रक्षण कोरुक ।
विद्या विबुधांल्या सत्कृतिक ॥ ३१

प्रजा रंजकु अजु पुत्रबंतु ।
एक दिवसु इंदुमति समेतु ॥
पुराक लागिचा उपवनांतु ।
भोंवतलो वज्रि वरि शचि सहितु ॥ ३२

तेद्ना दक्षिण जलधि तटारि ।
गोकर्णेश्वर शिव सन्निधिरि ॥
नारदु चम्कलो सुर पथान ।
सेवनेंक वीणा गानान ॥ ३३

माळा स्वर्गांचा फुल्लांचि ।
नारद वीणेंचेरि आसुचि ॥
गंधाचा आशेन वायुन ।
केल्लेल्वरि दिस्लें अपहरण ॥ ३४

फुल्लांच्या माक्षि वोच्चें अलिगण ।
रायु दर्पाक काञ्जळान मलिन ॥
सुनिले वीणान दोळ्यां उदाक ।
सम जाव्नु दिस्लें देंवयिल्याक ॥ ३५ ॥

सुगंधु आशिलो दिव्य हारु ।
फुलां वाल्लिं विभवु धिक्कारु ॥
कोर्नु पळो अजा बाय्लेल्या ।
चिंवेंचे तलवारि गोम्ट्या ॥ ३६ ॥

मोम्यांक क्षण काल सखी वरि ।
हारु चोव्नु रायालि सहचरी ॥
बोधु चुकुनु राहुन व्हेलेलि ।
चान्निन्यांचे वरि मोर्नु पळिळ ॥ ३७ ॥

पळि अवयव नित्राण जाव्नु ।
आपल्या बाम्णांकयि घेव्नु ।
तेल्ला थेंब्या जोडि क्षितिरि ।
दिव्याचि ज्योति पळ्ळेल्वरि ॥ ३८ ॥

रायु राणिल्या सेवकानि ।
केल्लेलि आय्कुनु आर्तध्वनि ॥
रळिंति सौणि सम दुःखिं वरि ।
तटाकांतुलिं त्या वेळेरि ॥ ३९ ॥

शुश्रूषेन नृपु पाव्लो स्मृति ।
तशीं आशिलि राणि इंदुमति ॥
रोगिंक केल्लेलें वोक्कद ।
आस्त्यारि आयुष्य फलप्रद ॥ ४० ॥

तंति तुंटिल्या वीणे वरि ।
चेतन नांतिलेक जांगेरि ॥
धोर्नु रायान स्व हस्तान ।
नित्कारात्लि सतिक करुणेन ॥ ४१ ॥

गेल्लेल्यान प्राणु विवर्णु ।
जाल्लेलेक जांगेरि धोर्नु ॥
अजु आशिलो उषःकालारि ।
लाशें आशिले चंद्रा वरि ॥ ४२

रळो दोळ्यांतु उदाक काणु ।
स्वरु कांपुनु रायु धैर्य सोणु ॥
ताप्पिलें लोह मोवु जात्ता ।
कशिं सांगु देहिलि अवस्था ॥ ४३

फूलचि तनुंक लागुनु आयु ।
अपहरणांक कर्ता सहायु ॥
म्होणु जाल्यारि धातक विधिक ।
खंचें जाय्ना करण मारुक ॥ ४४

एकयि मोवाळ वस्तु लयाक यमु ।
घेत्ता मोवाळ वस्तुनंचि क्रमु ॥
आस्स हाका फूडेचि उदाहरण ।
दवु शिंपिल्यान पंकजांक मरण ॥ ४५

तरि हारु कारण जात्ता प्राणु काडुक ।
माका कशिं सोळ्ळो तें घाल्लेल्याक ॥
देवाल्या इच्छेन जात्ता अमृत विष ।
एकेक संदर्भारि विषयि पीयूष ॥ ४६

एकयि माझा दुर्भाग्यान ।
विचु जाव्नु हें केल्लां विधिन ॥
जाल्यारि हाझेन रूकु पणि ।
वेढायिलि वाली मेल्लि पुणि ॥ ४७

केल्ला तरि हांवें अपराधु ।
तूंवें ताका कर्नि क्रोधु ॥
तत्क्षण हांवं उल्लोचाक ।
कसलें कारण दूर जावुक ॥ ४८

ञेख्लां तूंवें मनांतु निश्चय जाह्नु ।
हांवं एकलो फोसैतलो म्होणु ॥
एकयि वत्ताना सांगनि इत्याक ।
माक्षि येव्वाक जाय्नांतिले जगाक ॥ ४६ ॥

माक्षि प्रियेल्या गेल्लोलो प्राणु ।
इत्याक आय्लो तूं तिका सोणु ॥
तूंवें केल्लेले होळ्ळे चुक्किक ।
आत्तं सहन करि अळ्सीक दुःख ॥ ५० ॥

सुरत श्रमान हूम आयिलि ।
सुकनि तुगेल्या तोंडा वयिलि ॥
अशिं आसुनु तूं जाल्लि अस्त ।
धिक् अशाश्वत प्राणि जीवित ॥ ५१ ॥

मनांतु वाय्ट तुका आटय्नि ।
माका इत्याक सोळ्ळो पुणि ॥
नाम मात्र हांवं क्षितिक पति ।
निज तुझेरि माका आस्स रति ॥ ५२ ॥

नील भृंग समूहाक सदृश ।
फूल माळेले तुझे केस ॥
संशयु जात्ता वायुन हाल्नु ।
प्रिये तूं माक्षि आय्लि म्होणु ॥ ५३ ॥

वनस्पति कांतिन हिम गिरि गुहेचो ।
लय केल्लेल्वरि काळोकु रात्रिचो ॥
तूं मेगेलें दुःख दूर कोरुक ।
साध्य प्रिये आय्ले तरि सोयाक ॥ ५४ ॥

भोवारो शब्दु कर्ना तशिं भितरि आशिलो ।
कशिं कमला मोको रात्रि निद्दोनु पळ्ळलो ॥
तशिं हें तोंड चपळ मुद्याले केस आसुनु ।
आत्तं माका दुःख दित्ता उल्लोचें सोणु ॥ ५५॥

मोवाळ पल्लवांचा तळवारि ।
दुखा म्होणु सांग्तलि निदल्यारि ॥
फुल्लां वरि आशिलें तुझें देह ।
कशिं कर्तलें सांग चितारोह ॥ ५६

चंद्राक रजनि पुनः पात्ता ।
चक्रवाकाक बाय्ल मेळ्ता ॥
हाझेन विरह सहन जात्ता ।
चिर विरह हें माका लास्ता ॥ ५७

ही आम्गेलें मन सम्जललि सखि ।
तूंवें मेल्लेले निर्मिति दुःखि ।
आत्तं विलासु सोणु मौन जाव्नु ।
आस्स दाभि मेल्लेले वरि पोणु ॥ ५८

गोड उत्रं कोकिल कूजितांतु ।
चोव्नि रीति चित्लाले दोळ्यांतु ॥
विलासु वायुन कांपुचे लतेंतु ।
चम्काण हंसिले चम्काणांतु ॥ ५९

माका चोव्नु तूंवें हे गुण ।
स्वर्गाक वत्ताना स्थापन ॥
केल्यारियि जाग्ना हृदयाक ।
घन विरह दुःख सहन कोरुक ॥ ६०

प्रियंगु लता आनि आव्या रूक ।
होकल व्हरेतु कोर्नु व्हार्डिक ॥
करैनात्तिलेंचि तांकां तूंवें ।
सोणु वोच्चें अन्याय नईंवे ॥ ६१

तूंवें केल्लेल्या दोहद क्रियेन ।
फुल्लं सोळ्यांति अशोका रुक्कान ॥
तुका म्होणु माळ्नु घेव्वाक फांत्येंतु ॥
पेटोनु दिव्वें कशिं तिलोदकांतु ॥ ६२

गागरि बांदिंल्या पाय्यांचें मस्तप |
वेग्ळ्यांक मेळ्ना केल्ले तरि कठिन तप ||
रड्ताति अशोका रूक हें आटोनु |
म्हळ्ळे म्हण्के दिस्ता फूल पाडोनु || ६३ ||

तुगेले निःश्वासाक बरोबरि |
ओवळां फुल्लांचि कुर्टा दोरि ||
अर्ध मात्र गांतुनु माझे जोडि |
नीद काड्चि समवें दोळे सोडि || ६४ ||

ह्यो सख्यो सम भागि सुख दुःखांतु |
द्वितीयेचा चंद्रा म्हण्के पूतु ||
माका आस्स प्रीति तुझेरि मात्र |
पुणि हो निर्धारु अति कठिनु प्रकृत || ६५ ||

धैर्य जाल्लां नाश नष्ट प्रीति |
गायन राब्लां ऋतु उत्सव नांति ||
रत्नाभरणांचे नां प्रयोजन |
मोवु तळव आत्तं माका शून्य || ६६ ||

गृहिणि मंत्रि सखि गुप्त विषयांतु |
शिष्ये ललित कला शिक्वणेंतु ||
असलेलो प्राणु दया विहीनु |
अंतकान होर्नु हांवं ऊनु || ६७ ||

मेगेले तोंडान दिल्लोलो |
सूरु पिल्लेलि सुवादु आशिलो ||
नयन उदकान कुस्रडि जलांजलि |
अन्य लोकांतु तूं कशिं पित्तलि || ६८ ||

निजचि माका तूंवें नांतिलें सुख ||
ऐश्वर्य आसुनुयिं नां लेरव्खाक ||
अन्य भोगांक जाय्ना दोकुनु वश |
मेगेले सकड सुख जाल्लां नाश || ६९ ||

अशिं प्रियेक उद्देशु कोर्नु ।
कोसलेशान रोड्चें चोव्नु ॥
रूकयि रव्ळेति दुःख जाव्नु ।
मकरंद बाष्प जल देंवोनु ॥ ७०

अज ऊरुरि दोकुनु कशीं पुणि ।
तिका उक्कळि स्व बांधवानि ॥
दिव्य हारुचि अंत्य शृंगारु ।
दिल्लि चिताग्निंक गंध अगुरु ॥ ७१

ज्ञानि जाव्नुयिं रायुयि अग्निंतु ।
उड्डुनु मेल्लो म्होणु जन मनांतु ॥
लेखुंख पुरो म्होणु तो मर्नि ।
पुणि जीवाच्या आशेन वांचनि ॥ ७२

गुण मात्र वर्लेल्या बाय्ले उद्देशु ।
शास्त्रांतु निपुणु रायान इक्का दिवसु ॥
दोकुनु वैभवान ऊर्ध्व कर्म पूर्ण ।
केल्लिं नगर उद्यानांतु श्रध्देन ॥ ७३

फांत्या वथिल्या चंद्रा म्हण्के चोव्वाक ।
आशिलो वाय्ल नांतिले आय्लो नगराक ॥
आपण्याल्या दुःखाचा उव्वारा वरि ।
चोय्लो दोळ्यां उदक पुर नारीं तोंडारि ॥ ७४

अजु दुःखि जाल्लो म्होणु याग दीक्षितु ।
वशिष्ठ महर्षिन आशिलो रान्नांतु ॥
ज्ञान चक्षुन स्वतः मागिरि सम्जुनु ।
शिष्याक धाळ्ळो अशिं म्होणु सांगुनु ॥ ७५

गुरु तुझें शोक कारण जाण ।
संपूर्ण जाय्नि दोकुनु सवन ॥
तुका समाधान कोरुक मुनि ।
वनांतु दोकुनु स्वतः येनि ॥ ७६

राया आय्क गुरुलें संदेश सार ।
तूं विद्यावंतु धैर्याचें सागर ॥
माका पेटोनु दिला तुका सांगुक ।
चांगु विषयु उड्गासाक दोव्वोरुक ॥ ७७ ॥

ब्रह्माल्या सृष्टि भितरि सकल ।
काल्वो आय्वो एव्वो काल ॥
चोय्ता अडचण नांतिलें मुनि ।
केद्नायिं ज्ञान लोचनानि ॥ ७८ ॥

फूडे तृणबिंदुन तप कठिन ।
केल्लें भीति पाव्वु इंद्रान ॥
ऋषिलें तपस्य नाश कोरुक ।
पेटैलि अप्सरा हरिणींक ॥ ७९ ॥

तप भंग केल्लेल्याक कोपु ।
येव्वु हरिणींक दिल्लो शापु ॥
म्हळलो प्रकट केल्लो विभ्रमु ।
भूमिरि तूं घे मानुषि जन्मु ॥ ८० ॥

भगवन् हांवं पक्र्याले स्वाधीन ।
क्षमा करि म्होणु केल्लेलेक नमन ॥
दिव्य पुष्प चोव्वोथायि भूस्पर्शन ।
म्होणु शाप मुक्तिक केल्लि अवधि मुनिन ॥ ८१ ॥

क्रथकैशिक राजकुलांतु येव्वु ।
ती तुगेलि राणि जाव्वु वांचुतु ॥
सुरलोकां दोकुनु पळ्ळेलें ।
सुम शापु मुक्तिक कारण जाल्लें ॥ ८२ ॥

दोकुनु बाय्लेलें मरण विसर ।
जन्मल्लयांक कष्ट निर्धार ॥
नित्यचि तूं रक्षण करि धरणी ।
कारण रायांक तीचि गृहिणी ॥ ८३ ॥

अभ्युदय कालारि सोणु मद ।
व्यक्त केल्लें अध्यात्म बोध ॥
आयिल्या वेळेरि संकट ।
तूंवें कोर्का धैर्य प्रकट ॥ ८४

रळ्यारियि तुका ती मेळ्ना ।
मेल्यारियि पाव्वाक जाय्ना ॥
परलोकाक वत्तल्यालें ।
स्व कर्मांन गम्य पथ वेग्ळें ॥ ८५

दुःख सोणु पिंडोदकादिन ।
तृप्ति करि प्रियेक प्रीतिन ॥
नित्य बंधुलें दोळ्यां उदक ।
लास्ता म्हण्ताति प्रेताक ॥ ८६

पंडित जीविक मरण प्रकृति ।
म्हळ्ळे वांचुनु आश्चें विकृति ॥
क्षण काल जाल्यारियि वांचुनु ।
आस्वो जंतूचि लाभवानु ॥ ८७

प्रिय जन मरण लेख्ताति मूर्ख ।
मनांक खोंबिलें म्होणु विशिख ॥
विबुध मोक्ष द्वार म्हळलें ।
लेख्ताति तें म्होणु उगळलें ॥ ८८

आपण्यालेंचि देह आत्मांक ।
संयोगु आनि विरह प्राकृतिक ॥
म्हण्ताना हें विषय पंडितांक ।
सांग जाय्तवे कारण शोकाक ॥ ८९

इंद्रिय जिंकिले तूंवें शोक ।
नीचां वरि राया कोर्चें चूक ॥
तरुयि गिरियि वार्याक हाल्ले तरि ।
कसलो व्यत्यासु तांकां मागरि ॥ ९०

ताणे उदार मति मार्गदर्शि वशिष्ठालो ।
उपदेशु पाह्रु ऋषिक आश्रमांक पेटैलो ॥
दुःख भर्लेल्या मनांतु नांतिलें अवकाशु ।
दिस्लें गुरु लागिक गेल्लेले वरि उपदेशु ॥ ६१ ॥

अजान सत्यवादि प्रियवचनु ।
पुत्तालि प्राय सानि म्होणु ॥
सति सारकेंचि चित्रं चोव्नु ।
सोप्नांतु क्षण काल समागमु कोर्नु ॥
आट वत्सरं अशिं कष्टान ।
काळ्ळिं मेल्ले मागिरि पत्निन ॥ ६२ ॥

कोस्लायिले वरि सौधतल वट पाळान ।
भेत्लें अज हृदय बलान शोक शूलान ॥
वैद्यांकयि असाध्यु तो मरणांतिक रोगु ।
पुणि अज्रु लेख्ता वग्गि सतिक मेळ्चो योगु ॥ ६३ ॥

अनंतर सुसंस्कृतु योग्यु कवच धारणेंक ।
केल्लो कुमाराक नियुक्तु भूमि राकुंक ॥
रोगु लागिल्या तनुंचें दुःख शमनांक ।
मन केल्लें रायान उपवासान मोरुक ॥ ६४ ॥

भागीरथि सरयु संगम तीर्थांतु ।
देह सोणु अजु मेळ्ळो सुर गणांतु ॥
आशिलो शोभेन फुळ्या पशि चडि ।
सुर वन केळिगृहांतु बाय्ले जोडि ॥ ६५ ॥

अष्टमसर्गु समाप्तु

# नवम सर्गु

## मृगया वर्णना

बाप्सुले अनंतर उत्तर कोसल ।
देश राक्ले भूपालान प्रबल ॥
इंद्रिय जिंकिले त्या दशरथान ।
तपस्विंल्या रक्षकान क्रमान ॥ १ ॥

वंश परंपरेक अनुसार जाव्नु ।
पाविलें राज्य शास्त्राक सम जाव्नु ॥
पालन केल्लें त्या कारण षण्मुख ।
बला पशि दशरथु म्हणैलें अधिक ॥ २ ॥

दोगं मात्र कर्मांचो आयास ।
निवारक अशिं म्हण्ताति विद्वांस ॥
सकालारि जल आनि धन दित्तले ।
स्वर्गाचो भुंय्चो राय म्हळले ॥ ३ ॥

अजपुत्रु शांति प्रियु दिव्य कांतिन ।
रायु केद्‌ना क्षिति भर्लि संपत्तिन ॥
नां तेद्‌ना रोग रुजिनांक आस्पदु ।
विरोधिले निम्गिति हारिचो खेदु ॥ ४ ॥

दश दिक्क जिंकुनु रायु रघुन कशिं ।
वित्त वाडैलें अजानयिं तशिं ॥
महा विक्रमि दशरथु रायु जात्तरि ।
जाय्नावें भूमि अभिवृद्धि मागिरि ॥ ५ ॥

समानतेंतु धन कनक वांटुचांतु ।
दशरथु अण्व्यांक शिक्षा दिव्वांतु ॥
जाल्लो चोव्वाक उज्वल तेजान ।
यमु कुबेरु वरुणु सूर्यांक समान ॥ ६ ॥

वाड्चाक यतन कोर्चा रायालें ।
मन तांडुचाक असमर्थ जाल्ले ॥
शिकारि द्यूत चन्द्र किरण सम मधु ।
नव यौवनांचि कांति भर्लेलि वधु ॥ ७ ॥

दैन्यान इंद्रा लागि जाल्यारियि ।
कठिन शब्दु केवल अरि जाल्यारियि ॥
फट्टि केवल हास्याक जाल्यारियि ।
उल्लैनि रायु तो कोणाल्यागियि ॥ ८ ॥

दशरथाले निम्मिति वतले बुड्डुनु ।
सक्कड रायियि थेत्तले उद्देनु ॥
कठोरु तो तागेल्या विरोधिंक ।
जात्तलो मित्रु आज्ञा पालकांक ॥ ९ ॥

ताणे सागर वेडायिलि धरणी ।
एक रथान धणुन बांदुनु शिंजिनि ॥
वश केलि धांव्वें घोडे गज सैन्य ।
जाल्लें जयकाराक मात्र साधन ॥१० ॥

एक रथान दोरि बांदिले धनुन ।
जिंकुनु जाल्लो धनद सम संपन्न ॥
लेख्लें ताणे जलधिचो आवाजु ।
विजय दुंदुभिचो घोषु जाव्नु सहजु ॥ ११ ॥

शत धारा वज्रात पुरंदरान ।
केल्ले अचलांचें पक्षबल शमन ॥
शर वृष्टि घाल्नु शब्दु कोर्चा धणुन ॥
विपक्ष सुंदर तोंडाचा नृपान ॥ १२ ॥

दशरथाले पाय्यां नांक्टां द्युतिन ।
नृपानि वाडोनु मुकुट मणि किरणं ॥
सुरपतिक निर्जर कशिं तशिं सतत ।
जात्तले ताझे पाय्यांक आनत ॥ १३ ॥

नमस्कारु प्रधानानि करयिलो ।
घेवु केस कापिले अरिं स्त्रीलो ॥
कुबेराल्या अलकावतिक समान ।
स्व पुराक नृपु आय्लो जलधि तटान ॥ १४॥

धव्यो सात्यो वेग्ळ्यो उदेना तशिं ।
अजपुत्रु तेजान चंद्रु उज्ञो कशिं ॥
जागृतु आशिलो जाव्नुयिं चक्रवर्ति ।
दोषान नाश जात्ता म्होणु संपत्ति ॥ १५॥

पतिव्रता श्रीन कमल हात्तांतु धोर्नु ।
दशरथु हातु सोड्ता दिव्वांतु म्होणु ॥
तागेलि मागिरि श्री नारायणालि ।
सोणु कर्नि सेवा वेग्ळे रायालिं ॥ १६॥

मगध कोसल केकय रायाल्यो धूव्यो ।
पति देवु म्होणु लेख्वो भारी गाम्ट्यो ॥
पर्वत पुत्र्यो न्हंय्यों कशिं समुद्राक ।
बाय्लो जाल्यो तशिं बलिष्ठ दशरथाक ॥ १७॥

तीनि बाय्लांल्या समेत तो रायु ।
जाण्चो अरिक हारि कोर्चो उपायु ॥
प्रजा शिक्षेक भुंय्चेरि आयिलो ।
त्रिशक्ति आशिलो इंद्रु सो दिस्लो ॥ १८॥

ताणे युध्दांतु वज्रिक सहकारु दीवु ।
शरान सुर स्त्रीलें भय अपहार कोर्नु ॥
आपले बाहुचें पराक्रमांचें गान ।
करैलें निर्जर अंगनाल्या तोंडान ॥ १९॥

अध्वरांतु किरीट काणु दोव्वोर्नु ।
धा दिशांतु दोकुनु धन जोणु हाणु ॥
तमसा सरयु तटं कनक यूपान ।
केल्लें मनोहर जावु सज्ञनान ॥ २०॥

ु घोर्नु कुशाचि दोरि बांदुनु ।
ल्ला शींग घोर्नु चर्म नेसुनु ॥
ग दीक्षितु मौनि रायालें तनु ।
चित्र दिस्लें भित्तरि शिवु आसुनु ॥ २१ ॥

वभृथ स्नानान शुध्दु जितेंद्रियु ।
र समाजांतु मेळ्ळुक अति योग्यु ।
धुचि शत्रुक मात्र उन्नत मस्तक ।
न कर्ता पाव्वु घाल्वा देवाक ॥ २२ ॥

क रथान वज्रिक कोर्नु मुखेलि ।
ाप घोर्नु दशरथान शक्तिशालि ॥
र्थांक थांकुनु आशिलि रणधूळि ।
र शत्रुंल्या रक्तान निवैलि ॥ २३ ॥

गिरि यम धनद वरुणेंद्र समालि ।
राक्रमान असदृशु चक्रवर्तिलि ॥
ायिल्वरि सेवा कोरुक आय्लो ।
ंतु फुलांचो घोसो धर्ललो ॥ २४ ॥

नर दिकाक वोचे आशेन ।
व्डाय्लिं रथ वार्जिक अरुणान ॥
ु नाश कोर्नु फाल्लें फुल्लांय्लें ।
विन मलय म्हळ्ळें अचल मोव्ळें ॥ २५ ॥

र्वेक फुल्लं अनंतर अंकुर ।
भर गायन मागिरि कोकिल स्वर ॥
र्शि क्रमान रुक आय्चा वनांतु ।
यक्षु जाल्लो ॠतु रायु वसंतु ॥ २६ ॥

र्शि सत्कार्यांक न्यायान जोळ्ळेल्या ।
नांक माय्नले भर्तांति की रायांल्या ॥
र्शि भर्ले भोवारे हंसं तळ्यांतु ।
ल्लेर्लेल्या चिवला फुलांक वसंतातु ॥ २७ ॥

वसंतांतु अशोकाचिं नवि फुलं ।
मात्र कारण नईं उमेदि दिव्वाक ॥
स्त्रींल्या कान्ना वयिले अंकुरयि बल ।
दित्ताति कामिंक काम चोदनेंक ॥ २ ॥

वसंतांतु उपवन लक्ष्मि तोंडारि ।
रचना केल्लेलिं नव पर्णा वरि ॥
कुरबक रूक आसुनु भोवार्यांक ।
म्होवु पिवोनु जाल्या पात्र स्तुतिक ॥ १ ॥

युवतिनि सूरु थूकेल्लेल्यान जाल्लेलिं ।
फुल्लं ताका सम आशिले गुण पाविलिं ।
भोवार्यांचो समुदायु म्होवु पिंन्वाक ।
येव्वु वांव्ट दित्ता ओवळांच्या रुक्कांक ॥ ३ ॥

वसंत लक्ष्मिन पलाशाक मोवाळ ।
आंग भरि दिलेलें कळ्याचें जाळ ॥
प्रियेन लज्ञा सोणु प्रियकरालें ।
नांक्टानि आंग घर्पिलेल्वरि दिस्लें ॥ ३ ॥

बाय्लांल्या ओंटांच्या रुंवांच्या दुकिंक ।
कारण जाल्लोलो रशना काडोचाक ॥
दवु तो आत्तं सूर्यान ऊणे केल्लो ।
पुणि पूरा नाश कोरुक अशक्तु जाल्लो ॥ ३ ॥

नांचु अभ्यासु कर्ता म्हळले वरि ।
मलय मारुताक आंब्याचि वल्लरि ॥
पल्लव हाल्लोनु कळो भर्लेलि ।
जितेंद्रियांकयि मोह कारक जाल्लि ॥ ३ ॥

फुल्लांचि वास भर्लेले वनांतु ।
प्रथम कोकिल ध्वनि पळ्ळि कान्नांतु ॥
राबोनु राबोनु मुग्ध बालेन ।
उलोच्या उत्रांक आशिलि समान ॥ ३ ॥

ां कान्नांक गोडि भृंग ध्वनींचि ।
…कि हासु फुल्लेलेलिं फुल्लंचि ॥
…यो रान वाल्यो वार्यान हाल्लु ।
…चे वरि अंकुर हात हाल्लोनु ॥ ३५ ॥

…र चेष्टेक अवकाशु आस्वो ।
…ळ फुलांचो परिमळु येवुचो ॥
… उद्दीपनांक कारण जाव्वो ।
…कर सूरु पिलिं सुवादु आसुचो ॥ ३६ ॥

…वा सौण्यानि कोर्चा शब्दान ।
…ल्यो फुल्लेलेल्या कमलान ॥
… कोर्चि सडिल जाल्लेले कांचिन ।
…यो हास्वा तरुणींक समान ॥ ३७ ॥

…नी म्हळलि तरुणि वसंतान भोगिलि ।
… उद्देनु तोंड धौटें जाल्लेलि ॥
…ु प्रियकरान गेल्लेल्यान दूर ।
… म्हण्के दिस्लि जाल्लेलि लाचार ॥ ३८ ॥

…ु नांतिल्यान नित्तळ प्रभेन ।
…त श्रमु दूर कोर्चा किरणान ॥
…न कुसुम शर आश्वे स्मराक ।
…ल्ल उमेदि तागेले कामांक ॥ ३९ ॥

…च्या उन्नावरि आशिलिं कुसुम ।
… लक्षिमल्या भांग्रां नगांक सम ॥
…ु पाक्ळेचि बाम्णान दिलेलिं ।
…र्णकार प्रियेनि माळ्नु धेत्तिं ॥ ४० ॥

…वामूस काज्ञळा थेंब्यां वरि ।
…ल्यान फुलांच्या घोषाचेरि ॥
…तिले वरि तिळ्यान तिलक रूक ।
…भा आस्स कर्तांति वन श्रीक ॥ ४१ ॥

अंकुरांच्या ओंटान मधुचा परिमळान ॥
फुल्लं म्हळले हासाचा सौंदर्यान ॥
रूक पोटोनु धर्लेल्या मल्लिका सतिनि ।
मनांक हर्षु आस्स केल्लो ह्या प्रकारानि ॥ ४

अरुण कांति पशि चिके चड तांब्डें वसनान ।
कान्नारि दवर्लेल्या यवाच्या आंक्रेन ॥
कोकिल ध्वनि म्हळल्या मन्मथ सैन्यान ।
लंपट जनांक केल्ले बाय्लांल्या अधीन ॥ ४

धव्या केसर कणान पुष्ट आंग ।
तिलक फुलां घोसो पाव्नु अलि संग ॥
नील केसांतु मोत्यांचें भूषण ।
माळ्नु घेत्तिले वरि दिस्ता कांतिन ॥ ४

ध्वजवस्त्र धणु धर्लेल्या स्मरालें ।
शोभाकर मुखचूर्ण ऋतु श्रीलें ॥
म्हळ्ळें पराग सह अलिगण आय्लें ।
वनांतु दोकुनु वायुन उब्बयिलें ॥ ४

इंदोलारि ऋतु उत्सव आचरण ।
कर्ताना कामिनिन आनंदान ॥
बाम्णांक पोटोनु धोर्चा ऊरिन ।
दोर्ये हातु सोळ्ळो त्या निपुणेन ॥ ४

कोपु सोडा नां द्वेषु प्रयोजन ।
येना मागिरि गेल्लेलें यौवन ॥
अशिं म्होणु मदन तत्त्व पिक रवान ।
सांग्लें म्होणु भोख्ता सुख प्रियजन ॥ ४

अशिं विष्णु वसंतु मन्मथ समान ।
बाय्लांक घेव्नु आशिले रायान ॥
अनुभवु कोर्नु ऋतु उत्सवु सुखाचो ।
उल्लासु केल्लो शिकारिक वोच्चो ॥ ४

ाल लक्ष्य भेत्तुक अभ्यासु जात्ता ।
शेकारिन म्होणु अमात्युयि सांग्ता ॥
ृगांचो कोपुभय परिचयु कर्ता ।
ष्ट सहनेन शरीर लघु जात्ता ॥ ४६ ॥

ृत्येक सांगिलो तो वेसु कोर्नु ।
ोव्ळो धनुस्सु खांद्यारि लांबोनु ॥
ोड्यांच्या खुरान उबिले धूळिन ।
दशरथु चम्कलो हीन कोर्नु गगन ॥ ५० ॥

गण्वा फुलां माळेन बांदिले केस ।
वपुक पान्नां वर्णाचें कवच विशेष ॥
हाल्विं कुंडलं घोड्या चम्काणांक ।
आसुनु घुस्लो नृपु रुरु वास भूमिंक ॥ ५१ ॥

गोम्ट्या वाल्लिंतु निप्पोनु शरीर ।
अलींतु मेळोनु दृष्टि व्यापार ॥
कोसलाक आनंद केल्लेल्याक ।
वन देवत्यो चोय्लिं दशरथाक ॥ ५२ ॥

व्याधानि फूडेचि दोर सूणि वेन्नु वोच्चुनु ।
सिद्ध केल्लेले रान्नांतु रिग्लो भूमिरमणु ॥
घोड्यांचा चम्काणांक योग्य भूमि जलाशय ।
आसुनु खग मृग गवय नात्तिल्या चोर दव भय ॥ ५३ ॥

मनोबल आश्चा नृपान धर्लें चाप ।
टंकारान सिंहांक हाडोनु कोप ॥
झळ्कुचि विन्ना दोरि आशिलो सुरधनु ।
आसुचा भाद्रपदाक जाल्लो समानु ॥ ५४ ॥

पुनः पुनः आम्बुल्यो चींव पिव्वा आशेक ।
चित्ताचिं पिलं आड वांदुचिं चम्काणांक ॥
हरिण गण आशिलें मुखेलि उद्धतर कृष्णसार ।
रायाल्या मुखारि आय्लें चाफ्डानु कुशांकुर ॥ ५५ ॥

धांव्या घोड्यारि बशिल्या रायान ।
तूणीरांतु दोकुनु काळे बाणं ॥
वायुन हाल्लेले म्हण्के साळुकं ।
चित्लानि दोळ्यांतु देंवोनु उदाक ॥
आश्चर्य पाव्नु त्या वेळा भयान ।
पोळोनु पूरा काळें केल्लें वन ॥ ५६ ॥

त्या रायान विष्णुंक समानु ।
मृगींक लक्ष्य केल्लेलें चोव्नु ॥
राब्लें बाय्लेक हरिण निपोनु ।
कर्ण पर्यंत तांडिलो बाणु ।
आपणचि लंपटु जाल्लेल्यान ।
माक्षि घेत्लो मोवु मनांचान ॥ ५७ ॥

वेग्ळे चित्लांकयि बाणु सोणु मारुक ।
इच्छा आस्ले तकिनि रायु दशरथाक ॥
भीव्नु दोळे जाल्लेले चोव्नु चंचल ।
कान्नाल्या व्हेल्लेलि मुष्टि जालि सडिल ॥
दोळ्यांच्या सार्केन यादाक आय्ले ।
गोम्टे दोळे आपल्या बाय्लेले ॥ ५८ ॥

पळेले मुस्ता अंकुर घासांच्या कुड्क्यान ।
वल्लें जाल्लेलें दीग गात्तांच्या खत्तान ।
चिक्लां दोकुनु उटानु येव्नु जोरान धांव्चा ॥
चक्रवर्तिन वाट धर्लि डुक्रांचि रान्नांचा ॥ ५९ ॥

चिकेचि बाग्वुनु घोड्या वयिरि बैसून ।
मार्च्या ताका मारुक आंग फुल्लानु ॥
राबिले डुक्राक शर सोणु जांगेक ।
ताणे तोप्पिलें कळिन लाग्चा रुकाक ॥ ६० ॥

ताणे हांडुक येव्चा रान रड्यांच्या ।
सोळ्ळेल्या शरान वेज्रांतु दोळ्यांच्या ॥
देह सुर्वेक कुड्के कोर्नु पाडैलें ।
रगत लागना तशिं तें मागिरि पळ्ळें ॥ ६१ ॥

रायान तीक्ष्ण शरान खड्गमृगांचें ।
शींग कुड्के कोर्नु मात्यारि आसुचें ॥
वजन ऊणे केल्लें अण्व्यांक काडुक ।
नेमकु जाल्लोलो तो धर्मु राक्चाक ॥
सहन कर्नां विरोधिलें उबार शींग ।
पुणि कर्नां तांगेलें आयुष्य भंग ॥ ६२ ॥

गुहेंतु दोकुनु मुखारि आयिल्या ।
वायुन मोळ्ळोलो फुल्लेलेंल्या ॥
सर्ज रुका फांत्ये वरि आशिल्या ।
क्षण मात्रान तोंडांतु वाघाल्या ।
विद्या चमत्कारान भोर्नु बाण ।
निर्भीत दशरथान केल्लें तूण ॥ ६३ ॥

उत्पात ध्वनि वरि कठिन ज्या रवान ।
झार्कुटांतु आश्चा सिंहांक रायान ॥
मार्च्या लालसेन भंय आस्स केल्लें ।
पराक्रमु विशेष आस्सुनु मृगांगेले ।
रायु म्हण्ताति म्हळ्ळ्या जाळान ।
आस्सुका असलें काम कोरुक कारण ॥ ६४ ॥

वांकुड्यां नांक्टांतु मोति आशिल्यांक ।
हस्तेंच्या कुलांच्या वैरि सिंहाक ॥
जिब्बि मार्ले हस्तेनि आपण्यांक ।
युध्दांतु सहायु केल्लो म्हळेल्याक ॥
रिणांतु दोकुनु मोक्ळो बाण मुखान ।
जाल्लेल्वरि मनांतु लेख्लें रायान ॥ ६५ ॥

चमरिंक मंडल धाल्नु वेग्ळे स्थळारि ।
बाणां पाव्सु घाल्लो बैसुनु घोड्यारि ॥
शत्रु रायालिं धविं चौरा म्हक्के ।
तो तृप्ति पाव्लो बाल्लं कोर्नु कुड्के ॥ ६६ ॥

उब्ले तकिनि घोड्या लागिचान मोर ।
लक्ष्य कर्नि दशरथान पाक्कांक शर ॥
रति केळि वेळेरि चित्र हारु आशिलि ।
सोड्वलेलि फांति यादु जाल्लि बाय्लेलि ॥ ६७ ॥

भोंव्नु आयासु पाव्नु आयिलि ।
नृपति मुखाचि हूम निव्वैलि ॥
अंकुर हाल्लोनु आयिल्या ।
शीतळ वार्यान रान्नांच्या ॥ ६८ ॥

अशिं आपण्यालिं काम विसोर्नु ।
सचिवांचेरि भूमि भारु होंवोनु ॥
बाय्ले वरि निरंतर सेवा घेव्नु ।
मोगु वाडिले म्हण्के मन तांडुनु ।
आस केल्लि रायाकयि आकर्षण ।
प्राणिंक मार्नु खेळचा कुशालेन ॥ ६९

हांत्लारि निद्दोनु पल्लव फुल्लांचा ।
ताणे रात्रि दूर केल्लि वनस्पतिचा ॥
दिव्या उज्वाडान एकलो आस्सुनु ।
परिवाराक घोर वनांतु दूर सोणु ॥ ७०

भेरि वरि शब्दु हस्तेंनि कानु फाप्नुळलो ।
सौण्यालि गोडि ध्वनि आय्कुनु जागि जाल्लो ॥
कशिं फांत्यारि वंदिले मृदु नुतिनि पुरांतु ।
तशिं खुशि पाल्लो रायु आस्सुनुयिं वनांतु ॥ ७१

चित्लानि चम्कुनु जाल्लेल्या वाट्टेन ।
घोड्या वयिरि फेणु देंवोंचा श्रमान ॥
बैसुनु दशरथु अनुचरांक सोणु दूर ।
पाल्लो ऋषिनि आश्चें तमसा नदि तीर ॥ ७२

थंयिं कळसो बुडैताना गोड्डु गंभीरु ।
भ्रमा पाव्नु गज बृंहित म्होणु आय्कुनु स्वरु ।
भूपालान तेद्ना काणु शब्दवेधि बाणु ।
सोळ्ळो त्या दिशाक कान्नाल्याथांथि तांडुनु ॥ ७३ ॥

ायांक खंचे काम शास्त्र निषिध्द ।
शरथान केल्लें तेंचि असंबध्द ॥
ज्ञान अंधु जाल्लोलो सम्जला तरि ।
ाय दव्वर्ता वाय्ट वाट्टेचेरि ॥ ७४ ॥

ूकि जाव्वु हा तात म्होणु रोड्चें आय्कुनु ।
ोदिताना झार्कुटांतु मुनि सुतु शर लागुनु ॥
कळसो घेव्वु पळेलें चोय्लो विषादु पाव्वु ॥
रायाक हर्याक खोंबिल्वरि जाल्लें वाणु ॥ ७५ ॥

घोड्यारि दोकुनु देव्वु सत्कुला रायान ।
कुल निम्गिलें तागेलें सांग्लें त्या मुनिन ॥
कळसो आधारु कोर्नु अस्पष्ट शब्दान ।
तपस्विलो पूतु पुणि नईं ब्राह्मणु आपण ॥ ७६ ॥.

मुनिन सांगिले म्हण्के काणा तर्शि बाणु ।
म्हांतारे आव्सु.बाप्पु लागि गेल्लो घेव्वु ॥
अज्ञानान जाल्लेलि चूकि आपण्यालि ।
एकु पूतु आशिले ऋषिक रायान सांग्लि ॥ ७७ ॥

म्हांतारे दुःख जाव्वु भारी रळ्ळे ।
नृपान चेर्डा हर्याचें शर काळ्ळें ॥
शिशुलो प्राणु गेल्लो दिल्लो रायाक ।
शापु मुनिन हात्तांतु धोर्नु नयनोदक ॥ ७८ ॥

येत्ता तुका मरण पुत्र शोकान अंत्यारि ।
म्होणु माडयिल्याक विष ओंकिल्या अहि वरि ।
आशिल्या मुनिंक चोव्वु तो प्रथम अपराधि ।
मागिरि म्हळलो कोसल देशाचो प्रतिनिधि ॥ ७९ ॥

पुत्तालें मुख पद्म पळैनि जाल्लेल्याक ।
लेख्खां हो शापु मेगेल्या अनुग्रहाक ॥
लाशिले तकिनि कृषिभूमि राकुड जोळोनु ।
बी अंकुर्चाक कर्ता पुनः चांगि जाव्वु ॥ ८० ॥

दंडनेंक योग्यु हांवं करुणा नांतिलो ।
सांग कसलें कोर्का म्होणु रायु म्हळलो ॥
आम्कां मेल्लेल्याले माक्षि वोचुचें मन ।
सिद्ध करि चिता म्होणु मागुनु घेत्लें मुनिन ॥

परिजन येव्नु मेळ्ळें पूर्ति केल्लें मुनि इष्ट ।
नृपु माक्षि आय्लो पापभीतिन धृति जाव्नु नष्ट ॥
जोळ्चि वडव अग्नि आशिल्या अंबुराशि वरि ।
आपल्या नाशाक कारण शापु धोर्नु भितरि ॥

नवम सर्गु समाप्तु

# दशम सर्गु

# रामावतार

भूमिंचे रक्षण कर्तल्या ।
सुरेन्द्रा वरि झळकु आशिल्या ॥
दशरथ रायाक महा समृध्द ।
जाल्लि प्राय दश सहस्र अब्द ॥ १ ॥

पितृऋणांतु दोकुनु मोकळो जाव्वाक ।
शोकु म्होण्चो काळोकु लय कोर्चाक ॥
पूतु म्हळलें नांवं आसुचि ज्योति ।
आनिंकयि पाविलो नां दशरथु नृपति ॥ २ ॥

कारण सोद्दिता दोकूनु संतति ।
अशिं दिस्लो पळैताना भूपति ॥
निष्पोनु दोव्वोर्नु रत्नांचें निकर ।
आशिल्वरि घाण्वें फूडे सागर ॥ ३ ॥

मुखेलि कोर्नु ऋष्यशृंगाक महर्षिनि ।
मेळ्नु इंद्रियं वश केल्लेल्या साधुनि ॥
प्रारंभ केल्लें यज्ञ पुत्र कामेष्टि ।
संततिक आशेतल्याक कोर्नु तुष्टि ॥ ४ ॥

पौलस्त्याल्या निम्गिति वांव्ट भोगिले ।
देव सकड लक्ष्मि घोवा लागि गेल्ले ॥
प्रवासिनि वत्ताचा हून्साणि भीतिक ।
गेल्लेले म्हण्के रुकांच्या साव्टाक ॥ ५ ॥

पाव्लिं तान्निं समुद्राचे तीर ।
लक्ष्मीरमणालि नीद जाल्लि दूर ॥
थोडोवु जाय्ना नांतिलें आश्चें ।
लक्षण फाय्वें कार्य सिध्दि जाव्वें ॥ ६ ॥

शेषाल्या वेंटाण्यारि आशिले ।
विष्णुंक सकड देवतेयि चोय्ले ॥
फणांच्या रत्नांतु दोकुनु उड्चा ।
किरणान अभ्दुत शरीर आसुचा ॥ ७ ॥

पात्तळ पाट्या आंवलें नेसूनु ।
लक्षीन कमल पीठेरि बैसूनु ॥
जांगेरि दव्वर्लेल्या मोवाळ ।
दाल्लांच्या वयिरि सोणु पाद कमळ ॥८ ॥

चिकला फुल्लांच्या दोळ्यांचाक ।
भांग्रा रंगा वस्त्र नेसिल्याक ॥
सुखकर प्रारंभारि चोव्वाक ।
शरदृतु दिवसांक समु दिस्तल्याक ॥ ९ ॥

गोम्टो आरसो इंदिरेलो ।
श्रीवत्साक कांति दिल्लोलो ॥
वक्षस्थलारि कौस्तुभ म्होणु ।
आशिल्याक होड रतुन घाल्नु ॥ १० ॥

ऊंच नगं घाल्लेल्या बाहुनि ।
फांट्या सारके आशिल्यानि ॥
नवो पारिजात रूकु उटानु ।
आयिल्वरि सागरांतु दोकुनु ॥ ११ ॥

असुर स्त्रील्यां गाल्लां वयिलिं ।
मद चिह्न लोप कोर्चि तसलिं ॥
धर्लोलो जीवंत आयुधं ।
कोर्चि तसलिं सतत जय निनद ॥ १२ ॥

महा शेषालो विरोधु सोळ्ळोलो ।
वज्रायुध मारांचें खत आशिलो ॥
पोसो कोर्नु दोन्निंयि हात बाग्वुनु ।
विनतेलो चेल्लो आशिलो राबुनु ॥ १३ ॥

योग निद्रा अंत्य जाल्लेल्यान ।
नित्तळ सुंदर पावन दोळ्यान ॥
सौख्य की नीद म्होणु सम्जुचा ।
भृगु प्रभृतिंक अनुग्रह कोर्चा ॥ १४ ॥

विष्णुंक देवांनि नमस्कारु ।
केल्लो वचन मनांक अगोचरु ॥
अनंतर स्तोत्रांक योग्यालि ।
स्तुति केल्लि राक्षसांल्या वैरिलि ॥ १५ ॥

विश्व सृष्टि केल्लोलो राक्तलो ।
तूंचि मागिरि तें नाश कर्तलो ।
अशिं सृष्टि स्थिति लय कारकाक ।
प्रणामु ब्रह्मु विष्णु शिव रूपिक ॥ १६ ॥

एक रुचि आशिलें वयिल्यान उद्दाक ।
पोणु वेगळे वेगळे स्थळारि अनेक ॥
रुचि पाव्वे म्हण्के तूं नांतिलो विकारु ।
तीनि गुणान दिस्ता आशिल्वरि विकारु ॥ १७ ॥

मेज्ञुक असाध्यु पुणि सीमा आशिलो ।
आशि नांत्यारियि जायितें दित्तलो ॥
विजयशालि जाय्ना जिंकुक अन्यांक ।
देखुपणा पुणि कारणु तूं दिसुचाक ॥ १८ ॥

हृदयांतु आस्ले तकिनि तूं देखुपणा ।
पोर्नो मनिशु पण म्हांतारो जाय्ना ॥
कामु नां जाल्ले तरि तपस्वि हें कशिं ।
दयामयु दुःख नांतिलो विचित्र अशिं ॥ १९ ॥

कोणयिं तुका नेण तूं सक्कड जाणु ।
सकडांक जन्मस्थान तूं तुका आनु ॥
तूं सकडांक प्रभु पुणि तुका नां ईशु ।
एक्लोचि तूंवें घाल्याति मस्त वेसु ॥ २० ॥

सप्त साम कर्ता तुझें गान ।
सात जलधि जलांतु तुझे शयन ॥
तूंचि सप्तार्चि वदन आशिलो ।
आश्रयु सात जगांक एकलो ॥ २[illegible] ॥

चतुर्वर्गाचें फलचि ज्ञान ।
चारि युग म्हळलें कालमान ॥
चतुर्वर्णमय हे सर्व लोक ।
कारण चतुर्मुखु तूं सकडाक ॥ २[illegible] ॥

योगिजन अभ्यासान इंद्रिय ।
वश कोर्नु मनान ज्योतिर्मय ॥
म्होणु हृदयस्थु तुगेलें ध्यान ।
कर्ताति मोक्षाच्या इच्छेन ॥ २[illegible] ॥

येत्ता तूं जन्मांक पुणि नां तुका जन्मु ।
जाल्ले तकिनि उदासीनु विरोधिंक यमु ॥
नीद काड्ता पुणि तुका म्हण्ताति जागृतु ।
कोण आस्स तुगेलि शक्ति सम्जुचो शक्तु ॥ २४ ॥

शब्द आदि विषय सुख भोगुक ।
तशींचि कष्टकर तपस्य कोरुक ॥
प्रजांक राक्वें काम कोरुक ।
समर्थु तूं तटस्थु जाव्नु आसुक ॥ २५ ॥

नाना आगमान मार्ग अनेक ।
कारण जात्ताति सिध्दि पाव्वाक ॥
गंगा प्रवाहु कशिं सागरांतु ।
तशिं मेळ्ताति तुझे शरीरांतु ॥ २६ ॥

तुझे उपरि मन दवर्लेल्यांक ।
कर्म फल अर्पण केल्लेल्यांक ।
तूं गति जाव्नु आस्स विरक्तांक ।
कारणु तान्निं मोक्षु पाव्वाक ॥ २७ ॥

ों होड्पण पृथ्वि इत्यादिन ।
ाञ्ना निश्चय प्रत्यक्षान ॥
ाप्त वाक्य प्रमाण अनुमान ।
ाशिं जाय्त सम्जुचाक साधन ॥ २८ ॥

ह्णो उद्गासु केल्लेले मात्रान ।
निशाक शुद्धु कर्ता चोयिल्यान ॥
ानि आपळेल्यान कसलें जाय्ना ।
ळलो हो विषयु सांगूक साध्यनां ॥ २९ ॥

होदधिचा रतुना म्हण्के ।
वेल्या झळकाच्या सारके ॥
ाङ्मनांक दिसना तुझें चरित ।
ाव्तु आस्स स्तोत्रांक अतीत ॥ ३० ॥

ा तुका पाव्वाक साध्य नांतिलें ।
शींचि तूंवें पाव्का जाल्लेलें ॥
वें जन्मांक येव्वाक कारण ।
वल जगा वयिरि आशिलें करुण ॥ ३१ ॥

ाड्पण तुगेलें श्लाघन कोर्नु ।
त्रं मौन जात्ताति उलोनु ॥
ायासान आनि निःशक्तिन ।
ाई गुणांच्या ऊणेपणान ॥ ३२ ॥

ाधोक्षजाक देवतेनि अशिं ।
ल्लो सुप्रीतु जाव्वें तशिं ॥
ाई केवल परमेष्ठिलि स्तुति ।
त्ययि जाव्तु आशिलि ती उक्ति ॥ ३३ ॥

ुशल प्रश्नान जाल्ला विष्णु ।
ासन्नु म्होणु देवांक कोळ्नु ॥
ांग्लें आत्तं नईं लय समय ।
ुणि असुरालें त्रासाचें भय ॥ ३४ ॥

अनंतर तीरारि आशिलि गिरि ।
गुहेंतु प्रतिध्वनि जाव्वे वरि ॥
जलधि आवजु कोर्नु धिक्कारु ।
विष्णु उलैलो जाव्नु गंभीरु ॥ ३५

पुराण पुरुषान वर्णस्थान ।
सम्जुनु उच्चारु केल्लेल्यान ॥
सत्संस्कारु पाविलि सरस्वति ।
पाव्लि कृतार्थता ताझेन ती ॥ ३६

ती विष्णु तोंडांतु उदेलेलि ।
दांताच्या कांतिनि अशिं दिस्लि ॥
वर्लेलि गंगा चरण मूलक ।
होळ्ता की म्हळल्वरि ऊर्ध्वमुख ॥ ३७

जीविले सत्त्व आनि रजो गुणु ।
दोन्नियिं तमोगुणान धांकुनु ॥
धाल्लेल्वरि केल्या राक्षसान ।
तुम्चो अनुभावु विक्रमु जाण ॥ ३८

चूकि कोर्नु आयिले पापान ।
दुकैयिल्वरि सज्जनालें मन ॥
तीनि लोक तागेले कारण ।
जळ्ता म्होणुयिं हांवं जाण ॥ ३९

आम्कां दोगांकयि एक कृत्य ।
दोकुनु सुरपतिः विनति अनगत्य ॥
स्वयं अग्निंक जात्ता सारथि ।
कर्नां तशींचि वार्यान विनति ॥ ४०

कात्तर्ना तशिं आपल्या खांड्यान ।
मेगेल्या चक्रायुध धारेक तीक्ष्ण ॥
धांचो गळो पाव्वो वांटो तो म्होणु ।
असुरांल्या रायान दवर्ला राकुनु ॥ ४१

विरिंचिल्या वराच्या कारण । 
धूर्त रिपुलें हांवें आक्रमण ॥
केल्लें सहन चंदन वृक्षान ।
केल्लेल्वरि सर्पालें वेंटण ॥ ४२ ॥

मनुष्यांक पूरा तिरस्कारु कोर्नु ।
देवतें निम्मिति मरण नज्ज म्होणु ॥
ब्रह्मा लागि तपाक खुशि पाविल्या ।
वरु निम्मिलो रायान राक्षसांल्या ॥ ४३ ॥

हांवंचि दशरथालो पूतु जाव्नु ।
दैत्यालिं शिरःकमलं कात्तोर्नु ॥
युध्दरंगाचि अर्चन कोर्चाक ।
योग्य जाव्नु कर्तां बाणां मूलक ॥ ४४ ॥

दिल्लोलो शास्त्रोक्त ऋत्विजानि ।
हविर्भागु मायावि राक्षसांनि ॥
उष्टे कोर्चे फूडे वेगान ।
आनि तुम्मि खाव्का तें धैर्यान ॥ ४५ ॥

पुण्यवंत आकाश पथान वोच्चे ।
विमान संचारि मेघांतु निप्पुचे ॥
पुष्पक यान चोव्नु आस्स जाल्लेलें ।
भंय सोडोति अण्व्या राक्षसालें ॥ ४६ ॥

शापाक भिलेल्या दशमुखान ।
केसांक हातु घाल्लो बलान ॥
पुणि निर्दोषि निर्जर ललनालि ।
सोड्वाय्ताति तुमि वेणि बांदिलि ॥ ४७ ॥

रावणु म्होण्चा दुर्भिक्षान बाविलें ।
देव म्होण्चा झाड्डांक उत्रं म्हळलें ॥
अमृताचो पाव्सु शिंपुनु अत्यंत शीघ्र ।
माय जाव्नु गेल्लें मनोहर कृष्ण मेघ ॥ ४८ ॥

इंद्रु मेळ्नु देवतेनि प्रमुख ।
देव कार्य उद्देश विष्णुंक ॥
रुकानि फुलांनि वायुक कशिं ।
सहायु दिलो स्व अंशानि तशिं ॥ ४६ ॥

मागिरि दशरथ पुत्र कामेष्टि ।
अंत्यारि अग्निंतु पुरुष सृष्टि ॥
जाल्लि आश्चर्य वर ऋत्विजांक ।
आस्स कोर्नु तशींचि समस्तांक ॥ ५० ॥

आशिल्यान विष्णुलें सान्निध्य ।
त्या व्यक्तिकयि होंव्वा जाय्नि साध्य ॥
पायसाचें भांग्राचें आय्दन ।
धोर्नु राब्लो तो दोनि हात्तान ॥ ५१ ॥

ब्रह्माल्या संबंधि त्या व्यक्तिन ।
दिल्लेलें अन्न घेत्लें रायान ॥
समुद्रांतु दोकुनु आयिलें अमृत ।
वज्रिन धेत्तिल्वरि जोडूनु हात ॥ ५२ ॥

चांगगुण दशरथ रायाले ।
ह्या कारणान देखुं पळ्ळें ।
जन्मु घेव्वाक रायाथंयिं ।
इच्छा पाव्ता लक्ष्मी नाथुयि ॥ ५३ ॥

रायान तो वैष्णव तेजस्सु ।
दोगं बाय्लांक मात्र पायसु ॥
दिलो रवि किरणांचे वत कशिं ।
नाक पृथ्विक दित्ताकी तशिं ॥ ५४ ॥

रायाक कौसल्या पाट्टाचि ।
राणि केकय कुलाचि प्रीतिचि ॥
म्होणु मान्यता तांचे मूलक ।
पावोचि लालसा सुमित्राक ॥ ५५ ॥

दिव्य अन्न वांटे कोर्नु दोनि ।
तिका दिल्लें दोगं सपत्निनि ॥
चांगु रायु त्या दशरथालें ।
इंगित सम्जुनु पूरा केल्लें ॥ ५६ ॥

हस्तें मदाच्या रेखेचेरि ।
भ्रमरिंक प्रीति आशिलेवरि ॥
एक रीति मोगु सुमित्राकयि ।
आशिलो दोगं सवतांचेरियि ॥ ५७ ॥

सकड लोकांच्या बरेपणांक ।
विष्णुले अंशांच्या जननांक ॥
जलमय गर्भु भास्कर किरणानि ।
धर्लेले वरि धर्लो तान्निं ॥ ५८ ॥

एक कालारि गुर्व्यो जाल्यो ।
कांतिन चिकेचि धौव्ट्यो दिस्ल्यो ॥
फलं सोडुचा फूडे भित्तरि ।
आसुचा सस्य संपत्ती वरि ॥ ५९ ॥

चक्र गदा खांडें धोर्नु शंख ।
वामन स्वरूपिन समस्तांक ॥
रक्षण स्वप्नांतु कोर्चे वरि ।
चोय्लिंति तान्नि त्या कालारि ॥ ६० ॥

भांग्रा पाक्कांचि कांति शिंपुनु ।
मेघ समूह वेगान तांडुनु ॥
गरुडान तांकां माळ्प्पारि ।
उकोळ्नु घेव्नु व्हेल्लेले वरि ॥ ६१ ॥

चिंव्लेच्या मध्ये लांव्वे वरि ।
कौस्तुभ घाल्लेलि हर्द्या वयिरि ॥
कमळाच्या हाय्ण्यान लक्ष्मीन ।
सेवा केल्लेल्वरि प्रेमान ॥ ६२ ॥

अंबर गंगा नदींतु न्हाव्नु ।
चारि वेदांचें गूढ सम्जुनु ॥
दिस्लें केल्लेल्वरि उपासना ।
सात ब्रह्म ऋषिनि तेद्दाना ॥ ६३ ॥

रायु आय्कुनु सोप्पन अस्सलिं ।
तोषु पाव्लो तान्निं सांगिलिं ॥
आपण जगद्गुरुक आनु जाव्नु ।
सकडां पशि होडु जात्तां म्होणु ॥ ६४ ॥

एक्लेचि विभुन भोवु रूपान ।
पावुनु आश्रयु स्व विभजनेन ॥
दशरथाल्या बाय्लां गर्भांतु ।
चन्द्र बिंबा वरि निवळ जलांतु ॥ ६५ ॥

मागिरि दशरथालि राणि पाट्टाचि ।
बाळांति जाव्नु काळोकु लय कोर्चि ॥
पाव्लि ती सत्पुत्रु म्हळलि ज्योति ।
पाविल्वरि रात्रि वनस्पतिन कांति ॥ ६६ ॥

अभिरामता शरीराचि चोव्नु ।
दशरथ रायान रामु म्होणु ॥
प्रथम पुत्राक दवर्लें नाम ।
त्रिभुवनांचें सुमंगल प्रथम ॥ ६७ ॥

रघुवंशाच्या त्या दिव्यान ।
वर्णनातीत प्रकाशान ॥
दिव्वे सूतिका घरांतुले ।
मयाळ जावुचे वरि केल्ले ॥ ६८ ॥

दिस्लि बाळांति लाचार जाल्लेलि ।
रामांक घेव्नु हांतुळारि आशिलि ॥
पूजेचें कमळ आशिलि रेंवेंरि ।
शरदांतु ऊन जलाचि गंगे वरि ॥ ६९ ॥

भरतु म्होणु कैकेयिक पूतु ।
जन्मलो अत्यंत शीलवंतु ॥
द्युति म्हण्के विनयान धनांक ।
सौंदर्य आस्स केल्लें आव्सुक ॥ ७० ॥

जाल्लि सुमित्रा अमळांक जन्मु ।
दीव्नु लक्ष्मणु म्होणु शत्रुघ्नु ॥
शिक्किलि विद्या ज्ञान विनयान ।
जाल्वे म्हण्के शोभायमान ॥ ७१ ॥

पुरुषोत्तमाल्या माक्षिचि भूंय्क ।
देंव्नु आयिल्वरि स्वर्गलोक ॥
सकड गुण उज्वाडाक आय्ले ।
भूमंडल दोष दूर जाल्लें ॥ ७२ ॥

श्री हरिन जन्मु घेत्तरि चारि रूपानि ॥
रावणांक भिलेल्या दिक्पति बाय्लानि ॥
श्वासु सोळ्ळेले म्हण्के वायु होळ्ळो ।
धूळि नांतिलें थंड्डु शांतु जाल्लोलो ॥ ७३ ॥

राक्षसाल्या पीडे निम्मिति दुःखि ।
दिस्ले चोय्ताना आत्तं ते सुखि ॥
जोळ्चो उज्ञो धुव्वोरु नांतिलो ।
प्रभ्भाकरु सहस्र किरणं आशिलो ॥ ७४ ॥

रामान जन्मु घेत्तिले तत्क्षण ।
रावणाल्या मुकुट मणि रूपान ॥
भुंय्वें वयिरि असुराल्या श्रीले ।
दोळ्यां उदकाचे थेंबे गळे ॥ ७५ ॥

दशरथाल्या पुत्रोत्सवाचो ।
होळ्ळो आवाजु दुंदभिचो ॥
जाल्लो प्रारंभु प्रथम जाव्नु ।
निर्जराल्या लोकांतु दोकुनु ॥ ७६ ॥

राव्ळारांतु कल्पवृक्षाच्या ।
फुल्लांचो पाव्सु परिमळांच्या ॥
पव्ळो जाल्लि त्या वेळेरिचि ।
प्रारंभु सिध्दता उत्सवांचि ॥ ७

उपमातुलि चींव पीव्नु ।
चेर्डुवं संस्कारु पाव्नु ॥
बाप्सुलो संतोषु कशिं ।
वाड्ले ज्येष्ठा वरि तशिं ॥ ८

स्वाभाविक जाव्नु विनयादि गुण ।
तांकां प्राप्त जाल्ले विद्येन ॥
हविस्सु स्वीकारु कोर्नु सहज ।
अग्निन पाविले म्हण्के तेज ॥ ९

चेर्डुंवानि आसुनु परस्पर ।
जाल्लेलें रघुकुल पाप दूर ॥
केल्लेल्वरि ऋतुनि सुर उद्यान ।
केल्लें अत्यंत विराजमान ॥ १०

जाल्लारियि भाऊपण समान ।
कशिं उभय रामु आनि लक्ष्मण ॥
तशींचि जाल्ले प्रीतिन सहचर ।
भरतु आनि शत्रुघ्नु सहोदर ॥ ११

उज्ञो आनिंक वारें कशिं
रत्नाकरु मागिरि चन्द्रु कशिं ।
तशींचि ती जोडि भेदु नांतिलि ।
वेगळि कोरुंक साध्य नांतिलि ॥ १२

वैशाखमासांच्या अंत्यारि ।
काळें घन धांकिले दिसां वरि ॥
त्या राया पुत्तानि तेजसान ।
प्रजालें मन तांड्लें विनयान ॥ १३

दिस्लें दशरथालें संतान ।
वेग्ळें आसूतु चारि विधान ॥
धर्मार्थ काम मुक्तिन शरीर ।
गाव्वु धेत्ले म्हण्के अवतार ॥ ८४ ॥

पुत्तानि बाप्सुलि बाप्सुले मोगाचानि ।
आराधना केल्लि सद्गुणांच्या फुल्लानि ॥
चारि दिशाच्या अधिपतिलि चारि जलनिधिनि ।
केल्लेले म्हण्के रत्नांच्या वृन्दानि ॥ ८५ ॥

असुरालि खड्गधारा केल्लेल्या कुड्के ।
चारि दांतानि देवगज आशिले म्हण्के ॥
फल सिध्दि मुखांतरचि उज्वाडाक येव्वा ।
चारि उपाय मेळेल्या नीति वरि आश्चा ॥
खेळ्ये म्हण्के दीग चारि भुजानि हरि वरि ।
रायु सुखि हरि अंशांचे पूत पाव्वु चारि ॥ ८६ ॥

## दशम सर्गु समाप्तु

# एकादश सर्गु

## सीता विवाह

कौशिकान येव्नु दशरथ सन्निधिक ।
माग्लें अध्वर बिघ्न दूर कोरुक ॥
पेटोका म्होणु भुर्गो रामांक ।
प्राय तेजस्विलि येना गणनेंक ॥ १॥

कष्टान पाविल्या त्या रामांक ।
दिल्लो लक्ष्मणु सहित रायान ऋषिक ॥
रघु कुळांवि प्राणु मागिल्यांकयि ॥
निराशा कर्नांति केद्दानायिं ॥ २॥

रायान तान्निं वोच्चे वेळेरि ।
आज्ञा केल्लि पथ शृंगार्चाक तरि ।
वगीचि वायुले स्नेहित मेघानि ।
केल्लें जल शिंपुनु फुलां पाव्सानि ॥ ३॥

आज्ञा पालन कोर्चाक धनुर्धर ।
बाप्सुले पाय्यांरि पळे ते पोर ॥
प्रवासिंल्या मात्यारि रायालें ।
दोळ्यां दोकुनु देंविलें जल पळें ॥ ४॥

बाप्सुलें दोळ्यां उदक पोणु थोडि ।
वलि जाल्लि धनुर्धर दोगांलि शेंडि ॥
मुनिले माक्षि गेल्ले पुरजनाल्या ।
तोरण मूलक दृष्टिन जाल्लेल्या ॥ ५॥

केवल रामाले जोडि लक्ष्मणांक ।
इच्छा पाल्ता महा मुनि व्होरुंक ॥
दोकुनु आशीर्वादु पूरो राकुक ।
म्होणु रायान पेटैनि सैनिकांक ॥ ६॥

तान्निं आव्सुंक नमस्कारु कोर्नु ।
महा तेजस्वि ऋषिलो मार्गु धोर्नु ॥
सूर्यालि गति अनुसरण केल्लेले ।
तेजान मधुमाधवां वरि दिस्ले ॥ ७ ॥

चंचल पाळं ग्हळले भुजान चेर्डुंपणान ।
तरल जाल्ले तकिनि गोम्टें तांचें चम्काण ॥
उध्य आनि भिद्य म्होणु सार्थक नांवांचा ।
नदांच्या खेळांक सम जाल्लें पाव्साडिचा ॥ ८ ॥

बलातिबला ते विद्या उपदेशु ।
मुनिलागि पाव्वु नांतिलें आयासु ॥
आव्सुले हांडिरि आशिल्वरि आशिले ।
रत्न चाबयिले क्षितिरि चम्कतले ॥ ९ ॥

वाहनारि भोंव्तले राम लक्ष्मण ।
आय्कुनु काण्यो सांग्चो कौशिकान ॥
चम्कले पालकींतु होंविले वरि ।
श्रमु कळ्ना तशिं जाव्वु पादचारि ॥ १० ॥

तळयेन नितळ उदकान तांगेलि ।
घनानि सावट कोर्नु सेवा केल्लि ॥
आय्कुचाक गोडि ध्वनिनि सौप्यानि ।
वायुन परिमळु आश्चा सुम धूळिनि ॥ ११ ॥

चिक्लाफुल्लांनि गोम्टे तळयेन ।
फलकाडुक श्रमु नांतिले रुकान ॥
हाझेन मुनि पाव्नांति तृप्ति इतुलि ।
चेर्डुंवांक चोव्वु जाल्लेलि तितुलि ॥ १२ ॥

स्मराक हरान लाशिल्या वनांक ।
दाशरथि चम्कलो धोर्नु सुकामुंक ॥
गोम्टे देहान दिस्लो मदन समु ।
जाल्यारि जाय्नि तो कर्मान उपमु ॥ १३ ॥

सुकेतु धुवेन रित्तें केल्लेलें ।
पथान येत्ताना मुनिन सांगिलें ॥
शाप विषयु आय्कुनु तान्निं भूमिरि ।
धणु तेंकूनु तांडिलि बांदुक दोरि ॥ १४ ॥

कृष्ण पक्षाचि रात्रि वरि रंगु आशिलि ।
हाल्वें कपालांचें कुंडलं लांब्तलि ॥
डोंकं आशिले काळिका वरि दिस्तलि ।
मौर्वि टंकारु आय्कुनु ताटका आय्लि ॥ १५ ॥

वेगान वाट्टे वयिले रूक हुम्टानु ।
मड्याचे आंवालें नेसुनु बोब मार्नु ॥
श्मशानांच्या वार्याचें सार्कें आसुनु ।
आय्लि ती भरताल्या अण्णांक लोकोनु ॥ १६ ॥

उक्कोळ्नु धोर्नु स्थूल बाहु एक ।
मनुज आंतांचि कांचि बांदुनु कटिक ॥
एत्तलि बाय्लि मार्चा नञ्ज म्होणु ।
पर्व कर्नि रामान सोळ्ळो बाणु ॥ १७ ॥

शिले वरि निबर ताटकेल्या हर्द्या वयिलो ।
बुराको तो रामान बाणान केल्लोलो ॥
घुश्चाक साध्य नांतिल्या राक्षस लोकाक ।
भित्तरि वोच्चाक द्वार जाल्लें अंतकाक ॥ १८ ॥

पड्ताना हर्दें भेत्तुनु केवल ।
नईं हालैलें तीणे वनस्थल ॥
तीनि लोक जिंकुनु स्थिर केल्लेलि ।
रावणाल्या लक्ष्मिंकयि हालैलि ॥ १९ ॥

राम मदन बाणान हृदयाचेरि ।
अळ्सीकुणि मारु खाव्नु रात्रिंचरि ॥
गेल्लि ती रक्त चंदन लाव्नु घेव्नु ।
जीवितेशाले घरा वाट धोर्नु ॥ २० ॥

सूर्य कांताक राकुड जोळोचि शक्ति ।
मेळेले म्हण्के सूर्याल्या निम्मिति ॥
मेळें राम विक्रमांक खुशि पाविले ।
मुनि निम्मिति अस्त्र नैऋतघ्न म्हळलें ॥ २१ ॥

अनंतर ऋषि मूलक वामनाश्रमु ।
म्होणु आय्कुनु थंयिं गेल्लो रामु ॥
नां जाल्यारियि पूर्व जन्म स्मरण ।
उत्सुकता पाल्लें तागेलें मन ॥ २२ ॥

परिचर्या कोर्चें शिष्य आशिलें ।
पल्लवांजलि कोर्नु रूक राबिलें ॥
अतिथिंक चोव्विं चित्लं आशिलें ।
स्व तपोवन मुनिन प्रवेशु केल्लें ॥ २३ ॥

थंयिं दीक्षितु मुनिलि केल्लि रक्षण ।
विघ्न दूर कोर्नु भांव्डानि शरान ॥
काळ्कांतु दोकुनु चंद्रु आनि रविनि ।
जगत्तु राकिले म्हण्के किरणानि ॥ २४ ॥

बंधुक फुलांवरि रगता थेंब्यानि ।
भष्टलेलि वेदि चोव्वु याज्ञिकानि ॥
भींवु यज्ञाचें काम राबैलें ।
हात्तांतु दोकुनु खदिर स्रुव पळें ॥ २५ ॥

तत्क्षण तांड्लो भातांतु दोकुनु बाणु ।
लक्ष्मणाल्या म्हाल्गडे ,'वान तीक्ष्णु ।
गीदां पाक्कां वार्याक केतु कांप्चें ।
चोय्लो राक्षस बल माळपारि येव्वें ॥ २६ ॥

दोगं मात्र मख वैरि मुखेलिंक ।
लक्ष्य केल्ले इषुक सोणु वेग्ळ्यांक ॥
आक्रमण कोर्चा महोरगांचेरि ।
गरुडु कर्तावे हेंवाळ्यांचेरि ॥ २७ ॥

अस्त्र पंडितान आश्चें अति वेग ।
संधान केल्लें पवमान आशुग ॥
मारीचु जडु जाल्ले तकिनि गिरि वरि ।
पाडैलो पिक्लिल्या पान्ना वरि ॥ २८ ॥

मागिरि एकलो सुभाहु म्हळलो ।
मायेन थंयिं हांगा भोंव्तलो ॥
क्षुरप्रान रामान कुड्के कोर्नु ।
शिंप्लें रान्नांतु पक्षांक म्होणु ॥ २९ ॥

याग विघ्न नाश केल्लेलें चोव्नु ।
समर विक्रमिंक अभिनंदन कोर्नु ॥
ऋत्विजानि मौन व्रति कुलपतिलें ।
यथाक्रम यज्ञांचें कार्य केल्लें ॥ ३० ॥

अवभृथ स्नान केल्लेले ऋषिले ।
दोगं भांव्डानिंयिं पाय धर्ले ॥
दर्भ्यां घायान तांब्डें दाल्लान ।
फाटि पेट्नु आशिषं दिलिं व्रतिन ॥ ३१ ॥

याग सिध्द कोनु मिथिले रायान ।
कौशिक ऋषिकयि दिल्लें आमंत्रण ॥
मुनिन वत्ताना व्हेले आपोनु ।
चकित राघवांक धनु विषयु आय्कुनु ॥ ३२ ॥

खंयिं तपस्विलि बाय्ल क्षणकाल ।
जाल्लि की इंद्र सती सायंकाल ॥
राब्लेति यथिं पुण्य आश्रमांतु ।
तान्निं वाट्टेरि रुक्का पंदांतु ॥ ३३ ॥

शिला जाल्लेलि गौतम बधु सुंदर ।
स्व शरीर पाव्लि चिरकाल अनंतर ॥
पाप दूर कोरुक रामालि चरण ।
धूळि कारण म्होणु नां अनुमान ॥ ३४ ॥

आय्लो श्रेष्ठु मुनि अर्थु आनि कामु ।
मेळ्नु रूप घेव्नु आयिल्वरि धर्मु ॥
दाशरथिंक घेव्नु म्होणु आय्कुनु ।
जनकु आय्लो पूजेक सिध्द जाव्नु ॥ ३५ ॥

माळपारि दोकुनु देंविलिं भूंय्क ।
पुनर्वसु वरि आशिले राघवांक ॥
विदेह नगरिंचि दोळ्यानि पिल्लिं ।
चोव्नु पात्यो फाप्पुडुंक विसर्लिं ॥ ३६ ॥

समयु संदर्भु जाण्चा कौशिकान ।
क्रतु संबंधि कार्य जात्तरि पूर्ण ॥
रामु शिव धनु चोव्वाक आशेता ।
म्होणु जनक रायाक दिल्लि वार्ता ॥ ३७ ॥

जनकु विख्यात कुलांतु जन्मललिं ।
गोम्टें देह चोव्नु चेर्डुवांलि ॥
मोड्डुक कष्ट धणु धुवे व्हार्डिकिक ।
पण केल्लेल्याक पाव्लो तो दुःख ॥ ३८ ॥

अशिं म्हळलो रायु अरे मुनिश्रेष्ठ ।
होड्डु हस्तेंकयि खंचें काम कष्ट ॥
तें पिल्लां करान कोरोचें व्यर्थ ।
तशिं जाव्नु माका उमेदि नां मस्त ॥ ३९ ॥

ह्या धणुन मस्त पराक्रमि धनुर्धर ।
कोर्नु आपल्या भुजांक धिक्कार ॥
चम्कल्याति धनुंचें दोर मार्नु ।
चर्मांक खीण जाव्नु निंदा कोर्नु ॥ ४० ॥

ताका तो तपोनिधि अशिं म्हळलो ।
सांगना पळे साहसु हागेलो ॥
विश्वा वरि पर्वतारि तुझे धणुरि ।
शक्ति दाकैता तुगेले मुखारि ॥ ४१ ॥

भुर्गो राम बलाचेरि विस्वासु ।
पाव्लो मुनिले उत्रान क्षीतीशु ॥
इंद्रगोप सम उजा किट्येचेरि ।
पाविल्वरि जोळोच्या शक्तिचेरि ॥ ४२ ॥

मागिरि जनक रायान धणु हाडुक ।
आज्ञा केल्लि अनेक परिचारांक ॥
सुरेंद्रान झळ्कुचो धणु पाव्वाक ।
केल्लेल्वरि मेघांच्या समूहांक ॥ ४३ ॥

धांव्वा यज्ञमृगाक वृषभ ध्वजान ।
केल्लें खंचो धनु धोर्नु अनुसरण ॥
निदलल्या सर्पा वरि धनु भीकरु ।
चोव्नु उकळो दशरथ सुतान धीरु ॥ ४४ ॥

जन चोय्ता दोळे मोड्चिना तशिं ॥
चडु जडु जाल्ले तकिनि पर्वता पशि ॥
श्रमु नांतिलें रामान बांद्लि दोरि ।
मोवाळ फुल्ला धणुक मदना वरि ॥ ४५ ॥

ताणे चडु तांडिल्यान धणु मोणु ।
विब्रु मार्लेल्वरि होडु जाल्लो स्वनु ॥
दिस्लें कोपि भार्गवाक क्षत्रिय ।
जाल्याति म्होणु सांग्चे वरि उदय ॥ ४६ ॥

चोव्नु शिव धनु वयिरि दाकयिलि शक्ति ।
वीर्य शुल्कान जनकु पाव्नु प्रीति ॥
अयोनिजा लक्ष्मी वरीचि आशिलि ।
धुवेक दाशरथिक समर्पण केल्लि ॥ ४७ ॥

मिथिलेचा नृपान सत्य संधान ।
आवयि नांतिले धुवेक त्या क्षण ॥
झळ्कुचा महा मुनिल्या सन्निधिरि ।
दिलि अग्नि साक्षि जाव्नु दिलेल्वरि ॥ ४८ ॥

जनकान कोसल रायाक सांगुक । 
पेटैलो पूज्य स्व परोहिताक ॥
माझे चेल्येक सून कोर्नु घेव्नु ।
निमिकुल बांधव्य वाडोका म्होणु ॥ ४९ ॥

तोवयि सून हाडिच इच्छा पाल्लो ।
तेद्ना पुरोहितु सम जाव्नु आय्लो ॥
कल्पतरु फला वरि आशा सुकृतिलि ।
आटयिल्या क्षणांक पक्व जात्तलि ॥ ५० ॥

सुरपति मित्रान कर्तरि सत्कारु ।
पूर्ण विवर सांगुक लाग्लो भूसुरु ॥
आय्कुनु दशरथु भाग्रिसर्लो खुशिन ।
धांकुनु रवि मंडल सेना धूळिन ॥ ५१ ॥

मंडल घाल्नु तो गेल्लो मिथिलेक ।
सैन्यान पीडा केल्लि उपवनांक ॥
प्रशस्त पतिभोगु स्त्री वरि नगरिन ।
केल्लें आक्रमण प्रीतिचें सहन ॥ ५२ ॥

दोगंयि राय आचारु आशिले ।
वरुण सुरपालांक सम जौल्लेले ।
मेळ्नु घुवेलिं पुत्तालिं व्हार्डिक ॥
केल्लि सम जाव्नु बांचें होड्पणांक ॥ ५३ ॥

रामान हातु भूमिले धुवेलो ।
लक्ष्मणान तिझि भयिणि ऊर्मिळेलो ॥
धर्लो दोगंयि धाक्ले भांव्डानि ।
कुशध्वज पुत्रिलो कीर्तिशालिनि ॥ ५४ ॥

साम दान भेद दंड सिद्धि सहित ।
चारि उपाया म्हक्के राज पुत्र ॥
पोळाचाक दिस्ले भोव्नु सुंदर ।
नवी व्हार्डिक जाल्लेले नवें व्हर ॥ ५५ ॥

राया धुव्वो धन्य राजपुत्रांलो ।
राया पूतयि हातु धोर्नु तांगेलो ॥
नवे व्हरेत होक्लेलें हें समागम ।
जाल्लें प्रकृति प्रत्यय योगाक उपम ॥ ५६ ॥

मिथिलेंतु प्रीतिन चारि चेल्यांक ।
व्हार्डिक कोरोनु दशरथु नगराक ॥
तीनि दिन पर्यंत प्रयाण कोर्नु ।
चम्कलो जनकाक माक्षि पेटोनु ॥ ५७ ॥

तटा वयिरि येव्वु नदिचें उद्वाक ।
कर्ता कशिं की समतल भूमिंक ॥
ध्वज तरु मोणु तशिं प्रतिकूल वायु ।
होळ्नु सैन्यांक केल्लो बहु अपायु ॥ ५८ ॥

परिवेष मंडलान अति भयंकरु ।
जाव्वु दिस्लो अनंतर प्रभाकरु ॥
रवगेश्वराल्या माराक पळेलें ।
रतुन सें सर्पाल्या फणा वयिलें ॥ ५९ ॥

बुर्से केस मडेकाय्ळ्यालिं पाक्कंचि ।
रक्तान वल्लें कापड संध्या घनंचि ॥
भष्टि जाल्लेल्या युवति वरि पोळोचाक ।
अळ्सीक जाल्लिं आट दिक्कांचिं मुख ॥ ६० ॥

सूर्यान उद्देचा दिशाक चोव्वु ।
रळ्ळे कोल्ले बहु भयंकर जाव्वु ॥
क्षत्र रुधिरान पुनः पितृ क्रियेक ।
उमेदि दिव्वे म्हण्के भार्गवाक ॥ ६१ ॥

प्रतिकूल पवन हें सकड चोव्वु विकृति ।
कोर्चे उद्देशान रायान शांति ॥
निम्मिलेल्याक गुरुन बरेंचि जात्ता ।
अशिं सांगुनु निवारण केल्लि व्यथा ॥ ६२ ॥

तत्क्षण सैन्य समूहाचा मुखारि ।
आस्स जाल्लि तेजाचि राशि भारी ॥
भटानि चोय्ताना दोळे घस्टुनु ।
तीचि दिस्लि पुरुषालि आकृति जाव्नु ॥ ६३ ॥

यज्ञोपवीत बाप्सुलो अंशु दाकैता ।
धर्लेलें धनुष्य आव्सुलो अंशु सांग्ता ॥
आशिलो तो चंद्राले सहित सूर्या वरि ।
सर्पान वेस्टुनु आशिले चंदन तरु वरि ॥ ६४ ॥

कोपान किड्कीडेव्नु सोणु मर्यादं ।
पितुन सांग्लें म्होणु केल्लें शिरच्छेद ॥
कोणे पुनः भीतिन कांपुचा आव्सुलि ।
लोक जिंकुचे फूडेचि करुणा जिंक्लि ॥ ६५ ॥

उज्व्या कान्नारि अक्षहार वलय ।
दोवोर्नु एक्वीस वेळा क्षत्रिय ॥
कुल नाश केल्लेलें ह्या रूपान ।
सांग्चे म्हण्के दिस्तलो ताज्ञेन ॥ ६६ ॥

पितृवधेन कुपितु राजकुल लयाक ।
प्रवृत्तु जाल्लेल्या भृगुनंदनांक ॥
चेर्डुंवालो बाप्पुसु नृपु चोय्लो ।
आपण्याल्या स्थितिक दुःख पाव्लो ॥ ६७ ॥

पुत्त्राले आनि भयंकर अरिलें ।
एकचि नांवं तें रामु म्हळलें ॥
रत्ना वरि हार आनि सर्पालें ।
नृपाक खुशिक भीतिक हेतु जाल्लें ॥ ६८ ॥

अर्घ्य म्होण्चा दशरथाक अलक्ष्य ।
कोर्नु भरताग्रजाक केलो लक्ष्य ॥
क्षत्रियांक उज्ञो जाव्नु आशिलो ।
दोळे होड कोर्नु यंयिं चोय्लो ॥ ६९ ॥

भृगुले पुत्तान धणु धोर्नु मुष्टिंतु ।
बाणु खेळोनु बोट्टांच्या मध्येंतु ॥
म्हळलो युध्दोत्साहि रामांक चोव्नु ।
मुखारि राबुनु आशिल्या भय सोणु ॥ ७० ॥

अपकारु केल्लेंल्या माझें वैरिंक ।
मार्नु शांत जान्नु आशिलों क्षत्रियांक ॥
निद्दललो सरोपु किडैले तरि कशिं ।
जाल्लां आय्कुनु तुगेलो विक्रमु तशिं ॥ ७१ ॥

बाग्वाग्नि कोणयिं म्होण्चो तसलो ।
जनक नृपालो धनु तूंवें मोळ्ळो ॥
म्होणु आय्कुनु माझें विक्रम शृंग ।
तूंवें केल्लां म्होणु लरक्तां भंग ॥ ७२ ॥

फूडे जगांतु नाम रामु म्होणु ।
म्होण्चें केवल माका लक्ष्य कोर्नु ॥
आत्तं माका तुझा चेर्डुपणान ।
जाल्लें तें नांवं लज्ञा कारण ॥ ७३ ॥

हांवं अस्त्रान गिरि भेत्तुक शक्तु ।
माका आस्सति उभय समान शत्रु ॥
होम धेनु वास्नु खांपिलो हैहयु ।
कीर्ति खांपिलो तसलो तूं द्वितीयु ॥ ७४ ॥

क्षत्रियांक लय केल्या विक्रमान ।
तुका हार्नां तरि तृप्ति पान्ना मन ॥
तणांतु जळेल्वरि जलधिंतु जळता ।
तरि उज्ञा प्रभावु प्रकट जात्ता ॥ ७५ ॥

शिव धनुस्सु तूंवें खंचो मोळ्ळोलो ।
तो हरिले बलान दुर्बलु जाल्लोलो ॥
मूळ सडिल जाल्लेलें न्हंय्चा जबाक ।
हळू होळ्चो वायुयि पाडैता रूक ॥ ७६ ॥

तशिं जाव्नु तूंवें मेगेलो धनु ।
तांड्ल्यारि बाणु सहित दोरि बांदुनु ॥
माका हारि केल्लि सम भुजबलान ।
म्होणु लख्तां लडायि नां हाझेन ॥ ७७ ॥

चोव्नु फळ्फळेन्वि मेगेलि कुडारि ।
तूं भीव्नु गेल्ला म्होणु जाल्ले तरि ॥
ज्या लागुनु कर्कश तुगेले हात ।
पोसो कोर्नु अभय मागुचें युक्त ॥ ७८ ॥

अशिं म्हळलेंचि क्रूर भार्गवान ।
हासान ओंट्ठ कांपुचे रामान ॥
ताझो धनु धेव्नोचि उचित उत्तर ।
म्होणु मनांतुंचि केल्लें निर्धार ॥ ७९ ॥

पूर्व जन्मांचों धोणु धर्लोलो ।
चोव्वाक तो गोम्टो जाव्नु दिस्लो ॥
रितें जाल्यारियि नवें घन सुंदर ।
आस्लारि सुरधनु आस्सवे उत्तर ॥ ८० ॥

रामान धनुंचें तलव भुंय्चेरि ।
तेंकूनु तांड्डुनु बांदिलि ती दोरि ॥
धुवोरु मात्र वर्लेले उजा वरि ।
निस्तेजु जाल्लो भार्गवु नृप वैरि ॥ ८१ ॥

ते दोगंयिं परस्पर राबिले ।
तेजस्सु वृध्दि ऊणे जाल्लेले ॥
दिस्ले जनांक सांजे वेळेच्या ।
चंद्रु सूर्या म्हण्के पूर्णिमांच्या ॥ ८२ ॥

स्कंदाक समु दयाळु दशरथ पुत्रु ।
जाल्ला स्व विषयांतु भार्गवु अशक्तु ॥
म्होणु आपण्यालें चोव्नु आशुग ।
म्हळलो संधान कोर्नु तो श्लाघ्य ॥ ८३ ॥

ब्राह्मणु दोकुनु हांवं जाय्ना कठिनु ।
मार्ना तुका केल्ले तकिनि अपमानु ॥
शर इतें कोरुं गतिक कोरुं आड ।
भण यागान जोळ्ळेले लोक पाड ॥ ८४ ।

ऋषि अशिं म्हळलो स्वरूप तुगेलें ।
हांवं जाण पुरातन पुरुषालें ॥
चोव्वाक भूमिरि वैष्णव तेजस्सु ।
तुका हाडैलो हांवें हो रोषु ॥ ८५ ।

पितृ द्वेषिंक भस्म केल्लेल्याक ।
जलधि परिधि भूदान दिल्लेल्याक ॥
जाल्यारियि परमेष्ठि तुझे निमित्त ।
हारि माका श्लाध्य हें माझें मत ॥ ८६ ।

तशिं जाव्रु माझि वाट हे समर्थ ।
राक तीर्थ यात्रा कोरुक पवित्र ॥
वाट स्वर्गाचि आड केल्लेतकि ।
भोगेच्छा नांतिल्याक नां दूकि ॥ ८७ ।

जाव्वो तशिं म्होणु रामान बाणु ।
सोळ्ळो पूर्व दिक्काक तोंड कोर्नु ॥
परिघ जालो बाणु स्वर्ग पथाक ।
सुकृति पुणि भृगु पुत्ताले गमनांक ॥ ८८ ।

तपस्विले पदांक कोर्नु प्रणामु ।
क्षमा कोर्का म्होणु म्हळलो रामु ॥
अरिक हारि केल्लेल्या बलशालिक ।
विनम्रता जात्ता कारण कीर्तिक ॥ ८९ ।

अंबा संबंधि सोणु राजस गुणु ।
धर्ताना पितृ संबंधि सत्त्व गुणु ॥
मेगेलें श्रेष्ठ फलाचें तूंवें ।
लय केल्ले तरि अनुग्रह नईंवे ॥ ९० ।

क्ष्मणु सहित तागेले अण्णांक ।
हं जाव्वो देव कार्य निरताक ॥
सर्वं वत्तां म्होणु अशिं सांगुनु ।
क्षण भार्गवु गेल्लो माय जाव्नु ॥ ६१ ॥

नेन गेल्ले मागिरि विजयि रामांक प्रीतिन ।
र्नु वांचिलो म्होणु पोटोनु धर्लो बाप्सुन ॥
ण दुःख दूर जाव्नु हर्षु जाल्लो दशरथाक ।
ल्लेल्वरि पाव्सु पोणु दवान जोळचा रुकांक ॥ ६२ ॥

शिं वाट्टेरि रात्रि शिबिरांतु राबुनु ।
यु दशरथु भोवु दिन प्रयाण कोर्नु ॥
ारिक खिडकि दोकुनु सीतेक चोव्वा ।
ास्लो स्त्रीलिं नयन कमळं आसुचा ॥ ६३ ॥

एकादश सर्गु समाप्तु

# द्वादश सर्गु

## रावण वधा

अजपुत्रु विषय स्नेह भोगुतु ।
दशा अंत्याक पाविलो येव्वु ॥
उषः कालाचि दीप शिरवा वरि ।
आशिलो निर्वाणु पाव्चे वरि ॥१॥

कैकेयि वयिले शंकेन रामांक ।
तूं राज्य लक्ष्मि दी म्होणु रायाक ।
सांग्ता अशिं कान्नांतु म्हांतार्पण ॥
म्होणु दिस्लें पिकिले केश रूपान ॥२॥

प्रजांक प्रियु रामाल्या अभिषेक ।
वार्ता आय्कुनु खुशि जाल्लि प्रजांक ॥
तळयेन उद्यानांच्या रुक्कांक ।
हरुषु केल्लेले म्हण्के प्रत्येक ॥३॥

कैकेयिल्या कठिन निर्धारान ।
राम अभिषेकाचे सकड साधन ॥
रायु दशरथान दोळ्यांचें हून ॥
उदकान केल्लें जाव्चे वरि मलिन ॥४॥

माक्षि दोनि वर पतिन दिलेले ।
यादाक त्या चंडिन हाळ्ळे ॥
पाव्सु शिंपुनु बिळाच्या मूलक ।
ओंकयिल्वरि वज्रिन सर्पाक ॥५॥

तांतु एक्कान चतुर्दश वरुष ।
म्हळलि रामांक रान्नांतु वास ॥
वैधव्य माग्चे वरि आन्नेक ।
वरान माग्लें राज्य पुत्ताक ॥६॥

प्रथम बाप्सुन दिल्लेलें भुवन
घेत्लें रड्तचि रामान
अनंतर रान्नांक वस म्हळलि
आज्ञा खुशिन स्वीकारु केलि ॥७

मंगल दुकूल नेस्ल्यारि कशिं
मुगुटो नेशिलें तेन्ना तशिं
रामालो एक विध मुख वर्णु
आश्चर्य पाल्लिं पुरजन चोव्नु ॥८

सीता लक्ष्मणांक घेव्नु रामान
फट्टि जाय्ना तशिं बाप्सुलें वचन
दंडकारण्यांतु केल्लो प्रवेशु
तशींचि सज्जनाल्या मनांतु वासु ॥९

तांचा विरहान दुःख पाव्नु भूपु
उड्गासु कोर्नु आयिलो तो शापु
शरीर सोणु मोक्ळो जाव्वें योग्य
म्होणु मनांतु केल्लो अभिप्राय ॥१०

पूत दूर गेल्याति रांयु मेल्ला
आत्तं वसुंधरा अनाथ जाल्या
म्होणु वाट सोद्दितंल्या शत्रुंक
आशि जाल्लि राज्य लक्ष्मींक भोगुक ॥११

मागिरि माव्ळ्याल्या घरांतु दोकुनु
आपोनु हाळ्ळो नयन जल निपोनु
भरताक आप्त चारानि वेगान
अनाथ अमात्यांल्या प्रचोदनेन ॥१२

कैकेयि पूतु आय्कुनु तसलें
बाप्सुक मरण आस्स जाल्लेलें
केवल अंबा विषयांतु नईं
विमुखु जाल्लो राज्य लक्ष्मींकयि ॥१३

भरतु रान्नांचानि दाकैयिले ।
लक्ष्मणु मेळ्नु रामान आशिले ॥
वसतिचे रूक चोव्नु सैन्य घेव्नु ।
चम्कलो तांकां सोद्दितचि रोणु ॥१४॥

चित्र कूट अरण्यांतु आशिले रामांक ।
वार्ता सांगुनु बाप्सुन गेल्लेलि नाकाक ॥
वेगळ्यानि भोगनांतिल्या भूश्रीलो ।
हातु धरि दोषु नांतिलेलो अशिं म्हळलो ॥१५॥

कर्नां तशींचि म्हाल्गड्यान ।
धाक्ले भावान भूमि ग्रहण ॥
केल्ले तरि माका परिवेत्ता ।
म्होणु नईवें म्होण्का जात्ता ॥१६॥

स्वर्गस्थु पितुले आज्ञेंक विरोध ।
दाशरथिक वोचाक जाय्ना साध्य ॥
अशिं जाव्नु कोरुक राज्याधिकारि ।
भरतान रवाडवं माग्लिं मागिरि ॥१७॥

तशिं जाव्वो म्हळल्या भांवाक सोणु ।
पट्टण सोणु नंदीग्रामांतु राबुनु ॥
न्यास वस्तुचे म्हण्के त्या राज्याचें ।
काम कर्तलो जागृतेन राकूचें ॥१८॥

म्हाल्गड्या भ्रातृचेरि अचल भक्ति ।
राज्याच्या वयिरि संपूर्ण विरक्ति ॥
दिस्लो भरतु आव्सुल्या पापाक ।
चुर्चुरेत्ता म्हळले वरि चोव्वाक ॥१९॥

लक्ष्मणु मेळ्नु रामुयिं वनांतु ।
जीवन कोर्नु सीता सह शांतु ॥
कुल व्रत वृध्दांले इक्ष्वाकु ।
कर्तलो फल् मूल खाव्नु युवकु ॥२०॥

स्व प्रभावान चलन राबोनु ।
रुका साव्ळेचो आश्रयु पाव्वु ॥
बाय्लेल्या जांगेरि श्रमान ।
निद्दोनु आस्ताना रामान ॥२१॥

काय्ळ्यान घर्पिल्यो सीतेल्यो ।
तीक्ष्ण नांक्टानि दोन्नियिं चिंव्यों ॥
दोषु दाकोचे वरि बाम्णाले ।
नांक्टांच्या खत्तांतु तें दिस्लें ॥२३॥

वैदेहिन सांगुनु इषीकास्त्र ।
रामान उडैलें एक नेत्र ॥
सौण्यान ताका अर्पण कोर्नु ।
वर्लें तें ह्या कारण वांचुनु ॥२४॥

आशिलो तो भिजुडिं चित्लं मस्त ।
दाशरथिन चित्रकूट पर्वत ॥
सोव्ळो हो लागि दोकुनु भरतु ।
येत पुनः म्होणु जाव्वु शंकितु ॥२५॥

पाव्सांच्या तारकांच्या वयिरि ।
राबुनु गेल्लेल्या सूर्या वरि ॥
आतिथेय ऋषि गृहांतु आसुनु ।
गेल्लो तो दक्षिण दिशा धोर्नु ॥२६॥

विदेह राजपुत्रि अशिं दिस्लि ।
दाशरथिलि फाटि धोर्नु वत्तलि ॥
कैकेयिन नञ्ज म्हळ्ळें तरि ।
वोच्चि गुण पक्षपाति लक्ष्मि वरि ॥२६॥

अनसूयान दिल्लेलें पुण्य ।
लेपाच्या परिमळान अरण्य ॥
भ्रमरानि भोर्चे तशिं केल्लें ।
फुल्लं सोणु उब्बुनु आयिले ॥२७॥

संध्या मेधा वरि कपि शवर्णु ।
राक्षसु नांवं विराधु म्होणु ॥
राहुन शशिक आड बांदिल्वरि ।
राब्लो तो रामाल्या मुखारि ॥२८॥

मैथिलिक तांचें मध्येचान ।
खांपुनु व्हेल्लि यम स्वरूपिन ॥
श्रावण भाद्रपद मध्येचान ।
खांपिल्वरि पाव्सु अवग्रहान ॥२९॥

दाशरथिनि ताका जिब्शि मार्नु ।
मुखारि आश्रमांतु घाणि भोर्नु ।
म्हेळें जाय्त म्होणु लेखूनु ।
फोंडांतु पुर्लो भूंयि खोंडुनु ॥३०॥

गौरव दीव्नु अगस्त्याक वंद्य ।
राबिल्वरि पूर्व स्थितिरि विंध्य ॥
ताझे आज्ञेन रामु मागिरि ।
राब्लो पंचवटि वनांतु भितरि ॥३१॥

स्मर पीडेन रावणालि भग्णि ।
ग्रीष्म उष्णान सिझुनु सर्पिणि ॥
गेल्लेल्वरि चंदन रुका लागि ।
आय्लि थंचिं दाशरथिल्यागि ॥३२॥

माग्लि सांगुनु स्व कुलाचि कथा ।
रामालागि सम्मुखचि सीता ॥
कामु प्रवृध्दु स्त्रीजनालो ।
समय असमय ज्ञान नांतिलो ॥३३॥

हांव गृहस्थु भावु तो लानु ।
ताका मेळनु कोर्नु घे बाम्मुणु ।
म्होणु दीग भुजांच्या रामान ।
लंपटिक अशिं केल्लें शासन ॥३४॥

म्हालगड्या लागि प्रथम गेल्लि
अशिं म्होणु धाक्ल्यानयिं सोव्ळि
पुनः राम आश्रयाक आयिलि
दोनि तट मदेंचि नदि वरि दिस्लि ॥३५

एकचि घड्येन राक्षसिलें सौम्य रूप
सीतेलो हासु चोव्नु जाल्लें भैरूप
वारें नांतिलें सागर शांत आशिलें
शशि उदेनु उचंबळ जाल्लेल्वरि जालें ॥ ३६

तुका मेळ्ता फल हासिल्याक
तूं गांटि घाल्नु घें अंचलाक
तुझें हें कृत्य व्याघ्रिक मृगिन
केल्लेले वरि समज अवमान ॥३७

भीव्नु बाम्णांक पोटोनु धोर्नु
बशिल्या मैथिलिक अशिं म्होणु
शूर्पणखा ह्या नांवांक थेट
रूप घेत्लें राक्षसिन अवीट ॥ ३८

सुरुवेक कोयला म्हण्के स्वरु
अनंतर कोल्या म्हण्के घोरु
आय्कुनु दोनि स्वर लक्ष्मणान
केल्लें मायावि म्होणु मनन ॥३९

लक्ष्मणु पाजिलें खांडें धोर्नु
तत्क्षण पर्णशालेंतु रिगुनु
त्या राक्षसिलें भयंकर रूप
केल्लें आनिंकयि चड कुरूप ॥ ४०

वांकुडें नांकुट होडि गांटि आशिलें
अंकुशाच्या म्हण्के बोट तिगेलें
माळपाच्या वयिरि राबुनु हाल्लोनु
अशिं तांकां भिष्टाय्लें क्रुध्द जाव्नु ॥४१

जनस्थानांक धाव्लि वेगान ।
तीणे राखाल्या विक्रमान ॥
राक्षसांक अपजय जाल्लोलो ।
नवो विषयु खरादिंक सांग्लो ॥४२॥

कुड्के कान नांक आशिलेक ।
मुखारि कोर्नु रामांक मारुक ॥
गेल्लेले राक्षस समूहाक ।
कारण जाल्लें तेंचि मोर्चाक ॥ ४३॥

आयुधं उक्कोव्नु धोर्नु घेव्नु ।
अण्व्यां असुरानि येव्वें चोव्नु ॥
धनुंचेंरि जयाशा रामान ।
दव्वर्लि सतिक लक्ष्मण अधीन ॥४४॥

युध्दांतु एकलोचि दाशरथि ।
राक्षस भोवु संख्यात आसति ॥
पुणि ते कित्तुले हो एकलो ।
तित्तुलो जाव्नु तांकां दिस्लो ॥४५॥

शुभ आचारु आशिल्या रामांक ।
अण्व्यानि पेटयिल्या दूषणांक ॥
पोळोनु साध्य जाय्नि कोरुक सहन ।
जाय्नांतिले वरि आपलें दूषण ॥ ४६ ॥

तांकां त्रिशिरस खरांक मार्ले ।
दाशरथिन क्रमान पर्[illegible]ले ॥
एक कालारि धनुंतुल्यान ।
उबुनु आयिल्वरि दिसुचे इषुन ॥४७॥

तेगं असुरांल्या देहांतु रिगुनु ।
तिन्नियिं फुळ्या वरि निव्वळ जाव्नु ।
धारें शरं तांचो, प्राणु पिल्लिं ।
रगत मात्र रान्नांचि सौणि पिल्लिं ॥ ४८ ॥

रामान इशुन कात्तर्लेल्या ।
होळ्ळे सैन्यांतु राक्षसांल्या ॥
नांचुचिं कबंधं सोळ्ळे तरि ।
वेग्ळें खंचेयिं नां मुखारि ॥ ४६ ॥

शरांचो पाव्सु धाल्चा राम सम्मुख ।
राबुनु युध्द कोर्चा इंद्र शत्रुंक ॥
नित्काराय्ले उटाय्ना तस्सल्या ।
पाक्कां साव्टांतु मड्याकाय्ळ्यांल्या ॥ ५० ॥

रामाल्या शरानि मेल्लेल्यालिं ।
वाय्टि खबर रावणांक व्हर्तलि ॥
केवल शूर्पणखा वांचुनु वर्लि ।
वेग्ळिं सकडयि लय जाव्नु गेल्लिं ॥ ५१ ॥

रामान मेगेल्या बंधूक मार्नु ।
मेगेले भय्णिंक अपमानु कोर्नु ॥
धा बोडां वयिरियि दव्वर्लो पायु ।
म्होणु रावणांन केल्लो अभिप्रायु ॥ ५२ ॥

राक्षसान चित्ला रूप घेव्नु ।
रामांक फोसैलों रावोणु ॥
सीतेक स्वांपुनु घेव्नु गोल्लो ।
आडायिले पक्षाक मार्लो ॥ ५३ ॥

चोय्ले रघु कुळावि पाक्कं पिंदिलो ।
सीतेक सोद्दिताना मड्याकाय्ळो ॥
दशरथाल्या रिणांतु दोकुनु मोक्ळो ।
जाव्वाक जीवु दीव्नु सिध्द जाल्लोलो ॥ ५४ ॥

सीतेक रावणान खांपिलि ।
खब्बर ताणे तांकां सांग्लि ॥
स्व विक्रमु कोळोनु रुंवांन ।
केल्लें देवलोकाक पयण ॥ ५५ ॥

पितृ मरण शोक जाल्लेल्वरि नव ।
राघवानि कोर्नु दुःख अनुभव ॥
पितृ वरि पक्षिक अग्नि संस्कार ।
अपर क्रियादि केल्लि अनंतर ॥ ५६ ॥

जिव्हि मार्लेल्यान शापु मोक्ळो ।
जाल्लेल्या कबंधान सांगिलो ।
उपदेशु घेव्नु रामांक कपिलें ।
सख्य जाल्लें समान व्यसनिलें ॥ ५७ ॥

वीर रामान मार्लो वालिक ।
अधिकार लालसि सुग्रीवाक ।
बसय्लो धातु स्थानांचेंरि ।
आदेशु आयिल्वरि पीठेरि ॥ ५८ ॥

सुग्रीवाज्ञेन उमेदि घेव्नु ।
वैदेहिक सोड्डुचाक म्होणु ॥
दुःखि दाशरथिलि आशा कशिं ।
भोंव्लिंति कपि आसपास तशिं ॥ ५९ ॥

संपातिक चोव्नु वैदेहिलें ।
वृत्तांत तांकां प्राप्त जाल्लें ॥
मारुतिन सागर केल्लें पार ।
केल्लेल्वरि ज्ञानिन संसार ॥ ६० ॥

मैथिलिक चोय्लो लंकेंतु ।
सोड्डिताना राक्षसि मध्येंतु ॥
वैदेहि विषा वाल्लिन धांकिलि ।
संजीविनी लते वरि आशिलि ॥ ६१ ॥

उड्गासु हाडोचि मुद्दि बाम्णालि ।
वायुले पुत्तान सीतेक दिल्लि ॥
खुशिन दोळ्यांचे उदाक देंवोनु ।
तीणे घेत्लि गौरव ताका दीव्नु ॥ ६२ ॥

गोड उत्रान तिका खुशि कोर्नु ।
अक्षु ग्हळल्याक मार्नु भूल्नु ॥
अरिलि पीडा थोडि सहन कोर्नु ।
लय केल्लें लंकापुर लासुनु ॥ ६३ ॥

आपण जाव्नु आयिलें जानकिलें ।
प्रत्यक्ष हृदया म्हण्के आशिलें ॥
रामांक दिल्लें कृतार्थ मारुतिन ।
सीतेलो यादु हाडोचें रतुन ॥ ६४ ॥

हर्ष्यारि तें रत्न पोटोनु धोर्नु ।
दाशरथि ताझेन पिशा वरि जाव्नु ॥
मोम्मां स्पर्श नांतिले सीतेले ।
आलिंगन केल्लेले वरि लेख्लें ॥ ६५ ॥

वैदेहिलि खबर आय्कुनु रामु ।
जाल्लो उत्सुकु कोरुक संगमु ॥
समुद्रु वेष्टुनु आशिलि लंका ।
लेख्लें ताणे केवल परिखा ॥ ६६ ॥

पांव्ना तर्शिं भूमि चम्कुचाक ।
गगनारि वोच्चें कपि सैन्यांक ।
घेव्नु असुरालें नाश कोरुक ।
गेल्ले रवि कुलाचे लंकेक ॥ ६७ ॥

राक्षस श्रीन प्रीतिन बुद्धि ।
स्वतः सांगुनु दाशरथि सन्निधि ॥
पेटयिले वरि सागर तटाक ।
आय्लो विभीषणु राम भेटिक ॥ ६८ ॥

दित्तां ग्होणु ऐश्वर्य राक्षस ।
राघवान दिल्लि ताका भास ॥
आरंभ केल्लेलि सकालारि ।
नीति जात्ता बदचि फलकारि ॥ ६९ ॥

ळोनु रामान सकड मांकडांक ।
तु बांदिलो लवण समुद्राक ॥
ताळां दोकुनु विष्णु शयनांक ।
देस्लो समानु राविले शेषाक ॥ ७० ॥

ांटुनु समुद्रु त्या वाटेन ।
ंका नगर धांक्लें सैन्यान ॥
पैंथिं कपिक राबोनु वेष्ठि ।
ांत्रा वर्णाति कोर्चे वरि दिस्लि ॥ ७१ ॥

राम रावण पर जय घोषान ।
ाव्वे वरि भुवन गगन कंपन ॥
लैंकेंतु जाल्लें भीकर युद्ध ।
वानर आनि असुराले मध्य ॥ ७२ ॥

मुद्गर फत्रानि बुक्कि केल्लिं ।
हकानि परिघायुध मोळ्ळिं ॥
नांक्टानि शस्त्रं नाश जाल्लिं ।
पर्वतानि मदगजांक मार्लि ॥ ७३ ॥

कात्तर्लेलें बाम्णालें मात्तें चोवु ।
र्श्चांति पाविल्या मीतेक माया म्होणु ॥
त्रिजटा म्हळ्ळेन वांचैलि मोये चुकुनु ।
पळ्ळेलेक आशिलो तो विषयु मांगुनु ॥ ७४ ॥

रामु मन्य जावु वांचुनु आस ।
म्होणु वैदेहिन मोळ्ळें क्लेश ॥
बाम्गुणु मेल्लो म्हळ्ळें आम्कुनु ।
लज्जेलि पुणि ती मर्नि म्होणु ॥ ७५ ॥

मेघनादाल्या बांदिल्या अस्त्रान ।
दशरथ पुत्र दुःख पाल्ले एक क्षण ॥
अनंतर पक्षि रायान आयिल्यान ।
क्लेश दुर जावु दिस्लें मोग्र समान ॥ ७६ ॥

लक्ष्मणालें हर्दें रावणान ।
मार्नु भेत्लें त्या शक्त्यायुधान ॥
मार्नि जाल्यारियि शोकान हृदय ।
भेत्लें रामालेयिं आश्चर्य ॥ ७७॥

वनस्पतिन मारुतिन हाळ्ळेलि ।
लक्ष्मणालि व्यथा दूर जाल्लि ॥
गुरु जाल्लो पुनः लंका स्त्रींक ।
इषुन रोड्चें शिकोनु दिव्वाक ॥ ७८ ॥

ताणे मेघनादालि गर्जन ।
तशींचि सुरचाप सम शरासन ॥
शरदान इंद्रचाप घन घोष ।
केल्लेल्वरि केल्लें पूर्ण नाश ॥ ७९॥

भयिणि वरि कुंभकर्णालि स्थिति ।
जाल्लि कपिंल्या राया निम्मिति ॥
टंकान भेत्तिलि तांब्डि गिरि वरि ।
राब्लो तो रामाल्या मुखारि ॥ ८० ॥

जागैलो सुख निदेंतु दोकुनु ।
अग्रजान अकालारि म्होणु ॥
राम बाणानि दीर्घ निद्रेक ।
प्रेरणा केल्लि कुंभकर्णांक ॥ ८१ ॥

इतर राक्षसयि कपि समूहांतु ।
पळ्ळेति ते समर अंगणांतु ॥
उटायिलि धूळि युध्द भूमिंतु ।
पळेल्वरि तांचा रक्ता न्हंय्तु ॥ ८२ ॥

जाव्वो आजि लोकु रावोणु नांतिलो
निर्धारु कोर्नु एकयि रामु नांतिलो ॥
म्होणु युद्धाक आय्लो घरांतु दोकुनु ।
मागिरि रावोणु भोवु उत्साहु पाव्वु ॥ ८३ ॥

झगड्ता रामु पादचारि जाव्नु ।
रावोणु रथाचा वयिरि बैसुनु ॥
म्होणु तांब्डे घोड्यानि तांडुचो ।
इंद्रान रथु धाळ्ळो स्वर्गाचो ॥ ८४ ॥

देव नदिचे पाळां वायुन हाल्चो ।
ध्वजाचें गोम्टे आंग्ले आसुचो ॥
दशरथालो पूतु चळ्ळो विजय रथु ।
सुरेंद्राल्या सारथिलो धोर्नु हातु ॥ ८५ ॥

साळ्कां पाक्ळें वरि असुरास्त्रं ।
लागिलिं व्यर्थ कोर्चें तनुत्र ॥
मातलिन राम तनुंक वांदिलें ।
सुरेंद्राक संबंधु पाविलें ॥ ८६ ॥

भोवु कालु सोणु परस्परांक ।
वेळ्ळु मेळ्ळा बल दाकोचाक ॥
तशिं जाव्नु राम रावणांलो ।
झगडो मस्त जोरान चल्लो ॥ ८७ ॥

आसुनु अनेक ऊरु शिर बाहु ।
एकु रावणु दिस्लो जाव्नु बहु ॥
राक्षस समूहान फुळ्या वरि ।
वेडानु राबुनु आशिले वरि ॥ ८८ ॥

लोकपालांक जिंकिलेल्याक ।
स्व शिरं शिवार्पण केल्लेल्याक ॥
कैलासु उक्कळेल्या शत्रुक ॥
रामान मानु दिलो असुराक ॥ ८९ ॥

सीता मेळ्ता म्होणु सांगुचा ।
उज्व्या राम भुजाक कांपुचा ॥
रवोंबैलें एक शर अति तीक्ष्ण ।
पौलस्त्यान अधिक क्रोधान ॥ ९० ॥

शर हर्दें भेत्तुनु रावणालें ।
दाशरथिन प्रयोगु केल्लेलें ॥
गेल्लें चांगि खबर चर्तल्यांक ।
सांगुक म्हळल्वरि पाताळाक ॥ ६१ ॥

अस्त्र अस्त्रान उत्रं उत्रान ।
रामु रावणु कर्तले खंडन ॥
परस्पर वादि प्रतिवादि वरि ।
दोळे दोव्वोर्नु विजय पाव्वारि ॥ ६२ ॥

हाका ताका म्होणु जयापजय ।
अदला बदल जाव्नु जाय्नि निश्चय ॥
मद आयिले हस्तें मदें वणति ।
आशिल्वरि दोगयिं एक रीति ॥ ६३ ॥

केल्लो प्रतिकारु परस्परानि ।
तांचा मात्यारि सुर असुरानि ॥
फुल्लांचो पाव्सु घाल्लो सहन ।
कर्नि तें तांचा शर गणान ॥ ६४ ॥

कांट्यांचे लोहायुध मागिरि ।
शतघ्नि म्होणु अरिल्या उपरि ॥
अंतकाल्या गदा दंड सदृश ।
उडैलें दशकंठान विशेष ॥ ६५ ॥

रथाच्या लागि येव्वा फूडेचि ।
तें आनि असुरालि आशा जयेचि ॥
अर्ध चंद्राकृति शरान कुड्के ।
केल्लें रामान केळयां म्हण्के ॥ ६६ ॥

सीतेलें दुःख म्होण्चा रोगाक ।
रामान धनुर्धरांक बुद्दंतान ॥
रावण वध म्होण्चे वोक्कद कोरुक ।
धोणांक ब्राह्म शर केल्लें जोडण ॥ ६७ ॥

गनारि कुड्के कुड्के जावु ।
कड कडे उज्वाडु विर्कानु ॥
य आस्स कोर्चि फोडि आशिलें ।
षाल्या देहा वरि दिस्लें ॥ ९८ ॥

त्र शक्ति आशिले अस्त्रान ।
केशालिं बोडं तत्क्षण ॥
कि कळ्ना तशिं दाशरथिन ।
गत्तोर्नु पाडैलिं धीरान ॥ ९९ ॥

गत्तर्लेलिं असुरालिं शिरं ।
ाडैताना देह सोणु भयंकर ॥
तिबिंबा वरि बाल सूर्चालें ।
ळ्यांच्या पाळां मदें दिस्लें ॥ १०० ॥

ावणालिं पळेलिं बोडं
ोळोनुयिं जाग्नि मनांक दृढ ॥
नेर्जर समूहाक संशयान ।
ागिरि जास्त की म्होणु जोडण ॥ १०१ ॥

दजलान जड जाल्लेलिं पाक्कं आशिले ।
ोवारे गंडस्थळ सोणु सुरगजालें ।
देवानि स्व हस्तानि मात्यारि रामाले ।
रकयिल्या फुलांचा परिमळा माक्षि गेल्ले ॥ १०२ ॥

देवकार्य पूरा कोर्नु धणुंचें दोर मेक्कोळ्नु ।
राबिल्या रामांक चोव्वु इंद्र सारथिन सांगुनु ॥
रावणु म्होणु लिपिचें शर खोंबिलो ध्वजु आसुचो ।
वयिरि घेव्वु गेल्लो रथु हजार घोड्यानि तांडुचो ॥ १०३ ॥

स्वीकारु कोर्नु अग्निन अण्वाळि बाय्लेक ।
रावणालें ऐश्वर्य दीव्वु विभीषणांक ॥
वानरेशु विभीषणु लक्ष्मणांक मेळोनु ।
नगराक गेल्लो रामु पुष्पकारि बैसुनु ॥ १०४ ॥

द्वादश सर्गु समाप्तु

# त्रयोदश सर्गु
## दंडका प्रत्यागमन

शब्द गुणांच्या गगना वयिल्यान ।
विमानारि येत्ताना गुणशालिन ॥
सांग्लें बाय्लेक रत्नाकर चोव्नु ।
रामु म्होण्चा हरिन रहस्य जाव्नु ॥ १ ॥

पळे मैथिलि माझे सेतुन मलय पर्यंत ।
वांटे केल्लेलें सागर फेणु भोर्नु शांत ॥
शारदांतु विभाग छाया पथान जाल्लेलें ।
नक्षत्रं भर्लेल्या गगना वरि आशिलें ॥ २ ॥

यज्ञाश्वु यागु कोर्चो सागरालो ।
कपिल मुनिन पाताळाक व्हेल्लो ।
त्या निमिम्मिति आम्गेल्या पूर्वजानि ।
सागर गुंडि केल्लें खोंडुनु अवनि ॥ ३ ॥

भास्कर किरणांक हो गाबु कर्ता ।
हांगा संपत्ति अभिवृद्धि जात्ता ॥
हो उदक लासुचो उज्वो धर्ता ।
मनोहर चंद्राकयि जन्मदाता ॥४ ॥

अवस्था भोवु रीति आशिल्यान ।
सगळ्यान व्याप्तु जाव्नु महिमेन ॥
विष्णु वरि हागेलें प्रमाण अमुक ।
अमुक रूप म्होणु जाय्ना सांगुक ॥५ ॥

बोंब्लेंतु जाल्लेल्या कमला वयिरि ।
बैसुन ब्रह्मान कर्ताना स्तुति ॥
हांगा योग निद्रेंतु युगांत्यारि ।
लोकधारण कोर्नु आस्ता श्रीपति ॥६ ॥

कात्तोर्नु मस्ति लय वज्रिन ।
ले पर्वत भोवु सख्यान ॥
पीडेक राय धर्म प्रधान ।
श्रयु पाविल्वरि हाका शरण ॥७॥

लोकांतु दोकुनु वराहान ।
क्नु हाड्ताना भुवन त्या क्षण ॥
लें प्रळय सागराचें सलिल ।
ं अवगुंठन जाव्नु नितळ ॥८॥

भाविक उम्मा दिव्वांतु जाणु ।
म्हळलो ओंटु आपण जाव्नु ॥
रि कोर्नु न्हंय्क उम्मा दित्ता ।
तर तान्निं दिल्लेलि घेत्ता ॥ ९ ॥

गिलं गिळ्ताति जल जीवींक ।
मुख जल समेत आंकोर्नु मुख ॥
च्या वेञांतु दोकुनु वयिरि ।
ति जल तोंड धांकुनु मागिरि ॥१० ॥

यो सिसोडिनि अंकस्मात् उड्डुनु ।
भाग जाल्लो जलधिचो फेणु ।
घडि तो कान्नाल्यागि आसुनु ।
ना तांचि कान्नांचि चौरि जाव्नु ॥ ११॥

तटारि वायु पिव्चाक आयिले ।
कोर्चा पाळां म्हण्के दिस्तले ॥
किरणं पळ्ळेल्यान झग्झगेव्नु ।
रत्नान दिस्ले वेगळे जाव्नु ॥ १२ ॥

ळ्यांतु तुझा ओंटाक समान ।
पळेलें पाळांच्या वेगान ॥
गण पोवळ्यांचें अंकुर चाबुनु ।
नां जाल्यारियि तें वत्ता सोणु ॥१३॥

सिध्द जात्ताना उदाक पिन्वाक ।
घुम्वें घनानि गिर्किचे वेगाक ।
पुनः जोरान घांटिल्वरि सागर ।
दिस्लें खव्लो कोर्नु विंध्यभूधर ॥१४॥

लोखंडाचा चक्रा वरि सागर ।
दूर दोकुनु दिस्ता ताझें तीर ॥
तालि तमाल रान्नांच्या नीलान ।
चक्रा वयिल्या रेखे वरि मलिन ॥१५॥

तुझा तोंडाक कर्ता तटाचो समीरु ।
दीर्घाक्षि केतकीच्या धूळिन शिंगारु ॥
वेळु केल्यारि तूंवें शिंगारु कोरुक ।
कोत्ता म्होणु आशेचो बिंबाधराक ॥१६॥

फला जडावणेंक बाग्वलल्यो माड्यो ।
शिंप्यो भेत्तुनु मोति विर्कुनु आशिल्यो ॥
सागराच्या तीराक एकचि घड्येन ।
आमि पाव्लिंति यान जोरु धांविंल्यान ॥१७ ॥

चित्लां वरि गोम्टें दोळे आशिलि ।
बांटिले वाट्टेरि तूं दृष्टि घालि ॥
माक्षि पळ्ळेल्या सागरां दोकुनु ।
दिस्ता वन मेळ्नु भू उड्ता म्होणु ॥१८॥

एक वेळा संचारु अंबरारि ।
मेघ मार्गु आनि पक्षां वाट्टेरि ॥
मेगेलि मनांचि अभिलाषा कशिं ।
पळे पुष्पक विमान उब्ता तशिं ॥२६॥

सुरगजांल्या मद परिमळु आशिलें ।
सुरनदि पाळानि थंड जाल्लेलें ॥
वारें दनपारां कारण आयिलि ।
हूम नां कर्ता तुझा मुखा वयिलि ॥२०॥

खिडकींतु दोकुनु लांबुचा हात्तान ।
तूंवें खुशिन घनांक आपळेल्यान ॥
तुगेले हात्ताक वेगळें कांकण ।
सूविले म्हण्के दिस्ता विद्युत्तान ॥ २१ ॥

जाल्लां विघ्न दूर म्होणु तापस ।
जनस्थानांतु पुनः कोरुक वास ।
आश्रम स्व विभागांतु बांदितातिं ।
येव्नु नव पर्णशालेंतु राब्ताति ॥२२॥

तुझो पायु सोळ्ळेल्या शोकान ।
जाल्लेले वरि एकि गागरि मौन ॥
तुका सोद्दिताना पळेलि क्षितिरि ।
खंयिं पळैलें स्थळ पळे मुखारि ॥२३॥

दाकैलें वाल्लिनि द्रुष्ट आसुरान तुका ।
खंच्या मार्गान व्हेल्लि म्होणु माका ॥
उलोचाक जाय्ना पुणि पान्नं हाल्लोनु ।
माझे वयिरि करुणेन फांटे बाग्वानु ॥२४॥

दर्भो स्वान्वि आंशि सोणु चित्लानि ।
पात्यो उकोळ्नु चंचल लोचनानि ॥
घुम्डानु कळैलें माका उज्वो ।
दिक्कु चोव्नु मंदमतिक तुझो ॥ २५ ॥

पळे माल्यवतु म्होणु शैल होड ।
राब्लां माळपाक लागोनु बोड ॥
हावें विरहान हांगा नयन जल ।
रकैलें तेन्ना घनानि नव सलिल ॥ २६॥

थंयिं पाव्सांतु अंकुरांचि वास ।
कादंब फुल्लांचो अर्ध विकास ॥
मोरांलि गोडि केका आय्कुचाक ।
तुझा वियोगान जाल्लि अळ्सीक ॥ २७॥

तुका पोटोनु धोर्नु कांपिलो अनुभवु ।
फुळ्ळो तो हांगा यादु कोर्नु हांवुं ॥
आय्कुनु गुड्‌गुडाचि प्रतिध्वनि गुहेंतु ।
भिजुडे कष्टान दिन काळ्ळे पाव्सांतु ॥२८॥

कंदलि फुल्लांचें नवेचि कळे फुल्लेनु ॥
पाव्सु पळ्ळेल्यान पूरा ऊब उट्टानु ।
व्हार्डिके वेळेरि होमा धुव्रान तुझे ।
तांब्डें दोळ्यां वरि दुकैतले मन माझें ॥२९॥

लागि आसुचे झार्कुटांतु दोकुनु ।
उब्बिं चंचल सारसानि आसुनु ॥
दिस्वें पंपा सरसि जल खेदान ।
पिञ्वे वरि दृष्टि देंव्ता दूरान ॥३०॥

विरह नांतिले चक्रवाक जोडिन ।
खावोचें परस्पर कमल केसर ॥
चोय्तलों हांगा हांवं आशेन ।
आशिल्या वेळेरि तूंवें दूर ॥३१॥

मोम्यां वरि गोम्टे फुलांचा घोषान ।
चोव्नु तटा वयिलि अशोक लता भ्रमेन ।
मेव्ळि तूं म्होणु खुशिन धोरुक पोटोनु ।
वत्ताना लक्ष्मणु आड राब्लो रोणु ॥३२॥

रव आय्कुनु भांग्रा खिल्कील्यांचें ।
विमाना भित्तरि लांबुनु आसुचे ॥
गोदावरि नदिचें सारस व्रात ।
वयिरि उब्ता कोर्चे वरि स्वागत ॥३३॥

लान कुर्टारि कळसो तूंवें होव्नु ।
वाडयिले आंब्या रोंपे जल घाल्नु ।
बोड उकोळ्नु चोव्विं चित्तं आसुनु ।
पंचवटि वन खुशि कर्ता मन तांडुनु ॥३४॥

या श्रमु वायुन गोदा तटारि ।
कोर्नु मात्तें तुझा जांगेरि ॥
र्गोर्नु रहस्य जाव्वु झार्कुटांतु ।
लेलें यादु कर्तां मनांतु ॥३५॥

सुद्र पदवि दोकुनु खंचा मुनिन ।
शाक पाडैलो भ्रूभंगान ॥
उदक निवोळुक कोण कारण ।
या अगस्त्य मुनि भौम तपोपन ॥३६॥

द्धि पाविल्या अगस्त्य मुनिलें ।
धूम हविचें गंध आशिलें ॥
ाना वाट्टेरि घुम्वें हुंकुनु ।
जाल्लां माझें हृदय रज सोणु ॥३७॥

वन मध्ये क्रीडा सरोवर ।
कर्णिलें नांवं पंचाप्सर ॥
मध्येच्या चंद्राक समान ।
दोकुनु दिस्ता सौंदर्यान ॥३८॥

ां जोडि विहारु खाव्वु कुशांकुर ।
लें फूडे ऋषिन तपस्य घोर ॥
वु वज्रिन पंचाप्सरा यौवन ।
ट यंत्र धाळ्ळें कोरुक बंधन ॥३९॥

ांतुल्या मुनि सौधांतु दोकुनु ।
ायिं गीत मृदंगाचा स्वनु ।
ी माळपारि चोणु अनुरणन ॥
क शिखराचें गृह एक क्षण ॥४० ॥

ु एकु तापसु सुतीक्ष्णु म्होणु ।
रि दिक्कान होडु उज्ञो घाल्नु ॥
ध्येंतु राबुनु साधु कर्ता तप ।
येल्यान मात्तें भेत्तुचें ताप ॥४१॥

सुतीक्ष्णु मंदहासान कटाक्षान ।
कुर्टाच्या कांचिचा प्रदर्शनान ॥
इंद्रान संशयान पेटयिल्या ।
चेष्टेन पिसो जाय्नि अप्सरांल्या ॥४२॥

मृगांक पर्सुनु कुश तलवं मोड्चो ।
अक्षमाला वलय घाल्नु आसुचो ॥
मेगेले गौरवाक मुनि सुतीक्ष्णु ।
हाल्लैता उज्वो हातु उक्कोळनु ॥४३॥

हो मौनि दोकुनु नमन मेगेलें ।
मात्तें चिक्के हाल्लोनु तें घेत्लें ॥
पुष्पक विमान माय जात्तरि ।
पुनः दृष्टि दवर्लि भास्करा वयिरि ॥४४॥

पळे थंयिं तपोवन अण्वाळें ।
शरभंग म्हळल्या महामुनिलें ॥
ताणे नित्य अग्निंक हविष्यान ।
तृप्ति कोर्नु केल्लें देहयि अर्पण ॥४५॥

श्रमु दूरं कोरुक सावट अतिथिंक ।
मुनि पुत्तां वरि आश्रमांचें रूक ॥
सुवादु आशिलो दीव्नु फलाहारु ।
आत्तंयिं कर्तांति ते सत्कारु ॥४६॥

धबधब्याचो गाजु गुहे तोंडाचि गर्जन ।
हांड्नु शिंगांक लागिलो चिकोलूचि घनं ।
गर्विष्ठ होड भुजाच्या पाड्यावरि पळे ॥
चित्र कूट पर्वतु सुंदरि तांडिता दोळे ॥४७॥

दूर दोकुनु चोय्ताना नितळ कृश ।
हाल्नात्तिले म्हण्के होळ्ता नदी ॥
भूमि गळ्या मोत्यां सराक सदृश ।
मंदाकिनी म्होणु पर्वत सन्निधि ॥४८॥

र्वता लागि जाल्लेलें तमाल ।
ड्राणु ताझें परिमळाचें प्रवाल ॥
थ्रौट्या कपोलाक यवांकुरा वरि ।
कन्नारि दवलें झळ्कूचे वरि ॥४६॥

नांतिलेंचि दंड भय जंतु विनीत ।
फूल सोणा तशिं रूक फलभरित ॥
महामहिम अत्रि मुनिलें तपोवन ।
तागेल्या साधनेंक हें कारण ॥५०॥

स्वर्ण कमलं सप्तर्षिंक दित्तलि ।
शिवालि मौलि माला जावु आशिलि ॥
वर तपस्विंल्या स्नानांक हांगा ।
होळैलि अनसूयान सुरगंगा ॥५१॥

वीरासनारि वेदि वयिरि बैसुनु ।
जप कर्तातित मुनि हाल्ना तशिं तनु ॥
योग आरूढां वरि रूक आसति ।
वारें होळ्ना दोंकुनु कांपनांति ॥५२॥

माक्षि तूं माग्लि खंचे रुका लागि ।
तो वट श्यामु म्होणु आस लागि ॥
मरकत राशि कशिं माणिक्य मेळ्नु ।
आकर्षकु जाल्ला तशिं फल सोणु ॥ ५३ ॥

एक कडे नील रतुन आनि मोति ।
मेळोनु गांतिल्वरि अ...गेलि कांति ॥
वेग्ळे स्थळारि मेळोनु उत्पलं ।
गांतिले माळे वरि धवि कमलं ॥५४ ॥

मानस सरांतु कृष्ण हंसं आनि ।
मेळेले म्हण्के राज हंसानि ।
मागिरि कृष्णागुरु मकरिका पत्र ।
चंदन संगु पाविल्वरि अन्यत्र ॥ ५५ ॥

काळकाक साव्ळे वयिरि पळ्ळेलें ।
चान्निन्या वरि विचित्र जाल्लेलें ॥
नील नभ रंध्रांतु अन्य स्थळारि ।
शारदाचि घन रेखा दिश्चे वरि ॥५६॥

भस्म लाव्नु कृष्ण सरोपु आसुचा ।
वेग्ळे कडे शिव देह सें दिसुचा ॥
मंगलांगि पाळं यमुना नदिचिं ।
मेळ्नु होळ्ता पळे गंगा लागिचि ॥ ५७ ॥

जलधि सतिल्या संगमांतु न्हाव्नु ।
कोणयिं हांगा अण्वाळो जाव्नु ।
तरि शरीर सोड्ता तांकां बंधन ।
नां पुनः नांत्ल्यारियि·तत्त्वज्ञान ॥ ५८ ॥

हांवें किरीट काणु जटा बांदिलि ।
चोव्नु कैकेयि तुझि आशा फल्सलि ॥
अशिं म्होणु सुमंत्रान रळ्ळेलें ।
पुर हेंचि त्या व्याध नायकालें ॥५९॥

यक्षिले मोम्यांचि भांग्रा कमल धूळिन ।
मेळ्नु होळ्चा सरयुक मानस सर मूलक ॥
महर्षि दित्ताति अशिं म्होणु उदाहरण ।
आप्त वाक्या सारके अव्यक्त बुध्दिक ॥६० ॥

इश्वाकु कुळाविनि अश्वमेध अवभृथ म्होणु ।
न्हाल्लेल्या निम्गिति उदक जाल्लां पवित्र जाव्नु ॥
ककुस्थ वंशांचाल्या राजधानिंक समीप ।
होळ्ता सरयूनदी तीरारि आस्सति यूपं ॥६१ ॥

खंचा रेंवेंच्या ऊरुरि सुखान ।
वाड्ले कोसल नृप पयः पानान ॥
तांचि दायि वरि म्हळल्या कारण ।
दित्ता सरयुक गौरव माझें मन ॥६२ ॥

नृप विरहि माझा आव्सु वरि सरयुन ।
आय्ले दुर्चान म्होणु मोगान ॥
केल्लेले वरि दिस्ता आलिंगान ।
थंड वायुन पाळांच्या हात्तान ॥६३॥

तांब्डोचि रंगु संध्या काला वरि ।
उब्ता पृथिविचि धूळि कसलि मुखारि ॥
सैन्य सह भरतु मारुतिन कोळोनु ।
स्वागताक येत्ता म्होणु अनुमानु ॥ ६४ ॥

युध्दांतु खरादिंक मार्नु येत्तरि ।
सज्ञनु सौमित्रिन तुका दिल्लेल्वरि ॥
येत्ता तो माका सत्यवंताक ।
निष्कल्मष राज्य श्रीक दिव्वाक ॥ ६५ ॥

वल्क नेसुनु भरतु येत्ता चम्कुनु ।
मेगेल्या स्वागताक अर्ध्य घेव्नु ॥
माक्षि सैन्य मुखारि गुरुक राबोनु ।
वृध्द अमात्यांक पूरा मेळोनु ॥ ६६ ॥

बाप्पुन दिलेलि लक्ष्मि आसुनुयिं जांगेरिं ।
युवकु जाल्यारियि भक्तिन भोगनि माझेरि ॥
कोर्चे वरि असिधारा व्रताचो अभ्यास ।
अशिलो तिका घेव्नु हांगा इतुले वरुष ॥६७॥

अशिं दाशरथिन सांग्लें सीतेक ।
ताझि इच्छा अधिदेवता मूलक ॥
कोळ्नु माळपु सोणु देंव्लें विमान ।
समस्तानि चोय्ताना विस्मयान ॥६८ ॥

हातु धोर्नु सेवा निपुणु कपीशालो ।
विभीषणान मुखारि येव्नु दाकयिलो ॥
स्फटिक पायरिन भूंय्क लागिचे पथान ।
देंव्लो रामु पुष्पक यानांतुल्यान ॥६९ ॥

केल्लो नमस्कारु इक्ष्वाकु कुलगुरुक ।
अर्घ्य घेव्नु जाल्लें परांचें सकडांक ॥
रामु म्हाल्गडो म्होणु राज्याभिषेक ।
भक्तिन आपण्यांक सोणु दिल्लेल्याक ।
भरताक पोटोनु धर्लो हर्षाश्रुन ॥
मस्तकयि मोगान हुंक्लें दाशरथिन ॥ ७० ॥

वाड्नु खाड मीशा तोंड विकृत जाल्लेलें ।
पाळं देंविल्या वटा वरि जटा मांडिलें ॥
बोड बाग्वायिल्या मंत्र्यांक चोव्नु दयेन ।
मोवाळ उत्रान कुशल निम्गिलें रामान ॥७१॥

मेगेलो आपद्बंधु हो वानरेश्वरु ।
विभीषणु म्होणु हो युध्दांतु महा वीरु ॥
गौरवान रामान अशिं म्हळें की भरतु ।
सौमित्रि पशि फूडे तांकां जाल्लो विनतु ॥७२॥

सौमित्रिन मागिरि भरतालें आनत शिर ।
उक्कोळ्नु पोटोनु धर्लें दुक्वेवरि उर ॥
रूवं आशिलें इंद्रजितुन मार्लेल्यान ।
वक्षस्थलान गाढ जाव्नु भोवु मोगान ॥७३॥

तेद्‌ना राम आज्ञेन हस्तेरि बस्लेति ।
वानर प्रमुख सकड घेव्नु मानव आकृति ॥
मदज़ल धारा देंवोंच्या हस्तें निम्गिति ।
पर्वतु चळ्ळेलें सौख्य तान्निं भोग्लिंति ॥ ७४ ॥

सेवकांक घेव्नु राक्षस विभु विभीषणु ।
रथारि चळ्ळो रामालि आज्ञा पाव्नु ॥
कपट नांतिलें केल्लोलो जाल्ले तरि ।
तांचो रथु योग्यु नईं हाझे मुखारि ॥७५॥

ागिरि भांव्डांक घेव्नु रामु चळो विमान ।
च्छानुसार गति आश्वें चंचल केतन ॥
ात्रि बुधु गुरु मेळ्नु चंचल विन्नु झळ्कुचें ।
ानवृंद चंद्रान चळले वरि शोभुचें ॥७६॥

ाराहान प्रळयांतु दोकुनु ।
उध्दारु केल्लेल्या भूमि वरि ॥
ारदांतु निबिड घनांतु दोकुनु ।
देसुचा नित्तळ चान्निन्या वरि ॥
ातिन राक्षस पीडेंतु दोकुनु ।
ार केल्लेलि ताझि सहचरी ॥
मैथिलि आशिलि आनंद पाव्नु ।
भरतु विनतु जाल्लो तिका चोव्नु ॥ ७७ ॥

लंकेशालें नमन दृढ निर्धारान ।
धिक्कारु केलेंलिं सीतेलिं चरण ।
ज्येष्ठा वरि जटा बध्द भरतालें शिर ।
मेळ्नु पावन जाल्लिं उभभयि परस्पर ॥७८॥

जन मुखारि हळु वोच्चा पुष्पकारि ।
माक्षि रामु अशिं क्रोशार्ध वत्तरि ॥
शत्रुघ्नान बांदिल्या शिबिरांतु ।
राब्लो अयोध्या उद्यान वनांतु ॥ ७९ ॥

त्रयोदश सर्गु समाप्तु

# चतुर्दश सर्गु

## सीता परित्याग

अनंतर रामु लक्ष्मणु एक कालारि ।
आश्रय वृक्षु कात्तर्लेल्या लतें वरि ॥
बाम्मुणु मोर्नु स्थिति वाग्ट्टि जाल्लेंल्यांक ।
चोय्ले थंयिं कौसल्या सुमित्रांक ॥१ ॥

महा विक्रमिनि शत्रुंक मार्लेल्यानि ।
क्रमान दोगांकयि नमन केल्लें तान्नि ॥
दोळे भोर्नु येव्नु अमुकु म्होणु कळिन ।
कळें पुत्तांले देह आपड्तरि पुणि ॥२॥

दुःखान देंविलें दोळ्यां उदाक हून ।
थंड जाल्लें तांचा आनंद बाष्पान ॥
केल्लेल्वरि हिमगिरिचे नदिनि देव्नु सकल ।
ग्रीष्मान हून गंगा सरयु जल शीतल ॥३॥

पुत्र तनुरि जाल्लेलिं व्रण राक्षस शरानि ।
जीविं आशिले वरि पर्शिताना आव्सुनि ॥
चोव्नु वीरसू म्होणु क्षत्र स्त्रींक प्रिय ।
नांवं नाका म्होणु पाल्लिंति अभिप्राय ॥४॥

बाम्णांक कष्ट हाळेलि सीता म्होणु ।
अनिष्ट जाल्लेलिं अशिं नांवं सांगुनु ॥
नमस्कारु केल्लो भेदु सोणु भक्तिन ।
दिवंगत मावांल्या बाय्लांक सुन्नेन ॥ ५॥

तुझे चांग्पणान तुझो पति भावु मेळ्नु ।
पारु जाल्लो भोवु ईजेंतु दोकूनु ॥
उट्टा पुत्ता म्होणु प्रिय जाल्लेलें ।
मोगा सुन्नेंक तान्नि खरेंचि सांग्लें ॥६॥

सुरु जाल्लोलो आव्सुंल्या हर्षाश्रुनि ।
रामालो अभिषेकु वृध्द अमात्यानि ॥
पुण्य क्षेत्रांच्यां कनक कलश जलान ।
पूर्णु जाव्नु केल्लो भोवु आनंदान ॥ ७ ॥

मांक्डानि राक्षस मुखेलेनि हाव्ळेलें ।
पवित्र जल शरधि सरोवर न्हय्तुलें ॥
पाव्सु घाल्लेल्वरि घनानि विंध्याचेरि ।
रकैलें विजयी रामाल्या मात्यारि ॥८ ॥

आस्स जाल्यारियि ताका वेसु मुनिलो ।
चोव्हाक भोवु गोमटो जाव्नु दिस्तलो ॥
रायांक सांगिले वरि शिंगार्नु घेव्नु ।
जाल्लो तो दुपट सौंदर्याक भाजनु ॥९ ॥

सैन्य तूर्य रवान खुशि पाविले पौर ।
म्हांतारे सचिव असुर मेळ्नु वानरं ॥
लायि शिंग्नाना प्रवेशु केल्लि तोरण ।
बांदुनु वंशाचि राजधानि रामान ॥१० ॥

लक्ष्मणु शत्रुघ्नु चामरं धोर्नु ।
वारें धाल्तले हळू हाल्लोनु ॥
भरतु सात्ति धोर्नु राब्लो रथारि ।
दिसुनु आय्ले चारि उपायां वरि ॥ ११ ॥

सौधाचेरि वायुन प्रसर जाल्लेलि ।
कालागुरु धुव्रा राशि पुरललनालि ॥
स्वयं रामान मेळ्कळेल्या वेणि वरि ।
दिस्लि काननांतु दोकुनु माक्षि येत्तरि ॥१२ ॥

मांय्गानि केल्लोलो शिंगारु आशिलि ।
रघुवीर सतिक कर्णी रथारि येत्तलि ॥
प्रासादांच्या खिड्कींतु दोकुनु चोव्नु ।
बाय्लमनिश नम्र जाल्लिं हात जोडुणु ॥ १३॥

नाश नांतिलो लेपु प्रभा आशिलो ।
लाव्नु घेत्तिलो अत्रि सतिन दिल्लोलो ॥
शुचि ही म्होणु पुरांतु पतिन सांग्चे वरि ।
दिस्लि पुनः अग्निंतु रिगुनु आयिल्वरि ॥१४ ॥

स्नेहितांक रामान सिध्द जाल्लेलिं ।
गोम्टिं घरं राबुक उचित जाव्नु दिलिं ॥
चित्रमात्र वर्लेल्या पितुले घराक ।
चम्कलो देंवोनु दोळ्यांतु उद्दाक ॥ १५॥

पोसो कोर्नु थंयिं सीतेल्या पतिन ।
अंब आम्गेलो आनु तुझा पुण्यान ॥
भ्रष्टु जाग्नि नाक फल दिव्चा सत्यान ।
म्होणु भरत जननिलि लज्जा केल्लि शमन ॥१६॥

अशिं ताणे विभीषणु सुग्रीव मुख्यांक ।
उपचारु केल्लो मेळ्ळेले वस्तुनि कृतक ॥
येच्चिलेल्या घड्येकचि मेळ्ळेलें चोव्नु ।
आशिले सकडयि नांकारि बोट दोव्वोर्नु ॥१७ ॥

रामान गौरव दिव्चाक आयिल्या ।
मुनिंक सत्कारु कोर्नु आपण्याल्या ॥
वैरि रावणालें जननादि ऐश्वर्य ।
तशींचि सांग्लें तांकां आपलें शौर्य ॥ १८ ॥

तापसानि वत्तरि अर्ध मासु गोल्लो ।
कळ्ना तशिं सुखान कपि राक्षसांलो ॥
गौरव दिवोनु मागिरि सीते करान ।
पेटैले तांकां राज्याक रामान ॥ १९ ॥

स्वेच्छेन मेळचें स्वर्ग रतुन ग्हळलें ।
असुरालो प्राणु सहित वश केल्लेलें ॥
अनंतर पुष्पक कुबेराक भोंव्चाक ।
पेटैलें आज्ञा दीव्नु कैलासाक ॥ २० ॥

पेतुले आज्ञेन वनवासु कोर्नु पूर्ति ।
राज्य प्राप्ति जाल्ले मागिरि दाशरथि ॥
धर्मार्थ कामांतु कशिं समान वृत्ति ।
तशींचि भांव्डालागियि निष्पक्षपाति ॥ ३१ ॥

रामु कर्तलो आशिल्यान वात्सल्य ।
पूरा जन आव्सुंकयि सत्कारु तुल्य ॥
चीवं पीव्वु कृत्तिकेल्यो षण्मुखान ।
चोयिल्वरि तांकां समान गौरवान ॥ २२ ॥

रामु उदारि दोकुनु धनिक जाल्लिं जन ।
काम कर्तलिं तीं अड्डि नांतिल्यान ॥
जाल्लिं पितृवंत रक्षण केल्लेल्यान ।
पुत्रवंत शोकु पुसूनु काळ्ळेल्यान ॥ २३ ॥

ताणे वेळेरि पौर कार्य पोळोनु ।
भोगु पाव्वे आशेन देह शिंगार्नु ॥
लक्ष्मी वरि राबिल्या सीता समेत ।
रति सुखाचो अनुभवु केल्लो अनवरत ॥ २४ ॥

वनवास प्रकरणांचि चित्रं आश्चा ।
घरांतु जायितितुलें विषयसुख भोग्चा ॥
तांकां माक्षि दंडकेंतु घळलें दुःख ।
यादु कर्ताना ते दिस्लें जाव्वु सुख ॥ २५ ॥

मागिरि मस्ति कांति आसुचे दोळ्यान ।
कुशा फुल्लां ग्हण्के धौव्टे तोंडान ॥
उलैना तशिं गर्भाचे लक्षणान ।
रामांक हर्षु आस्स केल्लो सीतेन ॥ २६ ॥

वर्णु वेग्ळो जाल्लेल्यो चिंव्यों चोव्वु ।
पतिन लज्जेलले बाय्लेक उक्कोळ्नु ॥
जांगेरि बोसोनु गुर्वि म्होणु कोळ्नु ।
आशि कसलि अशिं निम्मिलें गुप्त जाव्वु ॥ २७ ॥

नीवार बलि चाबुचा क्रूर मृगांलें
स्नेह केल्लेंल्या मुनि पुत्रिनि आशिलें ।
कुश भोर्नु भागीरथि तडिरि आसूचिं
ती आशा पाल्वि मागिरि आश्रम चोव्वि ॥ २८ ॥

आशा पूरा कर्ता म्होणु सीतेक
सांगुनु चम्कलो तो घेव्नु अनुचरांक ।
चळ्ळो उत्तुंग राळ्ळाराचें शिखर
चोव्वाक खुशि पाविलें अयोध्या नगर ॥ २९ ॥

राजपथ समृध्द आपणं भर्लेलें
सरयू नदींतु पडाव भोर्नु आशिलें ।
नगराचा बाय्लानि भोंव्वें उद्यान
पळैलें अयोध्येच्या रायान खुशिन ॥ ३० ॥

उत्रांतु बुद्दोंतु चांगु आचारु आशिल्या
महा शेषाम्हण्केचि दीगु बाहु आशिल्या ।
ताणे भद्र म्हळल्या चारकाक निम्मिलें
प्रजे आपल्या विषयांतु म्हण्ताति कसलें ॥ ३१ ॥

चारकुं आशिं म्हळलो कर्तरि निर्बंध
असुराले घरांतु आशिलेक नरेंद्र ।
देविक स्वीकारु केल्लोलो विचार
सोणु कर्ताति स्तुति तुझें वृत्त पौर ॥ ३२ ॥

लोरव्डांचा हत्तोडिन लोह ताप्पिलें
भोत्तिले वरि जानकिल्या बाम्णांलें ।
बाय्लेल्या वयिले अळ्शिकुणि निंदेन
हर्दें भेत्लें अपकीर्तिचा मारान ॥ ३३ ॥

आत्मापवादु कोर्यां वे तिरस्कारु
एकयि निर्दोषि सतिक त्याग कोरुं ।
अशिं एक पक्षीय निर्धारु कोरुक
जाय्ना तशिं जाल्लें मन सम दोलाक ॥ ३४ ॥

तोड्चें सोळ्यारि नां वेग्ळो परिहारु ।
म्होणु साध्विक सोड्चो केल्लो निर्धारु ॥
यशोधनांक स्व देहा पशि यश होड ।
इंद्रिय विषय ग्हळलें अशाश्वत सकड ॥ ३५ ॥

मळकु वाड्वलल्या आपण्यांक चोव्वु ।
दुःखांतु बुडिल्यां भांव्डाक मेळोनु ॥
सांग्लें तांकां अपवादाचो विचार ।
केवल एक वाक्य उलैलो अनंतर ॥ ३६ ॥

सूर्याक जाल्लेल्या राजर्षि कुलाक ।
सदाचारान शुचि ग्हळले वंशाक ॥
पळया माझे निमिति आय्लां कळंक ।
ऊब लागुनु आयिले वरि आरसाक ॥ ३७ ॥

हांवं तेल्लाच्या थेंब्या वरि जलांतु ।
प्रसारु जाव्चो स्व प्रजाजन मध्येंतु ॥
अशक्तु असलो अपवादु सहन कोरुक ।
बांदिल्या गजेंद्रा ग्हण्के खांब्याक ॥ ३८ ॥

गुर्बिणि जाल्यारियि अपवादु धुव्वाक ।
सागर वेडायिलि भूमि पितृ आज्ञेंक ॥
सोळ्ळेले ग्हण्के सोड्तां वैदेहिक ।
हांवं आशा सोणु माझे बाय्लेक ॥ ३९ ॥

हांवं जाण निर्दोषि म्होणु सीता ।
ताझे पशि निंदा बल म्होणु लेख्तां ॥
आरोपु कर्ताति शशिचेरि अकळंक ।
भुंय्चि साव्ळि जाल्यारियि म्होणु कळंक ॥ ४० ॥

असुरांक मार्चाक केल्लोलो साहसु ।
व्यर्थ नईं कारण जाल्लो वैरि नाशु ॥
माडयिल्यांक रगत पिव्चे आशोन ।
चाब्लावे भयंकरु सरोपु कोपान ॥ ४१ ॥

अपवाद शल्य काणु बहु काल वांचुनु
तरि लेख्ताति रामान आसुका म्होणु
दयावंतानि मेगेलो हो निश्चयु
विरोधु कर्नां तशींचि कोर्का सहायु ॥ ४२

वैदेहिल्या विषयांतु अधिक क्रूरु
अशिं सांगिलो भूमि पतिलो निर्धारु
भांव्डांल्या मध्येंतु कोर्चाक विरोधु
समर्थ नां जाल्लेति एकयि अनुमोदु ॥ ४३

कीर्तिगान कोणालें तीनि लोकांतु
कर्ताति त्या दाशरथिन सत्यवंतु
आज्ञा पालकु लक्ष्मणांक गुप्त जाव्नु
निदेशु केल्लो सौम्य म्होणु आपोनु ॥ ४४

दुवाळो आस्स जाल्ला तुझा होन्येंक
महर्षिलिं प्रशांत तपोवन चोव्वाक
हें निमित्त कोर्नु रथारि बस्कारानु
वाल्मीकि आश्रमांतु तिका सोडि होर्नु ॥ ४५

बाप्पुल्या आज्ञेन मांक्षि भार्गवान
आव्सुक कात्तर्लेलें आय्कलेल्यान
धाक्ल्यान केल्लि अण्णालि आज्ञा ग्रहण
उल्लंघन कोरुक जाय्ना गुरु शासन ॥ ४६

आय्कुनु इष्ट वार्ता हर्षु पाविलेक
लक्ष्मणान निर्भीत घोड्यांक रथाक
बांदुनु ताझेरि बोसोनु वैदेहिक
व्हेल्लि वृध्दु सुमंत्रु आशिलो आंबुडुक ॥ ४७

व्हर्ताना तिका सुंदर प्रदेशान
बाम्मुणु चांगु म्होणु केल्लि अभिनंदन
तो आपल्या विषयांतु चांग्पण सोणु
नेण तण धांकिलि बांयिं जाल्ला म्होणु ॥ ४८

वाट्टेरि खंचे सौमित्रिन निपैलें ।
आनि असाध्य बाम्णांक चोव्वें म्हळलें ॥
अत्यंत भीकर दुःख तें सीतेलें ।
हाल्नु उज्व्या दोळ्यान तिका कळैलें ॥ ४९ ॥

अमंगल निमित्त दुःख्खान क्षणकाल ।
बाल्लें तिगेलें तोंड म्हळलें फूल ॥
मनांतूंचि माग्लि सकडयि देरांक ।
बरें जाव्वो म्होणु अयोध्या रायाक ॥ ५० ॥

म्हाल्गड्याल्या आज्ञेन पतिव्रतेक ।
वन मध्येंतु सोणु वोच्चा लक्ष्मणांक ॥
पाळांच्या हात्तानि अड्डि कोर्चे वरि ।
होळ्ळिच पवित्र भागीरथि दिस्लि मुखारि ॥ ५१ ॥

देंवैलि ताणें सारथिन राबैतरि ।
होन्येंक रथारि दोकुनु रेंवेंचेंरि ॥
किरातान हाळ्ळेल्या विशेष दोणिरि ।
गंगा पार केल्लि योग्यान पणा वरि ॥ ५२ ॥

अशुभ सूचक घनांनि फात्रांचो पाव्सु ।
घाल्लेल्वरि गाद्गदान देंवोनु आसु ॥
सांग्लें पूर्व सिद्ध उक्तिन लक्ष्मणान ।
जनकाल्या धुवेक रायालें शासन ॥ ५३ ॥

तेद्ना अपायाचा वार्या मारानि ।
पोड्चिं आभरणं म्हळल्या फुल्लांनि ॥
जनकालि धूव एकाएकि वाल्लि वरि
पक्ळि आपण्यालि आव्नु भुंज्वे वयिरि ॥ ५४ ॥

इक्ष्वाकुलो कुळावि बाम्मुणु गुणवंतु ।
तसल्यान तुका सोडुक कम्लो हेतु ॥
अशिं संशयु पाविले म्हण्के भूमिन ।
रोगु दीनि आपल्या धुवेक आव्सुन ॥ ५५ ॥

सोये चुक्लिल्यान तिका कळिन दुःख ।
जळ्ळें हृदय मागिरि येत्तरि सोयाक ॥
लक्ष्मणाल्या निम्मिति तीणे पाविलो ।
बोधूचि मूर्छा पशि कष्टकर जाल्लो ॥ ५६ ॥

आपण निर्दोषि जाल्ले तरि बाम्णान ।
सोळिळ म्होणु सीतेन कर्नि दूषण ॥
ह्या दुःखाक आपणंचि भागि म्होणु ।
पुनः पुनः तीणे घेत्लि निंदा कोर्नु ॥ ५७ ॥

देरान वैदेहिक समाधान सांग्लि ।
वाल्मीकि तपोवनांचि वाट दाकैलि ।
हांवं परतंत्रु नृपाज्ञेन बांदिलो ।
क्रौर्य माफि करि म्होणु पाय्यांरि पळो ॥५८ ॥

उट्कारान्तु वैदेहि म्हळलि ताका ।
चिरंजीव तुझेरि द्वेषु नां माका ॥
देवेंद्राल्या कारणान विष्णु कशिं ।
परतंत्रु अण्णाल्या निम्मिति तूं तशिं ॥ ५९ ॥

पूरा जंन मांय्मांल्यागि अनुक्रमान ।
सांगुनु माझो प्रणामु करि विज्ञापन ॥
आसुचो पुत्तालो माझे पोट्टांतु ।
गर्भाक बरें आटोचे वरि मनांतु ॥ ६० ॥

निम्मुका मेगेले उत्रान नृपाक ।
तुझा मुखारि अग्नि शुध्द जाल्लेलेक ।
माका सोळ्ळेलि अपवाद कारणांक
समवें हें तुझा सुप्रसिध्द वंशाक ॥ ६१ ॥

एकयि विवेकिन तूंवें बुध्दि पूर्वक ।
केल्लां म्होणु जाय्ना अनुमानु लेखुक ॥
माझें पूर्व जन्मांचें पिकुनु दुष्कृत ।
कर्ता आत्तं असह्य विद्युदाघात ॥ ६२ ॥

मेळ्ळेले लक्ष्मिंक सोणु त्या दिवसु ।
केल्लो मेगेले जोडि वनांतु वासु ॥
म्होणु तुगेल्या राव्ळारांतु आसुचें ।
कुशुंगिक हित नां हांवें सुख भोगुचें ॥ ६३ ॥

असुर पीडेन वांव्ट भोगिंल्या मुनि सतिंक ।
तुगेल्या अनुग्रहान आश्रयु दिल्लेलेक ॥
तूं रायु जाव्नु आस्ताना आसुनु पराक्रम ।
बेग्ळे ऋषिलो आश्रयु पाव्वो जात्तावे सम ॥ ६४ ॥

तुका सोणु आसुचें व्यर्थ हें जीवन ।
नाश कोर्यांवें साध्य जाय्ना कारण ॥
रक्षण कोर्चाक योग्यु तुझो तेजस्सु ।
गर्भांतु आस्स दोकूनु जाल्ला उबसु ॥ ६५ ॥

कर्तां असलें तप प्रसूति अनंतर ।
दृष्टि दोव्वोर्नु भानु वयिरि जन्मांतर ॥
जाव्का तूंचि बाम्मुणु म्होण्वें तसलें ।
विरह मात्र केन्नांयिं नज्ञ ग्हळलें ॥ ६६ ॥

वर्णाश्रमधर्मु राकुका जाल्लेलें ।
कर्तव्य म्होणु मनु सांग्ता नृपालें ॥
तशिं जाव्नु तूंवें माका सोव्ळे तरि ।
रक्षण कोर्का सामान्य तापसीं वरि ॥ ६७ ॥

जावो तशिं ग्होणु लक्ष्मणान सांगुतु ।
दूर जाल्लो की दृष्टि पथारि दोकुनु ॥
भीत कुररि वरि सीता दुःख भारान ।
तोंड सोणु रोडु लाग्लि होड स्वरान ॥ ६८ ॥

नांचुचें मयूरानि फुल्लं रुक्कानि ।
दर्भो खाव्चो सोणु मृगी समूहानि ॥
तिगेले दुःखांतु समान भागु घेव्नु ।
होडान रव्ळिंति काननांतु आसुनु ॥ ६९ ॥

किरातान मार्लेल्या क्रौंचाक चोव्नु ।
जाल्लो कोणालो शोकु श्लोकु जाव्नु ॥
तो कवि आयिलो समित्तु कुश होर्चाक ।
चम्कलो रोड्चें आय्कुनु त्या दिशाक ॥ ७० ॥

दोळ्यां उदक पुशिलें रोड्चें राबोनु ।
ताका प्रणामु केलो सीतेन चोव्नु ॥
पुत्रवती भव म्होणु आशिष केल्लें ।
गुर्बिणि लक्षण चोव्नु मुनिन अशिं ग्हळें ॥ ७१ ॥

फट्टि अपवादान कोपुनु तुका पतिन ।
सोळ्या म्होणु हांवं दिव्याक्षिन जाण ॥
सोडि भंय मैथिलि आय्ल्या म्होणु लेख ।
वेग्ळे देशांतु आशिले कुळाराक ॥ ७२ ॥

तीनि लोकांचो कांटो हुम्टायिलो ।
खरें उलैतलो अहंकारु नांतिलो ॥
जाल्यारियि रामांचेंरि कोपु माका ।
निष्कारण शिक्षा दिल्लेल्याक तुका ॥ ७३ ॥

कीर्तिशालि तुगेलो मांवु माझो सखु ।
आनु पंडितांक आत्मज्ञान बोधकु ॥
तूं मुखेलि जाव्नु आस्स सकड साध्वींक ।
इतुलें पूरो माझि करुणा पाव्वाक ॥ ७४ ॥

ऋषिले संगान शांत जंतु आशिलें ।
ह्या तपोवनांतु राब भीति नांतिलें ॥
हांगा तुगेल्या सुख प्रसवानंतर ।
चेर्डाक कर्ताति विद्युक्त संस्कार ॥ ७५ ॥

पर्ण कुटिरांच्या लागीचि आसुचा ।
तमसांतु बुड्डुनु पाप निवारण कोर्चा ॥
रेंवेंच्या जांगेरि अर्चनादि कोर्नु ।
तुझें मन प्रसन्न जात्ता शांति पाव्नु ॥ ७६ ॥

पूजेक फल फुल्लं तेत्ते ऋतुंतु जाल्लेलिं ।
कोशिनांतिल्या त्या क्षेत्रांतुलि बी हाड्‌तलिं ॥
मुनि धुव्यो तुगेले नव दुःख दूर कर्ताति ।
चांग उत्रं उलोनु तुका खुशि आस्स कर्ताति ॥ ७७ ॥

शक्तिक सम जाव्नु उदाक घाल्नु कळशान ।
वाडयिल्या आश्रम सस्यांचेरि लान ॥
तुका कळ्ता बाळांति जाव्वे फूडेचि ।
आव्सुक शिशुचेरि आसुचो मोगु खरेंचि ॥ ७८ ॥

अनुग्रहाक अभिनंदन केल्लेलेक ।
मृदु हृदयि वाल्मीकिन तिका आश्रमांक ॥
आपोनु व्हेल्लि सांजे शांत मृग गण ।
आश्चा वेदिल्यागि निद्दोनु सुखान ॥ ७९ ॥

तीणे आयिल्याक हर्षु पाविल्या
दुःख विकलेक वश दिल्लि तापसिंल्या ॥
पितृनि सार पीव्नु शशि खंडवर्लेलें ।
अमासेन वश दिल्लेल्वरि ओषधिले ॥ ८० ॥

मदेंतु चित्लाचें चर्म हांतुळेलें ।
जोळ्चो इंगुदि तेल्ला दिवो अशिलें ॥
सांजे पूजा जात्तरि रामपत्नींक ।
दिल्लें तापसिनि पवित्र कुटीर राबुक ॥ ८१ ॥

थंयिं न्हाव्नु अण्वाळि जाव्नु आसूनु ।
आयिंल्या अतिथिंलो सत्कारु कोर्नु ॥
देह रक्षण कर्तलि कंद मूल खाव्नु ।
पति वंशु वाडो म्होणु मुगुटो नेसुनु ॥ ७२ ॥

आत्तं पुणि रायु पात्ता की शोकु ।
म्होणु इंद्रजितु वैरि जाव्नु उत्सुकु ॥
सांग्लें सीता दुःख राज शासन ।
राकिलें दाशरथिक आपण्यान ॥ ८३ ॥

तत्क्षण दोळ्यांतु उद्दाक काणु रामु ।
दिस्लो दवु रोकोचो पौष चंद्र समु ॥
निंदा भीतिन साध्विक घरांतु दोकुनु ।
बाहिर केल्लि पुणि कर्नि मनांतु दोकुनु ॥ ८४ ॥

जागृतु वर्ण आश्रम धर्म रक्षणेंतु ।
दुःख सहन कोर्नु दाशरथिन धीमंतु ॥
भांव्डांक घेव्नु केल्लें सादा जीवन ।
समृध्द राज्ययि रजोगुणु सोणु पालन ॥ ८५ ॥

एकलीचि बाय्लेक अपवाद भीतिन ।
साध्विक सोड्तरि नृपति हर्द्यारि स्थान ॥
पाविले आनंदान विराजमान ।
जाल्या श्री नांतिले म्हण्के सपत्निन ॥ ८६ ॥

सीतेक सोणु दशमुख वैरिन ।
कर्नि वेग्ळेलें कर ग्रहण ॥
प्रतिमेंक तिगेलेचि पति जाव्नु ।
अनेक अध्वरं केल्लिं म्होणु ॥
कान्नांक पळेलिं बाम्णालिं ।
आय्कुनु तीणे कृत्यं असलिं ॥
पति वियोग दुःख अति कष्टान ।
रान्नांतु आसुनु केल्लिं सहन ॥ ८७ ॥

चतुर्दश सर्गु समाप्तु

# पंचदश सर्गु

## रामस्वर्गारोहण

सोळ्ळे परांचें वैदेहिक ।
सागर वसन नेशिले क्षितिक ॥
एक्लेकचि भोगुनु आशिलो ।
तो वसुधा पालन कर्तलो ॥१ ॥

राक्षस निमित्त लवणु म्होणु ।
चांग काम सकड वाय्ट जावु ॥
मुनि आय्ले यमुना तट सोणु ।
रामांक शरणु जाव्का म्होणु ॥ २ ॥

स्व तेजान लवणांक तान्निं ।
राघवु आस्स दोकुनु लाशिनि ॥
शापशर आशिले तपोव्यय ।
कर्ताति मेळ्ना तरि सहाय ॥ ३॥

दिलें रामान तांकां वचन ।
कर्ता म्होणु अड्डि निवारण ॥
भुंव्वेरि विष्णुलें अवतरण ।
उद्देशुचि धर्म संरक्षण ॥ ४ ॥

मार्चि हिकडि निर्जर विरोधिक ।
सांगुनु दिल्लि मुनिनि रामांक ।
असुरु दुर्जयु शूल धर्ल्यारि ॥
मारुक साध्य शूल नांत्ल्यारि ॥५ ॥

रायान महर्षिंक राकुक ।
निदेशु केल्लो शत्रुघ्नांक ॥
अरिक जिंब्बि मार्नु नांवांचें ।
अन्वर्थ कोर्चे वरि ताचें ॥ ६ ॥

कोण जाल्यारियि रघु वंशज ।
शत्रुंक हारि कर्तले निज ॥
उत्सर्गाक अपवादु कशिं ।
रिपु नाश कोरुक दक्ष तशिं ॥७ ॥

रघुवीरालिं आशिष घेव्नु ।
रथारि सौमित्रि भीति सोणु ॥
चम्कलो वाटेरि फुल्लेनु ।
परिमळु भर्लेलिं वन चोव्नु ॥८ ॥

शत्रुघ्नांक राम आज्ञेन ।
माक्षिचान वोच्चा सैन्यान ॥
अध्ययनार्थ धातु माक्षि अधि ।
आशिल्वरि जाल्लि अर्थ सिद्धि ॥ ९ ॥

रथाक वाट दाकोनु मुखारि ।
तेजस्वि मुनि वालखिल्यां वरि ॥
वत्ताना सूर्याक सम जाव्नु ।
दिस्लो तो तेजसान झळ्कुनु ॥ १० ॥

रथ रवान भिलेलिं चित्लं आशिलें ।
वोच्चे वाटेरि एक रात्रि ॥
पवित्र तपोवनांतु वाल्मीकि मुनिले ।
राब्लो विश्रांतिक सौमित्रि ॥ ११ ॥

केल्लो तपस्याच्या बलान ।
मेळेले वस्तुनि महर्षिन ॥
उपचारु लक्ष्मण सोदराक ।
थकललिं हयं आशिल्याक ॥ १२ ॥

त्याचि रात्रि ताझे होन्येन ।
जन्मु दिल्लो रामा बाय्लेन ॥
भूमिन पूर्ण कोश दंडांक ।
दिलेल्वरि दोनि चेर्डुवांक ॥ १३ ॥

भावाक संतति जाल्लि म्होणु ।
आय्कुनु शत्रुघ्नु तो खुशि पाव्नु ॥
चम्कलो महर्षिक आड पोणु ।
सकाणि सन्नद्ध रथारि चोणु ॥१४ ॥

तो मधुपघ्न पुराक आय्लो ।
आय्लो पूतुयि कुंभिनसिलो ॥
प्राणि समूह वनांतु दोकुनु ।
आयिले म्हण्के शुल्क घेव्नु ॥ १५ ॥

तांब्डो नीलु धुम्रा म्हण्के ।
केस पिंग्शे ज्वाले म्हण्के ॥
घाण्यारो घेव्नु राक्षसांक ।
समानु चम्कुचा चिताग्निंक ॥१६ ॥

शत्रुघ्नु लवणाले आंगारि ।
पळो शूल नांतिले वेळेरि ॥
अवकाशु सोट्टुनु मार्लेल्यान ।
जय लक्ष्मि कर्ता पाणिग्रहण ॥१७ ॥

जायि तितुलें मेळिंन पोट्टाक ।
म्होणु माका भीव्नु रवाव्वाक ॥
भाग्यवशात् तुका विधातान ।
पेटोनु दिल्लो जागृतेन ॥ १८ ॥

अशिं म्होणु ताका भिष्टानु ।
लवणान मार्चि इच्छा कोर्नु ॥
मुस्ता वरि सुलभ जाव्नु एकु ।
हुम्टाय्लो थोरु होड्डु रूकु ॥ १९ ॥

उड्डयिलो रूकु राक्षसान ।
तीक्ष्ण बाणान शत्रुघ्नान ॥
मदें कुड्को केल्लो सुम रज ।
लाग्लें आंगाक लागनि कुज ॥ २० ॥

राक्षसान शत्रुघ्नांचेरि ।
अंतकालि वेग्ळिचि मुष्टि वरि ॥
उडैलो होडु फात्तरु एकु ।
लय जाल्लेले कारण रूकु ॥२१ ॥

ऐंद्र अस्त्रान शत्रुघ्नान ।
मार्लोलो तो फात्तरु चूर्ण ॥
जाव्नु रेंवें पशि लान लान ।
परमाणुंक सम जाल्ले कण ॥२२ ॥

उत्पात वातान उमेदि पाव्नु ।
आयिल्वरि गिरि एक ताल घेव्नु ॥
दशरथाले सुताक तोंड कोर्नु ।
धाव्लो उज्वो हातु वयिरि धोर्नु ॥ २३ ॥

वैष्णवास्त्रान तो अरि लवणु ।
पड्ताना उरस्थल भेत्तुनु ॥
पृथिविक कंपन आस्स केल्लें ।
तपस्विलें भंय लय जाल्ले ॥ २४ ॥

अरि असुराल्या मड्याचेरि ।
उब्बुनु येव्नु सौणिं पळिळं ।
विजयि वीराल्या मस्तकारि ।
स्वर्गीय सुमांचि वृष्टि पळिळ ॥ २५ ।

त्या वीरान मार्नु लवणांक
लेख्लें तेजस्वि इंद्रजितुक ।
मार्लेल्या त्या म्हाल्गाड्याक
समानु म्होणु आपण्यांक ॥ २६ ।

कृतार्थ जाल्लेल्या तपस्विनि
स्तुति ताझि कर्ताना ज्ञानिनि ।
लज्जेन मात्तें बाग्वाय्लें
पराक्रमान उबार दिस्लें ॥ २७ ।

साधु संपत्तिचि आशा नांतिलो ।
पौरुषचि नग दीग बाहु आशिलो ॥
शत्रुघ्नान त्या यमुना तटारि ।
निर्माण केल्लि मधुरा म्होणु नगरि ॥ २८ ॥

पत्तन तें सुराज्य शोभेन ।
नागरिकांल्या ऐश्वर्यान ॥
द्युलोकाचें अधिक जन हाणु ।
राबयिले वरि आय्लें दिसुनु ॥ २९ ॥

थंयिं राबुनु सौधा वयिरि ।
पृथिविचि भांग्राचि फांत्ये वरि ॥
चक्रवाकि आश्चा यमुनांक ।
चोव्नु खुशि जाल्लि शत्रुघ्नांक ॥ ३० ॥

दशरथु आनि जनकु स्नेहित ।
म्होणु वाल्मीकि मुनिन ख्यात ॥
सीतेल्या शिशुंक विधि युक्त ॥
केल्लें संस्कार काल उचित ॥ ३१ ॥

कुश आनि लवान मुनिवरांन ।
ताचें गर्भ दुःख निवारण ॥
केल्लेल्यान कुश लव म्होणु ॥
आपैलें नांवं दोव्वोर्नु ॥३२ ॥

वत्तरि तांगेलें चेर्डुपण ।
करैलें सांग वेदाध्ययन ॥
आदि काव्ययि गान करैलें ।
आपण्यानंचि केल्लेलें ॥ ३३ ॥

चेर्डुवांनि सुंदर रामायण ।
आव्सुले मुखारि कोर्नु गायन ॥
दाशरथि विरहान जाल्लेलें ।
दुःख थोडेंचि ऊणें केल्लें ॥ ३४ ॥

त्रेताग्नि समान कांति आशिले ।
रघु कुलाचे तेगं वर्लेले ॥
बाय्लाल्या पोट्टांतु प्रत्येक ।
पाल्लिंति दोनि दोनि चेर्डुवांक ॥ ३५ ॥

प्रख्यात शत्रुघाति सुबाहुंक ।
सौमित्रिन मोगाचे रामांक ॥
मधुरा आनि विधिशा नांवांचा ।
राय जाव्नु केल्ले पत्तनांचा ॥ ३६ ॥

गायन आय्कुनु कुशलवालें ।
नुत राबिलिं मृगं आशिलें ॥
गेल्लो कवि आश्रम सोणु ।
जाय्त पुनः तपोव्यय म्होणु ॥ ३७ ॥

मार्लोलो लवणांक म्होणु ।
नागरिकांलें गौरव पाव्नु ॥
प्रवेशु केल्लें अयोध्या पुर ।
केल्लेलें पथान शृंगार ॥ ३८ ॥

सारके नांतिले रामांक ।
सोळ्ळे परांचें वैदेहिक ॥
चोय्लो तो शत्रुघ्नु सभेंतु ।
आशिलो सभाजन मध्येंतु ॥ ३९ ॥

पाय्यांरि पळले लवण अरिक ।
केल्लें रामान अभिनंदन ॥
इंद्रान केल्लेल्वरि शार्ङ्गिक ।
कालनेमि वध संतुष्टान ॥ ४० ॥

निम्गिलेल्याक सांग्ले कुशल ।
कवि शासनान संतति विषयु ।
सांगनि तोचि सांगो सकाल ।
म्होणु तागेलो अभिप्रायु ॥ ४१ ॥

अकालारि चेडुं मेल्लें म्होणु ।
एकु दिवसु त्या गांव्वो ब्राह्मणु ॥
रळो बोब मार्नु शिशुक जांगेरि ।
नित्कारानु राळ्ारा मुखारि ॥ ४२ ॥

दशरथालो हातु सोणु मागिरि ।
वसुधे रामालो हातु धर्तरि ॥
कष्टां वयिरि कष्ट पाविलि जाव्वु ।
आस्स तूं भारी ईजा भोगनु ॥ ४३ ॥

आय्कलो रायु दुःख कारण ।
लज्जा पाव्लो तो ताझेन ॥
इक्ष्वाकु राष्ट्रांतु नां मरण ।
अकालारि म्हळलें कारण ॥ ४४ ॥

करि सहन म्होणु आश्वासन ।
दुःख कर्तल्याक रामान ॥
दीव्वु जिंकुक म्होणु यमांक ।
यादु केल्लो कुबेर पुष्पक ॥ ४५ ॥

रामु शस्त्र धोर्नु विमानारि ।
बैसुनु वत्ताना वाट्टेरि ।
दोळ्यांक देखुपणा नांतिलि ॥
आकाशवाणी अशिं म्हळलि ॥ ४६ ॥

राया कोणे की तुगेल्या ।
प्रजानि अण्विं काम केल्यां ॥
सोंडुनु केल्ले तरि निवारण ।
तूं जात्ता कृतार्थु ताझेन ॥ ४७ ॥

अशिं आप्त वाक्य आय्कुनु नरेशु ।
नाश कोर्चाक वर्ण व्यत्यासु ॥
बाव्टो वेगाक चलन नांतिलो ।
आश्चा यानारि सोडुक गेल्लो ॥ ४८ ॥

तोंड सकल कोर्नु रुका फांट्याक ।
लांबुनु तपस्य कोर्चे एकल्याक ॥
राघवु चोय्लो दोळे धुव्राक ।
तांब्डें जाल्लेल्या त्या पुरुषाक ॥ ४६ ॥

नृपान गोत्रनाम निम्गिलें ।
त्या धूमपान अशिं सांग्लें ॥
शंबुकु म्होणु शूद्रु आपण ।
स्वर्ग प्राप्तिक कर्ता यतन ॥ ५० ॥

तपाक तो अनधिकारि जावु ।
प्रजांक दुःख दित्ता दोकुनु ॥
केल्लो निर्धारु शिरच्छेद ।
म्होणु नृपान काळ्ळें आयुध ॥ ५१ ॥

दवु पोणु केसरं झळेलें ।
नाळांतु दोकुनु कमळ कशिं ॥
उजा कीटिन मीशा जळलें ।
मुख ताणे पाडैलें तशिं ॥ ५२ ॥

जाल्लि शूद्राक सुजनालि गति ।
रायाल्या शिक्षेन प्राप्ति ॥
मेळ्ना तसलि कठिन तपान ।
कोर्नु धर्माचें उल्लंघन ॥ ५३ ॥

रघुनाथुयि वोच्चे वेळेरि ।
मेळ्ळो सम्मुख जावु पथारि ॥
इंदुन मेळ्ळेल्वरि शरदृतुक ।
ओजस्वि तपस्वि अगस्त्याक ॥ ५४ ॥

ताका दिल्लें कुंभयोनिन ।
पुरस्कारा वरि सागरान ॥
पीवु केल्लेल्याक विमोचन ।
दिल्लेलें दिव्य आभूषण ॥ ५५ ॥

सीता आलिंगन नांतिले ।
बाहुन तें श्रेष्ठ नग घेत्लें ॥
मागिरि माक्षि आय्लो राघवु ।
फूडेचि द्विज शिशुलो जीवु ॥ ५६ ॥

यमाल्या दोकुनु राकिल्यालि ।
ब्राह्मणान रायालि नुति केल्लि ॥
माक्षि केल्लेलि निंदा विसोर्नु ।
आपण्याल्या चेर्डाक पाव्वु ॥ ५७ ॥

यागाक घोडो सोळ्ळेल्या रामांक ।
वानर असुरांक प्रमुखानि झाड्डांक ॥
होड्डु पाव्सु घाल्लेले म्हण्के घनानि ।
तोषु आस्स केल्लो दीव्वु नजराणि ॥ ५८ ॥

आय्लेति महर्षि आमंत्रित ।
नईं भूमिरि आसुचे मात्र ॥
स्थलारि दोकुनुयिं नक्षत्र ।
आयोध्यांतु जाल्ले एकत्र ॥ ५९ ॥

दिस्लि ग्रामांतु भोर्नु ऋषिनि ।
चतुर्मुखि अयोध्या सुंदरी ॥
सद्य लोक कर्तृ कमल योनि ।
संबंधि चारि शरीरा वरि ॥ ६० ॥

वैदेहिलो त्यागुयि श्लाघ्यु ।
यज्ञ दीक्षितु रामुयिं योग्यु ॥
दुसरि बाय्ल नांतिल्याक सति ।
जाल्लेल्यान भांग्राचि मूर्ति ॥ ६१ ॥

अगत्या पशि चड सांभार ।
आसुनु सुरु जाल्लें अध्वर ॥
असुर विघ्न आस्स कर्तले ।
राक्वे कामांक आशिले ॥ ६२ ॥

मागिरि कुश लव सीतेले पूत ।
सम्जुनु प्रथम वाल्मीकि विरचित ॥
रामायण कर्तले भोव्वु गान ।
थंयिं उमेदि दिलेल्यान गुरुन ॥ ६३ ॥

राम चरित वाल्मीकिन लिखिलें ।
किन्नरा वरि ते स्वरु आशिले ॥
हृदय तांडुक आय्कतल्यालें ।
पूरो जात्तानवें इत्तुलें ॥ ६४ ॥

आय्कुनु पंडितानि सांगिलें ।
रूप गोड गीत तांगेलें ॥
सहोदरांल्या सहित चोय्लो ।
रामु आनंदान आय्कलो ॥ ६५ ॥

फांत्यारि वायु होळ्ना तशिं ।
दवु पोणु रान दिस्ता कशिं ॥
दिस्लि सभा ती शोभा पाव्वु ।
गायन आय्कुनु दोळे भोर्नु ॥ ६६ ॥

प्राय वेषांतु मात्र वेग्ळे ।
आशिले राम आनि तान्नि ॥
चोव्वु सारके चकित जाल्ले ।
दोळे फाप्पुणि सभासदानि ॥ ६७ ॥

नृपाल्या प्रीति दान गुणांक ।
कशिं निस्पृहतेक जन चकित ॥
दोगांल्या बुद्दंत्कायेक ।
तशींचि जाय्नांतिवे विस्मित ॥ ६८ ॥

कोणाल्यागि गान शिक्लिंति ।
खंचा महा कविलि ही कृती ॥
म्होणु नृपान निम्गिलेल्याक ।
वाल्मीकि अशिं म्हळले युवक ॥ ६९ ॥

मागिरि रामु भांव्डांक घेव्नु ।
वाल्मीकिल्या लागि वोच्चुनु ॥
देह एक सोणु सर्वराज्य ।
अर्पण केल्लें मुनिंक पूज्य ॥ ७० ॥

सीता सुत तुका जाल्लेले ।
म्होणु कविन रामांक सांग्लें ॥
कोर्का दयालुन स्वीकारु ।
सीताक म्होणु माग्लो वरु ॥ ७१ ॥

आम्चे मुखारि तुगेलि सून ।
जाल्या अग्नि मूलक पावन ॥
राक्षसाल्या अण्वेपणान ।
विश्वासु पान्नांति नगर जन ॥ ७२ ॥

आपलि वर्तन कोर्नु उद्देशु ।
जनक पुत्रिन जनांक विश्वासु ॥
हाडैलो तरि आज्ञानुसार ।
कर्ता पुत्रवतिक स्वीकार ॥ ७३ ॥

राघवान म्हळलें आय्कुनु ।
जानकिक आश्रमांतु दोकुनु ॥
हाडैलि शिष्यांल्या मूलक ।
स्व सिध्दिचे वरि नियम पूर्वक ॥ ७४ ॥

अन्य दिवसु सकाळि मेळैलि ।
दाशरथिन सभा पुर जनालि ॥
प्रकृत कार्य विचारु कोर्चाक ।
आपोनु हाडैलो सुकविक ॥ ७५ ॥

तेजस्वि भास्कराक मागिरि ।
स्वर संस्कार युत मंत्रां वरि ॥
मुनि वोच्चुनु मेळ्ळो रामांक ।
घेव्नु पुत्तां जोडि सीतेक ॥ ७६ ॥

तापसी वरि मुगुटो नेसुनु ।
मात्तें बाग्वानु पाय चोव्नु ॥
चोय्ताना तिझे प्रसन्न तनु ।
दिस्तलि ती पतिव्रता म्होणु ॥ ७७ ॥

चोव्वे पथारि दोकुनु अक्षि ।
घेत्लि प्रजानि तेद्ना माक्षि ॥
बशिले पिक्किलें शेत कशिं ।
सकड मात्तें बाग्वानु तशिं ॥ ७८ ॥

म्हळलो मुनि बैसुनु पीठेरि ।
वत्से तुगेल्या पति मुखारि ॥
आशिलो संशयु जनमनांतु ।
परिहारु करि स्व चरित्रांतु ॥ ७९ ॥

मागिरि वाल्मीकिले शिष्यान ।
दिल्लेल्या परिशुद्ध उदकान ॥
आचमना परांचें सीतेन ।
सांग्लें सत्य जाल्लेलें वचन ॥ ८० ॥

त्रिकरणान पतिले विषयांतु ।
कर्नि जाल्यारि व्यभिचारु ॥
विश्वंभरे तुझा पोट्टांतु ।
दी माका स्थळ करि उपकारु ॥ ८१ ॥

पतिव्रतेन अशिं म्हळलेंचि ।
भुंय्चें पोकळांतु विज्ञाचि ॥
ज्योति वरि एक प्रभावलय ।
त्या अवसरारि जाल्लें उदय ॥८२ ॥

थंयिं नाग फणान उकोळ्नु ।
धर्लेल्या पीठेरि बैसुनु ॥
सागर म्हळलि कांचि बांदिलि ।
भूदेवि उभ्दव जाव्नु दिस्लि ॥ ८३ ॥

बाम्णांकचि चोय्त आस्ताना |
सीतेक जांगेरि बोसोनु ||
रामान नाका म्हण्ताना |
पाताळाक भू गेल्लि घेवु || ८४ ||

पाव्वा आशेन वैदेहिक |
क्षितिचेरि धन्विलो उद्रेक ||
विधि शक्ति सम्जलल्या गुरुन |
नीति बोधेन केल्लो शमन || ८५ ||

यज्ञ अंत्यारि ऋषि मित्रांक |
पेटोनु नृपान मानितांक |
आशिलि प्रीति सीतेचेरि ||
दवर्लि तिगेल्या सुतांचेरि || ७६ ||

ताणे मनुजपतिन भरताक |
महा ऐश्वर्य आशिल्याक ||
युधाजितुलो पाव्वु संदेश |
दिल्लें सिंधु म्हळलें देश || ८७ ||

गंधर्वांक थंयिं रणांतु |
भरतान हारोनु हात्तांतु ||
वीणा धोर्चे म्हण्के केल्लि |
आयुधं पूरा सोडैलिं || ८८ ||

तक्ष पुष्कल नाम पुत्तांक |
तीं नांवं आशिलें पुराक ||
प्रीतिन कोर्नु पट्टाभिषेक |
आय्लो भरतु राम सन्निधिक || ८९ ||

लक्ष्मणान अण्णाल्या उत्रांक |
पुत्तांक अंगद चंद्रकेतुंक ||
कारापथ नांवांच्या देशांक |
राय जाव्वु केल्ले त्या दोगांक || ९० ||

अशिं राज्य दीव्नु चेर्डुवांक ।
स्वर्गाक पाविले आव्सुंक ॥
पुत्तानि सकडानि क्रमान ।
केल्लें श्राध्दादि श्रध्देन ॥ ६१ ॥

यमान घाव्नु येव्नु मुनि वेसु ।
रामांक सांग्लें एक दिवसु ।
आमि उलोचें रहस्य जाव्नु ।
सोड्का चोयिल्यांक म्हेणु ॥ ६२ ॥

तथास्तु म्हळल्या रघुपतिक ।
स्वरूप दाकैलें कालान ॥
सांग्लें अशिं देवलोकाक ।
येव्का म्होणु ब्रह्म शासन ॥ ६३ ॥

नृपाक चेव्वाक आयिल्या ।
शाप भीतिन दुर्वासाल्या ॥
तांचि आज्ञा मोव्ळिळ विचक्षणु ।
जाव्नुयिं द्वारपालु लक्ष्मणु ॥ ६४ ॥

तांणे योग विदान वोच्चुनु ।
सरयू तटारि शरीर सोणु ॥
वचन म्होल्गडे भावालें ।
असत्य जाय्ना तशिं केल्लें ॥ ६५ ॥

चारि वांट्यांतु दोकुनु एकलो ।
सुर्वेक लक्ष्मणु स्वर्गु पाव्लो ॥
आशिलो क्षितिरि सडिल जाव्नु रामु ।
तीनि पायांरि राबिल्वरि धर्मु ॥६६ ॥

अरि म्हळ्ळें हस्तेंक अंकुशु कुशाक ।
अभिषेकु केल्लो कुशावतींतु ॥
सुजनालें हृदय तांडुचा त्या लवाक ।
अधिकारि केल्लो शरावतींतु ॥ ६७ ॥

धैर्यशालि रामु उत्तर दिक्काक ।
गेल्लो घेवु अग्नि आनि भांव्डांक ॥
रायाचेरि आशिल्या मोगान ।
घर सोणु फाटि धोर्नु चम्कलें जन ॥ ९८ ॥

भावु कोळ्नु असुर आनि मांक्डं ।
कदंब मोक्यां म्हण्के होड्ड ॥
पौरांल्या अश्रु बिंदुन वल्लि ।
वाट धोर्नु चम्कलिं रामालि ॥ ९९ ॥

विमान पाव्वु भक्त प्रियान ।
अनुचरांक नाक आरोहण ॥
कोरुक रामान केल्लि निसणि ।
सरयू म्हळलि ती तरंगिणी ॥ १०० ॥

थंयिं न्हाव्वा जनालि टोळि ।
गो प्रतराक सम जाव्वु दिस्लि ॥
तेंचि नांवांन जाल्लें तीर्थ ।
लोकांतु पावन प्रख्यात ॥ १०१ ॥

सुर अंशान कोर्नु अवतरण ।
जात्तरि स्वरूपांतु विलीन ॥
प्रभुन नाकाक गेल्लेल्यांक ।
दिव आस्स केल्लें अन्य एक ॥ १०२ ॥

देवांक बरें कोरुक रावणांक जिव्विमार्नु ।
विष्णुन प्रवेशु केल्लो विश्वाधार स्व तनु ॥
उत्तर दक्षिण गिरि उपरि विभीषणु मारुतिंक ।
दोनि कीर्ति खांब्या म्हण्के राबोनु दोगांक ॥ १०३ ॥

पंचदश सर्गु समाप्तु

# षोडश सर्गु

## कुमुद्वती परिणय

म्हाल्गडेपणान मागिरि चांग गुणानि ।
म्हाल्गड्या कुशाक सात रघु मुखेलिनि ॥
केल्लो रत्न विशेषाक पात्रु म्होणु ।
सोदर वात्सल्य तांचो कुलाचो गुणु ॥ १ ॥

हस्त्यो गोर्वं सेतु बांदुनु कृषि कोर्नु ।
वाडुनु आय्ले तकिनि सकड काम कोर्नु ॥
कर्नाति सीमोल्लंघन कशिं सागर ।
तशींचि देश विभजन रेखो परस्पर ॥ २ ॥

हरि अंशान जन्मांक आयिंल्यालो ।
अपार दान प्रवृत्ति आशिंल्यालो ।
सामांक जाल्लेल्या सुरगजांक सदृशु ।
विस्तर जाल्लो आट फांति जाव्नु वंशु ॥ ३ ॥

जन निद्दल्यांति हाल्ना दीपज्योति ।
जागीचि शयन गृहांतु कुशु मदें रात्रि ॥
फूडे चोय्नांतिल्या अपरिचितेक ।
चोय्लो पथिक वेसु आशिले तरुणींक ॥४ ॥

अरिंक हारि केल्लोलो धन आशिलो ।
बंधुप्रियु इंद्रा वरि कांति पाविलो ॥
कुशाल्या मुखारि ती नमस्कारु कोर्नु ॥
राब्लि तुका जाव्नो जय म्होणु सांगुनु ॥ ५॥

घाल्लेलि रवीळि काणा तशींचि घरांतु ।
रिग्गिले म्हण्के बिंबान आरसांतु ॥
म्हळलो आयिलेक दशरथालो नात्तु ।
अर्ध उट्टानु हांत्लारि बैसुनु चकितु ॥ ६ ॥

वोणति आस्ले तकिनि आय्ल्या तूं भितरि ।
दिसना योग प्रभावु आशिले वरि ॥
जाल्या दवु पोणु बाविले कमला वरि ।
आकारानयिं दिस्ता दुःखिता वरि ॥७॥

तूं कोण मंगलांगि सहचरि कोणालि ।
सांग खंचो उद्देशु हांगा आयिलि ॥
जितेंद्रिय रघुकुळावि तांचि मनोवृत्ति ।
परनारी विमुख म्हळलें समज सुदति ॥ ८ ॥

सांग्लें तीणे ताका निजस्थानांक ।
वोञ्चे बाप्पुन तुझा खंचें पौरांक ।
व्हेले हांवं त्या नगर अधिदेवता ।
समज भूप अनाथा म्होणु ही वनिता ॥९ ॥

योग्य राज्यभार कारण महोत्सवान ।
अलकाक अलक्ष्य केल्लेलि वैभवान ॥
रविकुलाचो धीरु आस्ताना तूंवें ।
दुरवस्था असलि पाव्का जाल्लि हांवें ॥१० ॥

पळले पागार आनि जीर्ण गोपुरं ।
रायान नांतिलिं माझिं राव्ळारं ॥
वायु वेगाक भेत्तिलिं रविन बुड्तरि ।
दिस्ताति घनं घांकिल्या मांजे वरि ॥११ ॥

मृदु निनादु कोर्चि मनोहर नूपुरं ।
बांदुनु अभिसारिकानि रात्रि संचार ॥
कोर्चे राजपथारि रड्ताति कोल्ले ।
तांव्डे मुखान मांस सोडुचे तसले ॥ १२ ॥

युवतिंल्या वोट्टां पेट्टांक गंभीर ।
मृदंग ध्वनि कोर्चे तळ्यांचें नीर ॥
रान रड्यांल्या शिंगांचे पेट्टांक ।
आजि रड्ता म्होणु दिस्ता आय्कुचाक ॥ १३ ॥

बोस्वो दंडु मोणु गेल्लेल्यान मोर ।
नांचु सोणु नांतिल्यान मृदंग स्वर ॥
रुकारि बैसुनु आस्सति वनांचें जाव्नु ।
दवान जोव्ळ्नु वर्लेलिं पाक्कं घेव्नु ॥ १४ ॥

तरुणिनि तांब्डे पाय लाक्के रोसान ।
दोव्वोर्नु चोड्चिं तीं खंचिं सोपान ॥
आत्तं रक्तान वल्लें मृगांक मार्नु ।
पंज दवर्ताति वाघ ताझेरि चोणु ॥ १५ ॥

तळ्यांतु देंव्नु मोणु मृणाळ बाय्लेक ।
दिव्वे वरि बरयिले दार्ले हस्तेक ॥
मार्नु भेत्तिताति काणसळ क्रोधान ।
मृगेंद्र आत्तं थंयिं नरव अंकुशान ॥ १६ ॥

गोमट्या बाय्ल्यो पुत्थळिच्यांवयिरि ।
रंगु वोच्चुनु आश्चो रवांब्याच्यां उपरि ।
हैय्रानि सोळ्ळेलि शरीराक लागिलि ।
काति चोळि जाल्या आत्तं स्तना वयिलि ॥१७ ॥

काल क्रमेण चुन्नो मैल जाव्नु तण ।
उटानु माळ्ये वयिरि चंद्रालिं किरण ॥
मोत्यां म्हक्के झग्झग्ता जाल्ले तरि ।
जाय्नांति आत्तं प्रतिफलन फुळ्यां वरि ॥ १८ ॥

बाग्वाय्ना तशिं फांदि तन्यो चेल्यो ।
दयेन फूडे फूल काणु आस्तल्यो ॥
आत्तं मांक्डं उद्यानांच्या लतेंक ।
रान किरातां म्हण्के दित्ताति दुःख ॥ १९ ॥

रात्रिचें दिव्यांचो प्रकाशु नांतिलिं ।
दिवसाचें युवतिलिं तोडं नांतिलिं ॥
धुव्वोरु आडानु साय्ळ्यानि बांदिलिं ।
गवाक्षं दिस्ताति जालं भर्लेलिं ॥ २० ॥

रेंवेंरि दिस्सना पूजा उपकरणं ।
सरयू उदक रित्तें स्नान द्रव्यान ॥
लागि आसुचिं झार्कुटं जाल्यां विजन ।
पोळोनु रड्ता मन भारी दुःखान ॥ २१ ॥

तशिं जाव्नु तूंवें ही वसति सोडुका ।
कुल राजधानि माका घेव्नु राबुका ।
तुगेल्या बापैन कारण मानुष तनु ।
सोणु जाल्लेल्वरि आत्म मूर्तिंतु लीनु ॥ २२ ॥

कुशान पुरदेवतेलि इच्छा आय्कुनु ।
अंगीकारु केल्लो जाय्त तशीं म्होणु ॥
पुरदेविनयिं संतोषु प्रकट कोर्नु ।
दिसना तशिं गेल्लि मनुष्य रूप सोणु ॥ २३ ॥

रात्रिचि ती अभ्दुत घटना ब्राह्मणांक ।
कुशान विवर जाव्नु सांग्लि सभासदांक ॥
कुलराजधानिन केल्लें पाणिग्रहण ।
म्होणु तान्निं केल्लें रायालें स्तवन ॥ २४ ॥

रायान कुशावति दीव्नु ब्राह्मणांक ।
बाय्लांक घेव्नु अनुकूल दिन यात्रेक ॥
वारें मेळ्नु मेघांचें समूह कशिं ।
सैन्य घेव्नु चम्कलो अयोध्येक तशिं ॥ २५ ॥

केतन समूह म्हळल्या उपवनान ।
होड्यो हस्त्यो म्हळल्या क्रीडा गिरिन ॥
सैन्य चम्कुचा राजधानिंक समान ।
जाल्लें स्यंदन म्हळल्या मंदिरान ॥ २६ ॥

धवि मंडलाकृतिचि सात्ति कुशान धोर्नु ।
वत्ताना अयोध्येक सैन्यांक घेव्नु ॥
दिस्लो उद्देलल्या इंदुन शरधिक ।
व्हेल्लेले म्हण्के तीर प्रदेशाक ॥२७ ॥

वोच्चा त्या कुशाल्या सैन्यांचि बाधा ।
सहन कोरुक अशक्य जाल्लेलि वसुधा ॥
धूळिचे रूपान वेग्ळे माळपारि ।
दिसुनु आय्लें चोणु वत्ता म्हळले वरि ॥ २८ ॥

कुशावति दोकुनु प्रयाण कर्ताना ।
विरामु पाल्ताना पथारि वत्ताना ॥
सर्व दिशा व्याप्त जाल्लेलि नृप सेना ।
दिस्लि परिपूर्ण म्हळल्वरि चोय्ताना ॥ २९ ॥

रायु कुशाल्या हस्तेंच्या मद जलान ।
पथा वयिलि धूळि जाल्लि चिक्कोलु जाव्नु ॥
धांव्वा घोड्यांच्यां खुरांचें मारान ।
तशींचि चिक्कोलुयि जाल्लो धूळि जाव्नु ॥ ३० ॥

गेल्लें सैन्य विंध्यसानु प्रदेशारि ।
बीळ म्होण्चा तोंडान नर्मदा वरि ॥
प्रतिध्वनि कोरोनु होळो शब्दु कोर्नु ।
अनेक फांत्यो जाव्नु तें वाट सोट्टुनु ॥ ३१ ॥

गिरि धातु लागिल्या तांब्डि रथ नेमिन ।
बोब्बेंतु निपिले वाजपांच्या रवान ॥
चोव्नु किरातानि दिल्लेलिं उपायन ।
चम्कलो प्रभु विंध्याचल कोर्नु लंघन ॥ ३२ ॥

पश्चिमांक होळिच पावन गंगान्हयिं ।
हस्ति सेतुन पार कर्ताना थंयिं ॥
उब्ताना हाल्विं पाक्कं हंसालिं ।
कुशाक यत्न नांतिलें चारम जालिं ॥ ३३ ॥

कपिलान कोपान भस्म केल्लेल्यांक ।
स्वर्गाक होर्का म्होणु म्हाल्गड्यांक ॥
भागीरथिक भूलोकाक आयिल्या ।
आनतु जाल्लो तो दोणिन भर्लेल्या ॥ ३४ ॥

अशिं अनेक दिवस प्रयाण अनंतर ।
भूपति कुशु येव्नु पाव्लो सरयू तीर ॥
मस्त याग केल्लेल्या रघुकुलाचानि ।
पळैलिं वोयिलिं यूप शत संख्यानि ॥ ३५ ।

फुल्लांच्या रुकाचे फांटे हाल्लोनु ।
सरयु नदिचा थंड पाळांक आपोणु ॥
वंश राजधानि उद्यानांतु दोकुनु ।
वायु आय्लो श्रांत कुशाक तोंड कोर्नु ॥३६ ॥

मागिरि शत्रुंक शर तोपिलो बलिष्ठु ।
वंशध्वजु आशिलो पुरजनांक इष्टु ॥
रायान गांव्वा मध्येंतु तागेलें ।
हाल्वो ध्वजु आशिलें सैन्य राबैलें ॥३७ ॥

प्रभुन नियुक्त केल्लेल्या शिल्पि गणान ।
तें शून्य पुर मेळ्ळेले उपकरणान ।
ग्रीष्मांतु तापिल्या भूंय्क जल शिंपुनु ।
घनानि केल्लेल्वरि केल्लें नवें जाव्नु ॥३८ ॥

मांगिरि व्रतस्थ वास्तु तज्ञा करान ।
भर्लेल्या मनोहर देवस्थानान ॥
नगराचि उपासना रधु प्रवीरान ।
प्राणिंक बलि दिवोनु करैलिं क्रमान ॥ ३९ ॥

कर्तांति कशिं कांता हृदयांतु जार ।
तशिं प्रवेशु कोर्नु पुराचें राव्ळार ।
कुशान गौरव दिल्लें मान्यानुसार ॥
अनुचरांक दीव्नु योग्य जाल्लेलिं घर ॥ ४० ॥

गजशालेंतु मंदुरांतु हस्त्यो हयं ।
आसुनु विपणिंतु अमूल्य वस्तु निचयं ॥
सकड नगानि शिंगार्लल्या तरुणि वरि ।
गोमटि जाव्नु दिस्लि ती अयोध्या नगरि ॥ ४१ ॥

पूर्व वैभवु पाविल्या रघुकुलाच्या ।
मंदिरांतु वास कोर्नु त्या पुराच्या ॥
धनदाक एकयि देवांल्या रायांक ।
मैथिलेयु हाणा आशिलो गणनेंक ॥ ४२ ॥

मोत्यांचें उत्तरीय हर्द्यारि हार ।
निःश्वासाक कांपुचें पात्तळ वस्तुर ॥
अशिं कोर्का स्त्रीवेषु म्होणु कुशाक ।
आय्लो ग्रीष्मु आयिले म्हण्के सांगुक ॥ ४३ ॥

सोणु रविन दक्षिण दिशा म्हळले सतिक ।
वत्ताना उत्तर दिशा स्त्री सन्निधिक ॥
देंवयिल्वरि खुशिन थंड दोळ्यां उदक ।
हिम गिरि दोकुनु हिम होळ्नु आय्लें भूंय्क ॥ ४४ ॥

उष्णान भाजुचे भारी दीग दिवस ।
तशींचि रात्रियि अति क्षीण जाव्नु आस्स ॥
झगडो केल्लेले बाय्ल बाम्मुण कशिं ।
दिस्ता दोन्नियिं वांव्ट भोगुचे तशिं ॥ ४५ ॥

दिनंप्रति पामाजि मांडिलिं सोपान ।
सोणु मुळाक देंव्नु गेल्लेल्या कारण ॥
सरसिचें जल उद्दंड कमल आशिलें ।
ललनांल्या कुर्टाचा समांक राब्लें ॥ ४६ ॥

परिमळु येव्वा सांजेचें फुल्लेचा ।
रान्नांतु कळ्यां वयिरि मोगार्यांचा ॥
प्रति एक्कारि पाय दोव्वोर्नु रव कोर्नु ।
दिस्ता भ्रमरं कर्ताति गणना म्होणु ॥ ४७ ॥

नवो नांक्टां घायु जाव्नु हुमेलेल्या ।
केसरं चाबिलिं गाल्लांक सतिंल्या ॥
कारण शिरीषाचें फूल तत्क्षण पणि ।
कान्नारि दोकुनु तें निसर्ले तकिनि ॥ ४८ ॥

यंत्रान चंदन रसान धूव्नु शीतल ।
धारा गृहांतु आश्रय कोर्नु शिलातल ॥
वत्ताचि हुन्साणि कर्ताति निवारण ।
ह्या प्रकार ग्रीष्मांतु श्रीमंतजन ॥ ४९ ॥

न्हाव्नु केस सोणु धूप दिल्ले मागिरि ।
सायंकालाचें मोगोरें माळ्तरि ॥
वसंतान गेल्लें परांचें बलहीनु ।
तरुणींल्या केसान पाव्लो बल मदनु ॥ ५० ॥

फुल्लांचो घोसो अर्जुन रुक्कांचो ।
रेणु कणान चिकेचि तांब्डो आसुचो ॥
लासुनुयिं क्रुध्द हरान मार शरीर ।
तुंटयिले वरि दिस्ता धणुंचें दोर ॥ ५१ ॥

आंब्यांच्या आंक्रेंचो प्रोर्नो मधुचो ।
खुशि कोर्चो परिमळु पाटल फुल्लांचो ॥
हें सकड विषय मेळोनु ग्रीष्म ऋतुन ।
कामि जनालो दोषु केल्लो निवारण ॥५२ ॥

कठिन वेळेरि त्यां दोगांचि जनांक ।
जाल्ले विशेष जाव्नु हृदय आकर्षक ॥
पाद सेवा कर्तल्यालो श्रमु दूर ।
कर्तले उदेनु आशिले नृप चंदिर ॥ ५३ ॥

पाळांच्या वयिरि राज हंसं पोंन्वा ।
तीरारि फुल्लांच्यो वाल्यो आसुचा ॥
निदाघांतु सुखकर उदकांतु सरयुचा ॥
कुशु बाय्लां घेव्नु पाव्लो खेळिच इच्छा ॥ ५४ ॥

शिबिरं बांदुनु आशिलिं नदि तीरारि ।
जालिकानि सिसोडिंक धर्ले मागिरि ॥
विष्णु वरि आशिलो जलांतु बुड्लो कुशु ।
स्व विभवाक अनुरूपु जाव्नु धराधीशु ॥ ५५ ॥

देंव्ताना तडिचे पायरि वयिल्यान ।
घस्टुनु जाल्लेल्या अंगदांच्या ध्वनिन ॥
बाय्लांल्या पाय्यांच्या वाळ्यां स्वरान ।
सरयुंतुलिं हंसं आशिलिं भीतिन ॥ ५६ ॥

चोव्नु परस्पर उद्दाक शिंपुचि रीति ।
बाय्लांक जल क्रीडेरि आश्चि प्रीति ॥
दोणिरि बैसुनु म्हळलो लागि आश्चा ।
किरातिंक नराधिपति चौरं घाल्वा ॥ ५७ ॥

न्हात्ताना शतशः मेगेले प्रियेनि ।
आंगा लेपु धूव्नु नदि विविध रंगानि ॥
पळया होळ्ताना दिस्ता घन आसुनु ।
जाल्लेल्वरि सांजेवेळु गोम्टो जाव्नु ॥ ५८ ॥

पडावानि जाल्लेल्या सरयु पाळान ।
युवतीजनालें लोप केल्लें अंजन ॥
बदलाक मद रागाचि कांति दोळ्यांक ।
दिल्लेल्वरि उदकान दिस्लें चोव्वाक ॥ ५९ ॥

थोरि जांग मोम्यांचि भारी जडावण ।
होंव्वाक असाध्य जाल्ले तरि कष्टान ॥
पोंव्तातिं केयूर बांदिल्या बाहुन ।
रायाल्यो बाय्ल्यो उदकांतु हर्षान ॥ ६० ॥

जलांतु खेळचा रायाल्या बाय्लालिं ।
शिरीष फुल्लांचि अवतंस पळ्ळेलिं ॥
मासोळिंक नदिचा प्रवाहांतु होळ्नु ।
भ्रांति आस्स कर्तातिं पामाजि म्होणु ॥ ६१ ॥

परस्पर उदकांतु खेळ्चा नारीलें ।
हार मोत्यांचें गळ्याचे तुंटिले ॥
मोम्यांचेरि पोड्चे जलकण मोत्यांक ।
सम दोकुनु येनि तांकां तें कळितेक ॥ ६२ ॥

विलासवतिंल्या आकार अवयवांचि ।
समान जाल्लिं हीं लागीचि आसुचिं ।
घुम्चि गोम्टि गिरकी ती गुंडि बोंब्लेक ॥
जोडि कोकं कुचांक पाळं भोंव्येंक ॥ ६३ ॥

पाक्कं फुल्लानु तीरारि मयूरानि ।
खुशिन कोर्चा केका ध्वनिंक बाय्लानि ।
मधुर गीताक माक्षिचान माद्दाळें ।
वाज्जुचे म्हण्के दिस्ता जल ग्हळलें ॥ ६४ ॥

देहाक चाबिल्या आंगल्या भितरि ।
चान्निन्यांतु बुडिल्या नक्षत्रां वरि ॥
दिसुचि राया बाय्लांलि कुर्टाचि दोरि ।
मौन जाल्या जल भोर्नु मोत्यां भित्तरि ॥ ६५ ॥

शिंपिताति झुम्मान सखिले तोंडाक ।
तान्निं पुनः हांचा आंगाक उदाक ॥
तरावरि बुक्णिन तांब्डे थेंबें जाव्नु ।
देंल्ला तें बाय्लांल्या केसां दोकुनु ॥ ६६ ॥

मेक्कळेलि फांति मकरिका धुल्लेलें ।
मोत्यांचें कुंडळं निसोर्नु राबिलें ॥
जलकेळि श्रमान प्रमदा मुख वेष ।
अशिं आस्ले तरि कर्ता मनांक तोष ॥ ६७ ॥

हुम्टायिलिं पद्मं रवांध्यारि लांबुचा ।
बाय्लेक घेव्नु खेळचा करि वरि वनांचा ॥
कुशु लांब्वो सरु आशिलो दोणिरि दोकुनु ।
देंव्नु जलांतु खेळ्ळो बाय्लांक मेळोनु ॥ ६८ ॥

तेजस्वि नृपति संगान त्यो वनिता ।
कांति पाव्नु जाल्याति अतिशय शोभिता ॥
केवल मोतिचि मन तांड्ता चोय्ताना ।
नील मणि मेळ्यारि कसलेंयि सांगुनां ॥ ६९ ॥

रायाल्या आंगारि भांग्रा शिंगानि ।
प्रीतिन रंगा उदक शिंप्लें बाय्लानि ।
विशेष शोभेन तो राबुनु आशिलो ।
धातु होळचा पर्वता म्हण्के दिस्लो ॥ ७० ॥

खेळताना आपल्या बाय्लांक घेव्नु ।
सरयू नदींतु परस्पर उदाक मार्नु ।
दिस्लो जल केळि खेळचो सुर गंगेंतु ।
देवेंद्राक सम जाव्नु अप्सरा सहितु ॥ ७१ ॥

अगस्त्य मूलक राघवाक मेळ्ळेलें ।
ताणे राज्य सहित कुशाक दिल्लेलें ।
तें जैत्र भूषण गेल्लें जलांतु बुडुनु ।
ताका कळ्ना तशिं खेळताना पोणु ॥ ७२ ॥

कुशान बाय्लांक घेव्नु इच्छानुसार ।
प्रवेशु केल्लो न्हाव्नु नदीतीर शिबिर ।
चोय्लो स्व बाहु कर्ताना अलंकार ।
नां जाल्लोलो तो स्वर्गीय केयूर ॥ ७३ ॥

फूडे पितुन बाहुक बांदुनु घेत्तिलें ।
जयश्रीक स्वाधीन कोर्चें तसलें ।
म्होणु नग पोर गेल्लेलें जाय्नि सहन ।
आशेन नईं वीरांक सम नग सुमन ॥ ७४ ॥

पोंव्चांतु बुध्दिवंत सकड जालिकांक ।
कुशान आज्ञा केल्लि सोद्दुनु हाड्चाक ।
सरयुंतु बुडुनु ते निष्फल जाल्लेले ।
म्हळले कुशाल्यागि आयासु नांतिले ॥ ७५ ॥

देव उदकांतु बुडुनु केयूर उत्तम ।
मेळिन केल्ले तकिनि विशेष जाव्नु श्रम ।
तळ्यांतु आसुचो सर्पु कुमुदु म्होणु ।
ताणे व्हेल्लां म्होण्चांतु नां अनुमानु ॥ ७६ ॥

अनंतर बलशालि त्या धनुर्धरान ।
कोपान दोळे तांब्डे कोर्नु कुशान ॥
धणुंक दोरि बांदुनु तीरारि राबुनु ।
गरुडास्त्र काळ्ळें अहिक मारुक म्होणु ॥ ७७ ॥

तें शर काळ्ळें की तळें जाल्लें उचंबळ ।
घस्टुनु तीराक हात म्हळलिं पाळं ॥
फोंडांतु पळ्ळेल्या रान्नांच्या हस्तेन ।
बोब मार्लेले बरि जाल्लो स्वनु होडान ॥ ७८ ॥

घांटिले सागरां दोकुनु लक्ष्मि सहित ।
वयिरि आयिले म्हण्के तरु पारिजात ॥
सिसोडिनि उच्चंबळ तळ्यांतु दोकुनु ।
आय्लो नाग राजु स्व भगिनिंक घेव्नु ॥ ७९ ॥

पुनः दिव्वाक म्होणु घेव्नु आभरण ।
आयिल्याक पोळोनु मनुज नाथान ॥
गारुत्मत अस्त्र केल्लें उपसंहारु ।
संतालो कोपु शरणांचेरि अस्थिरु ॥ ८० ॥

त्रिभुवन पतिल्या पुत्ताक भूमि पतिक ।
स्व प्रभावान अरि अंकुशाक कुशाक ॥
श्रेष्ठु जाल्ले तरि कुमुदु आनतु जाल्लो ।
अशिं म्हळलो गरुडास्त्र शक्ति कळ्ळलो ॥ ८१ ॥

कार्यार्थ मानवु जाल्लेल्या विष्णुलो ।
पूतु म्होणु जाण अन्य तनु घेत्तिलो ॥
अशिं जाव्नु तूं माका आराधनीयु ।
तुका वाय्ट कोर्नु जात्तावें अविधेयु ॥ ८२ ॥

चेंडु वयिरि उड्लो मार्लेलो हात्तान ।
चेल्येन चोय्ताना अतिकुतूहलान ॥
तळ्यांतु पळें ज्योति नभा वयिल्यान ।
पळेल्वरि हीणे काळ्ळें जैत्राभरण ॥ ५३ ॥

दीगु जाव्नु दिंब्येक लागुनु आसुचो ।
खिळ्ये म्हण्के बलिष्ठु भूमि राकुचो ॥
दड्को आशिलो दोर मार्नु धणुंचे ।
संपर्कु पाव्वो वलय तुझा बाहुचें ॥ ८४ ॥

राया स्थिर जाव्नु पाद सेवा तुगेलि ।
अपराधु निवारणेंक भयिणि मेगेलि ॥
कोरुंक आशेता कुमुद्वति म्हळलि ।
तूं मान्य कोरुक अर्दु आशा हिगेलि ॥ ८५

अशिं म्होणु कुमुदान दिल्लें दिव्य आभूषण ।
सर्पराज श्लाघनीयु तूं आम्गेलेंचि जन ॥
अशिं म्हळल्या कुशाक कन्या म्हळलें भांगर ।
कुमुदान दिल्लें बंधुंक घेव्नु विधि प्रकार ॥ ८६ ॥

रायान धर्माचरणेंक म्होणु तिगेलो ।
अग्नि साक्षि जाव्नु शुभ ऊर्णा वलय बांदिलो ।
हातु धर्ले तत्क्षण दिव्य तूर्य रव दिगंत ।
व्यापक जाव्नु पळो फुल्लांचो पाव्सु अभ्दुत ॥ ८७ ॥

अशिं कुमुदान त्रिभुवन गुरुलो औरसु ।
मैथिलेयालें पाव्नु बांधव्य ॥
तशींचि तक्षक पंचम आत्मजालें कुशु ।
सोळ्ळें एकल्यान गरुडालें भय ॥
केल्लें वेग्ळयान जनरंजन कोर्नु देशु ।
रक्षण भुजंगालें सोणु भंय ॥ ८८ ॥

## षोडश सर्गु समाप्तु

# सप्तदश सर्गु
# अतिथि राज्यभार वर्णना

रजनिंच्या अंत्यारि चेतन ।
जात्ता कशिं की सुप्रसन्न ॥
कुमुद्वतिक कुशाल्या निम्मिति ।
तशीं सुतु जाल्लो नांवं अतिथि ॥ १ ॥

दक्षिण उत्तर म्होणु रविन ।
केल्लेल्वरि दोनि पथ पावन ॥
आव्सु बाप्सुलिं दोन्नियिं कुल ।
त्या तेजस्सिन केल्लिं नितळ ॥ २ ॥

प्रथम अर्थु सम्जलल्या कुशान ।
वंश विद्येचें दिल्लें शिक्षण ॥
क्षात्र कुलांच्या चांग चेल्येंलो ।
पुत्ता कर्चान हातु धरैलो ॥ ३ ॥

विक्रमि कुलीनु वशी कुशान ।
वशी कुलजु धीरु सुत कारण ॥
आपण एक्लो जाल्ले तरि ।
लेख्लें अनेक म्हळले वरि ॥ ४ ॥

कुलाक उचित जाव्नु इंद्राक ।
कुशु चम्कलो सहायु कोरुक ॥
दैत्याक दुर्जयाक मार्लो ।
युध्दांतु आपणयिं मेल्लो ॥ ५ ॥

नागराजालि भयिणि कुमद्वतिन ।
स्वेच्छेन पतिक केल्लें अनुसरण ॥
साळ्कांक खुशि कोर्चा शशिक कशिं ।
नितळ चान्निने कर्ता की तशिं ॥ ६ ॥

त्यादोगांतु पैकि एकलो ।
इंद्रासनार्ध भागि जाल्लो ॥
पारिजात अंश भागि शचिलि ।
मैत्रिणि ती कुमुद्वती जाल्लि ॥ ७ ॥

युध्दाक वत्ताना कुशान ।
सांगिलें तसलें चरम वचन ॥
सचिवानि केल्लो यादु कोर्नु ।
कुशसुताक प्रतिनिधि म्होणु ॥ ८ ॥

नवीचि उन्नत वेदिका आसुनु ।
चारि खांब्यांरि मांटवु घालोनु ॥
तान्निं अतिथि पट्टाभिषेकाक ।
करैलें काम सांगुनु शिल्पिंक ॥ ९ ॥

थंयिं ताका सिंहासनारि ।
बोसोनु अमात्य पवित्र वारि ॥
भर्लेले सुवर्ण कलश घेव्नु ।
राबुनु आशिले ते खुशि पाव्नु ॥ १० ॥

वाज्जिंलल्या पुष्कर मुखान ।
जाल्लेल्या होड्ले गाजान ॥
बरेंचि भोग्ता नित्य मुखारि ।
हो म्होणु दिस्लें सांग्चे वरि ॥ ११ ॥

वटाचि सालि नव अंकुरानि ।
इतर पल्लव आनि दूर्वानि ॥
म्हांतार्यानि दृष्टि काळ्ळेलि ।
खुशि पाव्नु अंगीकारु केल्लि ॥ १२ ॥

पुरोहित प्रमुख भूसुरानि ।
जय दिव्वा अथर्व मंत्रानि ॥
प्रारंभु केल्लो जयशालिक ।
अभिषेकु कोरुक नृप अतिथिक ॥ १३ ॥

मात्यारि दोकुनु उदक होळ्नु ।
येत्ताना होडु शब्दु कोर्नु ॥
शिव शिर मूलक गंगा कशिं ।
दिस्लि अभिषेक समृद्धि तशिं ॥ १४ ॥

कर्ताना मागधानि स्तुति ।
दिस्लो अशिं भुवन पति अतिथि ॥
वृद्धि जाल्लेले म्हण्के घन ।
चातकांल्या अभिनंदनेन ॥ १५ ॥

सन्मत्रान पवित्र जलान ।
नृपतिन स्नान केल्लेल्यान ॥
पाव्साक झळ्कुचा विद्याक ।
दिस्लो तेजान जाह्नु अधिक ॥ १६ ॥

अभिषेकांत्यारि गृहस्थांक ।
ताणे तांगेल्या यज्ञांक ॥
दक्षिणेंक अगत्य कित्तुलें ।
ताजाकयि अधिक धन दिल्लें ॥ १७ ॥

भूपति अतिथिक आशीर्वचन ।
केल्लें तान्निं संतोषान ॥
ताझा फुळ्या पुण्य फलान ।
आत्तं नां ताझें प्रयोजन ॥ १८ ॥

ताणे बंधिंक सोडैले ।
वध्याले जीव वांचैले ॥
होंविलें तें युग दैवेनें ।
गोदोहन काम रावैलें ॥ १९ ॥

क्रीडा पक्षो जाल्यो मुक्त ।
पंजरांतुले कीर समेत ॥
ताझा आज्ञेन स्वच्छंद ।
गमन पात्रु पाव्लिं आनंद ॥२०॥

कुडांतु दोव्वोर्नु आशिल्या ।
निर्मल वस्त्र पात्लायिल्या ॥
बस्लो हस्ति दंत पीठेरि ।
तो शृंगारु कोरुक मागिरि ॥ २१ ॥

शृंगार कर्तृनि हात धूव्नु ।
धूप दीव्नु ते केस सुकोनु ॥
त्यात्या प्रसाधन साधनान ।
ताझा वपुक केल्लें मंडन ॥ २२ ॥

मोत्यां हारान बांदिल्या ।
फुल्लांचि माळा माळ्ळेल्या ॥
दवर्लि झगझगि माणिक्य मणि ।
शेंड्यांतु तागेल्या तान्निं ॥२३ ॥

कस्तूरि कांबोनु गांधाचो ।
रोसु लाय्लो परिमळु आसुचो ॥
चित्रं गोरोचनान मागिरि ।
केल्लिं अतिथिले आंगारि ॥ २४ ॥

माळा आभरण घाल्लोलो ।
हंसचिह्न दुकूल नेसिलो ॥
अतिथि राज्यश्री वधुलो वरु ।
आशिलो चोव्वाक मनोहरु ॥ २५॥

भांग्रा आरसांतु रायान ।
दिस्लें कर्ताना विलोकन ॥
सुरतरुचें बिंब मेरुचेरि ।
दिश्चे वरि सूर्यु उद्देतरि ॥ २६ ॥

नृपचिह्न धर्लेले अनुचर ।
येत्ताना कर्तचि जयकार ॥
सभा प्रवेशु केल्लो ताणे ।
देव सभेक नांतिलि ऊणे ॥ २७ ॥

रायानि रत्नांचें किरीट ।
घस्टिलेलें तें पाद पीठ ॥
आशिलें पैतृक सिंहासन ।
रायान केल्लें आरोहण ॥ २८ ॥

श्रीवत्स म्होणु मंगल गृह ।
अतिथि प्रवेशान शुभावह ॥
जाल्लें श्रीवत्स आसुनु हरि ।
वक्ष कौस्तुभान जाल्लेल्वरि ॥ २९ ॥

बाल्य सोणु होड राज्य पाव्नु ।
जाल्लो अतिथि झळकु आसूनु ॥
रेखा वरि आशिले इंदुन ।
पाविले वरि आकारु पूर्ण ॥ ३० ॥

प्रसन्न मुखभावु आशिल्या ।
हास्मुखि जाव्नु उल्लैतल्या ॥
लेख्लें जनानि ताका चोव्नु ।
विश्वासु रूप पाव्ला म्होणु ॥ ३१ ॥

सुरगज सम बलिष्ठ हस्तेरि ।
संचारु कोर्नु अयोध्या पुरि ॥
कल्पवृक्ष सम ध्वजु आशिलि ।
ताणे स्वर्गाक सम्म केल्लि ॥ ३२ ॥

मात्यारि उकळेल्या ताचा ।
झळकान धव्या सात्येचा ॥
पूर्व रायालें विरह उष्ण ।
जगाचें दूर केल्लें पूर्ण ॥ ३३ ॥

धुव्राचा मागिरि ज्याला ।
उदेतरि रविन किरणमाला ॥
लंघन कोर्नु तेजांचि वृत्ति ।
गुण समेत उद्देलो अतिथि ॥ ३४ ॥

शरदांतु ध्रुवाचें अनुसरण कशिं ।
नक्षत्र खचित रात्रि कर्ता तशिं ॥
प्रीतिन संतुष्ठिं पाविले दोळ्यानि ।
केल्लें ताका अनुसरण पुर नारिनि ॥ ३५ ॥

अयोध्याच्या देवनिलयांतु ।
सन्निधि केल्लेल्या प्रतिमांतु ।
पूजिले देवानि योग्याक ।
अनुग्रह केल्लें त्या अतिथिक ॥ ३६ ॥

वेदि अभिषेक उदक शिंपिलि ।
सुक्चे भितरि वल्लि जाल्लेलि ॥
असह्य प्रतापु तागेलो ।
दिगंत लंघन कोर्नु गेलो ॥ ३७ ॥

मंत्रं वशिष्ठ महामुनिलिं ।
शरं चापधारि तागेलिं ॥
अशिं दोनि मेळ्यारि कसलें ।
साधकांक असाध्य म्हळ्ळें ॥ ३८ ॥

स्वतः धर्मिष्ठु साधकांक घेव्नु ।
कर्तलो भूपति आलस्य सोणु ॥
वादि प्रतिवादिंलो व्यवहारु ।
संशयु दूर कोर्नु परिहारु ॥ ३९ ॥

मागिरि अतिथिलें सुप्रसन्न ।
मुखभावु पोळोनु भृत्यजन ॥
प्रार्थनेंक अनुगुण प्रतिफल ।
पाल्लिंति नृपति मूलक विपुल ॥ ४० ॥

कुशान प्रजालिं वृद्धि केल्लि ।
श्रावण मासाचा नदीं वरि ॥
अतिथिन आनिंकयि वाडैलि ।
भाद्रपदांतु भर्लेले वरि ॥ ४१ ॥

अतिथि उत्तर दीव्नु चुक्नना ।
दिल्लेलें तो माक्षि घेना ॥
अरिंक हुम्टानु वोय्ताना ।
कर्ता व्रत भंग तेद्दाना ॥ ४२ ॥

प्राय रूप धनांतु एकेक ।
हेतु जात्ता अहंकाराक ॥
तागेल्यागि सकडयि आसुनु ।
भूपति आस्स निर्लिप्तु जाव्नु ॥ ४३ ॥

प्रजांचेरि सतत अशिं प्रीति ।
आसुनु दिस्लो तो भुवन पति ॥
नवो जाल्ले तकिनि दृढमूल ।
रुक्का म्हण्के जाव्नु निश्चल ॥ ४४ ॥

बाह्य शत्रु अशाश्वत म्होणु ।
मागिरि आस्ताति दूर जाव्नु ॥
अशिं लेखुनु षट् विरोधिंक ।
हारि केल्लि हृदयांतुल्यांक ॥ ४५ ॥

जाल्यारियि स्वभावु चंचल ।
चोव्नु तागेलें तोंड नितळ ॥
स्वर्ण रेखा निकषारि कशिं ।
श्री आशिलि स्थिर जाव्नु तशिं ॥ ४६ ॥

शौर्य नांतिलि नीति ती भीति ।
नीति सोणु शौर्य पशुलि वृत्ति ॥
अशिं जाव्नु उभययि मेळोनु ।
आशिलो भूपति सिद्धि पाव्नु ॥ ४७ ॥

गुप्तचर किरण चारि दिशांक ।
प्रसारु केल्लेल्या रायाक ॥
घन नांतिले रवि बिंबा वरि ।
नां आशिलें अदृश्य जगारि ॥ ४८ ॥

दिन रात्रि विभागांतु नृपाक ।
शास्त्र सांग्ता खंचें कोरुक ॥
संशयु नांतिलें अनुष्ठान ।
अतिथि तें कर्तलो श्रध्देन ॥ ४९ ॥

सचिवांक प्रतिदिन मेळोनु ।
कर्तलो विचारु भूमि रमणु ॥
जात्त आस्ल्यारियि नित्य अशिं ।
आशिलो गोप्य सोणा तशिं ॥ ५० ॥

एकल्यालें एकल्याक ।
कळ्ना तशिं गूढचारांक ॥
नियुक्त कोर्नु तो सकालारि ।
जागि आस्तलो निद्दले तरि ॥ ५१ ॥

भीना जाल्ले तरि शत्रुंक ।
आशिलिं दृढ दुर्गं नृपाक ॥
हस्तेक मार्चि भीव्नु केसरि ।
निद्दना गिरि गुहेंतु भित्तरि ॥ ५२ ॥

विचारु कोर्नु विघ्न नांतिलिं ।
काम रायान केल्लेलिं ।
गर्भांतु भात पिक्किले वरि ।
जाल्लिं गूढ जाव्नु फलकारि ॥ ५३ ॥

वच्चनि तोवृद्धि पाल्यारियि ।
वाट चुकुनु एक वेळेरियि ॥
वृद्धि जाल्लेल्या जलधि गमन ।
केद्नांयिं नदिचा तोंडान ॥ ५४ ॥

प्रकृति वैराग्य शमन कोरुक ।
सामर्थ्य आस्ल्यारियि नृपाक ॥
प्रतिकारु कोर्का खंचाक ।
आस्पदु दीना त्या कर्मांक ॥ ५५ ॥

बल आसुनुयिं दंडयात्रा ।
दुर्बलांल्या हारिक कर्ता ॥
वायुलो सहायु आसनुयिं ।
दाव सोड्डुनु वचना उदकयि ॥ ५६ ॥

धर्मु अर्थु ताणे कामान ।
तशींचि अर्थु कामु धर्मानि ॥
ऊन जाय्ना तशिं परस्पर ।
केल्लें समजाव्नु स्वीकार ॥ ५७ ॥

अपकारि नईं जाल्लेल्यांक ।
कर्ता उद्धार क्षीणांक ॥
मध्यम शक्तिवंत हाझेन ।
मित्रांक केल्याति स्थापन ॥ ५८ ॥

विरोधिलें मागिरि स्वकीय ।
कोर्नु बलाबलाचें निश्चय ॥
अरि बलिष्ठु तरि नुत्त राब्ता ।
एकयि दंडयात्रा कर्ता ॥ ५९ ॥

संपत्तीन गौरव येत्ता ।
दोकुनु तो संपत्ति जोड्ता ।
उदाक भर्लेलें मेघ गण ।
चातकांल्या स्तुतिक भाजन ॥ ६० ॥

विरोधिलिं कर्म नाश कोर्नु ।
आपले कामांतु मन धाल्नु ॥
अरिलो दोषु कळ्यारि मार्नु ।
आस्ता आपलि चूकि निपोनु ॥ ६१ ॥

बाप्सुले मूलक पाव्नु वृद्धि ।
समराक अगत्य अर्थ सिद्धि ॥
सैन्य शरीराक सम म्होणु ।
लेख्लें तो अधिकारि दोकुनु ॥ ६२ ॥

अहि फणा मणि वरि तागेल्यो ।
शत्रुनि तांडिनि तीनि शक्त्यो ॥
लोह चुंबक लोखंड कशिं ।
तो तांडिता अरिल्यो तशिं ॥ ६३ ॥

तळ्यांतु कशिं तशिं नदींतु ।
उद्यान वना वरि रान्नांतु ॥
भोंव्ताति स्वभवनांतु कशिं ।
वणिक धैर्यान अद्रिरि तशिं ॥ ६४ ॥

विघ्न भयान रक्षण तपाचि ।
केल्लि चोर दिशान वित्तांचि ॥
तशिंजाव्नु वर्णाश्रमांचा ।
षडंश भागि तपसु धनांचा ॥ ६५ ॥

क्षेत्र आकर वनांतु दोकुनु ।
सस्य मणि गजांक जन्मु दीव्नु ॥
भूमिन राकिल्याक म्होणु ।
अतिथिक दिल्लें वेतन जाव्नु ॥ ६६ ॥

षण्मुख विक्रमि षड्गुणांचो ।
आनि तशींचि मूल बलांचो ॥
उपयोगु सम्जुललो नरेशु ।
अगत्य वस्तु कर्ता तो वशु ॥ ६७ ॥

चारि विध राजनीति अतिथिन ।
अशिं प्रयोगु केल्लि क्रमान ॥
ताझें फल अष्टादश तीर्थ ।
पर्यंत भोग्लो राय पूर्त ॥ ६८ ॥

जाल्यारियि कपट युद्ध निपुणु ।
धर्म युद्ध कर्ता तो म्होणु ॥
जयश्रीन वीर पक्षपाति ।
धर्नि ती अभिसारिका वृत्ति ॥ ६९ ॥

भिवैताति मद सुरभिन कशिं ।
मदगजं अन्य गजांक तशिं ॥
तेजान भिवैतलो अरिंक ।
दोकुनु युद्ध दुर्लभ अतिथिक ॥ ७० ॥

वाड्ले तकिनि क्षय चंद्राक ।
ताझे वरि आस्स समुद्राक ॥
अतिथिक क्षयनां तांचें वरि ।
वाडि मात्र आस्स दोगां वरि ॥ ७१ ॥

दातार जात्ताति दुर्बळे ।
विद्वांस मागुक गेल्लेले ॥
जलधिचा लाग्विं घन कशिं ।
अतिथि लागि गेल्लेले तशिं ॥ ७२ ॥

चांग्पण रायान केल्ले तरि ।
लज्ञा पाव्ला स्तुति केल्यारि ॥
स्तुति कर्तृनि केल्यारि द्वेष ।
पुणि वृद्धि जाल्लें ताझें यश ॥ ७३ ॥

पाप लय कर्ता दर्शनान ।
अंधकारु लय तत्त्वार्थान ॥
उद्देललो प्रभाकरु कशिं ।
वश कर्ता प्रजांक नृपु तशिं ॥ ७४ ॥

रिग्गनांति चिक्ला फुल्लांतु ।
शशि किरणं रविलिं साळ्कांतु ॥
पुणि अरि हृदयांतु गुण गुणिले ।
अवकाशु पाव्ले रायाले ॥ ७५ ॥

कारण अरिंक फोसोचाक ।
पुणि सम्मत दोकुनु शास्त्राक ॥
अश्वमेध निम्गिति दिग्विजयु ।
तागेलो तो जाल्लो न्यायु ॥ ७६॥

शास्त्रान दाकयिले पथान ।
अभिवृद्धि पाव्नु होडपणान ॥
कशिं देवांक देवु सुरेंद्रु ।
तशिं तो रायांक राजेंद्रु ॥ ७७ ॥

लोकपालकांतु पांचांचो ।
पंच महाभूतांतु संचो ॥
म्हळें कुलगिरिंतु आट्टांचो ।
चोव्नु समान धर्मु आसुचो ॥ ७८ ॥

दूर दोव्वोर्नु धवलच्छत्र ।
ताझि आज्ञा आशिलें पत्र ॥
स्वर्गाधिपतिलें देवतें वरि ॥
'होंव्ताति भूपाल मात्यारि ॥ ७९ ॥

अश्वमेध कोर्नु ऋत्विजालि ।
दक्षिणा दिव्नु पूजा केल्लि ॥
नाम अतिथि आनि धनदालें ।
हाझेन साधारण जाल्लें ॥ ८० ॥

सुरेंद्रु धात्ला सकांलारि पाव्सु ।
रोग उद्रेकु यमु कर्ता नाशु ॥
पडावारि कर्तल्यांक विहारु ।
वरुणु दित्ता मार्गु अनुकूलकरु ॥
आटोनु पूर्वजांक कुबेरान ।
कोशु रायालो केल्लो वर्धन ॥
शरणु आयिले वरि लोकपालक ।
अशिं वश जाव्नु आशिले अतिथिक ॥ ८१ ॥

**सप्तदश सर्गु समाप्तु**

# अष्टादश सर्गु
## वंशानुक्रम

अरिंक हारि केल्लेल्या रायु अतिथिक ।
जाल्लो पूतु निषध रायाल्या ध्रुवेक ॥
निषध पर्वताक समान बल आशिलो ।
निषधु म्होणुचि होड नांवं घेत्तिलो ॥ १ ॥

चांगु पाव्सु पळ्ळेल्यान फल संपत्ति ।
वाडिले झाड्डानि कशिं ही जगति ॥
तशिं पुत्ताक चोव्नु खुशि पाव्लो स्वामि ।
प्रजांक म्होणु जन्मु दिलेल्या विक्रमि ॥ २ ॥

कुमुद्गति पुत्तान चिर काल विषय सुख ।
भोगुनु सुताक केल्लो राज्याभिषेक ॥
आपण्यान जोळ्ळेल्या पुण्य फलान ।
चळो मागिरि स्वर्गाचें सोपानं ॥ ३ ॥

फुल्लां वरि दोळे शरधि वरि गंभीरु ।
दीर्घ बाहु धीरु पोळोचाक सुंदरु ॥
कुशाले नात्वान केल्लि धरणि पालन ।
उदधि वसन वेडायिलि एक छत्रान ॥ ४ ॥

ताज्ञो पूतु नलु तेजस्वि उज्ञा वरि ।
राज्य श्री पाव्लो बाप्पुले मागिरि ॥
शत्रुनाश केल्लें पंकज मुखाचान ।
केल्लेल्वरि तणांचों जागो हस्तेन ॥ ५ ॥

गंधर्वादिनि यशः गान केल्लोलो ।
ताका नभा वरि नील वपुचो चेल्लो ॥
नभु म्होणूंचि चांग नांवं धेत्तिलो ।
श्रावणा म्हण्के प्रजा प्रियु जाल्लोलो ॥ ६ ॥

नलान धार्मिक बुद्धि आशिले नभाक ।
रायुजाव्नु केलो उत्तर कोसलाक ॥
संसार बंधनांतु दोकुनु सुट्टुक ।
म्हांतार्पणारि तो चम्कलो रान्नांक ॥ ७ ॥

पुंडरीकु पुंडरीका वरि हस्तेंक ।
शत्रुंक असाध्यु पूतु जाल्लो नभाक ॥
श्री पद्म धोर्नु राबिल्वरि हरिल्यागि ।
पितुन मर्तरि राब्लि पुंडरीकाल्यागि ॥ ८ ॥

श्रेष्ठु धनुर्धरु पुंडरीकालो पूतु ।
क्षेमधन्वु म्होणु क्षमागुण संगतु ॥
प्रजा हितकरु म्होणु बाप्सुन भूभार ।
होंवोनु गेल्लो वनांक तपाक घोर ॥ ९ ॥

ताकायि सैन्यांक मुखेलि लडायेंतु ।
आशिलो देवेंद्राक सारको पूतु ॥
पदादि देव अंत्यारि अनीकु म्होणु ।
नांवांन स्वर्गारियि विख्यातु जाव्नु ॥ १० ॥

बाप्पुसु पुत्ताले शुश्रूषेन कशिं ।
पुत्रवंतु म्हणैता पूतूयि तशिं ॥
बाप्सुले वात्सल्याचे कारण जाव्नु ।
जाल्लो नांवं घेव्नु पितृवंतु म्होणु ॥ ११ ॥

आपण्यांक समु पुत्ताल्या खांध्यारि ।
होंविलो भारु वर्णाश्रमांचो चारि ।
गुणवंतान दोव्वोर्नु यज्ञशीलान ॥
यजमान लोकोचें चळ्ळो सोपान ॥ १२ ॥

ताझो पूतु गोडं उत्रं आशिलो ।
स्वकींयां वरि पर्क्यांक वश केल्लेलो ॥
भिल्यारियि एक वेळा मृदु स्वरान ।
हरिणांक कोर्येत नईंवें स्वाधीन ॥ १३ ॥

अणव्याले संगाक फाटि केल्लोलो ।
तरुणु जाल्यारियि दुर्व्यसन सोळ्ळोलो ॥
अहीनगु म्हळलो भूपति जाव्नु सकड ।
विशेष बाहु बलान राक्लें भूखंड ॥ १४ ॥

रायु तो निपुणु पुरुष अंतरंग जाणु ।
अवतारु घेत्तिल्या विष्णुंक समानु ॥
बाप्सुले अनंतर दिगंगनांक रमणु ।
जाल्लो उपायो चारि प्रयोगु कोर्नु ॥ १५ ॥

पर्क्यांक जिंकिल्या ताणे स्वर्गांक ।
गेल्ले परांचें तागेल्या पुत्ताक ॥
स्वीकारु केल्लो श्रीन पारियात्राक ।
होड्पणान पारियात्रा पशि होड्डाक ॥ १६ ॥

जाल्लो त्राका पूतु तो उदार शीलु ।
शिलु म्होणु शिला फलंका वरि उरस्थलु ।
बाणं सोणु केल्ले तरि शत्रुंक हारि ।
लज्जा पाव्तलो ताझि स्तुति केल्यारि ॥ १७ ॥

पारियात्रान सद्गुणि बुद्धिवंताक ।
युवकाक युवरायु केल्लो भोग्लो सुख ॥
इत्याक म्हळ्यारि नृपांले जीवन ।
कारागृह वासिंक नईवें समान ॥ १८ ॥

युवतिलें सौन्दर्य काम सुख बोगांतु ।
तो आनिंकयि जाव्नु आशिलो अतृप्तु ॥
ताका भोग शक्ति नांतिल्या मत्सरि ।
जरान घाल्लो आपण्याल्या भित्तरि ॥ १९ ॥

उन्नाभ म्हळलो सार्थक नांवांचो ।
पूतु शिलालो गोम्टि गुंडि बोब्लेचो ॥
आशिलो पंकजनाभाक सदृशु जाव्नु ।
सकड राज मंडलिक मुख्यु म्होणोनु ॥ २० ॥

मागिरि वज्रायुधधारि वरि तेजस्सु ।
आशिलो रणांतु विद्याक सदृशु घोषु ॥
वज्रनाभु म्हळलो तागेलो पूतु ।
वज्र खनि आशिले भूंय्क जाल्लो नाथु ॥ २१ ॥

ताणे सुरलोकाक वत्तरि पुण्यान ।
खनिंतु दोंकुनु मेळ्ळेल्या सद्वस्तुन ॥
भूमिन सेवा केल्लि शत्रुंक यमालि ।
तागेलो पूतु शंखणु म्हळल्यालि ॥ २२ ॥

जलधि तडिरि अश्व सैन्य राबयिल्यान ।
उषिताश्वु म्होणु प्रख्यातु नांवांन ॥
तेजान भानु वरि सुंदरु अश्विनि वरि ।
तागेलो पूतु रायु जाल्लो मागिरि ॥ २३ ॥

ताणे विश्वेश्वरालि अर्चना कोर्नु ।
होंव्चाक विश्वंभरालो भारु पूर्णु ॥
विश्व सरवु सर्वशक्तु विश्वसहु म्होणु ।
आपणंचि जन्मलो पुनः पूतु जाव्नु ॥ २४ ॥

विश्वसहाक हिरण्याक्ष रिपु अंशान ।
जाल्लो चेल्लो हिरण्यनाभु नांवांन ॥
वायु सहायान उज्ञो कशिं रुकांक ।
जाल्लो असहनीयु तशिं तो वैरिंक ॥ २५ ॥

पितृ रिणान मुक्तु कृतार्थु विश्वसहान ।
म्हांतार्पणारि मोक्षु पाव्वा इच्छेन ॥
आजानु बाहु पुत्ताक पाट्टु बांदुनु ।
अरण्यांक चम्कलो मुगुटो वेडानु ॥ २६ ॥

यज्ञ कर्तृ उत्तर कोसल भुवनेश्वरु ।
हिरण्य नाभाक रविकुलाक शृंगारु ॥
दोन्निंचे शशि वरि कर्तलो संतोषु ।
कौसल्यु म्होणु पूतु जाल्लो औरसु ॥ २७ ॥

अजलोका लागिथायि कीर्तिचो तेजु ।
कोर्नु प्रसारु ब्रह्मज्ञानि आत्मजु ॥
ब्रह्मिष्ठाक अधिकारु दीव्नु कौसल्यु ।
पाव्लो तदनंतर तें राज्य कौवल्यु ॥ २८ ॥

स्वाधीन कोर्नु भूमि वंशभूषणान ।
रायान सज्जन प्रजा आशिल्यान ॥
वांव्ट दीना तशिं कर्तांना पालन ।
आनंदाश्रु देंवोनु मुद पाव्लें जन ॥ २९ ॥

सेवा कोर्नु पितुलि योग्यता पाविलो ।
गरुड केतुलि स्पष्ट आकृति आशिलो ॥
पुत्र म्हळल्या नांवांच्या पुत्तान ।
बाप्सुक कीर्ति हाळ्ळि आपल्या गुणान ॥ ३० ॥

वाड्ता कुल पुत्ताल्या निर्मिति म्होणु ।
ब्रह्मिष्ठान इंद्रिय भोगु सकड सोणु ॥
तो मुखारि इंद्र मित्रु जाव्वो तसलो ।
बुडुनु त्रिपुष्करांतु देवत्व पाव्लो ॥ ३१ ॥

जाल्लो पुत्र सतिक पुष्य पौर्णमी दिन ।
पुष्यराग रत्ना पशि चडु तेजसान ॥
पुष्यु म्होणु पूतु पुष्य तारका वरि ।
प्रजा संपन्न जाल्ले ताणे जात्तरि ॥ ३२ ॥

पुनर्जन्मांक भिव्वा ख्यातु पुत्रान ।
भूललनेंक पुत्ताक दीव्नु प्रीतिन ॥
आपण ब्रह्मज्ञु जैमिनि शिष्यु जाव्नु ।
मोक्षाक चम्कलो योग विद्या शिकुनु ॥ ३३ ॥

मागिरि पुष्यसुतु ध्रुवसंधि म्हळलो ।
सदृशु ध्रुवाक तो रायु जाव्नु जाल्लो ॥
सत्यसंधु श्रेष्ठाल्यागि आनतानि ।
केल्लेलि संधि ध्रुव जाल्लि अमित्रानि ॥ ३४ ॥

ध्रुवसंधि पूतु पाड्व्याच्या चंद्रा वरि |
सुदर्शनु लानु जाव्रु आश्चे वेळेरि ||
मृग मारुक गेल्लेल्या ताझे बाप्सुक |
सिंह निमित्त आय्लें मरण नृसिंहाक || ३५ ||

मंत्र्यानि रायान स्वर्गाक वत्तारि |
एक कुल तंतु म्होणु एक मत्यारि ||
दुःखित अनाथ म्होणु चोव्रु प्रजांक |
अयोध्याक रायु केल्लो सुदर्शनांक || ३६ ||

कशिं नवो चंद्रु आशिलें गगनांगण |
कशिं एक सिंहाच्या पिल्लान रान ||
कशिं सरोवर पंकजाच्या मोक्यान |
तशिं रघुकुल दिस्लें बाल नृप कारण || ३७ ||

ताणे मकुटु धारण केल्लेलें चोव्रु |
जनानि म्हळें बाप्सु वरि जात्ता म्होणु ||
हस्ते पिला वरि लान घन वायु मेळ्नु |
गगन भरि जाल्लेलें चोय्ल्यांति दोकुनु || ३८ ||

कोर्नु शृंगारु हस्तेच्या फाटि वयिरि |
निषादिन धोर्नु बोसोनु राज पथारि ||
येत्ताना जन रायु लानु जाल्ले तरि |
गौरव दित्तले बाप्सुक दिल्लेले वरि || ३९ ||

सिंहासन सुदर्शनान बस्ले तकिंनि |
बालकु दोकुनु भोर्नु दिसुक साध्य जाय्नि ||
पुणि भांग्रा कांति वरि देहांतु दोकुनु |
विर्कलेल्या तेजसान दिस्लें भोर्नु || ४० ||

सिंहासनारि दोकुनु सकल देंविले |
रत्न पादपीठाक लागना तसले ||
लाक्षारसु लायिले तागेले पाय |
दोव्वोर्नु घेत्ताति मौलिरि अन्य राय || ४१ ||

देह लान पुणिकांति आसुचा मणिंक ।
जाय्ना महानीलु म्होण्वें निरर्थक ॥
तशिं बालकु जाल्यारियि सुदर्शनांक ।
महानृपु म्होण्वें पद जाल्लें सार्थक ॥ ४२ ॥

हाल्विं गाल्लांरि पोणु चौरां वायुन ।
काकपक्ष आसुचा तोंडांतुल्यान ॥
उच्चारु केल्लेलें तागेलें वचन ।
भुंज्वेरि कोणयिं कर्नि उल्लंघन ॥ ४३ ॥

तीळो आनि पट्ट आशिले निडलारि ।
आशिल्या ताणे मृदु हासु तोंडारि ॥
शत्रुंल्या बाय्लांल्या तोंडा वयिले ।
तीळो हासु रिते जाव्वे वरि केलें ॥ ४४ ॥

शिरीष फुला पशि मोवु आंग आशिलो ।
नगं धाल्लेल्यान आयासु पाव्तलो ॥
जाल्ले तकिनि भूमंडलाचो अपारु ।
होंव्लो चेर्डुपणारि स्व शक्तिन भारु ॥ ४५ ॥

अक्षर लेखन स्थलारि ताणे पूर्ण ।
रचना कोरुक शिक्वे फूडेचि वर्ण ॥
विद्यावंत वृध्दांल्या संसर्गान ।
दंडनीतिचें पाव्लो प्रयोजन पूर्ण ॥ ४६ ॥

श्री हर्र्यारि राबुक जागो नां म्होणु ।
राकुनु आशिलि हो वाड्ता वंगि म्होणु ॥
धव्या सात्तेच्या सावळे रूपान ।
लज्जा पाविल्वरि केल्लें आलिंगन ॥ ४७ ॥

खिळ्ये वरि मस्तु दीगु नां जाल्लेतरि ।
ज्याघाताचो दड्को नां जाल्लेतरि ॥
खांड्याक आपणि म्होणु जाल्लेतकिनि ।
नृप बाहु रक्षा पाव्नु आशिलि अवनी ॥ ४८ ॥

कालु गेल्ले तशिं केवल तागेलें ।
शरीर अवयव नईं वृद्धि जाल्लेलें ॥
आदिरि सूक्ष्म जनाकर्षक जाल्लेलें ।
वंश गुणयिं होड जावु दिसुनु आय्ले ॥ ४९ ॥

पूर्वजन्मांतर पार पळयिलि स्मरण ।
कोर्चेवरि गुरुक कर्नां तशिं पीडन ॥
तीनि विद्या त्रिवर्गाचि मूल प्राप्ति ।
केल्लि ताणे वश पितृ संबंधि प्रकृति ॥ ५० ॥

देह पूर्वार्ध स्वल्प विस्तार कोर्नु ।
उबार जावु मात्यारि शेंडो बांदुनु ॥
दावि दिंबि संकोच कोर्नु धोणु धोर्नु ।
दिस्लो बाणु सोड्तलो मनोहरु जावु ॥ ५१ ॥

तरुणींल्या दोळ्यानि पिव्वे म्होवा वरि ।
प्रीति अंकुर आसुचा स्मरतरु सुमा वरि ॥
प्राकृतिक भूषणां वरि सर्व अवयवांक ।
मनोहर यौवन प्राप्त जाल्लें तनुंक ॥ ५२ ॥

चित्र लिखित कन्या पशि दूतिन दाकैयिल्यो ।
अतिशय रूप आशिल्यो सचिवानि हाळेल्यो ॥
नृपपुत्रिंक युवकाकं दीवु सपत्नी केल्यो ।
फूडेचि हातु धर्लेल्या श्रीभू देविंल्यो ॥ ५३ ॥

## अष्ठादश सर्ग समाप्तु

# एकोन विंशति सर्गु
# अग्निवर्ण शृंगार

इंद्रिय जिंकिल्या रायान पुत्ताक ।
तेजस्वि अग्निवर्णु म्होणु विबुधाक ॥
आपल्या राज्याक केल्लो अभिषेक ।
म्हांतार्पणारि गेल्लो तो नौमिषाक ॥ १ ॥

थंयिं खेळचें तळें पवित्र उदकान ।
हांतुळ भूमिरि पात्लायिल्या कुशान ॥
राजगृहवासु पर्णशालेन विसोर्नु ।
तपस्य केल्लें ताणे फलेच्छा सोणु ॥ २ ॥

बाप्पुलें राज्य राक्चें काम़ पुत्ताक ।
वांव्ट जाग्नि कारण बाप्पुन विरोधिंक ॥
बाहु बलान मार्नु भूमि सुख भोग्चाक ।
दिल्लेलि शिवायि नईं ईजा भोगुक ॥ ३ ॥

ताणे लंपटान कुलाचो अधिकारु ।
थोडे कालथायि चलोंनु हस्तांतरु ॥
केल्लो तागेले अमात्य मंडलाक ।
नव यौवनयिं दिल्लें तरुणीं वशाक ॥ ४ ॥

मृदंग ध्वनि आय्कुपोड्चा तागेल्या ।
घरांतु कामिनी सहचरु लंपटाल्या ॥
फुळ्ळे उत्सव अधिक संपत्समृद्धिन ।
माक्षिपळे मुखावयिल्या उत्सवान ॥ ५ ॥

एक क्षण जाल्यारियि विषय सुख सोणु ।
आशिलो सहन कोरुक असमर्थु जाव्नु ॥
बाय्लां लागि आस्तलो दिन रात्रि भोंव्नु ।
भेट्टुंक आशिल्यांक धिक्कारु कोर्नु ॥ ६ ॥

सचिवांल्या गौरवाक केद्दाना पुणि ।
दर्शन प्रजांक ताणे दिल्ले तकिनि ॥
केवल अवकाशु दिल्लो पोळोचाक ।
लांब्चो पायु खिडकिच्या रंध्र मूलक ॥ ७ ॥

मृदु नांक्टांचो तांब्डो रंगु शिंपुचे ।
वत लागिलिं पंकजां वरि सकाणिचें ॥
तागेल्या पाय्यांक कोर्नु नमस्कार ।
सेवा केल्लि प्रजानि भक्तिन अपार ॥ ८ ॥

कठिन मोम्यांच्या पेट्टांक युवतींल्या ।
पद्म सरसिंतु हाल्वें जल आशिल्या ॥
कामान वळवळेव्नु गुपित रति गृहांतु ।
भोंव्तलो तो आशि कोर्नु संभोगांतु ॥ ९ ॥

थंयिं जलकेळिन दोळ्यांचें काज्जळ ।
ओंटाक लाव्नु धेत्तिलो रंगु पाटळ ॥
धूव्नु वोच्चुनु सहज गोमटे तोंडान ।
केल्लि बाय्लानि ताका चडि आकर्षण ॥ १० ॥

मधुचो नांकाक मार्चो वासु हुंकुनु ।
पान भूमिंक गेल्लो बाय्लांक घेव्नु ॥
गेल्लेल्वरि दार्लि हस्ति बाय्लांक मेळनु ।
तळ्याक कमलं आशिंल्या फुल्लेनु ॥ ११ ॥

मद येव्चो मधु ताणे तोंडांतु धोर्नु ।
दिल्लोलो पिल्लिंति बाय्ल्यो गुप्त जाव्नु ॥
अग्निवर्णुयिं तान्निं तशिं दिलोलो ।
ओवळा रुक्षा वरि आशेन पिल्लो ॥ १२ ॥

जांगेरि बोश्चाक योग्य जाल्लेल्यानि ।
ताज्झि जांग भोर्चे वरि केल्लि दोगांनि ॥
एकि कान्नांक गोड्डि खावोचि वीणा ।
आनि एक्लि साक्रे उत्रांचि सुनयना ॥ १३ ॥

निपुणान ताणे स्वतः मृदंग वाजुनु ।
हाल्वे हार समूहान हृदय खांपुनु ॥
नाट्यांतु चुकुनु पळ्ळेल्या नर्तकींक ।
लज्ञा आस्स करैलि गुरुंल्या सम्मुख ॥ १४ ॥

नर्तन अंत्यारि हूम देंवु श्रमान ।
तीळो वाय्दु जाल्लोलो चोव्रु आनन ॥
ताणे फुंकुनु प्रीतिन दीव्रु चुंबन ।
केल्लें धनद सुरपांक वयिलें जीवन ॥ १५ ॥

नव्या प्रिय वस्तुक आशि पाविल्याक ।
प्रियेनि वोच्चुनु ताणे आश्चे कडेक ॥
गुप्त आनि प्रकट रीतिन अर्धमात्र ।
इंद्रिय सुख भोग दीव्रु केल्लो अतृप्त ॥ १६ ॥

बोट्टां तलव हाल्लोनु भिष्टाय्तंल्या ।
भोंव्येंक गांटिधाल्नु वक्र चोय्तंल्या ॥
बाय्लानि वंचना केल्लेले कारण ।
ताका बांदुनु घाल्लो कुर्टा दोरिन ॥ १७ ॥

सुरत रात्रि कोळ्चे वरि दूतिंक मात्र ।
माक्षि बैसुनु प्रियेंल्या प्रीतिक पात्र ॥
आय्कलो विरह भीतिन कोर्चो प्रलापु ।
कळ्ना तशिं ताकां अग्निवर्णु भूपु ॥ १८ ॥

आशा आसूनु चांग्यो चेड्यांचेरि ।
राणिनि बैसुनु आस्तानांचि सन्निधिरि ॥
बोट हुमेनु कुंच पोणु गेल्लेतकिनि ।
ताणे तांचें चित्र केल्लें कशीं पुणि ॥ १९ ॥

रति आम्चेरि आस्स म्होणु अहंकारु ।
चोव्रु सपाल्लिलो पाव्रु मनसिज विकारु ॥
राणिनि उत्सवा कारण द्वेषु सोणु ।
कृतार्थ जाल्यो ताका अन्यत्र होर्नु ॥ २० ॥

सकाणि आयिल्याक अन्य संगुकोर्नु ।
चोव्नु कोप्पुनु मागिरि कोरुक प्रसन्नु ॥
कामिनिनि माग्गुनु घेत्ताना तो सोणु ।
गेल्लो वेश्या प्रणयान आळ्सो जाव्नु ॥ २१ ॥

सोप्नांतु सपत्निलें नांवं उच्चार ।
केल्लेलें आय्कुनु सतिनि सोणु उत्तर ॥
रोणु क्रोधान हांतुळ वल्लें कोर्नु ।
विरोधु केल्लो ताका कांकण भेत्तुनु ॥ २२ ॥

सुम तळव सोणु वाल्लि मांट्वाक गेल्लो ।
मार्गु धोर्नु भूपति दासिन दाकयिलो ॥
थंयिं दूति संगान रति सुख पाल्लो ।
अंतःपुर नारिंल्या भीतिन कांप्लो ॥ २३ ॥

पाळ्ळिं तुगेल्या वल्लभेलिं नांवं ।
तांचें महा भाग्ययि पाव्वाक हांवं ॥
मानिनिनसांग्लें आशाकर्ता म्होणु ।
रायान आपयिल्याक नांवं चुकुनु ॥ २४ ॥

पंळेले सुम माळेन तुंटिले कांचिन ।
कुंकुमान तांब्ड्या लाक्षेचा रसान ॥
दाकैतलें तळव तें अग्नि वर्णालि ।
विलासिनि जोडि रति क्रीडा खेळेलि ॥ २५ ॥

ताणे स्वेच्छेन बाय्लांल्या पाय्यांक ।
रंगु लाय्लो पुणि जाय्नि पूर्ति कोर्चाक ॥
कारण काप्पड निसर्ललो कूर्दु चोव्नु ।
दृष्टि थंयिं राब्लि हांल्ना तशिं जाव्नु ॥ २६ ॥

उम्मा दित्ताना तोंड घुम्डाय्लें तरि ।
नेशिलें मेक्कोळचो हातु धर्लो तरि ॥
ताका सकड दिशान जाल्यारियि आड ।
युवति सुरत जाल्लें मन्मथाक राकुड ॥ २८ ॥

मुकुरांतु संभोग चिह्न चोय्तलेल्या ।
फाटि माक्षि चेष्टा कोरुक राबिल्या ।
हासान गोम्टें प्रतिबिंबान ताणे ॥
ह्रीन मुख निपोचे वरि केल्लें तीणे ॥ २८ ॥

गळो पोटोनु धोर्नु मोवाळ बाहुनि ।
प्रीतिन उंगुष्टारि राबुनु प्रियेनि ॥
उम्मा दिव्का म्होणु केल्लि प्रार्थना ।
ताणें तळव सोणु सकाळि वत्ताना ॥ २९ ॥

स्फुट जाव्नु दिश्चिं सुरत खतं आंगारि ।
चोव्नु खुशि युवकु रायान पाविले वरि ॥
इंद्रा पशि चांगु आपलो राजवेषु ।
आरसांतु चोव्नु पाव्नि तित्तुलो तोषु ॥ ३० ॥

दुसरे प्रदेशाक मित्र कार्य म्होणु ।
वत्तल्याक अंगनानि फट्टि सांगुनु ॥
तूंवें धांव्वो उद्देशु जाण म्होणु ।
राबैलो रुषान शेंडि धोर्नु तांडुनु ॥ ३१ ॥

निष्करुणि रति श्रमांचा आलस्यान ।
कामिन्यो पोटोनु धोर्चा व्याजान ॥
वोच्चुनु स्तनांचो चंदनालंकारु ।
निद्दल्यांति नृपवक्ष कोर्नु आधारु ॥ ३२ ॥

दूति मुखांतर कोळ्नु सुरताक वोच्चें ।
बाय्लानि रात्रि मुखारि राबुनु ताचें ॥
लंपट काळ्काक तूं अशिं ढोंगि कोर्नु ।
वत्ता खयिंक म्होणु हाळ्ळो तांडुनु ॥ ३३ ॥

पूर्ण चंद्राल्या चान्निन्या वरि थंड ।
भोग्लो युवतिले अंगसंग सुख सकड ॥
रात्रि जागि आसुनु दिसाचें निद्दोनु ।
दिस्लो साळुकांच्या तळयेक समानु ॥ ३४ ॥

वेणु दांतानि चाबिले ओंटाचेरि ।
वीणा नांक्टानि घर्पिलले जांगेरि ॥
दोव्वोर्नु गायकिनि वाजिताना दुकिन ।
ताका खुशि जाल्लि चोव्वें वक्र दृष्टिन ॥ ३५ ॥

आंगिक सात्त्विक वाचिक म्होणु त्रिविध ।
स्त्रींल्यागि गुपित जाव्नु नांचु शिकुनु सिध्द ।
मित्रां मुखारि तो प्रदर्शन कर्तलो ।
आचार्यांल्यागि स्पर्धेक राब्तलो ॥ ३६ ॥

भुजारि लांब्वें कुटज अर्जुन सुम हारु ।
नीप पुष्प रज लाव्नु ताणे शृंगारु ॥
कोर्नु पाव्सांतु आसुचा मद मयूरं ।
क्रीडा गिरिरि केल्लो शृंगार विहार ॥ ३७॥

प्रणय कलह कोर्नु कोप्पिल्यां बाय्लांक ।
अवसरु कर्नि ताणे सांत्वन कोरुक ॥
आपण्यालें देह गुड्गुडाक भीव्नु ।
पोटोनु धर्ताति तीं म्होणु आटोनु ॥ ३८ ॥

कार्तिकांतु रात्रिचें मांट्वांतु सुंदरु ।
सौधाच्या वयिरि तो अंगना सहचरु ॥
घनं नांतिलें नितळ थंड चान्निन्यान ।
सुरत क्रीडा श्रमु कर्तलो निवारण ॥ ३९ ॥

हंसगण म्हळल्या कुर्टा दोरान ।
रेवेंच्या राशिंच्या होड्डु कुल्यान ॥
सतिलें सौंदर्य नकलि कोर्चे सरयुक ।
रायु चोय्लो सौधाच्या खिडकि मूलक ॥ ४० ॥

मेखला दिश्चि अगरु परिमळु आसुचा ।
हेमंत काप्डाचि मर्मर रव कोर्चा ॥
नेसणांचि गांटि मेक्कोळुक आसक्ति ।
कृश कुर्टाचो नृपाक आस्स कर्ताति ॥ ४१ ॥

कूडांतु आशिले वारें नांतिल्या ।
चोव्वु दिवे म्होण्चा अक्षिनि तागेल्या ॥
कृत्यांक साक्षि शिशिरांच्यो त्यो रात्र्यो ।
आस्सति सुरतांचो बहु श्रमु निवोच्यो ॥ ४२ ॥

आंक्रि मेळ्नु आंब्यां रूक मलय वायुन ।
फुल्लेलेले चोव्वु अंगना जनान ।
सोळ्ळें प्रणय कलह विरहाचा दुक्किन ॥
केल्लें स्वयं अग्नि वर्णांक अनुसरण ॥ ४३ ॥

हिंदोलारि बैसुनु जांगेरि सतिंक ।
बोसोनु जोयिं ताणे सखिं मूलक ॥
काडैताना हातु सोळ्ळोलो चोव्वु ।
भीतिन ताका सतिनि धर्लो पोटोनु ॥ ४४ ॥

मोति गांतुनु केल्लेल्या आभरणानि ।
कुल्थारि लांबुचा रत्नांच्या काँचिनि ॥
बाय्लानि चंदन लायिल्या मोम्यानि ।
तृप्ति केल्लि ताका ग्रीष्म ऋतु वेषानि ॥ ४५ ॥

तो तांब्डें पाटल फुल्लांचें आसव ।
पिल्लो घाल्लेलें आंब्याचें पल्लव ।
दुर्बलु जाल्लोलो वसंत ऋतु वत्तरि ।
जाल्लो तागेलो कामु नवो मागिरि ॥ ४६ ॥

अशिं लंपटु जाब्नु इंद्रियांचें भोग ।
भोगुनु दुसरे कार्याचें सोणु संग ॥
आपलिं लक्षण दाकयिलिं पोळोनु ।
सम्जलो त्या कारण अमुकु ऋतु म्होणु ॥ ४७ ॥

नां जाल्यारियि सोये प्रभावशालिक ।
जाय्नि ताका हारि कोरुक पर नृपांक ॥
जाल्यारि रति निम्गिति येव्वे रोगान ।
दक्ष शापान इंदु वरि जाल्लो क्षीण ॥ ४८ ॥

वैद्यांल्या उत्रांक कानु दिल्लो नां ।
स्त्री मधु वाय्ट म्होणु कोळ्नु सोळ्ळें नां ॥
इंद्रिय समूह इष्ट विषयांतु बुडिलें ।
वयिंरि काड्चाक कष्ट साध्य जाल्लेलें ॥ ४९ ॥

तो धौट्या तोंडान मित आभरणान ।
हळू चम्कुनु वेग्ळाल्या आधारान ॥
क्षीण ध्वनिन काम अवस्थेक समान ।
राज यक्ष्मान क्षीणु जाल्लो क्रमेण ॥ ५० ॥

शशिलि अंत्य कला आशिल्या नभावरि ।
चिकोलु मात्र आसुचा ग्रीष्म सरसिवरि ॥
आशिल्वरि दीप पात्र लान ज्योतिन ।
आशिलें तें कुल ताझा रोग कारण ॥ ५१ ॥

पुत्र प्राप्ति उद्देशान रायु नित्य ।
जप होम कर्म कोर्चांतु बुड्ला सत्य ॥
म्हळें संशयु पात्तल्यांक अशिं म्होणु ।
रोग विचारु ताझे मंत्र्यानि निपोनु ॥ ५२ ॥

आस्ले तकिनि ताका भोवु जन बाय्ल्यो ।
चांगि संतति चोव्वाक अशक्यु जाल्लो ॥
वैद्यांक हारि कोर्चा रुजेंतु बुड्लो ।
वार्या तोंडाच्या दिव्या वरि जाल्लो ॥ ५३ ॥

सचिवानि अंत्येष्टि कोर्चा ब्राह्मण सह ।
गृह उद्यानांतु तागेलें तें देह ।
केल्लें रहस्य जाव्नु अग्निंक अर्पण ।
रोग शांति कर्म म्हळल्या व्याजान ॥ ५४ ॥

रायालि बाय्ल एकलि गुर्बिणि म्होणु ।
सकड गर्भ लक्षण चोव्नु आय्लें कोळ्नु ॥
वगीचि प्रधानानि प्रमुख प्रजांक ।
मेळोनु दिलें राज्य राया बाय्लेक ॥ ५५ ॥

तसल्या रायाल्या मरणांच्या दुःखान ।
ताप्पिलो गर्भु दोळ्यांच्या हून उदकान ॥
संतुष्टु जाल्लो कुलाचा अभिषेक विधिन ॥
भांग्राच्या कळशान पोड्चा थंड जलान ॥ ५६ ॥

प्रसव जाव्वे समय राकुनु आशिल्या ।
भाग्य वाडोचाक म्होणु प्रजांल्या ॥
भूंयिं गुपित जाव्नु धोर्नु घेत्ता कशिं ।
श्रावणांतु शिंपिलें मुष्टि बीज तशिं ॥
गर्भु धारण कोर्नु सुवर्ण सिंहासन ।
चोणु बैसूनु क्रम प्रकार रक्षण ।
कर्तलि राणि विश्वासि सचिवांक घेव्नु ॥
अङ्गि नांतिलें पति राज्य आज्ञा कोर्नु ॥ ५७ ॥

**एकोन विंशति सर्गु समाप्तु**

**संपूर्ण**
**इतिशाम्**

**समग्ररधुवंशाचे श्लोक संख्या - १५७६**

# कठिन शब्दार्थ

अकलंक - निर्मल
अक्ष - द्यूत केळींतु उपयोग कोर्चें साधन । रथांच्या चक्रांक आधार जाल्लोलो भागु, जपमाला ।
अक्षत - तांदूलु
अक्षय - नाशनात्तिलें
अक्षि - दोळो
अगुरु - सुगंध
अगोचरु - दोळयाक दिसनांतिलो
अग्र - तलव, मुखारि
अग्रजु - म्हाल्गडो भाऊ, अण्णा
अग्रणि - नायकु, नेतारु
अग्निस्नेहितु - वारें
अग्नि होत्रि - नित्य होमुकर्तलो
अर्घ्य - अतिथिंक दिव्चें पानीय
अचल - स्थिर, पर्वतु
अच्चु - (पळे-अक्ष)
अजिन - चर्म
अजु - बह्मु, रघुमहारायालो पूतु
अडचण - निरोध, अड्डि
अण्वो - नीचु
अण्वेपण - वाय्टपण
अतीव - भारी
अथर्व - अथर्वण वेदु
अर्थु - संपत्ती, शब्दांचे प्रयोजन
अर्थयुत - अर्थु आशिले, चांग
अद्रि - पर्वतु
अद्वितीयु - असमानु
अधर - ओंटु
अध्वर - यागु
अधीश्वरु - चक्रवर्ति
अधोक्षजु - विष्णु
अधोमुख - तोंड सकल केल्लोलो
अध्यात्म बोध - आत्मांक संबंध पाविलो विचारु
अनलु - अग्नि
अनम्र - बाग्वनांतिलें
अनवरत - नित्य
अनळु - अनलु, उज्जो
अनादर - तिरस्कार
अनावृष्टि - पावुसु नात्तिलें आसुचें
अनिमित्त - कारणनांतिलें
अनुकरण - नकलि
अनुक्रम - क्रमप्रकार
अनुकूलवायु - काम जात्ता म्होणुसांग्चें एक शकुन, फाटिमाक्षिचान, प्रयाण कालारि होळ्चें वारें
अनुचरु - सेवकु
अनुदिन - नित्य
अनुमोदु - सम्मति
अनुरणन - प्रतिध्वनि
अनुरूप - योग्य
अनुष्ठान - आचरण
अपरक्रिया - उत्तरक्रिया, मेल्लेल्यांक कोर्चो संस्कारु
अप्राप्त - मेळनांतिलें
अपहास - निंदा
अबला - स्त्री
अब्द - वर्ष
अभिधान - नांवं
अभिनंदन - प्रशंसा, संतोषु प्रकट कोर्चें
अभिमख - मुखारि
अभिरामता - सौंदर्य
अभिसारिका - प्रियकराक मेळुक वत्तलि
अभ्यागतु - अतिथि
अभ्युत्यान - अभिवृध्दि
अभीतु - धैर्यवानु
अमळ - स्वच्छ, अवळजवळ
अमास - अमावास्या

अमात्यु - मंत्रि
अमित्रु - वैरि
अयोनिजा - योनिदोकुनु जन्मनात्तिलि, सीता
अरिमर्दन - शत्रुंक मार्चे
अरिषडर्ग - काम, क्रोध, लोभ, मोह, मद, मत्सर - हे स आंतृरिकवैरि
अरुणु - सूर्यसारथि, तांब्डोबर्णु
अलक्तक - लाक्केरोसु
अली - म्होवामूसु
अवगुंठन - बुरका
अवग्रह - अनावृष्टि
अवतरण - देंव्नुयेव्चें
अवतंस - कर्णाभरण
अवनी (नि) - भूमि
अवभृथ - याग अथवा मंगलकार्य मुक्तायजात्तरि कोर्चे स्नान
अशनि - वज्रायुध, विद्यु
अष्टमूर्ति - ईश्वरु
अष्टादश तीर्थ - आद्रा रायाले प्रमुख सहायक
असिधाराव्रत - खांड्या धारारि चम्कले ल्वरि कष्टकर व्रत
अहि - सरोपु
अर्हु - योग्यु
अंतर्जल - गुपित जाव्नु होळचें उद्दाक, झरि
अंत्येष्टि - अंत्यसंस्कारु
अंबर - आकाशु, आंव्गलें
अंबुराशि - समुद्रु

## आ

आकर - खनि, उत्पत्तिस्थान
आकर्णांत - कान्नाल्यागि थांयि
आकाशगंगा - स्वर्गाचि गंगानदी
आंकडो - संरवो, संरव्या
आगम - शास्त्र
आगोळु - केसु
आगंतुकु - अतिथि
आंग्लोटु - शरीराचे सौंदर्य
आंगिक - अंगाभिनय
आजानुबाहु - दीगबाहु आशिलो
आटयि - उड्गासु करि
आडायि - आतंक करि
आतिथेयु - अतिथिक सत्कारु कर्तलो
आदित्यु - सूर्यु
आदेशु - आज्ञा
आनतु - बाग्वललो, नमस्कारु केल्लोलो
आनन - तोंड
आप्तवाक्य - प्रमाण वाक्य
आभूषण - आभरण
आत्मजु - पूतु
आयु - आयुष्य
आय्दन - पात्र
आरसा - आदर्श, मुकुर
आराधनीयु - पूजनेंक योग्यु
आलापु - संभाषण
आलीढ - धनुर्धरान बाणुसोडुक राब्वि एकि रीति
आवर्त - उद्दाक घुम्चेवरि जाव्नु एकु फोंडुसों, दिसुचें, गिरकि
आशिष - आशीर्वाद ,बरेजाव्नोम्होण्चें वचन
आसव - सूरु
आसु - अश्रु, दोळयां उद्दाक
आर्तध्वनि - दुःखान मार्लेलि बोब
आंबुड्तलो - सारथि

## इ

इक्ष्वकुकुळावि - इक्ष्वाकु म्हळलल्याले कुलाचो
इषु - बाणु
इष्टि - यागु
इंगित - मनांचो अभिप्रायु
इंद्रगोप - तांब्डे रंगांचें एक कीट

इंद्रचाप - मेघामध्ये दिसुचें वर्णमय कमान

इंदु - चंद्रु

इंदोल - जोयिंकाड्चे एकसाधन

### ई

ईजा - कष्ट

### उ

उक्ति - उत्तर

उग्रु - क्रूरु

उंछ - खेतांतु पळळेलि बी विंचुनु हाणु खाव्नु जीवन कोर्चें

उत्तरीय - खांध्यारि घाल्नु घेव्चे वस्त्र

उद्दंड - देंटुवयिरि आशिले, प्रचंड

उद्दीपन - उद्रेक आस्स कोर्चें

उध्दटु - गर्विष्ठु

उन्नति - अभिवृध्दि, उबार

उन्मेष - फुल्लेलेलें

उपकृति - उपकारु

उपमातु - दायि

उपमु - समानु

उत्पात - अपशकुन

उर - हर्दें

उरस्थल - हर्दें

उवारु - जल प्रवाहु

उष्णकिरणु - सूर्यु

उष्ठो - दुष्टु

### ऊ

ऊंच्चु - श्रेष्ठु, उन्नतु

ऊर्ध्वक्रिया - उत्तरक्रिया

ऊर्ध्वमुख - वयिरितोंड

ऊनु - अंगविकलु

ऊब - उद्दाक ताप्पिले वेळेरि तांतु दोकुनु येव्चें दाह, बाष्प

ऊरू - जांग

ऊस - इक्षु

### ऋ

ऋतुस्नान - वसर्तिन्हाव्चे

ऋत्विजु - यागु करैतलो, पुरोहितु

### ओ

ओजस्सु - तेजस्सु

ओषधि - वनस्पति

### औ

औत्पातिक - अमंगल म्होणु सांग्चेचिन्ह

औसुक्य - कुतूहल आस्सकोर्चें

औरसु - धर्मपत्निंक जाल्लोलो पूतु

### क

कड्कडेलो - कांप्लो

कटाक्ष - वक्रजाव्नु पोळोचें

कनक - भांगर

कपाल - मुत्या कर्टें

कबरि - फांति

कबंध - बोडनांतिलें देह

कमलयोनि - ब्रह्मु

करण - उपकरण, इंद्रिय

कराल - भयंकर

करो - उष्ट्र

कर्णीरथ - राणिनि बोस्चो रथु

कर्तन - कात्तोर्चें

कळंबि - लोहाक मांडुचें कल्मष

क्रतु - यागु

काकपक्ष - चेर्डुवांल्या निडलारि लांब्वें केसांचे गुच्छ

काकुत्स्थु - ककुत्स्थ वंशाचो

काणसळ - गाल

कातिं - उरगांलें आंगाचें चर्म

कामना - इच्छा

कामिनी(नि) - स्त्री

कामु - मन्मथु
कामुकु - लंपटु
कार्मुक - धनुस्सु
कालिंदि - यमुना नदी
कालीयु - कालिंग सर्पु
काळिका - मेघ समूह
किरणा वत - बालातप, सकाणिचें वत
कीटि - अग्निकण
कुच - मोम्मो, स्तन
कुज - रूकु
कुतूहल - विस्मय
कुररी - एाकिपक्षि
कुरंगि - बाय्लें हरिण
कुलगिरि - मुख्य सात पर्वत
कुलिश - वज्रायुध
कुलीनु - चांगकुलांतुजन्मललो
कुशशयन - तणांचि मांद्रि
कुसुंगि - मत्सरि
कुस्निं - पळे कुसुंगि
कुध्दु - कोप्पिलो
कूजित - पक्षालें रण्य
कृती (ति) - ग्रंथ, कतार्थ
कृत्रिम - कृतक, बनावट
कृष्णसार - काळिंरवत्तं आशिलें हरिण
कुल्लो - नितंब
केका - मोरांलि आवाज
केकाध्वनि - केका
केतु - पताको
केयूर - भुजाभरण
केशखंडन - केस काप्चे
केळी (ळि) - खेळु
केळीगृह - खेळ्चेंमंदिर
क्लेश - दुःख
कोटि - तलव
कोसुचें -- क्षेत्र बी वोव्चाक सिध्द कोर्चें
कोसोळचें - भेत्तुनु शिथिल जाव्चें
कौबेरि - कुबेराक संबध पाविलें उत्तर-दिक्कु
क्रौंच - एकपक्षि
क्षात्र - क्षत्रियाक संबंधु पाविलें, क्षत्रिय
क्षुरप्र - एक आयुध विशेष
कंचुकि - राणि वासाचो सेवकु
कंदर्पु - मन्मथु
कांचि - कुर्टाचो पाट्टो
कांबोचें - मिश्रकोर्चे
किंकरु - सेवकु
कुंभयोनि - अगस्त्यु

## ख

खग - पक्षि
खगेश्वरु - गरुडु
खत - चिह्न
खनि - (पळेआकर)
खव्लो - ताक घांटुचें साधन
खळंब - जाव्नुवस, ऊणेजा
रवीण - लागुनु जाल्लेलेंखत
खंदक - दुर्गाक मंडलघाल्नु खोंडिलि उद्दाक राबयिलि रवणि
खोंचि - दूकि

## ग

गगन - आकाश
गण - समूह
गमन - लक्ष्य, चम्काण
गम्य - वोचुका जाल्लेले
गरुडकेतु - विष्णु
गवाक्ष - खिडकी
गवय - रान्नागायि
गाजु - गर्जन, आवाजु
गात - गायि, घोडो इत्यादिक प्राणिलें पादतल
गात्र - प्रमाण, शरीर
गाबु - गर्भु

गारुत्मत - गरुडाक संबंध पाविलें
गिरि बोड - पर्वत शिखर
गिरिकि - उद्दाक घूम्नु फोंडुसो दिस्चें
गीद - गृध्र, मडेकाय्ळो
गुहजननि - पार्वती
गोंत्र - कुल
गोप्रतर - गोर्वांचि टोळि
गंतु - गुंडि
गंभीरवेदि - अंकुशान कात्तर्ले तकिनि दूकि कळना तसलि हस्ति

## घ

घन - मेघ
घनघोष - मेघगर्जन, गुडुगुडु
घ्रत - तूप
घांटुचें - मथनकोर्चें

## च

चकित - विस्मय पविलें, भिल्लेलें
चक्रधरु - विष्णु
चक्रवाक - केद्दानायिं दार्लि बाय्लि जोडिजाव्नु आसुचि पक्षि
चक्रवालगिरि - एकु पर्वतु, सूर्यु हाका प्रदक्षिणायेत्ता
चतुर्मुख - ब्रह्मु
चतुर्वर्ग - धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष हे चारि पुरुषार्थ
चतुर्वर्ण - ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य, शूद्र
चमरि - चामरावरि मस्त रोमेंचेबाल आस्चें एक मृगंविशेष
चमर - चमरिमृगाच्या केसानि केल्लेलें वारें घाल्चें एक साधन, चौर, चामर
चल - चंचल
चातक - पाव्साचें उद्दाक पीव्नु वांचुचि एक पक्षि विशेष
चाप - धणु
चाप्डार्चें - तोंडांतु घाल्नु चाब्बतआसुचे
चारि उपाय - साम, दान, भेद, दंड
चित्तवृत्ति - मनोभाव
चीर - रुक्काचा तंतुचें आंवगलें, बल्कल, मुगुटो ।
चैत्ररथ - कुबेरालें उद्यान

## छ

छायापथ - नक्षत्र समूह

## ज

जरा - म्हांतार्पण
जलधि - समुद्र
जलाशय - सरोवर
जलांजलि - पितृंक दिलेंलें तर्पण
जव - वेग
जह्नुकन्यका - जाह्नवी, गंगा
जातकर्म - जाल्लेल्या चेर्डाक कोर्चो संस्कारु
जानकी - सीता
जार - लंपट
जालिक - मासोळि धर्तले
जालंध्र - खिडरवी
ज्या - धनुचि दोरि
ज्येष्ठु - म्हाल्गडो, एक मासाचें नांव
ज्योतिष्मती - कांति आशिलि
जंगम - चलन आशिलें

## झ

झार्कुट - सस्यांचें पुंज
टंक - फात्तोरु भेत्तुचें साधन
डोंक - एक पक्षि विशेष

## त

तटाक - तळयि, जलाशय
तनु - देह

तनुत्र - कवच
तरल - चंचल
तरु - रूकु
तरंग - उदकाचेंपाळ, लहर
तळव - हांतुळ, शय्या
त्रयी - तीनि वेद
त्वरित - शीघ्र
तंति - सरि, तंत्री
तंतु - वायु, सूत
तंबु - शिबिर
तरंगिणी - न्हंयिं
तिलोदक - पळे जलांजलि
त्रिवर्ग - धर्म, अर्थ, काम
त्रिशक्ति - प्रभुशक्ति, मंत्रशक्ति, उत्साह शक्ति
तीनिगुण - सत्त्व, रज, तम
तुरंग - घोडो
तुल्य - समान
तूण - बाण दोव्वोचें साधन, भाता
तूणीर - पळे तूण
तूर्य - वाद्य विशेष
तेरपो - जंगल, रूकबांदुनु उद्दाक बांटुक केल्लेलें साधन

## द

दक्षु - समर्थु, दक्षब्रह्मु
दर्पण - मुकुर
दव - रान्नांचो उज्जो
दशा - स्थिति, वाति
दळ - पान, पाकळि
द्रविण - धन
दंडनीति - राजनीति
दातारु - दानि
दान - मद, मदजल, दिव्चे
दानव विद्वेषि - राक्षस वैरि, विष्णु
दायि - पोषिलि आव्सु, सेबिका
दाशरथि - दशरथालो पूतु
दिगंगना - दिक्कु म्हळलि स्त्री
दिव - स्वर्गु
द्विज - ब्राह्मणु
दीपशिखा - दिव्या ज्योति
दुकूल - रेशमावस्त्र
दुर्जयु - कष्टान जिंकुक साध्य जाल्लोलो
दुर्दिन - घन धांकुनु आशिलो दिवसु
दुवाळो - गुर्बिणिलि आशि
दुहितृ - धूव
द्युति - कांति
द्युलोक - स्वर्गलोकु
देरु - देवरु, बाम्णालो धाक्लो भाऊ
देवगज - ऐरावत
देवरु - पळे देरु
दोल - जोंयिं
दोहन - धारकाडिचि

## ध

धनदु - कुबेरु
धन्वी - धनुस्सु आशिलो
धव - बाम्मुणु
धात्रि - दायि, भूंयिं
धारागृह - उदाक पोणु केदानांयि थंड आसुचें घर
धाळ्ळो - पेटैलो
धी - बुध्दि
धूमपु - धुव्वोरु पित्तलो
धृति - धैर्य
धोल - आंग हेकडे, त्याकडे हाल्लोचें
नकलि - अनुकरण
नखक्षत - नांकटा घायु
नग - आभरण, पर्वतु
नजर - उपायन
नजराणि - श्रेष्ठांलो अनुग्रह पाव्चाक दिव्चो वस्तु, उपायन
नद - पश्चिमाभिमुखु जाव्नु होळिच न्हंयिं

नभ - आकाशु
नमुचि - एकु राक्षसु
नयन - दोळो
नयनोदक - दोळयां उद्दाक
नयनवारि - दोळयां उद्दाक
नश्वर - अशाश्वत
नंदनु - पूतु
नाकलोकु - स्वर्गु
नागवल्लि - पडिपान्नंचिवालि
नाथु - रक्षकु, बाम्मुणु
नादु - शब्दु
नाभिनाळ - बोंब्लेदेंटु
नांवांतकित - कारण मात्र
न्यास - विश्वासान अन्याल्या अधीन दोव्वोर्चें
नांकारि बोट दोव्वोर्नु - आश्चर्यपाव्नु
निकर - समूह
निकष - भांगर परीक्षा कोर्चो फात्तोरु
निचय - समूह
निदाघ - ग्रीष्मऋतु
निदेशु - आज्ञा
निधान - निधि, हळू
निनादु - शब्दु
निबर - कठिन
निमित्त - कारण, निर्मिति
नियुक्त - अमुक काम कोर्काम्होणु नेमकु कोलेलो
नियंतु - स्वाधीन दोव्वोर्नु घेत्तलो
निरातंक - अड्डि नांतिलें
निर्जरु - देवता
निर्झर - धबधबो, प्रपात
निर्नामु - नाश
निर्लिप्तु - अनासक्तु
निर्वाण - मोक्षु, बाड्वुर्चें
निवह - समूह
निवेदन - विनति कोर्चें
निशित - तीक्षण, धारेर्चें
निसणि - निश्रेणि, पायरि चोड्चाक आसुर्चें साधन
निस्पृहु - आशिनांतिलो
नीवार - एक धान्य
नुति - स्तुति
नूपुर - गाग्गरि
नेत्र - दोळो
नेमि - चक्राचो पाट्टो
नैसर्गिक - स्वाभाविक

## प

पक्षबल - पाक्कांचि शक्ति, आपण्याल्या सैन्यांचि शक्ति
पडावु - होडि दोणि
पडिपान - एक खाव्चें पान, तांबूल
पण - जाल्यारि, पुणि, प्रतिज्ञा
पण्य - मोल
पध्दति - रूढि, पावुल
पय - दूध, उद्दाक
परमोष्ठि - ब्रह्मु
परंतपु - शत्रुंक ताप आसकर्तलो
परिघ - रवीळि, एक आयुध
परिचर्या - सेवा
परिधि - वृत्त
परिवेत्ता - म्हाल्गडे भावाक सोणु व्हार्डिक कोर्नु घेत्तिलो
परिवेष्टन - मंडल घाल्लेलें, मंडल
पल्लव - आंकि
पवन - वारें
पवमान आशुग - वायव्यास्त्र
पंकज - चिक्लाफूल, कमल
पंकजनाभु - विष्णु
पंज - वाघालें पाय्यां पावुल
पाटल - एक पुष्प विशेष, तांब्डो रंगु
पाणिग्रहण - व्हार्डिक
पारण - उपवासानंतराचें भोजन

पारंगतु - निपुणु
पांचभौतिक - पंचभूतांक संबंधु पाविलें
प्राणवायु - प्राण, अपान, समान उदान, व्यान
पांति - पंक्ति
पिक - कोयल
पिनाकि - ईश्वरु
पीयूष - अमृत
पुत्थळि - बाव्लि
पुरंदरु - इंद्रु
पुलोमजा - शची, इंद्रालि बाय्ल
पुष्कर - एक वाद्य विशेष
पुंरव - पाक
पुंसवन - गुर्बिणि स्त्रीक कोर्चो एकु संस्कारु
पैतृक - म्हाल्गड्यालें
पौलस्त्यु - रावणु
प्रकृति - स्वभावु, नामपदांचे मूलरूप, राज्य सप्तांग, सृष्टि
प्रकृतिरंजन - प्रजांक संतोषुकोर्चो
प्रचेतसु - वाल्मीकि
प्रतिम - समान
प्रतिहारि - द्वार राक्तलि
प्रदोषकालु - रात्रिचो प्रारंभु
प्रमादु - चूकि, गलत
प्रवाल - आंक्रि, पोव्ळें
प्रसाधन - अलंकारु
प्रसूति - बाळांति जाव्वें
प्राकार - पागोरु, वोणति
प्राचिनबर्हि - इंद्रु

## फ

फुल्लटि - सुर्वे वाव्राचि गायि

## ब

बहुल - मस्त, भारी
बाव्टो - वायुपट, पताको
बाष्प - दोळयां उद्दाक, ऊब
बुकिण - पिट्टि
बुराको - बीळ, पोकळ
बुर्से - मलिन, गलीज
बृंहित - हस्तेलि गर्जन

## भ

भागुनु - लाचार जाव्नु
भाजन - पात्र, आश्रय
भार्या - बाय्ल
भिजुडि - भिव्चो स्वाभावाचि
भुजंगु - सर्पु
भूतनाथु - इश्वरु
भूधरु - पर्वतु
भूपु - रायु
भूषण - आभरण
भूसुरु - ब्राह्मणु
भृंग - म्होवु पिव्चि एक जीवि, भोवारो
भेरि - एक चर्मवाद्य
भौम - भूमिंक संबंध पाविलें

## म

मकरिकापत्र - बाय्लानि रंगान कपोलारि बोरैचें चित्र
मकरंद - म्होबु
मरव - यज्ञ
मघवु - इंद्रु
मस्तप - पाय्या पेट्टु
मतंग - हस्ति, एकऋषि
मदनु - मन्मथु
मधुकरि - बाय्लो म्होवामूसु
मधु - म्होवु, सूरु
मधुपर्क - अतिथिंक दिव्वें एक खाद्य वस्तु
मनसिजु - मन्मथु
मरकत - पाच्वें रत्न

मरिच - मरीच, मीरें, मिर्चि
मंजरि - गुच्छ
मंडन - अलंकारु
मागध - मगध देशाचे, स्तुति कर्तले
मागधि - मगध देशाचि
मातलि - इन्द्रसारथि
म्हारघ - महाअर्घ, श्रेष्ठ
माळि - घरावयिलें भाग
मुगुटो - पळे चीर
मुद्दि - अंगुलीयक, बोट्टाक घाल्चें आभरण
मुद्गर - आयुध विशेष
मुंडासु - मुंडवास, बोडाक बांदिले वस्त्र
मृणाळ - कमला देंटु
मृद्वीक - द्राक्ष
मेरवला - कुर्टापाट्टो
मेघनादु - इंद्रजितु, मेघगर्जन
मैथिलि - मिथिला रायालि धूव सीता
मैल - मलिन
मोको - मुकुल, फुलेनांतिले फूल, कळो
मौर्वि - धनुंचि दोरि
मौलि - मात्तें
मौल्य - मोल

## य

यव - एक धान्य विशेष
यष्टि - दंड
यंता - सारथि
यान - वाहन
याम दुंदुभि - समयानुसार वाज्जुचें एक चर्म-वाद्य
यूप - यज्ञांचा कालांरि पुर्लोलो बलि खांबो

## र

रज - दूळि
रजनि (नी) - रात्रि
रत्नकुट्टिम - रत्न चाब्बयिले स्थळ
रत्नाकरु - समुद्र
रशना - दाभि
राजन्वती - रायु आशिलि
रित्तें (रितें) - शून्य
रुरु - चित्तल
रोंपो - ससि, झाड

## ल

लाक्केरसु - अलक्तक
लाळगळयि - आशिपाव

## व

वक्षस्थल - हर्दें
वज्रि - इंद्रु
वडवअग्नि - समुद्रांतु आसुचो उज्जो
वणिक - व्यापारि
वपु - देह
वल्क, वल्कल - मुगुटो
वाजिनीराजन - निवाळि काड्चि
वातायन - खिडकी
वामनु - कुब्जु
वारण - हस्ति
वालखिल्य - सूर्याल्या मुखावयिल्यान वोच्चे ऋषि
वासवु - इंद्रु
विदुष - विद्वांसु
विजन - निर्जन
विनतेलो चेल्लो - गरुडु
विपक्ष - विरोधि पक्ष
विपणि - बाजार, आंगडि
विबुधु - विद्वांसु
विरिंचि - ब्रह्मु
विलोचन - दोळो
विवर - पोकळ, स्पष्ट

विशिख - बाणु
विश्वंभरा - भूंयि
वीर सू - धीराक जन्मु दिल्लेलि
वेज्जु - छिद्र
वेणि - फांति
वैतसीवृत्ति - उदकांतुल्या झाडां वरि, उद्दाक होळनु एत्तांना बाग्वुचें ते गेल्लें की बोड उक्कोळचें, शरणंगतुजाव्चे

**श**

शची (चि) - इंद्रालि बाय्ल
शठ - धूर्तु
शतक्रतु - इंद्रु
शरधि - समुद्रु
शरासन - धणु
शल्य - बाणु
शशधरु - चंद्रु
शशिमौलि - ईश्वरु
शालि - शेत
शार्ंगि - विष्णु
शिखि - अग्नि
शिरस्त्र - युध्दावेळेरि मात्याच्या रक्षणेंक दोव्वोचें लोहाचें रक्षाकवच
शिष्ट - योग्य
शिंजिनि - धनुंचि दोरि
शीकर - जलबिंदु
शैवल - पामाजि
श्रांत - थकललो
श्रेणि - पंक्ति

**ष**

षड्गुण - संधि, विग्रह, यान, आसन, द्वैधीभाव, समाश्रय
षड्ज - वीणेन आनि कंठान आस्स जाव्चो स्वर विशेष

**स**

सज्ज - सिध्द केल्लेलें
सन्नध्द - सिध्द
सप्तार्चि - अग्नि
समीरणु - वारें
समीरु - वारें
सरणि - वाट
सरसि - तळयि, सरोवर
सरित्पति - समुद्रु
सलिल - उद्दाक
सल्लाप - संभाषण
सवन - याग
सहस्रकिरणु - सूर्यु
सहस्रपत्र - कमल
स्तवन - स्तोत्र
स्थावर - चलनांतिले
स्फुरण - हाल्चें
स्वनु - शब्दु
स्वाहादेवि - अग्निलि बाय्ल
संयमि - इंद्रियं वश केल्लोलो
स्यंदन - रथु
सायक - बाणु
सुदती (ति) सुंदर दांत आशिलि
सुरचाप - मेघां मध्ये दिस्चें वर्णमय कमान
स्रग - फात्तोरु उडोंचें एक साधन
सोवाशिणि - सुवासिनि, सुमंगला
सोये - जागृत स्थिति
सोवे - वाय्ट उत्रं

**ह**

हैरो - उरग
हेम - भांगर



**पि. वामन प्रभु, विद्वान्**
निवृत्तु कन्नड पंडितु

कन्नडान स्वल्प कथा रचन केल्या । कर्नाटकाचा प्रसिध्द पत्रिक्यो, प्रजावाणि, कन्नडप्रभ, सुधा, तुषार हाझेरि ह्यो कथा प्रकट जाल्याति । मास्ति वेंकटेश अय्यंगार शतमानोत्सव कथा स्पर्धेंतु बहुमान मेळ्ळा, प्रजावाणि पत्रिकेचा दीपावलि कथा स्पर्धेंतु विमर्शकांक पसंद जाल्लेलि कथा म्होणु संभावना मेळया ।

प्रकृत महाकवि कालिदासलें ऋतु संहार कोंकणीन अनुवादु कोर्नु पंच्कादायि कोंकणी मासिकारि प्रकट जाल्ला । भजगोविन्दं म्हळले श्रीमत् शंकराचार्यालें चर्पटपंजरिंतुले १६ श्लोकयि कोंकणीन अनुवादु केल्याति. कविकुलगुरु महाकवि कालिदासान संस्कृतान लिखिले, "रघुवंशमहा काव्याचो कोंकणी भाषेन भावानु वादु केल्ला ।